# युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

## अध्यक्षीय भाशणां

20



संकलन आनी संपादन
प्रो. प्रकाश वजरीकार
डॉ. प्रकाश पर्येंकार





# युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

## अध्यक्षीय भाशणां

संकलन आनी संपादन

प्रो. प्रकाश वजरीकार
डॉ. प्रकाश पर्येंकार






गोवा कोंकणी अकादेमी

युवा कोंकणी साहित्य संमेलन
अध्यक्षीय भाशणां

Yuva Konkani Sahitya Sammelan
Adhaxiy Bhashana

संकलन आनी संपादन
प्रो. प्रकाश वजरीकार
डॉ. प्रकाश पर्येकार

Compiled & Edited by
Prof. Prakash Vazrikar
Dr. Prakash Paryekar

प्रकाशन क्र. 225/-

Publication No. 225/-



पयली उजवाडावणी : 2021

First Edition : 2021

**उजवाडावपी :**
गोवा कोंकणी अकादेमी,
243, पाटो कॉलनी,
पणजी–गोंय. 403001

**Publisher :**
Goa Konkani Akademi,
243, Patto Colony,
Panaji-Goa 403001

**छापपी :**
रुतू ऑफसेट
वळवय, फोंडें - गोंय.

**Printer :**
Rutu Offset
Volvoi, Ponda-Goa.

**मोल रु. 200/-**

Price Rs. 200/-

# मांडावळ

# गोवा कोंकणी अकादेमीचे वतीन

फाटलीं दोन दसकां जालीं गोवा कोंकणी अकादेमी, युवा कोंकणी साहित्य संमेलन घडोवन हाडटात. युवकांच्या साहित्य गुणांक उर्बा दिवपाक युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे चळवळीन व्हड कार्य केलां. कितलेशेच युवा साहित्यीक हे माचयेर आयलेत, घडलेत. युवा साहित्य संमेलनाच्या माचयेवेल्यान कोंकणी जाणकार मार्गदर्शकांनी वेळा-काळार दिल्लें मार्गदर्शन हें युवकांक पोशक थारलां. आयज कितलेशेच युवा साहित्यीक तरेकवार साहित्यप्रकारांनी आपली वळख घडयतात. तशेंच संघटनात्मक नदरेंतल्यानूय वावर करतात. कोंकणी अकादेमीक हे संबदान खोस जाता.

साहित्य संमेलनांच्या अध्यक्षांची 'अध्यक्षीय भाशणां' विसाव्या संमेलनाच्या निमतान एकठांय करून कोंकणी अकादेमीन उजवाडाक हाडचीं अशी सुचोवणी प्रो. प्रकाश वजरीकार आनी डॉ. प्रकाश पर्येकार हाणी केली. ते निमतान अकादेमीचो एक दस्तावेज तयार जातलो आनी पुस्तक रूपान तो पावतलो हो हेतू नदरेमुखार दवरून गोवा कोंकणी अकादेमी हें पुस्तक उजवाडाक हाडटात. संपादनाचो वावर केल्ले खातीर डॉ. प्रकाश वजरीकार आनी डॉ. प्रकाश पर्येकार हाचे आमी उपकारी आसात. हें पुस्तक छापपी रुतु ऑफसेटचे हिरू नायक तशेच अकादेमीच्या कर्मचाऱ्यांचे उपकारी आसात.

प्राचार्य अरूण साखरदांडे.
अध्यक्ष
गोवा कोंकणी अकादेमी
ता. 31 मार्च, 2021
थळः पणजी - गोंय.

## साहित्यीक स्वाभिमान जागोवपी जागर...

1998 वर्सा केपें हांगा सरकारी कला, विज्ञान आनी वाणिज्य महाविद्यालयांत पयलें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन घडोवन हाडलें. गोवा कोंकणी अकादेमीन युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या आयोजनाची जापसालकी घेवन जोड आयोजक संस्थांच्या आदारान हीं संमेलनां घडोवन हाडल्यांत. अंदूचें हें विसावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन खांडोळेंच्या सरकारी कला, विज्ञान आनी वाणिज्य महाविद्यालयाच्या जोडपालवान तशेंच कोंकणी भाशा मंडळ, गोंय आनी परिक्रमा नॉलेज टर्मिनस, गोंय हांच्या डिजिटल सहयोगान घडोवन येता.

युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत युवकांक प्रतिभा विस्ताराची, जेश्ट साहित्यीकांकडेन संवाद सादपाची, आयोजनाची तशेंच प्रसिध्दीची माची मेळटा. ह्या संमेलनांनी जावपी अध्यक्षीय भाशणां हीं साहित्य वेव्हाराखातीर म्हत्वाचीं आसाच, पूण ह्या संमेलनां निमतान भारतांतल्या हेर समृध्द भासांतले साहित्यीक - कार्यकर्ते हांका उद्घाटक म्हण निमंत्रीत करुन तांचेकडल्यान कोंकणी भायल्याय साहित्य विश्वाची वळख घडची, प्रेरणा घेवंची असो हेतू दवरुन गोंयांभायल्या लेखकांक आपोवपाची एक समृध्द रीत आयोजकांनी, नियोजकांनी घालून घेतली आनी तिका नेमान पाळो दिलो जाचो बरोच फायदो कोंकणीक जालो.

युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचें हें विसावें अधिवेशन गोंय मुक्तीच्या साठाव्या वर्सा घडोवन येता. साहित्यीक अस्मितायेचें दर्शन घडोवपी आनी मुखावेली दिशा थरोवपाक

मार्गदर्शक थरपी अशीं विसूय संमेलनांच्या अध्यक्षांची भाशणां अकादेमीन प्रकाशीत करचीं अशी शिफारस आमी अकादेमी कडेन केली. अकादेमीन ती मानून घेतली. ते प्रमाण युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांच्या 20 अध्यक्षीय भाशणांचें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमी वतीन प्रकाशीत जाता. संमेलनाध्यक्षांच्या भाशणांची मूळ भाशाशैली, बोली आसा तशीच दवरपाचो यत्न आमी केला.

हो वावर मुखार हाडपाक अकादेमीचे अध्यक्ष प्राचार्य अरूण साखरदांडे, उपाध्यक्ष श्री कांता काशिनाथ गावडे, सचीव पराग नगर्सेकार तशेंच सहाय्यक सचीव डॉ. जयंती नायक आनी अकादेमीच्या कर्मचाऱ्यांनी भोव मोलाचो आदार दिला. पुस्तका खातीर टंकलेखन करपी सोनल नायक तशेंच रूतु ऑफसेट, वळवयचे हिरु नायक हांचे आमी उपकारी आसात. ह्या वावरांत मदत करपी गौरांग नायक, सान्वी खांडेपारकार, ऋतुजा फडते, नियंती नायक आनी सोनाली चोडणकार, तन्वी फडते हांचेय आमी उपकारी आसात.

अकादेमीन आमकां हो संकलन - संपादनाचो वावर करपाक दिल्ले खातीर आमी अकादेमीचे उपकारी आसात.

प्रो. प्रकाश वजरीकार.

डॉ. प्रकाश पर्येकार.

संपादक

ता. : 31 मार्च, 2021

थळ : पणजी

# पयलें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**श्री. दत्ता दामोदर नायक**
(संमेलनाध्यक्ष)

व्यासपिठार हाजीर आशिल्ले मानेस्त आनी ह्या संमेलनाक आयिल्ल्या तरणाट्यांनो, आयज हांव संमेलनाध्यक्ष ह्या नात्यान **'सर्जनशील साहित्याखातीरची साधना'** ह्या विशयाचेर म्हजें उलोवप करतां. सर्जनशील साहित्याची साधना करपाची कांय सुत्रां हांव तुमकां आज सांगता.

**पयलें सूत्रः बरयनाकात, उलयात.**

सर्जनशील साहित्यीक जावपाचो हावेस तुमचो आसत जाल्यार तुमी साहित्य बरोवंक वचचें न्हय. साहित्यांतल्यान उलोवचें. बरें साहित्य म्हळ्यार बरोवपी आनी वाचपी हांचे मदलो संवाद - सुसंवाद. तुमी बरोवंक बसतात तेन्ना तुमच्या दोळ्यांमुखार अशें चित्र हाडात - वाचक तुमचे मुखार बसला आनी ताजेकडेन तुमी उलयतात.

**दुसरें सूत्रः आयकयात.**

तुमकां साहित्यांतल्यान उलोवंक जाय जाल्यार तुमी आयकूंक जाय. भेड्डे लोक मोने जातात हो सैमीक नेम तुमी जाणात. देखून, आयकात. बारीकसाणीन आयकात. कान दिवन आयकात. इंग्लीशींत आयकुपाक 'हियर'(hear) आनी लक्ष दिवन आयकुपाक 'लिसन' (Listen) अशें उतर आसा. हो भेद लक्षांत दवरात. प्राचीन साहित्याक आमी श्रुती म्हणटात. जेन्ना बरोवपाचें शास्त्र खबर नासलें तेन्ना लोक आयकताले आनी आयकून दुसऱ्यांक सांगताले.

**तिसरें सूत्रः याद दवरात.**

श्रुती फाटोफाट येता ती स्मृती. श्रुती आनी स्मृती ह्या जुवळ्या भयणींनी वेद आनी उपनिषदां, पुराणां आनी

खंडकाव्यां एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन पावयलीं. जें जें आयकलें तें याद धरूंक जाय. आयकलें आनी आयकल्लें विसरलें जाल्यार साहित्यसर्जन जावंक पावचें ना.

**चवथें सूत्रः पळयात.**

कानाफाटोफाट पंचेंद्रियांतलें दुसरें म्हत्वाचें इंद्रीय म्हळ्यार दोळे. दोळ्यांनी दोळे भरून पळयात. सरभोवतणी पळयात. पळयात आनी काळजाच्या फोटोफिल्माचेर पळयल्लें राखून दवरात.

**पांचवें सूत्रः बरोवं नाकात, पितारात.**

अशी कल्पना करात - कागद हो एक कॅनवास आनी उतरां म्हळ्यार ब्रश. उतरांचो ब्रश अर्थाच्या नवरंगांत बुडोवन साहित्यांत चित्रां पितारात. सैमाचीं, सावदांचीं, मनशांचीं. सर्जनशील साहित्यीकाक 'व्हिज्युअल मेमरी' आसूंक जाय. तिचो आदार घेवन बरोवप्यान वाचकांच्या दोळ्यांमुखार 'साहित्यस्केप' पितारूंक जाय.

**सवें सूत्रः वाचात.**

वाचात, खूब वाचात. उपाट वाचात. हेरांनी बरयल्लें साहित्य वाचात. बरो वाचपीच बरो बरोवपी जावंक शकता. ना जाल्यार ताचें बरोवप उथळ, उखलापें जाता.

**सातवें सूत्रः अनुकरण करात.**

हय! सुर्वेसुर्वेक तुमकां आवडटा त्या लेखकाचें अनुकरण करात. तो कशें बरयता ताचो अभ्यास करात. ताचे भशेन बरोवपाचो यत्न करात. ल्हवू ल्हवू करून हें अनुकरणच तुमकां सर्जनशील आनी मौलीक अशा साहित्य निर्मितीकडेन पावयतलें. जाका पेवंक येना ताणें सुर्वेक उदकार उफेवपी रबराच्या फुगयल्ल्या कड्याचो आदार घेवंक जाय. फुडें ह्या आदाराची गरज पडना. तशेंच हें. जपानी लोकांनी उद्योगीक मळार किदें केलें? पयलीं पयलीं अमेरिकनमालाची कॉपी केली

आनी मागीर तांच्याय परस बरो माल तयार केलो. तशेंच हें.

**आठवें सूत्रः बरोवचे पयलीं बरोवन दवरात.**

जें आयकलें, पळयलें, वाचलें, अणभवलें तें खंयतरी बरोवन दवरचें. डायरी दवरची. तातूंत केन्ना किदेंय सुचलें जाल्यार बरोवन दवरचें.

रांदचे पयलीं मसालो कुटून दवरूंक जाय तशें बरोवचे पयलीं ज्या विशयाचेर तुमी बरोवंक सोदतात ताज्या संबदान जें जें किदें मेळटा तें सोदचें. पुनावचें आनी तें बरोवन दवरचें. मागीर, ठोकळ्याक ठोकळो जुळोवन भुरगीं तरांतरांचे आकार करतात तशे तरेन बरोवंक लागचें.

**णव्वें सूत्रः बरयल्लें परत बरोवचें, परत बरयल्लें परSSत बरोवचें, परSSत बरयल्लें परत एकदां बरोवचें.**

बरयल्लें रोखडेंच छापूंक धाडचें न्हय. बरयल्लें परत बरोवचें. परत बरयल्लें परSSत एक फावट बरोवचें. जितले फावटी लिखाणाचें पुनर्लेखन करूं येता तितले फावटी करचें. दरेक वेळा पयल्या परस दुसरें बरोवप, दुसऱ्या परस तिसरें बरोवप अदीक बरें जातलें.

**धाव्वें सूत्रः बरयल्लें दुसऱ्यांक वाचूंक दिवचें वा वाचून दाखोवचें.**

आपणें बरयल्लें दुसऱ्याक वाचूंक दिवचें. वाचून दाखोवचें. ताका किदें मानवलें, किदें ना, तें विचारचें. छापचे पयलीं जाता तितल्या इश्ट मित्रांक वाचूंक दिवचें. जेश्टांची बुध्द घेवची. तांचें आयकून मूळ बरपांत फावो तो बदल करचो.

ही जालीं धा प्राथमीक सुत्रां. ताच्या उपरांत आनीक एक सोपण वयर चडया.

**अकरावें सूत्रः तुमचें अणभवविश्व गिरेस्त करात.**

तुमच्या अणभवाचो परीघ वाडयात. तुमच्या अणभवांत वैविध्य हाडात. भोंवडेर वचात. नवो वाठार पळयात,

तरांतरांच्या लोकांक मेळात. अणभवांचें गांठवल वाडत वचूंक जाय. एकदां तुमचें अणभवविश्व गिरेस्त जालें म्हणटकीच वाचप्यांक तुमच्या अणभवांचो वांटेकार जावंदी. तांकां तुमच्या अणभवांची रूच घेवंदी, वास घेवंदी. तुमचे रस्मी ल्हवपीक अणभव तांकां सांसपू दी.

**बारावें सूत्रः भाशेचो सभावधर्म वळखतात.**

जे भाशेंतल्यान तुमी बरोवंक सोदतात ते भाशेचो सभाव समजून घेयात. ते भाशेची उतरावळ, त्या भाशेंतल्यो ओंपारी, ते भाशेचें व्याकरण, ते भाशेचें नादशास्त्र, ते भाशेचें सौंदर्यशास्त्र - ताचो अभ्यास करात.

**तेरावें सूत्रः एकांतांत चिंतन करात आनी तुमचे अणभव उबयात.**

जे अणभव तुमी घेतल्यात ते अणभव कोंबडी आपलीं तातयां उबयता तशें उबयात. एकांतांत बसात. चिंतन करात. अणभवांचो अर्थ सोदात. घटनांचो अन्वयार्थ लायात.

**चवदावें सूत्रः मानवी भावनांचीं मुळां सोदात.**

वर्णनात्मक पांवड्यावयल्यान खोलांत वचून मानवी भावनांचीं मुळां खणात. वेदनांचे 'नर्व्हसेंटर्स' सोदात. विकारांचो वारो उस्तीयात. मानसशास्त्राचो अभ्यास करात. मनशां कशीं वागलीं हें सांगतां सांगतां तीं तशीं किद्याक वागलीं हाचोय सोद घेयात.

**पंदरावें सूत्रः स्मृतीसूख वांटात.**

सगल्यांक स्मृतीसूख आवडटा. नॉस्टाल्जीक जायात. भुतकाळांतल्या यादींवयलो चितो फांफडून वडयात. ह्यो यादी जागयात. वाचप्यांक तुमच्या स्मृतीसुखांत आस्पावन घेयात.

**सोळावें सूत्रः साहित्येतर विशयांची गोडी लायात.**

तुमचें साहित्य सर्जनशील जावचें अशें दिसता जाल्यार

फकत साहित्य आनी साहित्याची समीक्षा हातूंतच घुस्पून रावूं नाकात. संगीत, नाटक, नृत्य, शिल्प, वास्तुशिल्प, खेळ, खगोलशास्त्र, वनस्पतीशास्त्र - अशा आनी हाजे सारक्या साहित्येतर विशयांची गोडी लायात. साहित्याच्या विद्वान प्राध्यापकांनी जितलें सर्जनशील साहित्य बरयलां ताचेपरस हजार वांट्यानी चड सर्जनशील साहित्य, साहित्याकडेन आनी साहित्याच्या शास्त्रशुध्द अभ्यासाकडेन कसलोच संबंद नाशिल्ल्या मनशांनी बरयलां हें लक्षांत दवरात.

**सतरावें सूत्रः परकाया प्रवेश करात.**

सर्जनशील साहित्यीकाक परकाया प्रवेशाची जादू कळूंक जाय. आपल्या साहित्यांतलीं पात्रां जितीं तट्टीत जावचे खातीर आपणें तांची जीण जगूंक जाय. आपणें परकाया प्रवेश करूंक जाय. पात्रांचीं खेळणीं जावंक जायना. पात्रां म्हळ्यार पुतळे न्हय. आपल्या साहित्यांतलीं मनशां म्हळ्यार आपलेंच एक रूप, आपलोच एक जीव. देखून आपलो जीव ओतून तांका सजीव करूंक जाय.

**अठरावें सूत्रः मानुशीकरण करात.**

झाडां, पेडां, रूख, सावदां, शेवणीं, सैम - ह्या अमानुशी गजालींचें मानुशीकरण करात. रूख हो मनीस अशें धरून ताचें वर्णन करात. सवण्यांक मनशांचे भाशेंत उलोवं दी. सावदांक मनशांचीं मनां दसयात. आनी कांय वेळां मनशांचें अमानुशीकरण करात. सुंदर चली ही एक सोबीत वाल अशें म्हणात. खरें म्हळ्यार तशें म्हणनासतना ती सुंदर चली ही एक सोबीत वाल अशेंच समजून तिका तुमच्या साहित्यांत पितारात.

**एकोणिसावें सूत्रः नव्याचो ध्यास घेयात.**

पोन्न्यांतलें नवें सोदात. नव्याचो ध्यास घेयात. नवीं

उतरां घडयात. नवी शैली केळयात. नवे अर्थ लायात. नवे विचार मांडात.

**विसावें सूत्रः अद्भूतीकरण करात.**

आमकां सगळ्यांक - ल्हानांक, व्हडांक, भुरग्यांक, जाण्ट्यांक आमचे दिसपट्टे जिणेचो वाज आयिल्लो आसता. आमकां अद्भूताचें आकर्शण आसता. वाचप्यांक फॅन्टसीच्या अद्भूत विश्वांत व्हरपाची कला आपणायात. ते खातीर कल्पनाविलासाचो आदार घेयात. वाचप्यांक वास्तव जिणेपासून पयस, पयस, खूब पयस व्हरात.

**एकविसावें सूत्रः कांय गणिती नेम वापरात.**

बेरीज करप, वजाबाकी करप, पुनरावृत्ती करप, अदलाबदल करप, आरतें परतें करप, संयोग करप, तुलना करप, साम्य - भेद दाखोवप, जोड्यो जुळोवप, पर्म्युटेशन आनी कॉम्बीनेशन करप, प्रस्न विचारप, जापो सोदप, गृहीत तत्व धरप, ताचे वयल्यान फुडली माण्णी करप - गणीत शास्त्रांत तरांतरांचे नेम आनी पध्दती आसात. उदाहरण दिले बगर घडये तुमच्या लक्षांत वचचें ना म्हणून कांय उदाहरणां दितां. सफरचंद आनी गाल हांची बेरीज करून सफरचंदी गालाची प्रतिमा वाचप्यांमुखार दवरात. काळखाची नदर कुड्डी करून ताका रातांधळो काळोख करात. 'जय हे' न्हय, 'जय जय जय जय हे' अशी पुनरावृत्तींतल्यान जावपी रसोन्नती करात. बाळकृष्ण हातूंतलीं उतरां आरतीं परतीं करून कृष्णबाळ करात. सर्जनशील साहित्यीकाक अंकगणित, भुमिती, बिजगणित, संख्या शास्त्र, संभाव्यता शास्त्र, मॅट्रीक्स अशा गणिताच्या कांय शाखांचो अभ्यास आसत जाल्यार गणिती सुत्रां साहित्यांत वापरू येतात. चड करून वैचारीक साहित्याची माण्णी गणिती पध्दतीन करू येता. कवितेक जशें गणित गरजेचें तशेंच कथा

कादंबरीचो आकृतीबंध करपाक तुमी कळत नकळत गणितांत ह्या कांय मुळाव्या संकल्पनांचो उपेग करतात.

**बाविसावें सूत्रः विचार करात, खूब विचार करात, खूब खूब विचार करात.**

तुमचो मेंदू घामान थपथपूं दी. तुमच्या मेंदूक खरस लागूं दी. ताका कडकडून भूक आनी तान लागूं दी. ताका उपाशी दवरात. ताका धांवडायात. ताका उठाबशो काडपाक लायात. ताच्या माथ्यार वजीं दवरात. ताका नाचयात. तापय तापय तापयात. प्रतिभा ही सैम - दत्त आसता अशें मानूं नाकात. प्रतिभा कश्टान, श्रमान, परिश्रमान केळयात. विचार, विचारमंथन, चिंतन, कल्पना, कल्पनाविलास - हीं सगळीं मेंदूचीं योगासनां. तीं घालून मेंदू ताजो टवटवीत करात.

**तेविसावें सूत्रः जिणेचो अर्थ सोदात.**

जिणेचो अर्थ किदें? जिणेचें तत्वज्ञान किदें? मानवी संस्कृतायेचीं चिरंतन, निरंतन, सनातन आनी नित्यनूतन मूल्यां खंयचीं? तात्वीक खल करात. वर्णनात्मक पांवड्यावयल्यान, भावनात्मक पांवड्यावयल्यान तात्वीक पांवड्यार वचात. साहित्य कलेक साहित्य - तत्वज्ञानाचीं सोपणां चडूं दी.

**चोविसावें सूत्रः सोपें बरयात.**

सादें, सोपें, सुटसुटीत बरयात. क्लिश्टता, दुर्बोधता टाळात. वाचक पराङमुख जावूं नाकात. वाचकाभिमूख जायात. रिडर फ्रेंडली जायात. वाचक देवो भव हो साहित्याचो गायत्रीमंत्र म्हणात. आनी त्या वाचक देवाची पुजा बांदात.

**पंचविसावें सूत्रः बरयतना तुमी उपाट आनंद भोगात. वाचतना वाचप्यांक उपाट आनंद जावूं दी.**

साहित्याचो मुळावो हेतू - आनंद आनी फकत आनंद.

सर्जनशील साहित्य रचतना उपाट आनंद भोगूंक मेळटा. वाजेवन बरय नाकात. बरयतना तुमकां आनंद जावंक जाय. वाचप्यांक आनंद मेळूंक जाय. शोकांतिका आसत जाल्यार लेगीत वाचपी रडटां रडटां एक वेगळो आनंद भोगता. साहित्याची ही एक अप्रूप विसंगती लक्षांत दवरात. घडये तुमी उदास मनस्थितींत आसूं येता. ही तुमची उदास मनस्थिती तुमच्या कवितेंतल्यान, गीतांतल्यान, कथेंतल्यान वाचप्यांमेरेन पावयतना मात तुमकां आनंद जातात. साहित्य म्हळ्यार एक 'आनंद - योग' अशें हांव मानतां. सरभवतणींच्या दुःखांच्या म्हासागरांत आनंदाचें जुवें करप हें साहित्यीकाचें आद्यकर्तव्य!

जोड आयोजक संस्था : सरकारी महाविद्यालय, केपें
तारीक : 12 आनी 13 डिसेंबर, 1998
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य भास्कर नायक
कार्याध्यक्ष : श्री. राजय पवार
उद्घाटक : दत्ता दामोदर नायक

# दुसरें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**श्रीमती जयंती नायक**

(संमेलनाध्यक्ष)

वेदयेर हाजीर आशिल्ले मानेस्त आनी म्हज्या तरणाट्या इश्ट - इश्टिणिंनो, कोंकणी मायेची हांवें आजवेर म्हजे कुवतीप्रमाण जी कितें साहित्यिक आनी सांस्कृतीक सेवा केल्ली आसा आनी ते सेवेंतल्यान म्हाका जें कितें गिन्यान फावो जाल्लें आसा त्यां गिन्यानाचो आपरोस तुमकां वांटपाखातीर हांव आज हांगा, हे वेदयेर उबें आसां.

साहित्याची शास्त्रीय व्याख्या कितें? साहित्या - संबंदीत कोणें कोणें, कसले कसले सिध्दांत मांडले, ह्यो गजाली आज हांव हांगा तुमकां सांगचें ना. एक तर साहित्य शास्त्राचेर उलोवपाची म्हजी तशी लायकीच ना, शिवाय सर्जनशील साहित्याचे निर्मणेक हें सगळें जाणून घेवपाची गरजूय ना. म्हज्या मुखार तुमी हांगा जमल्यात ते सगळे सर्जनशील बरोवपी. तुमचेंमदीं कोण कथाकार आसा, कोण कवी आसा, कोण नाटककार आसा जाल्यार कोण निबंधकार. साहित्य सरस्पतीच्या मंदिरांत तुमी मोठे उमळशिकेन आनी हांवेसान प्रवेश केल्लो आसा. मात हो प्रवेश करतना तुमच्या पावलटिंनी आशिल्लो गोंदोळ आनी नवखेंपण ना करून तुमकां आत्मविश्वासान पावल मुखार घालपाक प्रवृत्त करपाखातीर ज्या मुळाव्या मार्गदर्शनाची गरज आसा, तें मार्गदर्शन करपाचो आज हांव हांगा यत्न करतलें.

**साहित्य निर्मणेचो उद्देश :**

'साहित्य' ही मनशाच्या काळजांतली अभिव्यक्ती. राग - तिडक, माया - मोग, खोशी - दुख्ख, आवड - इत्सा... ह्या सारक्यो भाव - भावना सगळ्याच मनशांच्या काळजांत

आसता. आसल्यो तरी सगळ्याच मनशांक त्यो अभिव्यक्त करूंक येतात अशें ना. समाजांतल्या कांय अवघ्याच लोकांक सुदैवान ही तांक येता. 'लेखक' हो त्या मदलो एक. तो उतरांच्या माध्यमांतल्यान आपली अभिव्यक्ती करता.

आपले सरभोंवतणी जें जिवन आसा, तांतल्या बऱ्या - वायटाचेर भाश्य करपाची, अन्याय अत्याचारांचेर बडी मारपाची, धोंगां - पोंगां उक्ती करून दाखोवपाची एक व्हडली तांक ह्या अभिव्यक्तीच्या रूपान बरोवप्याकडेन आसता, देखून समाजांतल्या हेर व्यक्तीपरस बरोवपी हो वेगळो आनी श्रेश्ट थारता.

बरोवप्याच्या काळजांत सगळ्यांत आदीं आपल्याकडेन आशिल्ले हे तांकिची जाणीव आसप अतिशय म्हत्वाचें, कारण ही जाणीवच ताका सर्जनाची प्रेरणा दिवंक आनी ताचो संकल्प सिध्दीक व्हरूंक प्रेरीत करूंक पावता. आपणें साहित्य कित्याक रचूंक जाय? आनी आपणें रचिल्ल्या साहित्याचो समाजाक कितें उपेग आसा? ह्या दोनूय प्रस्नांची जापय ताका ही तांकच दिता.

साहित्य ही सहजपणान जाल्ली अभिव्यक्ती, अमुकच असो उद्देश काळजांत बाळगून ताची निर्मीती जायना, वा एखाद्या प्रसंगाचेर तसो यत्न जाल्यार तें साहित्य प्रचारकी जाता अशी मतां हे आदीं जायत्या साहित्यकारांनी आनी साहित्याच्या अभ्यसकांनी मांडिल्लीं आसात. तरी म्हज्या स्वताच्या मतान मात साहित्याची निर्मणी ही ठोस असो उद्देश वा उद्दिश्ट काळजांत बाळगून करपच योग्य आसता. कारण ठोस अशी उद्दिश्टाबगर केल्ली साहित्य निर्मणी ही उखलापी जाता आनी वाचकाच्या मनाचेर फावो तसो प्रभाव घालूंक पावना. शीड नाशिल्ल्या तारवाभशेन तें खंयचेय दिशेक झेलपटत वचूंक लागता. एखादी साहित्यकृती वाचल्याबरोबर

वाचकाक जें अंतर्मुखपण येवंक जाय आनी ताची विवेक - बुध्द जे तरेन जागृत जावंक जाय ती अशा साहित्यांतल्यान जायना. अशा साहित्याचो समाजाक कांय उपेगच जायना. वाचकय अशें साहित्य गंभिरपणान घेनात. देखुनूच म्हज्या तरणाट्या इश्टांनो, म्हजी तुमकां काळजांतल्यान विनवणी, तुमचेमदीं जी सर्जनशील निर्मणेची तांक आसा ती तांक वोगीच व्हगडायनासतना, समाजमनाचेर पातळिल्लें अज्ञान - अबुध्दपणाचें सांवट पयस करपाचो आनी समाजांतल्यो दुश्ट आनी विकृत प्रवृत्ती ना करपाचो ठोस उद्देश काळजांत बाळगून तिचो वापर करात. लेखक म्हुणून तुमची सामाजिक बांधिलकी स्विकारात आनी ते नदरेन तुमचें निर्मणेचें कार्य करात.

**परंपरा आनी साहित्य निर्मणी :**

आमचे युवा पिळगेक परंपरेची ॲलर्जी आशिल्ली बरेचदां पळोवंक मेळटा. ती परंपारीक पद्धत आमकां! आजवेर जाण्टल्यांनी जें केलां तें आमकां कांयच करपाचें ना. अशेतरेची तांणी वापरिल्ली भाशा खुबदां आयकूंक मेळटा. म्हज्या युवा इश्ट- इश्टिणिंनो, हे वेदयेर रावन लोकसंस्कृतीचें एक अभ्यासक/संशोधक ह्या नात्यान जाणीव करून दिवपाची आसा ती म्हणजे तुमचें परंपरेकडेन आशिल्लें नातें. साहित्य निर्मणेची जी कला आज तुमचेकडेन आसा तिचें देणें तुमकां परंपरेनच मेळिल्लें आसा, तिचीं मुळां परंपरेंतच आसात. हे परंपरेचें साधन म्हळ्यार आमचो लोकवेद, लोकसाहित्य लिखीत साहित्याचो उदेव लोकसाहित्यांतल्यान जाला. लोकसाहित्याचो आनी लिखीत साहित्याचो संबंध आवय - धुवेचो. आवयच्या रुपा - गुणांचो वसो घेवन आनी तिणें केल्ले बरे संस्कार शिकवण घेवन धूव जशी आपल्या घोवाल्या घरा वता आनी आपलो संवसार फुलयता ते प्रमाण लिखीत साहित्याचें. लोकसाहित्यांतल्यान सर्जनतेचो वसो घेवन आनी

नितीमुल्यांच्या तत्वांचे संस्कार घेवन लिखीत साहित्यान आपलो आजवेर संवसार फुलयला देखून परंपरेकडेन आशिल्ल्या तुमच्या नात्यांची सदाकाळ जाणीव दवरात

परंपरा म्हळ्यार जाण्टयांनी आमका दिल्लें संस्कारांचे दायज. आजवेर ताका संवसारात जगतना जे अणभव आयले, जें गिन्यान तांणी जोडलें त्या सगळ्यांचें सार ह्या परंपरेच्या रुपान आज तुमच्या - आमच्याकडेन पाविल्लें आसा. आमी मोठ्या भावार्थी आनी आदराचे नदरेन ह्या परंपरांकडेन पळोवन आनी तांचो स्विकार करुन आमच्या साहित्याच्यावरवीं तांतल्या मुलतत्वांचो प्रसार मुखावयले पिळगेमेरेन करूंक जाय. पूण हें कार्य तुमी करचें म्हण तुमकां उलो करतनाच एका गजालीचें भान तुमी दवरचें. म्हणूनच तुमकां हांव शिटकायतां. ती गजाल म्हळ्यार, परंपरा तुमकां कांय फावट फाटीं वळून पळोवंक लायता. पूण तुमी प्रतिगामी जावचें न्हय, तुमी पुरोगामी जावचें. ज्या काळार ह्या परंपरांचो उदेव जाल्लो त्या काळार आयचें सारखें 'नवविज्ञान' प्रगत जावंक नाशिल्लें. देखून संवसारातल्या कांय गुढा - प्रश्नांच्यो जापो आमच्या जाण्टेल्यांनी आपणें शोध लायिल्ल्या लोकविज्ञानाच्या आदारान लायिल्ल्यो आनी चाली परंपरांच्या रुपान आमचेमेरेन पावयल्यो आज नवविज्ञानान आमच्या जाण्टेल्यांनी दिल्ल्या कांय प्रश्नांच्यो जापो फट म्हण सिद्ध केल्ल्यो आसात म्हणूनच तुमी जाण्ट्यांचो मान राखून तेच वांगडा नव्या युगाक, नव्याविज्ञानाक फुडो करून पुरोगामी जावन तुमचें साहित्य रचात.

लोकवेद म्हळयार आमचीं 'मुळा'! मुळांकडलो संबंद तोडून जशें खंयचेंय झाड तिगूंक शकना, तशेंच साहित्याचें,

साहित्याचो रुख खऱ्या अर्थान पालेतलो - चंवरतलो जाल्यार ताच्या कांडान मुळांक घट्ट धरून वाडपाची गरज आसा.

इश्टांनो, तुमी तुमच्या रचनांनी लोकवेद केळयात. लोकवेदाच्या विविध प्रकारांनी सुशोभीत अशी लोकजीण तुमच्या बरपांत उबी करात. हे लोकजिणेचे सुंदर तशेंच विकट दोनयतरेचे रंग दाखयात. तुमचें साहित्य चड प्रभावी आनी जिवंत जातलें. लोकवेदांत भौसाक आकर्शीत करपाची तांक आसता, कारण पिळग्यान पिळग्यांसाकून मनशामदीं वावुरतल्या लोकवेदाची ती निर्मिती आसता. म्हणूनच लोकवेद केळोवन तुमी केल्ली साहित्य निर्मिती लोकसाहित्यावरी अक्षय जावंक पावतली. महात्मा गांधीजीनी म्हळां, "खरो भारत गांवांनी रावता", देखून तुमकां खऱ्या भारताचें वा खऱ्या गोंयचें चित्रण जर तुमच्या साहित्यांत करुंक जाय तर तुमी गांवगिऱ्या जिवनाचेरूच मुखेल भर दियात, लोकवेद संपन्न अशें ह्या गांवचें जीवन चित्रायात.

जर्मनींत 1920-25 च्या सुमाराक बर्टोल्ड ब्रेख्त ह्या नाटककारान लोकजागृतीखातीर, लोकामदीं विषमता आनी अन्यायाविरूद्ध आवाज उठोवपाखातीर लोकगितां, लोककथा, लोकनाट्य सारक्या कलाविश्कारांचो आदार घेवन नवनिर्मणी केली. लोककलांचो बाह्य सांचो वापरून तांतल्यान क्रांतिकारी संदेश दिवपाचो यत्न केलो, जो व्हड प्रमाणांत परिणामकारक जालो.

ख्यातनाम कन्नड लेखक श्री. गिरीश कर्नाड, मराठी नाटककार श्री. विजय तेंडुलकार तशेंच कोंकणीत नामनेचे लेखक श्री. पुंडलीक नायक हांणीय अशे प्रयोग केल्यात आनी ते मोठ्या प्रमाणार यशस्वी जावंक पावल्यात. तुमी तांचो आदर्श बाळगून मुखार वचात.

## सर्जनशील साहित्य रचनेत लालित्याची गरज

शास्त्रीय परिभाशेंत 'सर्जन' म्हळ्यार नव - निर्मणी ह्या अर्थान कसलीय केल्ली निर्मणी हे सर्जन जाता. होच नेम साहित्याक लागू केलो जाल्यार कथा, कविता, नाटक आनी निबंध ह्या चार साहित्य प्रकारांभायर, समिक्षा आनी संशोधनपर साहित्यय सर्जनशील साहित्यांत आस्पावूंक जाय. आज असो विचारय मुखार येता तरी सर्वसादारणपणान साहित्याचे आदले चार प्रकारच 'सर्जनशील' साहित्य प्रकार म्हण स्विकारिल्लें पळोवंक मेळटा. ह्या संमेलनांत आयोजीत केल्ल्या कार्यशाळांचेरूय नदर मारल्यार हेंच लक्षांत येता.

सर्जनशील साहित्याचें सगळ्यांत म्हत्वाचें वैशिश्ट म्हणजें तांतुतल्यान झिरपतलें लालित्य. ह्या लालित्याक लागुनच एखादी साहित्यकृती वाचनीय जाता.

नव्यानच नवनिर्मणी करूंक लागिल्ल्या तुमी युवा साहित्यिकांनी तुमच्यो कृति लालित्यपुर्ण जातल्यो हाचें भान दवरचें. साहित्य रचनेचो विशय तो मागीर राजकीय आसूं, शिक्षणीक आसूं, वा कुटुंबनियोजनाचो आसूं, तातूंत जर तुमी लालित्य वोतूंक यशस्वी जालेनात जाल्यार मागीर तुमचे लेखन निव्वळ प्रचारकीय जातलें आनी सर्जनशील साहित्याचो दर्जो ताका फावो जावचोना.

**साहित्या निर्मणी प्रक्रियेतले तीन म्हत्वाचे घटक :**

वाचन, चिंतन आनि लेखन हे साहित्य निर्मणी प्रक्रियेतले तीन म्हत्वाचे घटक. वाचनांतल्यानच एखाद्याक आपलेमदीं आशिल्ल्या निर्मणेच्या शक्तीची वळख जाता, आदल्या काळार लोकसर्जनकारांक ती श्रवणांतल्यन जाताली. देखून तुमी ह्या तुमच्या आरंभ काळार वाचनाचेर अदीक भर दिवन चडांत चड वाचचें. हें वाचन करताना विशयाचें पथ्य

पाळचें न्ही. तुमकां भावता तो विशय आनी साहित्य वाचचें. हळू हळू मुखार तुमच्यां पिंडाक धरून तुमची अशी साहित्याची खाशेली आवड तयार जातली.

वाचनांतल्यान तुमचे भितरलो सहित्यिक आपसुकच चिंतन करूंक लागतलो, जांतल्यान बरोवपाचो तुमकां नकळत उमाळो येतलो. चिंतून, पिकून जाल्ल्या मनांतल्यान निर्मणी जाल्लें साहित्य हें परिपूर्ण आसता, ताची पुर्नमांडणी करपाची गरज पडना.

कांय नव्या बरोवप्यांक केन्ना केन्नाय (प्रथीतयश आनी प्रस्थापितांकय) दुसऱ्याचें अनुकरण करपाची आनी साहित्य चोरपाची संवय आसता. तुमी हें टाळात, स्वताची नीज निर्मणी करपाचो हावेस काळजांत बाळगियात. एखाद्री साहित्यकृती आवडली आनी तसलीच आपणें रचपाची इत्सा बाळगिली जाल्यार तातूंत कांयच चूक ना. मात ती प्रत्यक्षात हाडटना स्वताची कल्पकता आनी नाविन्याचो ताचेर संस्कार करप गरजेचें.

काळजांतल्यान स्फुरिल्लें सादे-सोपे सुटसुटीत भाशेंत तुमी तुमची निर्मणी करची, संवादांतल्यान पात्रांक जिवंतपणा हाडचो, वास्तव वर्णनांतल्यान वातावरणाची निर्मिती करची.

**युवा साहित्यिकांनी आपलेमर्दी विकसीत करपाचे गूण :**

1. कान आनी दोळे उगडे दवरून सरभोंवतणी जें कितें घडटा तें आपल्या स्मृतिभांडारांत दस्तन करीत दवरचें.
2. आपली नदर चौकस करची.
3. काळजांतली संवेदनशिलता जिवी दवरची.
4. सुंदरकायेची आसक्ती बाळगुवची.
5. निडर आनी स्पश्टवादी जावचें

6. जिवितांत आपल्या वांट्याक आयिल्ले संघर्श ही आपली साहित्य निर्मणेची शक्त मानची.
7. स्वताच्या वांट्याक आयिल्ल्या दुख्खां मुखार हात पांय गळसणय नासतना तांचें सुंदर अशे साहित्य - शिल्प रचचें.
8. चौगांमदीं जगपाक शिकचें, तरीय एक लेखक म्हुणून जागरूकतायेन आनी अलिप्ततायेन वावुरचें.
9. साहित्यांतल्या मांडटल्या विचार - तत्वांकडेन प्रामाणीक रावचें.
10. काळजांतलो स्वाभिमान राखचो.
11. पदराक नम्रताय आसची.
12. नित्य - नवें शिकपाचो, जाणून घेवपाचो हावेस आसचो.

**बायल साहित्यिकांक उलो :**

'लेखक' हो लेखक आसता, तातूंत बायल - दादलो असो फरक नासता, साहित्याचें मुल्य मापन बरोवप्याच्या लिंगाचेर आदारून करपाचें नासता हें जरी खरें आसलें तरीय भारतांत बायल बरोवप्यांचो आंकडो उणो आसा. आनी ज्यो बरयतात तांतल्या बऱ्याच जाणांकडेन आशिल्ल्या विशयांचे मर्यादीतपण आनी भिडेस्तपण मुखार येता, तिचें दुबळेपण जाणवता.

भारतीय संस्कृतीचेर, शक्तीदेवतेन अफाट सर्जनशक्त आंगांत आशिल्लें मातृदेवतेन एका काळार अधिपत्य गाजयलां. हाचें भान म्हज्या युवा भयणिंनो तुमी दवरात. तिचो वरदहस्त माथ्यार घेवन तिचे इतक्योच तुमी बळिश्ट जायात. तुमच्या अणभवांची कक्षा वाडयात, तुमच्या खाशेल्या अनुभुतींक साहित्य रुप दियात. निर्भिड जायात, धैर्यवान जायात. तुमचेमदीं आशिल्ली मातृत्वाची आनी सृजनाची शक्त, ही तुमचें दुबळेंपण करूंक दिवं नाकात. शक्तीदेवतेक तुमचो

आदर्श करात, तुमच्या तेजान संवसारचे दोळे दिपकायात!

**संदेश :**

पंदरा वर्सां आदीं जेन्ना एक तुमचे असलें नवोदीत युवा बरोवपी म्हण हांवें कोंकणी माचयेर प्रवेश केल्लो तेन्ना म्हजे वांगडा म्हजें समकालीन पंचवीसावयर लेखक - लेखिका आशिल्ल्यो. आज तांतले फक्त चार - पांच जाणच दिसतात. ह्या चार - पांच जाणांतले दोग - तीन जाण अस्तमेक सूर्य उदेवंचो, तशे केन्नातरी एखांद्री साहित्यकृती रचतना दिसतात. हो अणभव पदराक घेवन म्हज्या तरणाट्या इश्ट - इश्टिणींनो हांव तुमचेकडेन मागतां, तुमी आरंभशूरपणाचें बिरूद तुमकां चिकटावन घेवं नाकात. तुमी तुमच्या लेखनांत सातत्य दवरात. तुमचेकडेन आशिल्ली लेखनकला ही तुमकां तुमच्या सुदैवान फावो जाल्ली. अलौकीक अशी देणगी. तिची योग्य वापर करात. गोंयच्या समाजांचें, कोंकणी मायेचें तुमी देणें लागतात, तें तुमी फारीक करात. गोंयचे मातयेंत आनी कोंकणी संस्कृतायेंत तुमची वार पुरिल्ली आसा हाचो केन्नाच तुमकां विसर पडूंक दिवं नाकात. उलट गोंयची माती आनी कोंकणी संस्कृतायकडलें तुमचे नातें साहित्य निर्मणेवरवीं अदीक अदीक घट करात. अतिशय प्रगत अशा विज्ञान आनी तंत्रज्ञानान सिध्द एकविसाव्या शेकड्यांत वावुरतना 'साहित्यीक' म्हणून जनमानसांतलें तुमचें स्थान सांबाळात. तुमी व्हड जायात! तुमच्या व्हडपणान कोंकणी मायेकय व्हड करात!

जोड आयोजक संस्था : पी. ई. एस. महाविद्यालय,
फर्मागुडी, फोंडें
तारीक : 11 आनी 12 डिसेंबर, 1999
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य डॉ. अरुण हेबळेकार
कार्याध्यक्ष : श्री. भुषण भावे
उद्घाटक : डॉ. अरुणा ढेरे

# तिसरें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

भौ. पुर्णानंद च्यारी
(संमेलनाध्यक्ष)

वेदीवेले मानेस्त आनी ह्या युवांगणात जमिल्ल्या समेस्तांक नमस्कार.

हें तिसरें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन. आदीं हे अध्यक्षपदाचे खुर्चेर भौ. दत्ताबाब नायक आनी भौ. जयंतीबाय बशिल्लें. दत्तजयंती जाली. आतां हांव म्हाका हो मान आनी आपलेपणाची पोसो तुमी उक्तो केल्ल्या कारणान हांव दिनवासाची भावना व्यक्त करतां. हांव कोण वेगळो न्हय. हांव तुमच्यांतलोच. ह्याच युवांगणातलो. तुमचो. पयल्या वर्सा, माटवांत खुर्च्यो दाळूंक बोवाळटालों, कृतीसत्रांनी बोवाळटालों, पोरू अशेच दावेवटेनचे खुर्चेर बशिल्लों, अंदू हे खुर्चेर बसलां, रोखडो सकयल येवपाचो जालो. इतलोच फरक.

हांव कोण व्हडलो मनीस न्हय. सादोसामान्य, पूण ही खुर्ची व्हडली. ते खुर्चेचो मान सांबाळप आसता. ह्या मान सांबाळपांत एक भाशण करपाचें आसता. ते निमतान हांव हांगा म्हजे उमाळे, म्हजीं मनमतां तुमचेमुखार परगटांवक उबो आसां.

## युवा साहित्य संमेलनां कित्याखातीर

तरणे अभिव्यक्तीक साद घालचे खातीर, तुमच्यांतल्या लेखक कलाकारांक जागोवपा खातीर. तुमची तुमकां वळख घडोवचे खातीर. आमचे मदीं जो रचनाकार लिपला, जो दडी मारुन आमचेभितर न्हिदला ताका परत परत जागोवन, भायर हाडून, हें जग दाखोवपाखातीर, आमी जिणेंत जें कितें पळेतात, आयकतात, उलयतात, अणभवतात, केन्ना काळीजभर भुरकटून वतात, धादोस जातात, केन्ना मनांतल्या दुःखाक

दोळ्यांवाटे वाट करून दिता. ह्या ह्या सगळ्या तागल्या भोगल्या आयत्या गजालींचेर साहित्यीक भांडवल कशें करूं येता हाचेर सुसंवाद आनी मार्गदर्शन घडोवन ही संमेलन नांवाची दोन दिसांची "कार्य शाळा" जे शाळेच्या माटवाक उत्सवाची झालर आसा. तर माटवांत गिन्यान आनी मार्गदर्शन दिवपी कृतीसत्रांची माची आसा. काणकोण सावन पेडणे मेरेनचे ल्हान व्हड कलाकार साहित्यिकांक आपलेपणान एकठांय हाडपी सोबीत गोड गोमटें युवांगण आसा.

ह्या युवांगणांत आमी सगळीं ल्हान पिरायेचीं साहत्यीक बाळकां कशीं. हय आमच्यांतले कितलेशेच जाण आसतले 18 ते 20 वर्सां परस व्हड, आमच्यांतलो साहित्यीक जावं लेखक ल्हान पिरायेचें बाळ कशें. थोड्या मदलो साहित्यीक निगतोच दिमखुऱ्यानी चलता आसतलो. तुमी म्हणटले आतां ही पिराय थारावप कशी? आमचे भितर आशिल्ल्या साहित्य रचनाकऱ्यांची तांक कितली? त्या रचनाकराची कल्पना शक्ति, विचारांची प्रतिभेची तांक केदी? ताचे अणभवांची पक्वताय कितली? ह्या विचारांचो थाव घेवपी ताचे नदरेच्या किर्णांची फांक केदी? ह्या साबार गजालींचेर आदारून तुमची साहित्यीक पिराय थारली. आमी पळेल्यात 16 वर्सां पिरायेचेर मराठींतले संत ज्ञानेश्वर, 'ज्ञानेश्वरी' दिवन व्हड जाले. अजरंवर जाले. आनी आमी पळेतात आयज शेकड्यांनी वर्सां जालीं तरी रवींद्रनाथ टागोर, शेक्सपीयर, रसेल, खलील जिब्रान जिते आसात. ते हो संवसार सोडून गेले पूण तरी तांच्या साहित्यांतल्यान जिवे तट्टीत आसात. आमकां प्रेरणा दीत आसात. विचारांचें केण पेटयत आसात आनी तांतलो एक आवाज साद घालून म्हणटा, उठा तरणाट्यांनो उठात! कितलो सुंदर संवसार तुमचेखातीर आसा. ताचें सौंदर्य पळेवया! ताची उंचाय आनी खोलाय पळोपाचो यत्न करुया. मनीस नावाचें एक

रसायण आसा, ताचो सोद घेवया. सैम नांवाचो एक चमत्कार आसा, ताचो थाव घेवया! जिवन नांवाचें एक सपन आसा तें दोळे भरून पळेवया। आनी आमीच संपन्न जावया!

तरण्या सांगात्यांनो! वेद उपनिशदांनी आमकां जिवनाचो मंत्र दिला. संवसाराचे फाटीर राजकी आनी सामाजीक उत्थानां जालीं, तेन्ना तेन्ना साहित्य नांवाचे प्रेरणेन जगपाची वाट दाखयल्या. रशियन राज्यक्रांतीची किटां उसळ्ळीं, थंय लेगीत स्वाभिमान आनी धनीपणाचीं भावना निर्माण करपी टॉलस्टॉयचे साहित्य आशिल्लें. पोर्तुगालांतल्या लोकांच्या वाट्याक आयिल्ले भिषण दळदीर विशमतेतल्यान लोकांक धीर आनी आत्मविश्वास दिवपी कवी, गेरी जुर्केर सारक्याच्या कवितांनी पोर्तुगीज राज्यक्रांतीची किटां पेटयलीं म्हणपाचें वाचूंक मेळटा. साहित्य सौंदर्य आनी जिवन मुल्यांचो सुंदर साक्षात्कार रवीन्द्रनाथ टागोरांच्या गितांजलीन दिलो. अशा गिरेस्त साहित्यीक दायजाचे आमी कोणतरी लागतात. आतां कोण तरी म्हणजे कोण? हाचो सोद घेवपाचो आसल्यार आमचे भितर आशिल्ल्या गुणांचो आमकां सोद घेवचो पडटलो. आमचें भितर आशिल्ल्या सर्जनशील लेखकाचो सोद घेवचो पडटलो. आनी खऱ्यानीच जर आमचे भितर कवी, कथाकार, कादंबरीकार, निबंदकार आसा तर ताका घडोवपाच्या, फुलोवपाच्या वावराक लागचें पडटलें.

### युवा संमेलन नांवाचें युवांगण

आंगणांची परंपरा व्हडली. व्हडांतले लोकसाहित्य हे आंगणांत फुल्लां. कितलेशेच कलाकार - साहित्यिक आंगणांत घडल्यात. आमच्या गोंयच्या खेळ - तियात्राच्या मुळसाक आशिल्लो खेळाचो इतिहास आंगणांत फुल्लां. आमच्यो धालो, फुगड्यो, शिमग्याचीं गितां आंगणांत पारजातकाचो सडो

जावचो तशी शिंवरल्यांत. शेणात सारयिल्ल्या त्या नीवळ आंगणांत म्हज्या लोकसाहित्याचो, लोकगितांचो, संस्कृतेचो वास येता.

पान तुजें पोफळ म्हजें
चुनो कोणालागीं आसा गे
चुनो कोणालागीं आसा गे

'चानयेच्या पिला तुका तीन पाट रावणान सितेक व्हेल्या दाखय वाट' अशा गितांनी आंगणाचे दुसरें नांव 'प्रेरणा' जावन गेलां. ज्ञानपीठ पुरस्कार मेळोवपी शिवराम कारंथ हांका कर्नाटकांतल्या आंगणानी जावपी यक्षगानान नवी नदर दिली. बंगाली नाटककार बादल सरकार बंगाली रंगमाचयेची व्हडवीक गायता. अशा ह्या आंगणांक 'प्रेरणा' हें दुसरें नांव आमी दिवया. हेच प्रेरणेतल्यान ह्या आंगणाची प्रतिष्ठा वाडटा, मान सन्मान वाडटा, अशेतरेन आमी स्वताक घडोवया. ज्या आंगणांत आमचें सगळ्यांचें भुरगेंपण शेणलां आसतलें. घरांतल्या चार वण्टीभायर पावल दवरिनाफुडें - पयले खेपेक आनी नवो संवसार, नवी सृष्टी पळयली ती ह्या आंगणांत रावून. गुबगुबीत सानुल्या तळव्याचेर पयले खेपे चलूंक शिकले, धावूंक शिकले, धांवतना पडले, आपटले - धोपटले, घरच्या जाण्टयाच्या हातांक धरुन जगाची वळख घेता घेता एक दीस त्या हातांचो आदार घेनास्तना आमी पांयार उबे रावले. वाडले घडले.

तशीच अवस्था ह्या युवांगणांत आमची आसा असो म्हजो समज. आतां हो समज खरो काय फट, काय हें तुमी पटोवन दियात, सिद्ध करून दाखयात. तुमी तरनाटे? काय ल्हान - भुरगे? ताचेपरस व्हड काय आनी कोण? हें आमी आमच्या वावरांतल्यान दाखोवन दिवचें पडटलें. ताका लागून ह्या युवांगणांत तुमकां धांवचें पडटलें, आपटुचें - धोपटूचें

पडटलें. जंय पडटा थंय उबारपाक गरजेचें मार्गदर्शन करपाक जाणकार आस्तलेच. तांच्या बोटाक धरुन नवी वाट दाखोवपाक, चुकता थंय सांगपाक कौतुक - तोखणाय करून तुमकां उमेद उर्बा दिवपाक आनी हेर सांगती आसात. आमचे जाण्टेले म्हण्टाले 'भुरगे इतले व्हड जावचे, तांणी जाण्टेल्यांच्यो चुको काडून दाखोवपाच्यो. इतले व्हड जावचें!' ह्या वाक्यांतल्यान आमी शिकवण घेवया. जाणटेले आनी जाणकार सांगतात तें कुड्डे जावन - भेड्डे जावन आयकूंक जाय अशें ना. आयकता तें पटना जाल्यार हुज्जत घालूया. हुज्जत घालतना लेगीत जाण्ट्यांक आमची अपूरबाय आनी कौतूक दिसचें अशे शाणेपणान वागुया. मनाक आनी बुद्धीक पट्टा तो मेरेन तात्वीक संवाद करुया. चळवळीचो युगपुरुस शणै गोंयबाब म्हणटाले 'म्हजी म्हणणी तुमी तुमचे बुद्धीचे साणीर घांसून घेवची.' पूण जाणकारांचे चुकता म्हण सांगतलो तर आमकां पयलीं कितें तरी खबर आसूंक जाय न्हय? ना तर आमचेंकडे कितें आसा म्हण आर्ग्यूमेन्ट करतले.

आमकां इल्ले इल्ले करून कळटलें तर वाचचें पडटलें, व्याख्याना आयकुचीं पडटलीं. तांतले विचार पचोवचे पडटलें. विचार पचयतना आमकां आमचीं विचार चक्रां चालूच दवरचीं पडटलीं. जिवीतांतले वेगवेगळे अणभव आमकां कितेंतरी शिकोवंक आयल्यात. शिकयतात हे भावनेन अणभवांकडे, जिवनाकडे पळोवचें पडटलें. तात्पर्य बुद्धीचे साणीर घांसून घेवपाचें आपल्या बुद्ध साबुद्धीर दवरची पडटली. मन जागृत दवरचें पडटलें. खड्डो आसलो म्हूण जायना, बोड आसचें पडटलें, दोळे आसले म्हण जायनात नदर आसची पडटली. आसा म्हूण कळ्ळीं म्हणटकच तिका धार काडपाचें काम सातत्यान करचें पडटलें. वाचन, आनी चिंतन बुद्धीचेर कानस मारून धार काडीत आसता. ही कानस मारीत रावपाचें काम

आमी करुया. वाचन पचन, चिंतन करीत रावया. जमयल्ले अणभव, गिन्यान हांचेर रवंत करीत रावया.

आमी कितें वाचतात? कित्याक वाचतात? आमी मनाक मनोरंजन करता तितलेंच वाचतात? विचारांक चालना दिवचे खातीर वाचतात? वेगवेगळ्या भाववृत्ताक जागोवचे खातीर वाचतात? गिन्यान मेळोवचे खातीर वाचतात? काय वेगवेगळ्या साहित्यिकांच्या अणभवांभितर एकरुप जावपाच्या प्रयत्नांत वाचतात? कित्याखातीर वाचतात? ह्या प्रस्नाची जाप सोदुया. ह्या प्रस्नाची जाप मेळटकच आमी कितें वाचप? ह्या प्रस्नाची जाप आपसुकच मेळटली. आमी कितलें वाचलें कशें वाचलें हाचेपरस कितें वाचलें? हेंच जमेक उरतलें. आमचें वाचन खंयच्या मार्गान म्हळ्यार हायवेन चल्लां कांय शॉर्टकटान चल्लां, कांय बायपासान चल्लां, कांय आमच्या वाचनाची वाटूच आजून सापडूंक ना. हें पळोवया आनी वाट मेकळी करून दिवया. उत्कृश्ट साहित्याच्या वाचनातल्यान बुद्धीक धार चड्टा, जिवीतांतली वैविधताय कळटा. कल्पनाशक्तीची कक्षा रूंदावता. व्हड लेखकांनी ग्रंथांक गुरु मानल्यात. व्हड ग्रंथानी व्हड साहित्यिकांक जल्म दिला.

पुस्तकां वाचता तसो सैमूय आमी वाचुया. आमी भोंवतण वाचुया. एक एक मनीस जिवंत पुस्तक. तोय आमी वाचीत रावुया. वेगवेगळ्या रंगरुपांनी, भाव - भावनांनी, संस्कृती - विकृतिनी भरिल्ले, विचार आनी विविध परिणामांनी भरिल्ले साहित्य हें सैमान, हें सृश्टिंत भरलां, दिसता, दिसना त्याय जगांत विस्त मारुया. ताचो सोद घेवया. हो सोदूच आमच्यांत संस्कार घडयतलो. केन्ना प्रेरणा दितलो, कोणायची एखादी साहित्य कृती वाचून कोणा एखाद्यांचे जीवन, कोणा एखाद्रयांचे आपले स्वताचेय अणभव कोणाक तरी सांगपाक प्रवृत्त करतले. निबंदाचो पाय फ्रेन्च निबंदकार मॉंतेन

म्हण्टात, 'हांव म्हाकाच चितारता, हांवूच म्हजे बरपावळीचो विशय आसता.' अशे तरेन आमीच स्वताचे अणभव बरपावळींतल्यान प्रगट करुया. ते खातीर वेगवेगळ्या अणभवांतल्यान काळीज शिजोवन घेवया. वाचन - चिंतनातल्यान आमचेभितल्ल्या रचनाकाराक चेतना हाडुया.

दर दिसा कितें तरी बरयतलों म्हण येसाय मारीत रावुया. एक दीस सांपडटली वाट. कथा, निबंद सुचता त्यो कल्पना, विचार बरोबन दवरुया. एकलव्य द्रोणाचार्याच्या पुतळ्याक गुरु करुन स्वबळाचेर धनुर्विद्या शिकलो. आयज तसो गुरुदेव रवीन्द्रनाथ टागोरांचो बी पुतळो करुन निखळ तकली धोडायली म्हण आमी साहित्यीक जावचे नात. एकलव्याक आशिल्ली ती जबरदस्त इत्साशक्त, तळमळ आनी धनुर्विद्देविशींचें प्रेम. तीच इत्साशक्ति आनी साहित्याविशींचे प्रेम आमकांय आसा जाल्यार सगळे प्रस्न मिट्टले. प्रतिभा ही जल्मातूच आसता. तिका धार काडटलो तर तळमळूक जाय. ते तळमळींतल्यान व्हड व्हड पुस्तकांच्या पानां - पानांचेर वाडिल्ले अणभव, विचार, भावना, तांतले सौंदर्य, विशयांची मांडावळ, भाशेचो वापर, शिंपडून पडिल्ल्यो म्हणी ओपार भाशेचे अलंकार हांचेसकट साहित्य रचना करुंक जाय. संवसार उकतो जातलो आनी सुरू जातलो प्रवास अनुकरणांचो. जे जे लेखक वाचतात जी जी परिस्थीती अणभवतात, ज्या ज्या लोकांचो सांगात घेतात ह्या सगळ्या प्रभावांतल्यान निर्माण जातली आमची अशी स्वताची रचना यात्रा.

**येता तशें बरोवया**

जाता तशें, सुचता तशें, स्फुरता तशें बरोवया. पयलीं पयलीं जातलें थोडयांचें अनुकरण, जांवदी. पिटर ब्रुक्स म्हणतात, 'एक ल्हान भुरगो दोळ्याचेर वक्ल घालता, हातांत

बडी घेवन जाण्ट्यावरी चलूंक लागता तेन्नाच नाटक तयार जाता. 'कृतीची अनुकृती म्हळ्यार नाटक' ह्या म्हणण्याक ते जोड दितात. हांगा नाटक हें साहित्यांत मोडटा काय ना हो विशय चर्चेचो, पूण अनुकृतींतल्यान नवें कितेंतरी घडटा, नवनिर्मितीचो जल्म जाता. हे गजालीकडे आमकां वचपाचें आसा. देखून ही देख दिल्या. सुरवातीक जातलें अनुकरण, संवसारातल्या व्हड व्हड साहित्यिकांचे बाबतींत हेंच जालां. कांय काळान अनुकरण आनी स्वताची धाटणी हांचो एक मेळ जमून आयिल्लो दिसतलो. म्हणटा म्हणसर आमी पयली बयली कात सोडप तशें अनुकरणूय सोडून दितले. आनी स्वताचीं अशीं खाशेलपणां घेवन मुखार येतले. आनी ती येवपाची गरज आसता. लेखकांच्या लेखनाचो प्रभाव खूब फावटी पडटा. बाकीबाब बोरकरांचेर कवी तांब्यांचो प्रभाव आशिल्लो. आमचे साहित्यीक रविन्द्र केळेकर - हांकां सुरवातीच्या काळांत काकासायब कालेलकरांचो प्रभाव स्वताचेर जाणवलो. पूण ह्या सगळ्यानी स्वताची वाट सोदून काडली. आमी लेखकाचे साहित्यकृतिच्या अनुकरणापारस चड लेखन प्रक्रियेचें अनुकरण करुया. लेखक कशे तरेन आपली निर्मितीची वाट चलता तांचेय गरज तशें अनुकरण करुया...

पूण हें करतना एक अट स्वताक लावया ती म्हळ्यार एक ना एक दीस जाता तितले बेगीन स्वताची वांट सोदून काडपाची. सुचता, स्फुरता तें जोगूल उतरांचे गायरेंत पुरुन उडोवया. मेळिल्ल्या विशय - बिजांचे भांगर करुया ! सगळेंच जाण कवितेंतल्यान सुरवात करतात. कविता बरयता बरयता निबंद जावन पडटा. केन्ना केन्ना करुंक वतात मारुती आनी जावन पडटा गणपती. सुरवातीक अशें जावप वायट न्हय. पूण उपरांत मारुती जाल्यार मारुतीच जावचो. गणपती जाल्यार गणपतीच जावचो हाची जतनाय घेवपाची गरज आसता.

प्रत्येक रचनाकृतीक आपलें अशें व्यक्तिमत्त्व आसता, आपले अशें खाशेलेपण, आपली अशी अस्मिता आसता. आनी त्याच म्हालवजार आमी साहित्यांचे वेगवेगळे प्रकार जावं पती निर्माण करतात. अनुकरणाची जशी कात सोडून दिवन आमकां निजाची पद्धत आपणावची पडटा. तशेंच आनीक एके गजालीचो पंचनामो आमकां करचो पडटा. तो म्हळ्यार हांव कोण? हाचो. हांव कवी, कथाकार, निबंदकार, कांदबरीकार काय नाटककार हांतलो कोण? म्हळ्यार म्हजो पींड कितें? हाचो सोद घेवपाचो आसता. जायते साहित्यीक आसतात, जे विविधांगी लेखन करपाचे तांकीचे आसतात, ते कविता, कथा, कादंबरी साबार प्रकार समर्थपणान हाताळटात. आमचे कोंकणीत भौ. पुंडलीकबाबान साबार प्रकार यशस्वी केल्यात पूण तरीलेगीत ह्या सगळ्यांभितर नाटककार ह्या तांच्या व्यक्तिमत्वाक उखल आसा. हिन्दीतले जयशंकर प्रसाद, छायावादी कवी, नाटक, कथा, कांदबरी, निबंद अशें साबार प्रकार परिपूर्ण रितीन हाताळले. कवी बाकीबाब बोरकर हांणी कादंबरीय बरयल्यात. पूण कवी म्हणूनच अदीक लोकांमोगाळ आसात. थोड्यांनी सगळ्याच प्रकाराक वेंग माल्ली पूण एकूय सारकें हाताळूंक पावले नात. थोडे एकाच मळार सातत्यान चकचकतच रावले. सगळेतरेचें लेखन करपी आसात. आनी एकेच तरेचे लेखन करपीय आसात. तात्पर्य -- हांव कोण? ह्या पिंडाचो सोद आमकां घेवपाची आसल्यार जें येता तें बरोवया, आपूण सगळें प्रकार हाताळटलो म्हण आयज कविता, फाल्यां कथा, परवां तिसरें हे प्रयोग करपाची घाई करी नासतना रचना प्रक्रिया चालूच उरतली हाचें भान दवरुया. दर एक सर्जनशील कलाकाराक आपली अशी प्रकृती आसता. हे प्रकृतीक फावता, पचता - रुचता अशे तरेन तो आपली वाट सोदून काडटा. ही वाट सोदून काडचे खातीर थोडो वेळ आमकां वाट पळोवची पडटा.



वास्तवीक सगळ्याच साहित्यिकांमदीं कवी लिपिल्लो आसता. आदीं मदीं गद्यसाहित्यांतूय तो बोडकी भायर काडटना दिसता, हें मात आमकां न्हयकारुंक शक्य जावचें ना.

**टिका दिका दाखयता**

सुरवातीक नवीच कथा वा कविता बरयली म्हणतकच आमकां स्वताकूच ती बरी दिसता वा (Best) हां! अशें तरेन तेच धुंदीत आमी रावतात. मागीर ती कोणेतरी वाचची, कोणेतरी आयकुवची म्हण आमी मागीर ती वाचकांकडेन व्हरतात. व्हरता आस्तना आपली तुस्त तोखणाय जातली हीच अपेक्षा बाळगितात. पूण केन्ना केन्ना तुस्तय मेळना. तोखणाय - टीका - दोनूय पचोवपाची तयारी दवरची पडटली, तोखणायेचो शेंदूर तिबो कपळाक लायलो म्हण आंगभर शेंदूर न्हालेवरी भुरकुटून वचचें न्हय. आनी केली ना म्हण ना उमेदय जावचें न्हय. ह्या दोनायच्या मदलो सांगोड नेमको आमकां धरचो पडटलो. खरें म्हळ्यार तोखणाय तुमचे निर्मणेचेर वेळ पडल्यार सावट जावन बसता, पूण टिका दिका दाखयता. खंय चुकलां, कितलें चुकलां, हे सांगता. तुमच्यातल्या स्वाभिमानाक तो पेटयता, अस्वस्थ करता. पूण तोखणाय करप्यापासून अदीक सावधान! टिकेक भीक घालची न्हय. पूण टिकेन दिल्ले दिकेक जरुर येवकार दिवचो. खरो रसीक, आस्वादक बरीच दाद दिता. खरे रसीक बऱ्या कलाकारांक, सर्जनशील साहित्यिकांक घडयतात. ह्या रसीक आस्वादकांच्या तुस्त, तोखणायेच्या विटामिनाचेर तांच्यातल्या निर्मणेक प्रेरणा मेळटा. टिकेंतल्यान, कोडू किरायथ्यांतल्यान आडेकडेचो निकरोप नितळ जाता. आनी - आनीक निरोगी जाता. टिका आमकां दिकाच दाखयना तर आमकां राग विकृतीपासूनय पैस दवरता. बऱ्या रसीक आस्वादकांचो एक घराबोच आमी तयार करुया. असो घराबो मेळ्ळो तर सर्जनशीलकार फुलत वतलो. खऱ्या

अर्थान साहित्यीक म्हणपाचे ताकिचो जातलो. आयज ह्या युवांगणांत बरोवपी आसात तशें आस्वादकूय आसात "आस्वाद - संवाद" नांवान आमी एक कार्यावळ हातांत घेवपाक जाता. ताचेर विचार जावचो.

**आवडी निवडींची बाराखडी :**

तरण्या सांगात्यानो! आमकां कितें आवडटा? साद्यो देखी घेवया. आमकां 'वंदे मातरम्' आवडटा! कांय 'I Love My India' आवडटा? 'जागी जाल्या गोंयची सासाय धोल ताशे बडय बडय, मार शेंसार मार शेंसार' ह्यो वळी आवडटल्यो? कांय 'ढोल बाजे, ढोल बाजे' आवडटलें? तुमकां 'हे जिंदगी, गले लगा लो' हे आवडटलें? कांय एक आदमी / रोटी बोलता है / एक आदमी रोटी खाता है / एक तीसरा आदमी भी है / जो न रोटी बोलता है, न रोटी खाता है / वह सिर्फ रोटी से खेलता है / मैं पूछता हूँ / यह तीसरा आदमी कौन है / मेरे देश की संसद मौन है / (कवी धूमील)

कितें आवडटलें? तुमच्यो प्रत्येकाच्यो आवडी निवडी वेगवेगळ्यो आसतल्यो. सगळ्योच कला मनोरंजन करता, आनंद दिता पूण निखळ मनोरंजनाच्या नाड्यार आमचो बौद्धीक आनी भावनीक विकास जावंक शकना. रसीक म्हण खंयचीय कलाकृती आवडप वायट न्हय. पूण आमच्यो अभिरुची जितल्यो मोटव्यो आसतल्यो तितल्यो आमी निर्माण करता त्यो रचनाकृतीय गिड्डयो आनी पोकळ थारतल्यो. आमी ज्या ज्या गजालींचे वाचन जावं आस्वादन करतात तें आमकां कितें तरी नवें दितले. जी सोबीतकाय जावं अप्रुपाय आदीं पळेली ताचेपरस वेगळें कितें तरी दितलें, अशे तरेन वाचन वाडोवया. वाचनाची नशा चडत रावूंक जाय. जितली जितली ती चडटली तितली तितली ती वाचकांचे अभिरुचिचो स्टॅमिना

वाडयत रावतली. रचपी हो आपले कलाकृतीचो पयलो वाचक आसता. तो वाचक संस्कारी जालो म्हणतकच ताचें पडबींब आमकां आमी रचतात तें रचनाकृतींत सांपडटलें. आमच्यो अभिरुची जितल्यो रसरशीत, तितलेंच आमचें साहित्य रसरसतलें, आमच्या अभिरुचींतले प्रस्न जितले जिव्हाळ्याचे तितलीच ताची तिव्रताय आमकां बरपांनी उठून दिसतली.

सैमाचे कांय नेम

तरण्या सांगात्यानो!

हो सैम जसो आमचे भोंवतणी पातळ्ळा तसों तो आमचे भितरुय आसा. सैमान ऋतु परिवर्तन जाता तशें आमच्यांतूय परिवर्तन जायत आसता. सैमान एकतरेचो उर्जास्त्रोत आसता तसो आमच्यांतूय आसता. दर्याचे फाटीर ल्हारां येतात तशीं आमच्याय मनांकाळजांत येतात, जगाचे फाटीर सगळ्यांकूच पावूण-कील सुमार काळीज आसूं येता. एक-कील सुमार मेंदू आसूं येता. पूण ह्या दोनूय इंद्रियांनी केदे चमत्कार घडयल्यात. तरण्या सांगात्यानो! आमीय अशे अप्रुप कित्याक घडोवचें न्हय. आमी साहित्यिक, सर्जनशील मनीस सगळेच गर्भार जातात. खंय तरी केन्ना तरी आमच्या सुपीक निर्मणेच्या गर्भांत विशय बिजांचो थेंबो झिरकता आनी आमी सृजनांचे उत्सव केळोवंक लागतात. हो सृजनांचो उत्सव एकल्याचोच आसता म्हळ्यार आमी चिंतन करुंक लागतात. म्हायती - तपशील एकठांय करुंक लागता. भावनांची जमवा-जमव करतात. हांगा विचारांची पोसवण जाता. सात्वीक आनंदाचो घोगो शिरंतरांतल्यान व्हावूंक लागता, कलाकृती आकार घेवंक लागता आनी एक दीस बाळंत जाता. कितले कुतुहल - बाळंटेरपणाच्यो मानसीक वेणो, आनी धादोसकाय आदी! ही धादोसकाय, हो आनंद मेळोवपाचो आसल्यार संवेदनशील मन,

नदर आशिल्ले शिटूक दोळे - कान - मेंदू हांकां काम दिवचें पडटलें ह्या इंद्रियांचे जें काम तें तांचेकडल्यान वेवस्थित करुन घेवचें पडटलें. आमी निर्माण केल्ली निर्मणी, नवे निर्मितीक जल्म दितली इतली सुपीक आसची. आमी बरयतात तातूंत नवेंपण ताजेंपण आसचें पडटलें. तांतल्यानच नवें जल्माक येवंक जाय. ना तर आमची कलाकृती वांझ थरतली आनी ते वांझ कलाकृतीचे आमी धनी, फळपाची कुवत आसतनाय सारखे फळ्ळे ना देखून वांझूढे जावन पडटले. आमी नव्याचो सोद घेवया, जे सुंदर आसा तांतलेय सौंदर्य सोडून कडुया. जितली पिंजकारी जीन पॅन्ट तितली आयचे फॅशनीभीतर ती सुंदर दिसता. ती सुंदरकाय लोकांच्या दोळ्यांनी आमीच रकयतात. आनी नकळटना संवसारांत कुरुप कांय नासता, कुरुपताय आसता तीं पळेतल्यांच्या दोळ्यांत, ह्या तत्वाक आमी पाळो दितात. अशेतरेन आमीय लेगीत कुरुपतायेन सोबीतकाय सोदपाचो प्रयत्न करुया. चुलींतलो रसरशीत उजो, तांतलो शेंदुरी हळदूवो रंग पळेतकच एक चमचो रोस पिवन उडोवया, खतखतीत तें अळंग पचोवपाची धमक दाखोवया. साहित्य रचनेतलो आनंद लुटुया, आनंद वाटुया.

### कल्पनाशक्ति आनी आमी

इश्टांनो, आमच्यातल्या साहित्यिकाक फुलयतलो तर आनीक एक शक्ती जाय ती म्हळयार 'कल्पनाशक्ती'. तरनाट्यानो! हांवें पळेल्यात तुमच्यांतल्या जायतेजाणांच्यो कल्पनाशक्ती टॉयलेटांच्या वण्टींचेर, दारांचेर, कॉलेजांच्या वण्टीचेर - बाकांचेर दिसता. तातूंत विकृत वायट आसूं, पूण म्हाका दिसता ती तातूंली कुशल - कल्पकता. ही कल्पनाशक्ती थोडेभितर खूब कितें सांगपाची तांक दाखयता पूण ही कल्पनाशक्ती अशी - टॉयलेटांच्या दारांचेर कित्याक

हुमकाळयतात? तिका खंयूय वापरची न्हय. घांसून पुसून चकचकीत करची. तिका सुसंस्कृत करुया. तिचो आटाप वाडोवया. वास्तवांत पडला आसूं येतां अशें एक विशयाचें बिंयाणें तें तिच्या हातांत दिवया आनी निर्माण करुया एक सुंदर सोबीत रचनाकृती. जर तुमचे मदीं आसा तर स्वता पेटपाचो आनी पेटोवपाचो धर्म कित्याक विसरचो? बिंयाणें जर आमचे कडेन आसा तर साहित्य सृजनाच्या रियाजांतल्यान तें बिंयाणें कित्याक फुलोवचें न्हय? कल्पनाशक्ती ही आमच्या कुडी भितरल्या सैमांतली शक्ती. अणभव, वास्तवता आनी कल्पनाशक्ती बळार संवसारातल्यान साहित्यिकांनी जिवो तटतटीत संवसार सगळ्या नितीमुल्यांसकट आपल्या साहित्यांतल्यान उबो केला, जो विचारांक चालना दिता. बुद्धीक धार दिता. दोळ्यांक दिसना त्या जगाचोय थाव लावन दिता. जगाकडेन पळेवपाची नदर दिता.

कवी पी. बी. शेली म्हणटात, "A man to be greatly good, must imagine intensely. He must put himself in the place of another and of many others. The pain & pleasure of his species must become his own. The great instrument of moral good is the imagination कल्पनाशक्तितल्यान हेरांच्या जाणीवांकडेन एकरुप जावप, हेरांच्यो वेदना, हेरांची खोशी हांचेकडेन एकरुप जावप आसता. जर गटारांत पडिल्ल्या भिकाऱ्याक माणुसकी म्हण कोण तरी उबारना ते वेळार भिकाऱ्याक कितें दिसूं येता? हाचे चित्रण करचें जाल्यार तुमी जावन गटारांत पडपाची गरज ना. हें तुमचें काम कल्पनाशक्तिच करुंक शकता. देखून ते कल्पनेक शक्त हाडची पडटली. ही तिका व्यापकताय दिवची पडटली. टॉयलेटांच्या जावं कॉलेजांच्या वण्टीपुरती रावपाची संकुचीतपणां भिरकावन मारची पडटली.

**आजकाल विशयांचो दुश्काळ ना**

नित्य नेमान नवें नवें घडत आसता. आयज लोकांचे रावप, खावप, जगप बदलतां. चिंतप वावरुपय बदल्लां. हाणामारी, भ्रश्टाचारी, लाचारी, मनीसपणाची धींड काडपी प्रवृत्यो बळावल्या, विज्ञान तंत्रज्ञानाच्या मळार आकांताचे बदल घडल्यात. जागतीकरणांचे चक्रीवादळ घुंवत घुंवत येता. सैमा आड बंड करुन उद्येगीकरण आनी आधुनिकीकरणाचे वागरें चोंय भोंवतणी पातळ्ळां. अशें परिस्थितिंतूय विशयांचो दुश्काळ आसूंक शकना.

एका दिसांचीं वर्तमानपत्रां काडून पळेत तर चालू सामाजीक, राजकीय, नैतीक अधःपतनाचो पोस्टमार्टम रिपोर्ट आमकां मेळटा. एका दिसाळ्यांभीतर एक तरनाट्यान भीक मागतना दुसऱ्या भिकाऱ्याक जिवोच मारलो. हो विशय आमकां कितें सांगता? त्या तरनाट्याची मानसिकता इतली हिंसक कशी? चुरचूरे नांवाची वस्तूच ताचे ठांय ना कितें? तो शिकिल्लो तरनाटो. शिक्षणीक मुल्यांची जीं घसरण चल्ल्या ते वेवस्थेचो तो बळी कांय कितें? किदयाक दिली ना भीक दान तांणी? भीक ना ती ना, निदान जीव आसल्यार भीक मागून खायन म्हण जिवनदान तरी दिवपाचें तेंय दिलें ना. कांय त्या तरनाट्यान त्या भिकाऱ्याक जिवाच्या त्रासा - दगदगातल्यान मुक्ती दिली? साबार प्रस्न म्हजे तकलेंत घरघर करुन चक्र घुंवचे अशें घुंवत रावलें.

तरनाट्यानो! हो विशय म्हण आमी घेवया, ह्या संबंदात कल्लोळ करुया विचारांचो. सोदून काडुया तपशिलांचो मसालो, जुळोवन हाडुया भाशेंची बळस्थानां, भावभावनांक एकमेकाकडे झुंजुदी. ह्या विशयाचेर जांवदी एक सुंदर अविश्कार. आमचे पत्रकार भाव जायते फावट एका विशयाचेर

सुंदर (Story) मारतात. त्या स्टोरींभीतर कितलेशेचे विशय लिपिल्ले आसतात. तांतल्या कितल्याश्यांच विशयांचे साम्य तुमच्या केन्नातरी अणभवांकडेन जुळटा आसतलें. दियात तांका साहित्य रुप. कांकणभर अणभव, कणभर विशय बीज, मणभर रचनेची प्रेरणा जावं येता. आमी ह्या युवांगणांत जमल्यात, साहित्य विशयांत रुची आसा म्हणून, आमीच आमकां फटोवपाचो यत्न करचो न्हय. आमी आमच्यांतल्या साहित्यिकांकडेन प्रतारणा करची न्हय. देखून आमी जें बरयतात ताचें सातत्य दवरुया. संशोधक लेखक नंदकुमार कामत हांणी एकीकडेन म्हळां "साहित्य बहुप्रसव नासल्यार जाता, पूण निर्मितीसातत्य जाय. अशा सातत्यांतल्यान सत्य सांपडटा. कारण सातत्य हेंच सत्याचें दुसरें रुप. घडये सत्याचो सोद घेवपी साहित्य निर्माण करचे पयली आमच्या तरनाट्या लेखकांक सातत्याचो सोद पयलीं घेवचो पडत." हय, हें सातत्य फकत लिखाणांतूच न्हय तर साहित्यिक म्हण घडपाक जीं जीं तत्त्वां लागू जातात. देखीक वाचनाचे सातत्य चिंतनाचें विचार करपाचें, भासाभास करपाचें सातत्य नव नवे अणभव घेवपाचे तितल्यांचे सातत्य आमकां दवरचें पडटलें. साहित्यकारांमदल्या साहित्यिकांक जितो दवरतले तर सातत्य हें महापथ्य म्हण आमी स्विकारुया.

**तिसरें युवा साहित्य संमेलन**

हाची फोडणी हांव म्हजे पध्दतीन अशी करताः-

**1) तिसरें :-**

फाल्यां परवां 19 डिसेंबर दिसा गोंय आपल्या स्वातंत्र्याचीं 39 वर्सां हुपतलें. ह्या एकूण चाळीस वर्सांत कोंकणी भुंयेर युवकांचें हें तिसरें संमेलन घडोवपाक गोंयच्या मुक्ततायेचें 39 वें वर्स उदेवचें पडलें. कारणां जायतीं आसात.

राजकी, सामाजीक. गोंयांक वेगवेगळ्या वादांनी पिसडून वडयलें एकचाराक फाफसून वडयला. इतल्या काळांत तरनाटे बरोवपी जाले अशें न्हय. खूप गरज आशिल्ली तेवेळार जावपाची. पूण गरज आस्तनाय वातावरण मेळ्ळें ना. ते मेळिल्लें तर आयज आनीकय बरोवपी आमकां मेळपाचे. आयज मेळटा. आमी तरनाटे भाग्यवान. आतां हे भाग्य व्हडा निश्ठेन आनी लागणूकेत जपचें पडटलें. आमचे भुंयेर भौसांत घडपी बायट बऱ्या प्रसंगाचो परिणाम निर्मिती क्षमतेचेर जाताच जाता, हें कोणें न्हयकारचो ना.

**2) युवा :-**

उत्साह, क्रियशीलताय आनी आव्हान हांचें रसायण म्हळ्यार युवाशक्ती. नव्या आव्हानांक वेंग मारपाची खुमखुमी हें ह्या पिरायेचें खाशेलपण. आपूण कितें करता हें जायते फावट ताका खबर नासता. पूण कितेंतरी करुंक जाय, हे खातीर तो धडपडत आसता. आयज आमच्या युवा सांगात्यांकडे व्यापक नदरेन पळयतना आनी आमच्यांतल्याच कायजाणांच्यो प्रतिक्रिया आयकतना वेगवेगळे प्रस्न दोळ्यांमुखार शिगमो खेळूंक लागता. आयच्या युवकांमदीं तांचें युवकपण साबुद्दीर आसा न्हय? तांचें तरणेपण तांचे सुवादीन आसा व्हय? शिडांत वारें भरिल्ल्या तारवांत ते बेभरवशाच्या दर्यांत घुंसल्यात काय? समाजांत वाडिल्ल्या अन्याय अत्याचाराच्या खातोणांत तरनाटे आसा व्हय? ह्या सगळ्या प्रस्नाची जाप हय बी आनी नाय बी अशीच दिवची पडटली. हय इतले खातीरुच कारण आयज जो म्हजे मुखार आपली साहित्यीक अभिरुची केळयत जमिल्ले तरनाटे आसा तांणी म्हाका भरवसो दिला, आधुनीक म्हायती आनी तंत्रगिज्ञानाचो वावटळीत घुस्पून लेगीत युवकांमदल्या सर्जनशील कलाकाराक जीवंत दवरपाची जापसालदारकी आमची सगळ्यांची आसा.

**3) कोंकणी :-**

आमच्या जल्माबरोबर आमकां खुपश्यो गजाली मेळ्ळयात. नैसर्गीक साधन संपत्तीत, उदक, वारो, उर्जा, दोंगर, दर्या मेळयात तशीच आमच्या गिरेस्त दायजान आमकां आमची भास फाव केल्या. ती म्हळ्यार कोंकणी.

श्रद्धा आनी निश्ठेच्या मालवजार सगळ्यांचेर अवसर हाडपी जैताचें बेंत घेवन ती मोठ्या अरिष्टांच्या होमखणांतल्यान भायर सरल्या.

आमच्या गांवां - गांवां वाडया कणकणी कोंकणी
आमच्या स्वासा उस्वासा कणकणी कोंकणी,
मांडे - धुलपद - धालां कणकर्णी कोंकणी,
धोल ताशांच्या ताला कणकणी कोंकणी,
आमच्या अस्मितेच्या मंत्रां कणकणी कोंकणी,
आमच्या भावार्थाच्या, शेरमावांनी, देव -
देवचारांच्या गाराण्यांनी कोंकणी,
पोटा-पाणयाच्या वावरा-धंद्या कणकणी कोंकणी,
सगळेकडेन कोंकणी, तर ती आमच्या मनांभितल्ले
उमाळे आनी आनी आत्म्याचे अभिव्यक्ति
कणकणी,

कित्याक आसची ना. आमी निर्माण करतात ते निर्मणे कणकणी कित्याक आसची ना! ती आमच्या रक्तांत भरसल्या.

**4) साहित्य :-**

आयचो विद्यार्थी युवक कितें बरयता? खंय खंय बरयता? चोपड्यांचेर, कपड्यांचेर, कॉलेजांच्या वण्टीचेर, टॉयलेटांच्या दारांचेर, कॉलेजींतल्या बेंचाचेर इतले सुवातीनीं बरयता. कितें कितें बरयता? हें जें कितें बरयता ताका लिखाण

म्हणचें? काय आनी कितें?

विद्यार्थी सांगात्यानो, आमी वण्टींचेर बरोवचें न्हय. सुरवात म्हण म्हाविद्यालयांच्या वण्टीपत्रकांचेर बरोवंक लागुया आनी जे कोण बरयतात ताचें बरप वाचुया. तांका उमेद दिवया. आयज काल कॉलेजां विद्यालयांचीं वण्टीपत्रकां प्रेरणा दिवपाचीं पत्रां सोडून भोगावळ जाल्या. आनी आमी ह्या वण्टीपत्रकांकडेन गांभिर्यान पळेवया. सातत्यान तातूंत बरोवया. नवे नवे विशय तातूंत हाताळुया. संबंधीत शिक्षकांक कळम आयल्यार तांचे फाटीक लागून त्या वण्टीपत्रकांतल्यान उर्बे झरो चालूच दवरुया. ही वण्टी पत्रकां आनी ह्या युवा साहित्य संमेलनाचे एक अतूट नातें आमी निर्माण करुया. अश्या वेळार साहित्याकडेन साहित्य म्हण पळेवप गरजेचें तें खंयचें भाशेतले हें गौण तांतल्यान प्रगट जाल्ले तरनाट्यांचे अंतर्मन आनी तांची कल्पकता हांचीच आमी कदर आनी आदर करुया. साहित्याकडेन साहित्य म्हण पळेवपाची वान्सा आमचेकडेन खूप जाणांकडेन ना. बरें तें बरें म्हणपाची आनी बरयतल्याची तोखणाय करपाचें व्हडपण आमी जोडुया.

हीं साहित्य संमेलनां ते नदरेन तुमकां मार्गदर्शक थरतलीं हाचो भरवसो आसा. वण्टीपत्रकां आनी वर्सूकी कॉलेज मॅगझिनां हीं दोन माध्यमां तुमकां बरोवपाच्या वाचपाचे सातत्यान राखचे खातीर. आदार करतली. आनी ह्या सातत्यान म्हत्त्वाची भर घालचे खातीर हे संमेलन आपलीं कर्तव्यां पाळूंक तुमचे सेवेक हाजीर आसतलें. ह्या तिसऱ्या संमेलनात तिसरो 'युवांकूर' तुमच्या हातांत पडटलो. अशे वेळार ह्या तीन वर्सांत कोण कोण तरणे बरोवपी घडले, हाचो नियाळ करचे परस कोणें कोणें सातत्य राखलें हाचीं नांवा हांव काडूंक बसतां. तेन्ना म्हजे मुखार येतात तीं नांवा अशीं आसात - मंगलदास भट, सोनिया सबनीस, दिवाकर सालेलकार, दिलीप पालसकार, विशाल

खांडेपारकार, सुषमा पवार, समृध्दी आचार्य, प्रसाद पागी, प्रसन्न प्रभु, रेखा पागी, फातिमा फर्नांडीस अशी कांय नावां आसात. हाचेभायर कांय तरनाटे बरयतात आसतले. पूण आमच्या 'सुनापरान्त,' 'जागांत' आनी कांय कडेन जावपी साहित्य कार्यावळी निमतान जांचीं नांवा सदांच आयकूंक येता त्या तरनाट्यांचो उल्लेख हांगा जाला. इश्टांनो, तुमी सातत्याच्या म्हालवजार, जितलें व्हड जातले, तितलें हें संमेलन व्हड जातलें. जिणेंत पांयार उबो रावपाचो काळ. प्राप्त संघर्षाक फुडो करुन नोकरी वेवसाय सोदपाचो होच तरणेपणाचो काळ जायते जाण वैयक्तीक समस्यांखातीर मनांत आसतनाय तांच्यातल्या बरोवप्याक फुलोवंक शकना. सातत्य दवरुंक शकना. ही वस्तूस्थिती आसा.

एक सुचोवणी करीन दिसता - आदले तेंपार तरनाट्यांक उर्बा दिवपी 'ऋतु' सारखी दोन म्हयन्याळीं येतालीं, तांणी जायते जाणांक उर्बा दिली 'कुळागर', 'कोंकण टायम्स', 'जाग', 'उजवाड', 'सुनापरान्ताचे' अंक येता हाचेभायर निखळ तरनाट्यांखातीर ओपिल्लो एक अंक जांव पत्रिका नवे पद्धतीन येवपाची गरज उप्रासल्या. आमचो तरणो परिवार वाडटा - तांका वर्सावळींच्या दोन साहित्य संमेलनां मदीं एक दोन कार्यावळी जावं उपक्रम सातत्याचे नदरेन आसप अशें गरजेचें दिसता. रेडिओवेल्या युवावाणीत कितलेशेच जाणांक उर्बा दिली. टी. व्ही. खातीर कितलेशेच तरनाटे मुखार आयले. गुणात्मक दर्जो वाडपाची गरज आसा. विज्ञान तंत्रज्ञानाच्या युगांत प्रसार माध्यमांनी कोंकणी फाटी उरची न्हय हो उमाळो, कारण प्रसार माध्यमाचे नदरेन कोंकणी फाटी उरप म्हळ्यार एक पावल. तरनाट्यांकूय फाटींच दवरिल्लेवरीं जातलें.

**5) संमेलन :-**

तरनाट्यांक दोळ्यां मुखार दवरुन वेगवेगळे हावेस

बाळगून संमेलन घडटा, शिंपडून आशिल्ल्या कौशल्यांन भरिल्ल्या तरण्या सांगात्यात जात, पात, धर्म, भेद विसरून एकठांय हाडटात. निखळ सृजनकार कलाकार, रसीक. हेच भावनांचें मिलन म्हळ्यार हें संमेलन. ह्या संमेलनांत विचारांचें आनी तत्त्वाचेय मिलन जावंक जाय. साहित्य रचनेंत हांव खंय पावलां, हाचें आत्मपरिक्षण करपाचे हें केन्द्र जावंक जाय शेंकड्यांनी तकल्यांतल्यान वेगवेगळे विचार येतकच सगळ्यांक एकठांय घेवन वचपी एके सुंदर संकल्पनेचोय जल्म ह्या संमेलनांतल्यान जांवक जाय. वेगवेगळ्या विचारांचे संशोधन हांतल्यान जांवक जाय. ह्या तीन वर्सांच्या संमेलनान आमकां कितें दिलें - नवें तरनाटे दिले. ते भायर साहित्याचें जुवान वातावरण दिलें. ह्या वातावरणाचो एक भाग म्हण सुचोवणी करन दिसता आनी प्रथीतयश सर्जनशील साहित्यिकांबराबर, चित्रकार, कलाकारांबराबर एक सृजन भोंवडी काडपाची. हें संमेलन नव्या तंत्राप्रमाण मोबाईल संमेलन तें प्रमाण वेगवेगळ्या थळांची आमी भोंवडी करची प्रथीतयश कलाकारांची निरिक्षण प्रक्रिया कशे तरेन चलता, साहित्यिक पळेल्ल्या विशयांक कशेतरेन कलात्मक रुप दिता, हें प्रात्यक्षिकां सकट शिकून घेवया. सृजन भोंवडेकारांचो एक घराबोच निर्माण करुया.

**विज्ञान तंत्रगिन्याच्या वादांत आमचें तारूं**

आमी नव्या हजारकाच्या हुंबऱ्यार आसात. आयज 9 डिसेंबर, 2000 ह्या हजारकांतलें हें तिसरें म्हळ्यार निमणें साहित्य संमेलन. अशा वेळार नवें हजारक आमचें मुखार नवीं आव्हानां घेवन येतात. मल्टिमिडिया, ई-मेल, इंटरनेट, व्हेबसायट, व्हेबप्रकाशन, सायबर बूक उमेद तशेंच हुस्केय घेवन येता. बुद्ध आनी गिन्यानाचीं तंरगा झेलीत वाऱ्याच्या वेगान येता. अश्या बुद्धीप्रिय काळांत भावना आनी संवेदना

हांका सुवात आसची ना काय? प्रादेशीक भासो इतिहास जमा जातल्यो काय? आनी भासो इतिहास जमा जाल्यो तर भाशीक बळार उबी आशिल्ली प्रादेशीक अस्मिताय संस्कृतायेचीं मुळां हुमटून पडटलीं काय? जग इतलें तिव्र गतीन मुखार वता 'सरव्हायवल ऑफ द फिटेस्ट' अशें पद्धतीन आमकां नव्या युगाक फुडों करचो पडटलो. बदलत्या काळाचीं पावलां, लोकांची बदलपी मानसिकताय हे लाटे बराबर आमी व्हांवून वचपाचे तुटून फुटून वचपाचे. स्वताचे राखणेपासत धडपडपाचें, आमी कितें करपाचें हाचेर गांभिर्यान विचार करपाची गरज आसा.

1999 सालांत जून - जुलैत हंगेरीची राजधानी बुडापेस्ट हांगा युनेस्कोच्या फुडाकारान "एकविसाव्या शेंकड्यांतलें विज्ञान - एक नवी लागणूक". ह्या विशयाचेर विज्ञानावेली एक संवसारीक परिशद जाली.

खरें म्हळ्यार विज्ञान हो साहित्य, खेळ आनी हेर मानवी वेव्हारांमदलोच एक वेव्हार. ताची उदरगत हीय सामाजीक जावन आसा. हे मानवी वेव्हारांची जर आमी राखण करतले तर विज्ञानाचो अतिरेक आमच्या साहित्य - कलेच्या मळार आमचे निर्मिती क्षमतेचेर बलात्कार करता, अशे तरेन सोंसून घेवप हें आमकां परवडपाचें ना.

युनेस्कोतले ते संवसारीक विज्ञान परिशदेन विज्ञान तंत्रज्ञानाक सुज्ञतायेचे परिमाण आसूंक जाय म्हणपाचें सांगून कांय म्हत्त्वाच्यो सुचवण्यो केल्या. तातूंत विज्ञानानीक धोरणां विशयांचेर लोकशाय पद्धतील सगळे तरेची भासाभास जावंक जाय. विज्ञान शिक्षणाक म्हत्त्व दिवंक जाय आनी ह्या शिक्षणांत "नैतीकताय आनी भाशीक जापसालदारकी" आसूंक जाय. हो भाग तातूंत सक्तीचो आसचो. हातूंत चडांत चड शिक्षीक करुंक जाय कोणाक? तर तरनाट्यांक, हेंय आग्रहान सांगलें.

ते परिशदेच्या आंगणांत विज्ञान तंत्रगिन्याना बराबर सेवा आनी मानवी मुल्यां, सामाजीक लागणूक हांचो विचार जाता, तर आमच्या युवा संमेलनांत कित्याक जावचो न्हय. देखून नव्या युगाक फुडो करतना कुड्डेपणान ह्या विज्ञान युगाचे भकीक पडनास्तना सुवर्णमध्य कितें तें सोदून काडचें पडटलें. हाचेय आदीं जायतीं अरिश्टां आयलीं त्या त्या वेळार, समाजजीण धवळून काडपी वादळां आयलीं, काळ परतलो. एके गरजेतल्यान दुसरी गरज जल्मा आयली आनी गरजांच्या पोटांतल्यानूच नव्या संशोधनाचो जल्म जालो. आतां निसर्गावेल्या आक्रमणाची भास आयकूंक येता. एकेवटेन अंधश्रद्धा दुसरेवटेन यंत्रश्रद्धा असो जरी संघर्श आसलो, निसर्ग कायम आसा. जो मेरेन भावना, विचार, सुज्ञताय, संवेदनेन भरिल्लें रसायण, मनशांभितर आसा. ताच्या दोळ्यांतले 'दूक' जिवें आसा तो मेरेन सैमातली वलसाण ना जावची ना. सैम पांचवोचार उरतलो. दर दिसा मनशांमदली ती उर्जा जागयत रावतलो ताकालागून विज्ञानाचो गुलाम जावं सैमाचे दुस्मान जावपा पासून सावधान रावचें पडटलें!

जो मेरेन नाल्लाचे बोंबलेतल्यान कवाथो, कवाथ्याचो माड, माडार शेवकां, शेवकांनी बोंडो, बोंड्याचो नाल्ल आनी कट्टेक बुराक मारिनास्तना, नळाची पायपलायन व्हरनास्तना, नाल्लांत गोड उदकाचो झरो आसतलो तो वेळेमेरेन म्हजी सैमाचेर श्रद्धा आनी विस्वास आसा. ताका लागून विज्ञानाचे अतीगुलाम जावन सैमाचे दुस्मान जावपापासून सावधान! सावधान! रावचें पडटलें.

तिसरें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन जैतीवंत करुया. दोन दिसांच्या संमेलनातल्यान फुडल्या काळाचें विटामीन आमी घेवया आनी आज ह्या युवांगणांतले साहित्यीक गांजट्टे

भुरगें कशें आनी ल्हव ल्हव आमची पिराय वाडोवया. आनी मागीर ह्या साहित्य संवसारात आमी म्हाकवी व्यास, वाल्मिकींचे, होमर, शेक्सपियराचे कोण तरी लागता हाची जाप दिवया आनी ही Challenge म्हणून स्वीकारुया आनी कवी पुंडलीक नायक हांच्या उतरांनी म्हणुया

आमी कोण
हाची जाप तुमकां काळूच दितलो
अशें आमी म्हणचेनात
ती आमीच दितले
आमी, आमी न्हय जाल्यार
काडोन वतले
आमचें नांव निशाण
आमच्याच हातांनी धुवन वडयतले.
जय भारत ! जय गोंय !

जोड आयोजक संस्था : सारस्वत महाविद्यालय, खोर्ली, म्हापशें
तारीक : 9 आनी 10 डिसेंबर, 2000
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य धिरेंद्र देशपांडे
कार्याध्यक्ष : प्राचार्य. सुभाष नायक
कार्यवाह : श्री. संतोष पाटकार
उदघाटक : श्रौ. तोमाझिन कार्दोज

# चवथें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. प्रकाश पर्येंकार**

(संमेलनाध्यक्ष)

वेदिवयले मानेस्त, साहित्य युवांगणात हाजीर आशिल्ले म्हालगडे लेखक, युवा साहित्यीक आनी समेस्त साहित्य रसिकांक म्हजो नमस्कार. साहित्य संमेलनाची ही पालखी साखळें, केप्यां, फोंडें, म्हापश्यां करीत अंद् साखळें पावल्या. 1987 वर्सा ह्याच वांठारात णववंस अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन भरिल्लें. तब्बल चौदा वर्सां उपरांत साखळेच्या ह्याच वांठारात चवथें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन घडून येता.

ज्या वांठारात हे साहित्य संमेलन जाता तो वांठार म्हाका परकी न्हय. जल्मभुंयेकडल्यान कर्मभुंयेकडेन वचपाची ही म्हजी सदची वाट. जंय हें संमेलन शासकीय महाविद्यालयाच्या प्रांगणात भल्लां तें थळूय म्हाका अनवळखी न्हय. ह्या महाविद्यालयाचो हांव विद्यार्थी आनी शिक्षक. तीन वर्सां हांव ह्या महाविद्यालयात शिकलां, आनी दोन वर्सां हांवें हांगा शिकयलां. म्हजो व्यक्ती विकास फुल्लो फळ्ळो तो ह्या महाविद्यालयांत शिकतना. म्हज्या जिणेत हीं पांच वर्सां खूब म्हत्वाचीं. म्हज्यातल्या साहित्य गुणांक खऱ्या अर्थान कोमरी फुटली ती हांगाच. वाचनाक गती मेळ्ळी तिवूय ह्याच महाविद्यालयांत. ह्याच महाविद्यालयाच्या मॅगझिनात म्हजी परली कोंकणी कथा तशेंच कविता उजवाडा आयली. म्हजी पयली कविता सर्त आनी म्हजे कवितेक पयलें इनाम फाव जालें तेंवूय ह्याच महाविद्यालयात. हाका लागून ह्या विद्यामंदिराकडेन म्हजें खूब लागिचें नातें आसा. ज्या

महाविद्यालयाच्या प्रांगणातल्यान म्हजे साहित्याचे वाटेक फांटे फुटले, थंयच आयज चवथें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन भरता हो योगायोगूच म्हणचो पडटलो.

फांटल्या एका तपावयर हांव कोंकणी भास, संस्कृताय आनी साहित्याच्या मळार सक्रीय आसा. कोंकणी साहित्याची वाट चलतना म्हालगडे लेखक आनी जाणकारांकडल्यान म्हाका सदांच मार्गदर्शन मेळत रावलां. आपलेंपण आनी तुस्ततोखणाय म्हज्या . वाट्याक आयल्या. तुमच्या सगळ्यांच्या कृपा आशिर्वादान चवथ्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो पाट म्हाका फाव केल्ले खातीर तुमच्या सगळ्यांचो हांव उपकारी आसां.

ह्या साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान हांव म्हजे विचार तुमच्या पोश्यांत रकयतां...

**आमी अणभव संपन्न जावया...**

लेखक हो अणभव संपन्न आसचो पडटा. अणभव हेंच ताचें धन. वेगवेगळ्या मळार आयिल्ले अणभव प्रतिभावंत लेखक कल्पकतायेन साहित्यांत मांडटा. हे अणभव लेखक दिसपट्टे जिणेतल्यान वेंचता. दुसऱ्याकडल्यान आलायते घेतिल्ले वा साहित्य वाचनातल्यान आयिल्ल्या अणभवांकय, कांय स्वःता घेतिल्ले अणभव कितलेश्याच पटिनी उजवे थारतात. कारण निजाच्या अणभवात जिणेतलें सत्य आनी वस्तुस्थिती आसता. नीज अणभवांची सुवात लेखकाच्या काळजांत आसता. जाल्यार आलायते अणभय मनपड्ड्यार दाटिल्ले आसतात. आमच्या जिणेत चडावत नीज अणभव कशे जोडटले हाचेर आमी सर्वयकाळ विचार करपाक जाय. हे खातीर आमकां कांय पथ्यां पाळचीं पडटलीं. दोळे, कान आनी मना-काळजाचीं दारां सताड उक्तीं दवरून आमकां समाज भिमूख जावंचें पडटलें. जितलो लेखक समाज भिमूख, तितले ताचे

गांठीक अणभव चड. वेश्यांचे जिणेचें चित्रण करपाक जाय जाल्यार आंगांत धीर हाडून वेश्यांचे वस्तेत आमकां पांय दवरचो पडटलो. शेतकाराक चित्रावंपाचो आसल्यार फकत मेरेर उबे रावनासतना आमकां कुणग्यांत देंवून थंड किरांव रेब्याचो स्पर्श अणभवचो पडटलो. 'काकाऽऽ कसा हा तूं... बराऽऽ हाऽ क्येऽऽ?' अशें म्हणत धनगर भावांच्या अंःतकरणाक हात घालचो पडटलो. 'गे आवयऽऽ खडे गे वयतय... आसय मगे बरी...' अशें म्हणत म्हातारे आवयची आपलेपणान खबर घेवंची पडटली. आयफेल टॉवरार चडून आमकां सरभोंवतणचें निरिक्षण करपाचें आसा. पूण ताचे तेंगशेर बसून लेखन करपी लेखक आमकां जावंपाचे नात. कोंकणी लेखक हो मातयेच्या गर्भांतल्यान वयर आयिल्लो आमकां जाय. मातयेच्या कणा - कणाकडेन नातें आशिल्लो लेखक आमकां जाय. आमच्या लेखनाच्या उतराकणकणी गोंयचे तांबडे मातयेचो वास आयिल्लो आमकां जाय.

इश्टांनो, आमच्या पांयांक आमी नव चेतनेचीं चक्रां बांदुया. आमच्या हातांक आमी मळब कोनशे सांसपुवपी पांखांटे विणुया... आमची नदर विज्ञानाच्या निसाण्यार घांसून तिका वास्तवतायेची धार काडुया... आनी कल्पकतायेची आकडी भेंडाक बांदून मनीस जिणेचो सोद घेवया. नदरेच्या अस्करात ब्रम्हांड वसयतना दोंगर - दोंगुल्ल्यो, आडवणां - खडवणां, झाडां - झोपां, सुकणीं - सावदां, किडी - मुयो, व्हाळ - न्हंयो - दर्यावेळो, झरी - तळयो - वझरे, शेतां - भाटां - कुळांगरां, गोरवां - म्हसरां - बोकडां, कोंबडीं - कुकडां, वत - पावस, शीं - गर्मी, वारें - वादळ, मळब - नखेत्रां, गांवठणां - शारां, वेश्यावस्त्यो - झोपडपट्ट्यो, कर्मस्थळां - धर्मस्थळां हें सगळें दोळ्यांच्या कॅमेरांत अचळय क्लीक करुया. मनाची रवी आनी काळजाची मडकी करून हे सगळें अणभव एका कद्यांत रकोवन घुसळुया.

इश्टांनो, हे प्रक्रियेत लोणी वयर सरतलें. हें लोणी कडोवन ताचें तूप करूया. हें तूप म्हळ्यारूच चिंतन, मनन, प्रतिभा आनी कल्पनाविलासाच्या आदारान निर्माण जाल्लें अक्षर साहित्य.

वसंतरूतुच्या येवकाराची पयली - वयली सुलूस जशी कोगुळाक येता तशी संवसारात घडून येवपी बदलांची जाग साहित्यकाराक येवपाक जाय. लेखकाच्यो संवेदना जागृत आसपाक जाय. लेखक हो फातरा काळजाचो आसूंक फावना, ताचें काळीज लोणयाच्यां गुळ्यावरी मोव आसचें पडटा. शिंयाळ्या दिसांनी हो लोणयाचो गुळो शेकेंवपाक जाय आनी वताभारार तो वितळपाक जाय. अणभवांक आपलेपणान लागीं करतना आमकां थोडेशे त्यागी जावंचे पडटलें. ताका लागून आमकां योगी जावन वाट फुट्टा ते वटेन भोंवचें पडटलें. गर्भश्रीमंतीक फांट आनी सर्वसामान्य जिणेकडेन फुडो करून आमकां चलचें पडटलें. घर्म, जात - पातिच्यो शीमो - मेरो हुपून सर्वधर्म समभावनेच्या विचारांकडेन आमकां एकरूप जावंचें पडटलें. हें सगळें करतलो आनी आपणायतलो जाल्यार आमचे कडेन चिकाटी जाय. कश्ट करपाची तयारी जाय. विश्वसाहित्यातलें बऱ्यातलें बरें साहित्य वाचतलों म्हणपाची उत्सुकताय आनी पासियेंस जाय. आपूण एक व्हड साहित्यकार जातलों म्हणपाचो मनां - काळजात मळब हावेस जाय. अशें केलें जाल्यारूच आमी कोंकणी साहित्याक उंचेल्या पांवड्यार पावोंक शकतले.

**आमी कोंकणी भाशेचेर प्रभुत्व जोडुया.**

लेखक जे भाशेतल्यान बरोवंक सोदता ते भाशेचेर ताचें प्रभुत्व आसचें पडटा. भाशेचेर प्रभुत्व मेळयतलो जाल्यार ती भास मुळापासून शिकप भोव गरजेची. आमची आवय भास कोंकणी. आमी दिसपट्टे ते भाशेंत उलयतात. येवजीतात आनी

सपनेतात. तरीय कोंकणी भास कित्याक शिकपाक जाय? असो समज आमच्यातले कांयजाण करून घेतात आनी बरयतना मात अशुध्द कोंकणी भाशेचें दर्शन घडयतात. गोंयच्या विशिश्ट वांठारात वा म्हालात रावपी मनशांची खेरीत अशी कोंकणी मोडी आसा. ते मोडी भाशेत आमी दिसपट्टे उलयतात. गोंया भायरूय साबार कोंकणी भाशेच्यो मोडी आसात. ह्या मोडींचेंय ज्ञान कोंकणी लेखकाक आसप तितलेंच गरजेचें. पात्रांचें सभाव चित्रण रंगयतना तांच्या वोंठार ती ती मोडी भास प्रभावीपणान फुलोवपाची आसता. स्वतः आपूण उलयता ते बोली भाशेंत हजारांनी उतरावळ, वाक्यप्रचार, म्हणी आनी ओपारी आसात. हांचो उपेग आमी आमच्या साहित्यांत कशे तरेन करतले हाचो अभ्यास करपाक जाय.

शब्द हें भाशेचें गिरेस्त दायज. आमी उतरांचे कीस काडुया. उतर कशें घडलां हाचो सोद घेवया. जाय तेन्ना जाय थंय नवें उतर घडोवपाची कळाशी आत्मसांत करूया. आमचीं निजाचीं आनी परकी भाशेतलीं उतरां खंयचीं तीं वळखूक शिकुया. तत्सम् आनी तद्भव उतरांचें गणीत मांडुया. पेडणे, सत्तरी, सांगे, केपें आनी काणकोण वांठारांतले युवा लेखक तेदेवेळार थळावी ग्रामीण जीण चितारताना आपल्या साहित्यांत ग्रामीण उतरावळ उत्स्फूर्तपणान हाडप तितलेंच गरजेचें. आपल्या वांठारातली कृशी संस्कृताय साहित्यांत जिवंत करपाक जाय. वेगवेगळ्या समाजांतली भाशीक संपत मुखेलपणान कोंकणी साहित्यांत हाडपाक जाय.

शिक्षीत गोंयकार एका परस चड भासो जाणा. हें बरोबर आसलें तरी आमकां एकूय भास धड बरोवंक - वाचूंक येना हेंवूय तितलेंच खरें आसा. इंग्लिशीचो म्हारू आमचे गोंवटेर बशिल्ल्यान आमी आमची चडावत शक्त ती भास शिकपात खर्चीतात. टिव्ही आनी केबलाक लागून आमच्या मनाचें

पाश्चात्यीकरण जायत चल्लां. वोठांक तांबडी लिपिस्टीक लावन तांबडी इंग्लिश उलोंवपाची संवय आमकां जडल्या. हाचो परिणाम आमच्या विचार आनी आचारांचेर सतत जायत आसा. हाका लागून कोंकणी भास दिसपट्टी दुशीत जायत चल्ल्या. एकादया बरोवप्याचें मन भश्टता, आचार - विचारांचें निजपण वचून काळजांत आलायतेंपण रिगता, तेन्ना साहित्य - निर्मिती प्रक्रीयेत बांधीकार पावता. अशें जालें जाल्यार बरोवप्याचंह भाशेत उखलापेंपण येतलें.

इश्टांनो, आमी कोंकणी भाशेचें व्याकरण आनी नादशास्त्र शिकुया. गोंयच्या वाठारांनी विंगड - विंगड जाती - जमाती वेगवेगळ्या हेळ्यान उलयतात. हे हेळे आमी मन लावन शिकुया. तांतुतलीं सौंदर्य थळां सोदून काडुया. कोंकणीची विशिश्ट बोली उलोवपी पंगडाकडेन तुच्छतायेन वा कमीपणाचे भावनेन पळोवंपाची आमकां वायट संवय जडल्या. ती संवय आमी मुळांतसून हुमटून काडुया. आनी तांचे ते भाशेचेर मोग करूया. कांय युवा लेखक आपले बोली भासेचो साहित्य रचनेत उपेग करपाक लजेतात. आपल्या समाजांतल्यो चाली-रिती साहित्याच्या माध्यमांतल्यान वाचकांमेरेन पावोवप म्हळ्यार तांकां कमीपणाचें लक्षण दिसता. साहित्यांत आपणे वास्तव चित्रण केलें जाल्यार आमी वाऱ्यार पडटले म्हणपाचो भय तांच्या काळजांत दाटून येता. असले तरेचो न्युनगंड आमी मनातलो काडून उडोवया. इश्टांनो, अशें आशिल्लें जाल्यार मराठी भाशेत ग्रामीण आनी दलीत साहित्याचो जल्म जांवचोच नासलो.

लेखकाकडेन शब्दांचें भांडार व्हड आसचें पडटा. एका परस एक अशे समानअर्थी शब्द ताच्या मनकोशात राखीव आसचे पडटात. खंयचें उतर खंय वापरपाक जाय हाची ताचेकडेन कळाशी आसची पडटा. सुटसुटीत वाक्य बांदावळ

घडोवपाचें कसब ताचे लागीं आसचें पडटा. ह्या गजालींचो आमी खोलायेन आनी चिकित्सक नदरेन विचार केलो जाल्यार दिर्घ लेखन करपाची तांक आमच्यात आपशींच येतली. आमच्या विचारांच्यो कक्षा रुंदावतल्यो. आमच्या लिखणेत नवीनताय येवंक पावतली. भाशेच्या आदारान नवे नवे प्रयोग करूंक पावतले. आमी आमची अशी वेगळी लेखनशैली निर्माण करूंक पावतले.

साहित्य इश्टांनो, मोन्याची एक वेगळी भास आसता, तशीच झाडां - पेडां, सुकणीं - सावदां आनी किडीं - मुयांची एक भास आसता. ह्या ब्रम्हांडात सजीव आनी निर्जीव रुपांत आशिल्ल्या जण एका वस्तुची अशी वेगळी एक भास आसता. हजारांनी ध्वनी ह्या ब्रम्हांडात एक सारके घुमत आसतात. ह्या ध्वनीचो आमी थाव घेवया. मोनजातींची मोनी भास तितल्याच आतुरतायेन आनी आपलेपणान शिकून घेवया. झाडां - झोपांच्या पानांचो सळसळ... न्हंया - व्हाळांचो खळखळ... दर्यागाज... दोंगरघळींतल्यान येवपी अनवळखी साद, भास आनी आभास मना - काळजाच्या ध्वनी फितार रेकोर्ड करून घेवया. हें अपूर्व भाशीक दायज, साहित्य वळेसारांत गुंथून काडुंया आनी कोंकणी साहित्य अजरामर करुंया.

**कोंकणी साहित्याचें मळ समृध्द करूंया...**

भारतीय साहित्याचे तुळेन आमचें कोंकणी साहित्य संख्यात्मक नदरेन कमी आसलें तरी गुणात्मक नदरेन खंयच कमी ना. हें सत्य म्हालगड्या लेखकांनी आपलें लेखणेच्या बळार दाखोवन दिलां. ही साहित्याची पालखी मुखार व्हरपाचें काम आतां आमचें आसा. इश्टांनो, हे गजालींचें भान दवरून जें आमचेकडेन आसा ताचेपरस कोंकणी साहित्याच्या मळार बरें आनी चड पीक काडुया. आमी आमच्या काळजांत अणभवांक

घातिल्ल्या बांदाक भावनेच्या पाटांतल्यान उदक सोडुया. जीं मळां पडींग आसात तीं कसोवया. एका परस दोन पिकां घेवपाची तजवीज करुया. अशे तरेन मशागत केली जाल्यार आमी बरें पीक घेवंक पावतले.

तेलगू, बंगला, हिन्दी, मराठी, मल्याळम आनी हेर भारतीय भासांनी गुणात्मक आनी संख्यात्मक साहित्य कित्याक निर्माण जाता? भारतीय साहित्य मळार ह्या भासांक उंचेलें स्थान कशें फाव जालें? हाचेर आमी केन्ना विचार केला व्हय? एका रातयात ह्यो भासो वयर सरल्यात अशें ना. ह्यो भासो वयर सरपाक तांचे भुंयपूत आनी आवयपूत खूब कश्टल्यात. साहित्यावरवीं आपली भास वयर कशी सरतली, भारतीय भासांमदीं आपले भाशेक मानाचो पाट कसो फाव जातलो. ह्या विचारान ते भारावन गेल्यात. साहित्य निर्मणेचें व्रत आंगार घेवन ते कामाक लागल्यात. इश्टांनो, कोंकणी साहित्याच्या मळार आमी अशें वेगळें कित्याक घडोवन दाखोवचें न्हय? जेणेकरून मुखावयल्या काळांत वेगवेगळ्या साहित्यप्रकारांत, हेर भारतीय भासांचे तोडिचें वा ताचेपरस गुणात्मक नदरेन चड उजवें कोंकणी साहित्य आमी कित्याक रचचें न्हय? आमच्यातल्या जण एका प्रतिभावंत युवा लेखकान हें एक मिशन म्हण आपणायलें जाल्यार ही गजाल अशक्य न्हय. कारण आमी बाबत कुळां न्हय. आमच्या आंगांत ती तांक आसा. आमचेकडेन अणभवांचें रसायन आसा. भावनेच्यो खणी आसात. कल्पकतायेचे म्हासागर आसात. सांगात इश्टांनो, आमी खंय कमी आसात? हें सगळें घडून येवपाक आमचेकडेन जाय ती इच्छाशक्त आनी मळब हावेस.

कोंकणी साहित्याच्या मळार कवितांचें पीक चड असो सूर आयकूंक येता. हातूंत ना म्हटल्यार थोडेशें तथ्य आसा. कवितेभायर कथा, कादंबरी, नाटक, प्रवासवर्णना, ललीत

निबंदांची संख्यात्मक निर्मिती फावो त्या प्रमाणात कित्याक जायना? कविता बरोवपाक सोपी. अशें कोणूय आमच्यातलो येवजिता आसत जाल्यार तें सामकें फट, आमच्यातले कांय जाण चड बरोवचें पडटा म्हण गद्याकडेन फांट करतात. पिंडान कवी आशिल्ल्याचें एक समजूं येता. पूण गद्य बरोवपाची तांक आशिल्ल्या प्रतिभांवत युवा लेखकाच्या संबंदान अशें घडप म्हळ्यार कोंकणी साहित्याची वाड खुटिल्ले वरीच जातलें. आमच्यातल्या जणएकल्यान ह्या प्रस्नाची जाप स्वःताकडेन विचारपाक जाय. आत्मपरिक्षण आनी आत्मनिरिक्षण करपाचो वेळ हो. कारण संवसार कूस बदलपाक लागला. काळचक्र गतीमान जालां. काळचक्राची आनी आपली गती एक जावंची म्हण मनशान आपलोय वेग वाडयला. आमकां आमचेच कडेन लक्ष दिवपाक वेळ ना अशें जण एकल्याक दिसपाक लागलां. अशे परिस्थितीत कादंबऱ्यो रचपाक वेळ कोणाक आसा? अशें आमच्यातल्या खूब जाणांक दिसप सभाविकच आसा. पूण इश्टांनो आयज पद्य लेखना वांगडाच आमकां गद्य लेखनूय करपाचें आसा. कारण कोंकणीक आयज ताची गरज आसा.

ह्या विचाराक पोसवण दितलो आनी पोषक वातावरण निर्माण करतलो जाल्यार कोंकणी म्हालगडया लेखकांनी म्हत्वाची भुमिका वठोंवची पडटली. नवोदीत साहित्यकाराची तांक वळखून त्या दिकेन तांकां प्रोत्साहन आनी मार्गदर्शन करपाची भोव गरज आसा. युवा लेखकाक 'पोसको' घेवन आपल्या सहवासांत दवरपाची गरज आसा. ताची लेखणी संस्कारीत करपाची गरज आसा. म्हालगड्या लेखकांनी आपूण व्हड म्हणनासतना आनी नवोदितान कमीपणाची भावना मनांत बाळगिनासतना साहित्यीक इश्टागतिचें नातें प्रस्तापीत करपाची भोव गरज आसा. साहित्य निर्मिती प्रक्रियेन एक पोशक वातावरण कोंकणी साहित्य मळार निर्माण जालें जाल्यार कोंकणी साहित्य फुडाराक बऱ्याक पडटलें.

म्हज्या साहित्य इश्टांनो, आमी प्रतिभावंत लेखकांची देख घेवया. हे लेखक साहित्य जगले आनी दुसऱ्यांक तांच्यानी जगपाची प्रेरणा दिली. हांव लेखक म्हण जल्मलां आनी लेखक म्हण मरतलों असो निश्चय करून हे अक्षरमोगी साहित्याची सेवा करीत रावले. आपूण बरयतां तें उजवाडाक येतले काय ना असो मनात भंय रिगयनासतना हे प्रतिभावंत सातत्यान बरयत रावले. आपूण कुरूप, कुड्डो वा भेरों आसा. हांव दुबळो वा गरीब आसा. अशी कमिपाणाची भ्भावना मात्तूय मनात हाडिनासतना हे साहित्यीक लेखन करीत रावले. हांव गर्भश्रीमंत आसून लेखन हें म्हजें काम न्हय असो गर्वय तांच्यानी केन्ना केलो ना. मनातलो आळस खुंट्याळ्याक लावन ते बरयत रावले.... साहित्याचें मळ फुलयत रावले. इश्टांनो, अश्या कांय साहित्यीकांची आमी देख घेवया. ॲलजर होरशिओ हो अमेरीकन लेखक वर्साक सरासरी देड लाख उतरांचें लेखन करतालो खंय, ताच्या साहित्याच्यो वीस लाख प्रती फक्त एके अमेरीकेंत खपल्यात. ह्या दोन गजालींवयल्यान ताचें सातत्य आनी साहित्याचो दर्जो आपशींच लक्षांत येता.... एकोणिसाव्या शेंकड्यांतलो रशियन कादंबरीकार, **वर्ल्ड अँड पीस आनी चाईल्डहूड** सारक्यो कादंबऱ्यो बरोबन संवसारीक साहित्य मळार अजरामर जाल्लो लिओ टॉलस्टॉय..... कुड्डी आनी भेरी आसून लेगीत चिकाटी आनी ध्येयनिश्ट जीण जगपी अमेरिकेची लेखिका हेलन केलर..... आपल्या जीणेत 417 पुस्तकां बरोवपी कन्नड कादंबरीकार, नाटककार, इतिहासतज्ञ, शिक्षणतज्ञ, निबंधकार, पर्यावरणवादी, समाजसुदारक, कोशकार, यक्षगान कलाकार, चित्रपट निर्मातो आनी दिग्दर्शक... ज्ञानपीठ पुरस्कार भेटोवन सन्मानीत केल्ले भोवमानादीक के. शिवराम कारंथ... अठ्ठावीस वेगवेगळीं नांवां घेवन 600 डिटेक्टीव कादंबरी बरोवपी जॉन क्रेसे.... तीन वर्सां

पिरायेचेर लग्न आनी पदरात धड शिक्षण नासतना मराठी काव्यांत मोलाची भर घालपी संत कवी बहिणाबाई... वीस वर्सां पिरायेचेर पयलो काव्य संग्रह उजवाडा आयल्या उपरांत, वेगवेगळे साहित्य प्रकार समर्थपणान केळोवन साहित्या खातीर नोबेल पारितोषिक जोडून आंतरराष्ट्रीय किर्त जोडपी गुरूदेव रविंद्रनाथ टागोर... बंदखणीत कश्टाची ख्यास्त भोगताना ग्रंथरचना करपी वीर सावरकर आनी लोकमान्य टिळक... आपल्या विरोधकांची पर्वा करिनासतना वास्तव, सत्य आनी मानवी मुल्ल्यांचेर उजवाड घालपी बांगलादेशी लेखिका तसलीम नसरीन...

ह्या प्रतिभावंतांचो साहित्य प्रवास बारीक नियाळून पळयतकच मन थक्क जाता. मनश्याकडेन प्रचंड इच्छाशक्त आसल्यार नकळत असलीं अजापां घडटात. न्हंयचें उदक जशें सतत व्हांवत आसता तशें ह्या लेखकांचे लेखनाचें सातत्य. इश्टांनो, मनश्याकडेन चिकाटी, जिद्द आनी मळब हावेस आसपाक जाय. ह्यो गजालीं जो आपणायता आनी आत्मसात करता, तो जिणेत जैतीवंत थारता. आमीय तांचेवरी घडपाचें सपन बाळगुया आनी आमचें वेगळें अशें अस्तित्व प्रस्तापीत करपाचो प्रयत्न करूंया.

**प्रकाशकांकडल्यान युवा लेखकांक प्रोत्साहन जाय.**

साहित्याच्या मळार प्रकाशक म्हत्वाची भुमिका निभयता. लेखक जें कितें बरयता तें वाचप्यामेरेन पावोपाचें काम मुखेलपणान प्रकाशक करता. लेखकान सातत्य राखून कितलेंय बरयलें तरी ताका उर्जीत खऱ्या अर्थान प्रकाशकूच करता. लेखक स्व:ता घडटा अशें म्हटलें तरी लेखक घडोवपाचे प्रक्रियेत प्रकाशकाचो मोलाचो वांटो आसता. हें सत्य आमच्यांनी न्हयकारूं नज.

कोंकणी साहित्य मळार जाणटयो - नेणट्यो, ल्हान - व्हड साबार प्रकाशन संस्था आसात. ह्यो प्रकाशन संस्था आपले परीन पुस्तकां उजवाडावपाचें काम करीत आसात. जण एका प्रकाशन संस्थांची म्हण वेगळी अशीं ध्येय धोरणां आसतात. कांय प्रकाशक फक्त प्रस्तापीत लेखकांचीं पुस्तकां छापपाचेर भर दितात. कांय प्रकाशक वेंचीक अश्या साहित्य प्रकारांतलीं पुस्तकां छापतात. कांय प्रकाशक आपलो अर्थीक फायदो पळयतात, तर चडावत प्रकाशन संस्था निखटी कोंकणीची सेवा करतात.

हालींच्या काळार उजवाडायल्ल्या पुस्तकांचीं सरासरी काडली जाल्यार प्रकाशक नवोदीत लेखकांक कितलें म्हत्व दितात? ह्या म्हत्वाच्या मुद्द्याकडेन हांव सगळ्यांचें लक्ष ओडूंक सोदतां. स्वःता अर्थीक भार उखलून उजवाडायल्ल्या पुस्तकां भितर कितल्या नवोदीत लेखकाचे पयलें पुस्तक आसा? हाची जाप सोदपाचो यत्न केल्यार नवोदीत लेखकाच्या पदरांत निर्शेणीच पडटली. एकादया नवोदीत लेखकाक आपलें पुस्तक उजवाडावपाक जाय जाल्यार 'म्हजें पुस्तक कोण छापता?' अशें म्हणत भोवचें पडटा. हे भोंवणेनूच तो खर्शेता आनी निर्शेता. आनी एक दीस प्रकाशकाची वाट पळयत आपली लेखणी सोडून दिता. कोंकणी साहित्य मळार अशें कितलेशेच लेखक खंयचे कडेन नाच्च जाल्यात. नवोदीत लेखकांची तांक वळखून ताचे लेखणेक बळ दिवपाचें काम प्रकाशकांनी केलें जाल्यार हो निराशेचो सूर इल्लो कमी जातलो.

प्रकाशकांनी नवोदीत प्रतिभावंत लेखकांच्या सोदांत सदांच आसपाक जाय अशें म्हाका मनापासून दिसता. दर्जेदार साहित्य निर्मूवपी लेखकांचें साहित्य हांव उजवाडायतलों म्हणपाचें फाटबळ युवा लेखकाक मेळपाक जाय. 'तूं बरयत राव, हांव तुजें साहित्य पुस्तक रूपान हाडपाची जबाबदारी

घेतां', अशीं धिटायेचीं उतरां प्रकाशकाकडल्यान युवा साहित्यीकांक मेळत व्हय? युवा साहित्यीकांचो सोद घेतना कोण कितें बरयता? कशें बरयता? ताच्या साहित्याचो दर्जो कितें? हाचो तपास सर्वयकाळ चालूच दवरपाक जाय. ह्या तपासांतल्यान एकाद्र्या सर्जनशील लेखकाची भेट जावं येता. अशें जालें जाल्यार गोवा कोंकणी अकादेमीच्या 'पयलो चवंर' हे येवजणे फांटल्यान युवा साहित्यीकांक धांवचें पडचें ना. भौ. पुंडलीक नायक हांची अपुरबाय प्रकाशनान अपुरबाय करूंक नाशिल्ली जाल्यार घडये आमकां व्हड कोंकणी लेखकाक मुकचें पडटलें आसलें. जाग प्रकाशनान भौ. रविंद्र केळेकारबाबाक जागृत दवरूंक नाशिल्ले जाल्यार कोंकणी साहित्य मळार वैचारीक साहित्याक जाग येवंची नासली. गोमन्तक छापखान्याच्या धनयान शणै गोंयबाबांचें साहित्य उजवाडा हाडूंक नाशिल्लें जाल्यार कोंकणी चळवळीक घडये हें स्वरूप प्राप्त जावंचेना आसलें. भोवमानादीक प्रकाशकानो, तुमी आमचें फांटिवयल्यान मायेचो हात भोंवडायल्लो आमकां जाय. तुमी आमची वासपूस केल्ली आमकां जाय. तुमच्याच आदारान आमकां साहित्याच्या मळार पावलां मारपाचीं आसात. तुमच्याच आदारान आमकां घडपाचें आसा. आमकां घडयल्ल्याचो आनंद तुमकां अणभवपाचो आसा. दोगांयनी मेळून कोंकणी साहित्य वाचकांमेरेन पावोवपाचें आसा.

**तुमी परतून लेखणी हातात घेश्यात?**

विसाव्या शेंकड्याचे सुरवातेक शणै गोंयबाब आपली तेजस्वी लेखणी घेवन कोंकणी साहित्य मळार अवतरले. कोंकणी भास सगळयां आंगांनी फुलची फळची म्हण कश्टले. तांच्या पांवलार पावल उडोवन कोंकणी भाशेच्या अस्तित्वाचो सांबाळ करतां करतां आमच्या म्हालगड्या लेखकांनी कोंकणी

साहित्याचें मळ आपले परीन कसयलें. कोंकणी साहित्याक भारतीय साहित्य मळार मानाचो पाट मेळोवन दिलो. होच उद्देश दोळ्यांमुखार दवरून फांटल्या धा - बारा वर्सां फांटी एक प्रतिभासंपन्न युवा पंगड कोंकणी साहित्य मळार उदेलो. कोंकणी कविता, कथा आनी नाटक ह्या साहित्य प्रकारात मुखेलपणान तांच्यानी मोलाची भर घातली. **सुनापरान्त, कुळागर, जाग, कोंकण टायम्स, चित्रंगी, कोंकण भारती** आनी हेर नेमाळ्यांनी तांचे साहित्य उजवाडाक येतालें. हांतूतल्या अर्द्या अदीक युवा साहित्यीकांचें साहित्य पुस्तक रूपान प्रसिध्द जावन वाचप्यामेरेन पावलां. तांच्यानी आपले अशें वाचक निर्माण केल्ले. वाचकांनीय तांकां माथ्यार घेलिल्ले. कोंकणी साहित्याचें मळ आतां आपली कूस परतीता अशें सगळ्यांक दिसपाक लागिल्लें. म्हालगडे लेखक ताच्या लेखणेन दिपकावल्ले... हे युवा साहित्यीक कोंकणी साहित्य मळार वेगळें कितें तरी करून दाखयतले म्हणपाची आस्त काळजांत किल्लून आयिल्ली. पूण ना... तशें व्हडलें कांय घडलें ना. ओवळिच्या रूखांक फुलांचो भार येवंचो आनी भार ओसरतकच सगळो परिसर निस्तेज आनी सुतकी जावंचो तशेंच शें कितें जालें. हीं ओवळिचीं रूखां दिसान दीस सुकून बावून वचपाक लागलीं. हीं ओवळिचीं रूखां आयलीं पयलीं कोण नासून आमचेच तरणाटे साहित्यीक इश्ट... आपली लेखणी सकयल दवरून आपल्या वाचप्यांक ताणी निश्टत दवरल्यात. हे म्हजे इश्ट म्हाका खूब लागिचें. कांय जाण म्हज्या वांगडचे जाल्यार कांय वडील भावा - भयणा समान.

इश्टांनो, हांव तुमचे कडेन जाप विचारतां, खंय गेली तुमची ती उजवाडाक दिपकावपी लेखणी? खंय गेलो तुमचो तो

झेत? कोणे आटयली तुमची प्रतिभाशक्त? कोणे सभाग्यान खुटून उडयली तुमची ती स्फूर्त? कोणे वाडयलां तुमच्या मना - काळजांत आळसायेचें बन? खंय झिरपलें तुमच्या अणभवांचें धन? इश्टांनो, तुमी तुमचें खातीर बरोवं नाकात. तुमी वाचकां खातीर बरयात. तुमीच निर्माण केल्लो वाचक वर्ग तुमचें साहित्य वाचपाक उमळशीकेन रावला. तांचे खातीर बरयात. इश्टांनो आमी कोंकणी मळार आसाच पयलीं थोडें तांतूत आमी अशें वाटून - आटून गेले जाल्यार कशें जातलें ?

म्हज्या मोगाळ साहित्य उपासकांनो, हांव तुमकां उपदेश करिना. उपदेश करप हें म्हजें काम न्हय. हांव जाणकार वा पिरायेन म्हाल - म्हातारो न्हय. हांव काडटा तो शीण. कारण तुमचें आनी म्हजें भितर भावकेचें नातें आसा. हांव तुमच्यातलोच. आयज ह्या माचयेवयल्यान युवा लेखकांचो प्रतिनिधी म्हण सगळ्यांचे वतीन तुमकां साद घालतां. हांव म्हजें कर्तव्य करतां आनी हांव म्हाकाय शिटकायतां.

कोंकणीच्या युवा गड्यांनो, तुमी तुमची लेखणी परत हातांत घेयात. ओवळिंच्या झाडांक परत एकदां भार येवंदी. तांचो परमळ धांय दिकांनी फांकुदी... आमी सगळे मेळून वळेसार गुंथूया... मोगच्यां आटी घालुया... फांतोडेची वाट पळोवया... दवां थेंब्यातलीं मोतयां वेंचुया... वता कडार सावळ्यांचो सोद घेवया.... नचिकेताच्या दु:खात एकरूप जावंया... पयलो पावस आंगार घेवन मृधगंध पियेवया... दर्या गाजावरी आठयपार घोघेत रावुया... दोंगराक जाग हाडुयां... आमी आमचींच मुळां सोदुया... मळब माचयेर थंय - थंय करून नाचुया... सैमाच्या आंगणात किरा - मोरां वांगडा खेळुया... ह्या युवांगणात हांवें मारिल्लो हो उलो वाऱ्यार हुबचोना हाची म्हाका पुराय खात्री आसा. हो उलो जण एकल्याच्या काळजांत

घुमून ताचें परिवर्तन आयज ना फाल्यां समेस्तांक निश्चितूच आयकूंक येतलें.

इश्टांनो, हांवें हो उलो कोणाक उद्देशून घातला हाची हय - न्हयशी जाणविकाय तुमकां जाल्याच आसतली. जांका हांवें उलो माल्ला तातुंतले कांय जाण ह्या युवांगणात हाजीर आसात. हें युवागडे धा - बारा वर्सां पयलीं उत्कृश्ट कथा, कविता, नाटकां बरयतालें. साहित्य मळार तांची तोंडभर तोखणाय जाताली. आतां ह्या युवागड्यांनी आपली लेखणी थांबयल्या. ह्या युवा संमेलना पयलीं कांय युवा साहित्यीकांक संपर्क साधून हांवें कारणां जाणून घेवंपाचो प्रयत्न केला. पूण तांचेकडल्यान म्हाका समाधानकाराक जाप मेळूंक ना. हांव समजता की साहित्य साधनेच्या ह्या भोंवडेवेळार तुमी एका विशिश्ट पेण्यार येवन थांबल्यात. माथ्यावयलें वजें दवरण्यार दवरून चिंतन - मनना खातीर मात्सो विसव घेतला. हो लांबदीक विसव घेतल्या उपरांत तुमी तुमचें आंग - पांग उर्जीत करून, परत एकदां साहित्याची वाट चलपाक सुरवात करतले असो म्हाका विस्वास आसा.

**वेगवेगळीं माध्यमां आनी माचयांचो फावो तो उपेग करून घेवया.**

साहित्य निर्मीतीक पोषक वातावरण निर्माण करपी अश्यो साबार कार्यावळी वेगवेगळ्या पांवड्यार गोंयकर घडत आसतात. ह्या कार्यावळी वरवीं आमचें मन संस्कारीत जाता. इश्टांनो, आमचेकडेन साबार माध्यमां आनी माचयो आसात. युवा साहित्य संमेलनाचें ‘युवांगण’ हें साहित्याचें ‘स्वरांगण’. ह्या माटवांत साहित्याविशीं विचार मंथन जाता. कार्यशाळां वरवीं म्हालगडे लेखक आनी जाणकारांकडल्यान आमकां मार्गदर्शन मेळटा. सर्जनशील साहित्यीकांची लागींच्यान वळख जाता. इश्टागतीचें आनी भावकेचें नातें प्रस्तापीत करपाक

मदत जाता. युवा साहित्यीकां भितर एकामेकांची वळख जावन एक साहित्य परिवार घडटा. केपें, फोंडें, म्हापशें आनी अंदू साखळे, ह्या परीक्रमेतल्यान आमचो घराबो वर्सान वर्स व्हड जायत चल्ला. हाचे मुखार हो घराबो महाकाय रूप धारण करपाचो आसा.

गोवा कोंकणी अकादेमी नवोदीत साहित्यीकांखातीर कार्यशाळो घडोवन हाडटा. कोंकणी भाशा मंडळाचे 'साहित्य उपासना' कार्यावळींतल्यान साहित्य रचनाकार आनी वाचकांची अभिरूची वाडीक लागता. कोंकणी सेवा संस्था, उच्च माध्यमिक विद्यालयां, महाविद्यालयां, साबार लेख सर्ती, कवी संमेलना आनी चर्चात्मक कार्यावळी घडोवन हाडटा. बाकीबाब काव्योत्सव, सातपुते काव्यसर्त, काव्यजागर, काव्यसंघा, परुळेकर काव्य सर्त, काव्ययान, सरस्वती मंदीर कथा आनी काव्य सर्त, गोवा कला अकादेमी आयोजीत एकांकिका सर्त, साहित्य निर्मीतीक उर्बा हाडटा. साहित्याक पोसवण दिता. आकाशवाणी पणजी केंद्रार युवाअविश्कारा खातीर 'युवावाणी' कार्यावळ जाता. पणजी दूरदर्शनाचेर 'तरणाटे' कार्यावळ युवकांचे अभिव्यक्तीक साद घालता. लेखनाखातीर **सुनापरान्त** दिसाळें 'विद्यार्थी विश्वा' वरवीं विद्यार्थ्यांचे सर्जनशीलतायेक उलो घालता. **जाग, कुळागर, कोंकण टायम्स** आनी हेर नेमाळीं नेमान भायर सरतात. महाविद्यालयांनी वर्सुकी कॉलेज मॅगझीनां उजवाडा येतात. इश्टांनो, ह्या माध्यमांचो आनी माचयांचो आमी बरे तरेन उपेग करून घेवंया आनी साहित्य निर्मीती प्रक्रीयेक चालना दिवया. कितें बरोवचें, कशें बरोवचें, कितें वाचचें हाचें विशीं पावलां कणकणी आमकां मार्गदर्शन मेळू येता. साहित्य उपसकानो, सुर्याभोंवतणी गिरावळ घुंवता तशेंच तरेन आमी ह्या उपलब्ध संदी आसात तांचे भोंवतणी घुंवत रावत उर्जीत जावया. पूण हें करतना आमी संदीसाधू

जावंचेनात हाची जतनाय घेवया. ह्या संदींचो लाव घेतां - घेतां नवे पिळगेक संदी उपलब्द करून दिवपाक वावरूया. तांचेय अभिव्यक्तेक जाग हाडुंया.

हांवें वयर उल्लेख केल्ल्या माध्यमांचो आनी माचयांचो आमी कितलो उपेग करून घेतात? हो प्रस्न म्हत्वाचो आसा. आमच्यातले खुबशे जाण ह्या गजालींपासून पयस रावपाक सोदतात. ह्या कार्यावळींनी भाग घेवप म्हळ्यार वेळ व्हगडावप अशें कांय जाणांक दिसता. म्हज्या मता प्रमाण हें बरोबर न्हय. असल्या कार्यावळींनी भाग घेतकच वा उपस्थित रावतकच आमकां दिका मेळटा. साहित्याविशीं विचार आयकूंक मेळटात. साहित्याचे नवे प्रवाह कळटात. चिंतन मनन प्रक्रियेक सुरवात जावन साहित्याविशींची जाणविकाय वाडटा. आमचें कोंकणी साहित्य खंयचे दिकेन वता ते कळटा. हेर भासांतलें साहित्य खंयच्या पांवडयार आसा तें कळून येता. इश्टांनो, आमी साहित्याचे उपासक ह्या नात्यान ही म्हायती आमकां आसप तितलेंच गरजेचें. आपूण कोण? म्हजो पिंड खंयचो? कवी, कथाकार, नाटककार कांय निबंदकार... हाचो आमकां आत्मसाक्षात्कार जावंक पावतलो. आमकां आत्मबोध जातलो जाल्यार, साहित्याच्या बोधी वृक्षा पोंदा बसून आमकां चिंतन मनन करचें पडटलें.

सुरवातेच्या काळांत सर्तींनी भाग घेवप खूब गरजेचें अशें म्हाका दिसता. कारण सर्तींनी वांटेकार जातकच आपूण खंय आसा म्हणपाचें कळटा. लेखन आनी सादरीकरणांविशीं जाणविकाय येवपाक लागता. सर्तींतल्या जैतीवंताक उर्बा मेळटा. जांका इनामां फाव जावंक ना तो दुसरे फावट आपूण बरें लिखाण करतलो म्हणपाचो निश्चय करता. पूण इश्टांनो, सर्तींनी वांटेकार जावन आमकां दुसऱ्यांकडेन सर्त करपाची ना.

आमी आमचेच कडेन सर्त करपाक शिकुया. कारण आमकां आमचेरूच जैत जोडपाचें आसा.

**आकांतवादी युगांत मानवी मुल्ल्यांचो सांबाळ करुया.**

इश्टांनो, काळचक्र घुंवता... ताणे आपली गती कितलेशेच पटिंनी वाडयल्या. धर्तरेचे फांटीर आकांतवाद आपलें आक्राळ विक्राळ रूप धारण करून सर्वसामान्यांच्या हड्ड्यार थंय थंय करून नाचत आसा. ह्या ताच्या तांडव नृत्यात मानवी मुल्ल्यां मातयेभरवण जायत चल्ल्यांत. धर्तरी, मळब आनी म्हासागराकय आकांताचे चटके बसपाक लागल्यात. आयज आकांतवाद सगळ्या मळांनी, थळांनी आनी दळांनी रिगला... धर्मवाद, प्रांतवाद, वंशवाद, जातीवाद धरून कितलेशेच वाद वादीव जाल्यात. ह्या सगल्यां वादांक वेंगायत आकांतवाद मुखार सरत आसा. नसा - नसात राकेशी वृत्ती संचारिल्ल्या ह्या आकांतवादाक सर्वसामान्यांची पर्वा ना. तांकां बायलां भुरग्यांची काकळूट येना. तांकां नातीं लागना. भावकी लागना. शेजार धर्म लागना. तांकां लागता तो फकत अधर्म.

भारत स्वतंत्र जायत सावन धर्माच्या नांवान काश्मीर पेटत आसा. भारताच्या शारां शारांनी जातीय दंगली उसळत आसात. उत्तर पुर्वेकडलीं राज्यां नक्सलायटांच्या उद्रेकान हुलपत आसात. श्रीलंकेत वाग धुमाकूळ घालीत आसात. नेपाळात मावोवाद उसळी मारून वयर सरला. मध्य - पूर्व देसांनी संघर्षाचीं खोडां धुंवरेत आसात. प्रांता - प्रांतानी कोल्डवॉरां तापत आसात. 11 सप्टेंबर, 2001 दिसा न्युयॉर्कातल्या वल्ड ट्रेड सेंटराचेर आकांतवाद्यांनी हल्लो करून हजारांनी निष्पाप लोकांचे बळी घेतले. हे घटणे उपरांत अफगाणीस्थान पेटलें. इश्टांनो, ह्यो घडणुको आमकां कितें सांगतात? कितें सुचोवपाक सोदतात ह्यो घडणुको? हें सगळें

चल्लां तें येवजिल्यारूच दोळ्यांमुखार काळोख दाटून येता. आमकांच कळना आमी खंयचे वाटेन चल्ल्यात ते. ज्ञानमंदिरां उबारचीं सोडून आयज आमचें मास्टरमायंड अतिरेक्यांचीं प्रशिक्षण केंद्रां उबारपाच्या कामात व्यस्त आसा. हें अतिरेकी वारें जगाच्या कोनश्या कोनश्यांनी वाट मेळत ते वटेन व्हांवत आसा. आमचे सुविचार भश्टत आसात. आमची मत भ्रश्ट जायत आसा. आमचीं धेय धोरणां झपाट्यान बदलत आसात. आमचें मनीसपण शेणत चल्लां, घाणत चल्लां. आमी आमकां विसरत चल्ल्यात. आमच्यो भावना आनी संवेदना बधीर जायत चल्ल्यात. मनश्या मनश्यांच्या मदीं तिरस्काराचीं आनी दोशाचीं भगदाडां पडत आसात. मानवी मुल्ल्यांचें खच्चीकरण जायत चल्लां. अश्या ह्या काळश्या - निळश्या धुंवरेल्ल्या वातावरणात आमी साहित्य उपासकांनी कसली भुमिका घेवप? आमी गांवया, नाचुया, प्रतिकार करूया काय मोनेळ पांगरून वगी रावुंया. इश्टांनो, आयज वेळ आयला तो साहित्यावरवीं मानवी मुल्ल्यांचो सांबाळ करपाचो. मनश्यांतलें मनीसपण जागोवपाचो. राग, दोश, मत्सराच्या जाग्यार मोग, आपुलकाय आनी एकवटाचो मंत्र जण एकल्याच्या काळजांत फुंकपाचो.

इश्टांनो, आमच्या साहित्यांतल्यान मानवतावाद जागोवंया. मानवी मुल्ल्यांचें सार्वत्रीकरण करूया. आकांतवादान प्रदूशीत जाल्ल्या वातावरणांत साहित्य फुलांचो परमळ फांकोवया. आयजवेर अक्षरसाहित्यानूच मनीस घडोवपाचें काम केलां. आमी इकराजाण आसात. बाराव्या आकांतवादयाक आमच्या सांगाताक घेवया. ताच्या काळजांत मनीसपणाचो मंत्र फुकुया. आनी आमी बाराजाण मेळून अक्षर साहित्यावरवीं संवसारभर मनीसपणाचीं वल्ड ट्रेड सेंटरां उबारूया.

इश्टांनो, आमी मानवतेचे पुजारी, साहित्याचे उपासक. साहित्याच्या ह्या दरबारांत आमी शांतीकायेचीं गितां गांवया. मनीसपणाचे पोवाडे रचुया. कोंकणी मायेक होरावया.... ह्या अक्षर उत्सवात समभावनेच्यो पणट्यो पेटोवया. सगळ्यांक उजवाड फांकोवया... सगल्यांक उजवाड दाखोवयां...

जय भारत, जय गोंय, जय कोंकणी.

जोड आयोजक संस्था : सरकारी महाविद्यालय, साखळें
तारीक : 15 आनी 16 डिसेंबर, 2001
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य डॉ. बी. एस. गोम्स
कार्याध्यक्ष : सौ. सुनिता काणेकार
उद्घाटक : भौ. के. पी. रामनुत्री

# पांचवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. दत्ताराम दामोदर कामत बांबोळकार**

(संमेलनाध्यक्ष)

वेदीवयले मानेस्त, युवा साहित्याच्या समरादनेक आयिल्ले ल्हान व्हड साहित्यीक, साहित्यमोगी, शिक्षक, वावुरपी आनी युवा साहित्यीकांनो -

पांचव्या युवा साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान तुमी म्हाका हांगा आपयला, म्हाकाच कळना म्हज्यांत अशें कितें आसा ज्याकालागून तुमी ह्या संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो मान म्हाका फावो केला. तुमचेकडेन आसा त्या गिन्यानापरस चड हांव दुसरें कितें सांगूक शकतलों अशेंय म्हज्यालागीं कांय ना. म्हजेकडेन गुलाब ना, म्हजेकडेन शेवतेंय ना, कमळ ना, रातराणी ना आनी धूंद करपी आगळेवेगळ्या वासाच्यो जायोजुयोय नात. म्हजेलागीं आसा साद्यो नित्यनेमान कोणाल्याय पोरसांत, कोणाल्याय पडवेच्या कुशीक फुलपी धवीं, बिनवासाचीं ल्हानशीं सदाफुलींचीं फुलां. इश्टाचे नात्यान हांव तींच तुमच्याखातीर घेवन आयलां. इश्टाच्या नात्यान सुदामानय पोसोभर फोव कृष्णाचे भेंटेक व्हेल्ले. हांव सुदाम, तुमी कृष्ण म्हज्या बिनवासाच्या फुलांत तुमी परमळ भरात, जमलेंजाल्यार भांगराचीं करून म्हज्या कोंकणी आवयभाशेच्या माथ्यांत माळात.

युवा साहित्य संमेलन घडोवन हाडपाफाटल्यान आमच्या म्हालगडयांचो एक खेरीत विचार आसा, ध्येय आसा, सपन आसा. फाटल्या चार संमेलनाच्यो यादस्तिका काढून वाचत जाल्यार, तुमच्यांतले साहित्यीक गुणांक वाव मेळचो, तुमकां फुडें पावल घालपाक एक वाट मेळची, तुमच्यांतलीं साहित्यीक बिजां माड्डून न वचचीं, म्हणून सगळ्यातरेचें मार्गदर्शन,

सुचोवण्यो, अणभव आनी मोलादीक विचारांनी भरील्लीं हीं उलोवपां त्या यादस्तिकांनी छापून तुमचेमेरेन बरेतरेन पावोवपाचो यत्न केला. त्यो स्मरणिका तुमी अभ्यासाखातीर खऱ्यानीच सांबाळून दवरल्या आसत जाल्यार परत परत वाचात. तुमकां प्रामाणिकपणान ह्या साहित्याच्या मळार पावल दवरपाचें आसा जाल्यार त्या उलोवपांतलो शब्दानशब्दाचो अर्थ परत परत समजून घेयात. तेंच परत हांगा उबो रावन हांवे सांगप म्हळ्यार तुमचो आनी म्हजो वेळ फुकट वगडावप.

हें पांचवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन आंकड्यान पांचवें तशें तुमच्या साहित्य चंवरानय पाचवेचार जावं दी. ज्यांकां खऱ्यानीच कितेंतरी बरयन दिसलां ह्या खिणाक, साहित्य रचनेची सुरवात करचीशी दिसल्या, ताणी ह्याच माटवांत रोवचें बीं. पांचवो कोंब फुट्टलोंच म्हणून ज्याणी आदींच बीं रुजत घाल्लें आनी आज हयन्हयसो कोंब फुटला, ताणीय ह्याच, ह्याच माटवांत शिकून घेवचें. म्हालगड्यांकडल्यान, तो कोंब करपून झडून वचचो ना, ह्या खातीर कसली जतनाय घेवची पडटली, कशे रितीन जपचें पडटलें आनी ज्यांच्या कोंबांतल्यान नाजूक अशें पातें, इल्लेश्या रोपान रूप घेतलां आसत जाल्यार ताणीय भुल्लसून वचनासतना ताचें व्हडलें झाड जावचें, तें फळांफुलानी भरचें म्हणून जे कश्ट घेवचे पडटले, जी सोंशीकताय दाखोवची पडटली, ताचोय ह्याच माटवांत अभ्यास करचो.

आमकां मात्शें कितें बरयनाफुडेंच कोणेतरी बरें बरयलां म्हणचें, आमची तुस्त तोखणाय करची, आमकां बक्षीसां मेळचीं अशें दिसता. हांवें पयलेंच बरयिल्लें तीन आंकी नाटक 'शेणील्लो गांव' माचयेर जालें आनी बरें बरयलां म्हणून थंयच माचयेर म्हजी खुपच तुस्त जाली, कौतुक जालें. हांवय त्या

तुस्त तोखणायेंत पुराय बुडून गेलों. त्याच खिणाक भौमानेस्त पुंडलीक नारायण नायक, कोंकणीतले एक व्हड नाटककार, साहित्यीक म्हज्या म्हऱ्यांत आयले आनी ताणी म्हज्या कानात मंत्र दिलो 'घरचीं कशेंय जाल्यार बरेंच म्हणटलीं, गांवचेय बरेंच म्हणून तोखेतले, म्हणून भुल्लुसून वचूं नाका, सोंपतोलो!' घुंवळीच्या नशेंत एक सणसणीत कानसुलार कोणेतरी वाजोवचें आनी खडबडून जागो जांवचो तसो हांव त्या रातीं जागो जालों, तो अजून न्हीदूंक ना. तो मंत्र घेवन हांव आजय बरयत आसां. आतां खासा पुंडलीकबाबान तोखेल्यार लोगीत म्हजेर कसलोच परिणाम जांवचो ना इतलों हांव निबर जालां. आमचेर तोखणायेचीं मोरपाखां फिरूं वा टिकेचे कुटले पडूं आमी निबरघट्ट जावन साहित्य रचुया. आमी बक्षीसां आनी पुरस्कारां म्हऱ्यांत वचपाखातीर बरोंव नये. आमच्या साहित्याची तांक अशी आसूंक जाय की बक्षिसां आनी पुरस्कार आमच्या म्हऱ्यांत चलत येवंक जाय.

हें युवा साहित्य संमेलन पाचवें ! पांच हो आंकडो हांव जेन्ना जेन्ना मनातले मनांत गिरयतां तेन्ना हांव म्हज्या भुरगेपणात वतां. पांच वर्साच्या पिरायेचेर शाळेंत आसतना म्हज्याच पिरायेचो एक भुरगो म्हऱ्यांत येता आनी सांगता 'पांच म्हण, हांव सादेभावार्थान मोठ्यान म्हणटां पांच ! तो भुरगो म्हज्याय आवाजापरस आवाज चडोवन म्हणटा नागडो नाच' सरभोंवतणचीं भुरगीं हांसतात. हांव लजेन मान सकयल घालून रागान भितरलेभितर घुस्मटतां. ही म्हज्या भुरगेमनाची अवस्था, पूण आज जेन्ना म्हाका पाचवें युवा साहित्य संमेलन म्हणून त्या घटनेची याद जाता तेन्ना एक साहित्यीक म्हणून त्या उतरांकडेन पळोवपाची म्हजी नदरच बदलता. तुमी जर खरेंच साहित्य रचनेच्या उमळशीकेन ह्या माटवांत आयल्यात, जाल्यार तुमच्या दिसपट्टे जिणेंतल्या वाक्यान वाक्याचो

अभ्यास करूंक शिकात. प्रत्येक शब्दाचो खोलायेन अभ्यास करात. तुमकां दिल्ले वायट उतरांत लेगीत नवो चेतना जागोवपी अर्थ सोदून काडात. देखून ह्या संमेलनाचो आंकडो जर पांच जाल्यार हांवय तुमकां दरेकट्याक सांगता नागडो नाच. आंगावेलीं वस्त्रां देंवोवन कोणेच नाचपाची गरज ना. असो वेल्यावयर उखलापो अर्थ घेवन हांसपातय अर्थ ना, कारण आमी साहित्य साधनेच्या माटवांत आसात. खंयच्या विशयाचेर म्हणून बरोवप - कशें बरोवप - म्हाका जमतलें बरोवंक - अशीं अस्तीर मनाचीं वस्त्रां भिरकावन मारत. हांव बरयतां तें बरें कांय वायट - म्हाका कोण हांसचो ना मूं - म्हाका कोण कित्याकितेंय बरयलां म्हणचो ना मूं - असलीं भिरांतेचीं जळमटां पयस करात हांगा हाजीर आशिल्ल्या व्हड व्हड साहित्यीकांकडेन हांव कसो भासाभास करूं - म्हाका कितें येता? - असलो मनाचो घुस्पागोंदळ सोडोवन उडयात. भिजुडपणाचीं, आलायत्या आत्मविस्वासाचीं, आपणाकच कमी लेखपाच्या वृत्तीचीं वस्त्रां आंगावेल्यान सकयल देंवयात आनी नागडे जावन, कसलीच भिडमूर्वत धरीनासतना ताट मानेन उबे रावात. तुमच्यांतले उणेपणाची, तुमच्या अणभवाची, तुमच्या विचारांची, तुमच्या कल्पकतायेच्या एकानएक आंगाचें उकतें दर्शन, हांगा जमिल्ल्या म्हालगड्यांक, मार्गदर्शकांक, तुमच्या साहित्याची पारख करूंक आयिल्ल्या दर एकट्याक जांव दी. कितेंच धापून दवरूं नाकात, कितेंच भितरलेभितर लिपोवन दवरूं नाकात, तेन्नाच हांगसल्ले साहित्यीक वैज तुमच्या दुखण्याचेर बरेरीतीन बखद- विरसद दिवंक पावतले.

आमी बरयता आसतना मन आनी काळीज नितळ दवरून बरोवया. आमी मेकळेपणान बरोवया मागीर हासूं आमकां कोण हांसतात ते. मारूं कोण बकच्छायो मारतात ते. तांचे हांश्यांत तांचे बकच्छायेंत सोदुया आमी नवीं साहित्यीक

बिजां. खंयच्या तरी एका संमेलनात म्हज्या आवयभाशेक 'तायकीळो' म्हणून हिणसायली आनी त्याचवेळार म्हज्या आवयन म्हज्या हाताक धरून बरोवन घेतलें एक नवें नाटक 'गे माये' जें म्हज्या कोंकणी रंगमाचयेच्या गळ्यांत एक सोबीत रत्न कशें लखलखलें. इश्टांनो, ह्या आमच्या भुयेंचो एक सभावधर्म जावन पडला, जेन्ना जेन्ना आमची निर्भत्सना जाल्या, जेन्ना जेन्ना आमकां हिणसावपाचो यत्न जाला, आमच्या वाटेर आडमेळीं उबीं केल्यांत, तेन्ना तेन्ना आमी पेटून उठल्यात, आमकां नेटान उडपाचे पांखाटे फुटल्यात. आमी नवें कितेंतरी मेळयलां, नवें कितेंतरी घडयलां आनी जेन्ना जेन्ना आमची तोखणाय जाल्या, आमकां जाय तें मेळून आमी सुस्तेल्यात. तेन्ना एकतर आमी सुकून गेल्यात नातर आसा थंयच कुरगुटी करून तरी बसल्यात. देखून तुमकां जर कितेंय मेळोवपाचें आसा, घडोवपावें आसा जाल्यार ह्या भुंयेच्या सभावधर्माकडेन जुळोवन घेयात.

युवा साहित्यीकानो, फाटल्या चार युवा साहित्य संमेलनापैकीं तीन संमेलनाक हांवें हाजेरी लायल्या. निरिक्षक म्हणून, परिक्षक म्हणून आनी साहित्यीक म्हणून दरवेळा म्हाका जें जाणवलां ताची जाप सोदपाचोय हांवें यत्न केला. म्हाका जाणवलां की कविता, कथा, नाटकुलीं, आपउलोवपां रचपांत तुमच्यांत हिसपाभायर ओड आसा. तुमच्या कल्पनाशक्तीची तांक हांवें युवामहोत्सवांत पारखिल्या. साहित्य निर्मणीखातीर लागपी मुळावे अवस्थेंतले गुण तुमच्यांत स्पश्टरीतीन नदरेक पडटात. तरीलेगीत ज्या गतीन, ज्या रितीन साहित्य निर्मणी तुमच्या हातसून जावंक जाय आसली ती जाल्ली दिसना. अशें कित्याक ? ह्या प्रस्नाच्या जापेक बारीक बारीक खूप फांटे आसूं येतात, पूण हांव जेन्ना मुळांचो सोद घेवंक वतां, तेन्ना म्हज्या हाताक लागता तें

मुखेल कारण म्हळ्यार आमचें मुळावें शिक्षण! पिरायेच्या पांचव्या वर्साचेर आमी घर सोडून शाळेचीं सोपणां चडटात. ह्या पांच वर्सांच्या पिरायेचेर भुरग्याचो मेंदू बरे रितीन तयार जाल्लो आसता. ताच्यांत चैतन्य संचारिल्लें आसता, नवें शिकपाची उमेद आसात. जें दोळ्यांक दिसता तें जाणून घेवपाची उमळशीक आसता, हातांत दिल्लो खेळ घेवन खेळचेपरस, तांतूत भितर कितें आसा, कशें आसा, तें पळोवपाची उमळशीक आसता. आपली सगळी संवेदना, इंद्रियां, बुद्ध वापरून सतत मोड आनी घडय करपाकडेन ताचें लक्ष आसता. आवयभाशेंत चलतां भोंवतना शिकिल्ल्या शब्दांनी वाक्यांची रचना करपा इतलो शब्दांचो सांठो ताचेलागीं आसता. ह्या पिरायेचेर अकस्मात दुसरी भास शिकपाची ताका गरज नासता. ताका गरज आसता ताचें उमळशिकेक वाट मेळटली असल्या शिक्षणाची. हांगाच गरज आसता ताचे काल्पनाशक्तीक जागृत करपी वातावरणाची, ताची विचारशक्ती कसलेच चेंपणाबगर मेकळेपणान ल्हवू - ल्हवू वाडपाची ताका ताचे समजतल्या शब्दांनी समजावपाची आनी ताचेच उतरानी जाप मेळोवपाची. पूण अशें आजवेर आमच्या बाबतींत घडलां व्हय ? ना, आमकां अजूनय 'मातृभाशेतून शिक्षण दिलं - गेलं - जातं!' आमी नव्या भाशेंतले शब्द - नवे उच्चार आयकत उरतात. नवे भाशेंतल्यान आमकां कोण तरी समजावपाचो यत्न करता. आनी आमी पयले दिसाच्यानच शाळा म्हळ्यार खंयच्या तरी अनवळखी रानात शेणिल्ले गोरू कशें पळेंत उरतात, आमी वाजेतात, मनाचो व्हड घुस्पागोंदळ जाता, आमची विचारशक्त, आमच्या कल्पनाशक्तीचो हांगाच करपून गोबोर जाता. ज्या बुध्दीची वाड, जी गजाल आमच्या पिरायेच्या पांच वर्सांचेर घडूंक जाय आसली, ती गजाल आमी आज पांचव्या युवा साहित्याच्या माटवांत घडोवपाची? खुंटून गेल्ल्या आमच्या

कल्पनाशक्तीची, आमच्या वैचारिक, तांकिची वाड आमी आतां पंधरा - वीस वर्सांच्या पिरायेचेर करपाची? जाल्यार मागीर साहित्य रचनेंतले फुडले पावंडे आमी केन्ना हुपपाचे? ह्या मुळाव्या शिक्षणाचे वजें न पेलूंक जाल्ल्यान. वाजेवन, विटून शाळा सोडून जे आलमपेड्ड्यार जावन पडले, तातुंतले कितलेजाण व्हड व्हड कलाकार, चित्रकार, विचारवंत, साहित्यीक जावपा आसले, पूण फुकट गांवच्या आड्यावेले फातर जावन गेले. 'शिक्षण-दिल-गेल-जात' ह्या जात्याभीतर आमच्या फुडाराचेंच दळून पीट जालें.

आमच्या नशिबाचे भोग इतल्यानच सोपना. चार यत्ता जायनाफुडें परत एक नवी भास - नवे शब्द - नवे उच्चार ! इंग्लीश ! इश्टांनो, ही इंग्लीश म्हळ्यार एक घट्ट - घट्ट असो वाटकुळोच पूण गोड लाडू ! घट्ट दाडवणा पोंदा धरपाचो म्हणजे आवयभाशेंतल्यान शिक्षण मेळूंक नाशिल्ल्यान, मनावेल्या दडपणाकलागून, आमचीं पडिल्लीं गालफडां, ह्या इंग्लीशीच्या लाडवाक लागून मात्शीं फुगिल्लेवरी दिसतात. हो लाडू एकदां तोंडात घालो म्हणजे आज फुट्टलो फाल्यां फुट्टलो आनी मागीर आपूण तो गिळूंक पावतोलो. ह्या आशेन दोनय दाडवणामदीं घट्ट धरून, कानाफाटल्यों शिरो ताणून फोडपाची यत्न करत उरतात. दाडवणां सुजतात, तकलेंत सणसण मारतात, पूण लाडू मात सोडीन दिसना, कारण ताची गोडसाणच भूल घालपी. आज साहित्य रचपाक बसतां तेन्ना ह्या शिक्षणाक लागून जाल्ल्यो आमच्यांतल्यो उणिवो खरपणान जाणवतात. आमची रचपाची तांक, आमचें वाचन, निरिक्षण, आमचें विचारमंथन, चिंतन करपाचीं सगळीं माकनाच बंद पडल्यांत हाची जाणीव जाता. आमचें सगळें लक्ष लाडू फोडपाकडेनच एकवटीत जाल्लें आसता आनी आमचेकडल्यान जितली जावंक जाय तितली निर्मणी जायना, हें सत्य!

शिक्षणाची गजाल आयल्या म्हणून सांगतां, आमच्या शिक्षणतज्ञांनी कांय गजालींचेर विचार करून मुळाव्या शिक्षणांत कांय बदल केल्यात. भुरग्यांची एकाग्रता वाडची, तांच्या विचारांक चालना मेळची ह्या बऱ्या हेतून. म्हजें चली पयलेक आसतना हांवें ताचें प्रगती पुस्तक पळयलें. तांतून छापिल्लें आशिल्लें 'तांदूळ वेंचता येते - सुई दोरा घालता - येतो, फुलांचा गजरा करणे - येते' अशें कितलेशेंच आनी ह्यो सगळ्यो गजाली पेनान 'येते' म्हणून टिक् केल्ल्यो. हांवें चलयेक विचारलें, तुका हें सगळें शाळेंत करपाक लायिल्लें ? तांणे सांगलें 'ना' हांतुतलें थोडेंतरी ? 'ना' मागीर हें सगळें तुका येता म्हणून टिक् केलां मगो? चलयेन सट्ट करून जाप दिली टिचरीन करूना तें. तें हांवेंच केलां. टिचरीन प्रत्येकाक तशें करूंक दाखयिल्लें. म्हाका त्या दिसा कळ्ळें. आमच्या भुरग्यांक प्रगती पुस्तकाचेर टिक् केलां तांतुतलें कांय एक येना. पूण तांकां एकच गजाल करूंक येता, टिक् करूंक! कारण शिक्षणतज्ञाचो मूळ हेतू कुशीक उडोवन टिचरीन टिक् कशें करप हेंच बेसबरें शिकयिल्लें. इश्टांनो, तुमच्या फाटल्यान येतले युवा पिळगेक वाचोवपाखातीर गंभीरपणान आमच्या प्राथमीक शिक्षणाचेर तुमी विचार करतले अशी आस्त हांव बाळगितां. युवासाहित्यीकांनो हे फेस्ताचे दीस, जात्रेचे दीस. एकाकाळार कांय कठीण

परिस्थीतीक लागून पयस वचून खरेदी करप शक्य जायनासले. त्यावेळार फेस्ताच्या रूपान म्हाल विकपीच गावांत आयले आनी वर्साचो पुरुमेत करतल्यांक सोयीचें जालें. आज हांगा ही साहित्य देवीच्या उपासनेची जात्रा. जात्रेंत ल्हान - व्हड, गरीब - गिरेस्त, उच्च - नीच कसलोच भेदभाव उरना. गर्देंत सगळे सारखे, कोणेंय म्हाल हाडून विकचो, कोणेंय घेवचो हांगा कितेलेशेच जाण आयल्यात आपल्या अणभवाचो म्हाल

घेवन. आमी एकमेकांक गिरायक घालुया. हांगा कवी आसात, कथाकार आसात. तुमकां जाय त्या दुकानार वचून घासाघीस करून, वांटपण करून, झगडून जाय तें घेवन वचात. पूण एक मतींत धरात, जात्रेंत जशे बरे सभ्य मनीस आसतात तशे सभ्य दिसपी संदीसाधुय आसतात. ह्या साहित्यीक जात्रेंत सभ्यतायेन वागात, कोणालें तरी खाजें चोरून तें आपणेच केलां म्हणून विकूं नाकात. साहित्यदेवीच्या जात्रेंत हे असले प्रकार खऱ्या जात्रेपरसय चड वाडल्यात. फाटले वर्सा हांव परिक्षक म्हणून आशिल्लों तेन्ना असले एक दोन दुकानदार आमकां सापडल्यात. इश्टांनो, जात्रेंत भोंवतना नळी बांदून फुगयिल्ल्या बोमाड्याचो पँ आवाज तुमी आयकला आसतलो, तसलोच आवाज ह्या युवा साहित्याचे जात्रेंत म्हाका दरवेळा आयकूंक येता. सर, बरोवपाक विशयच मेळना, खंयच्या विशयाचेर म्हणून बरोवप? सगळ्या विशयांचेर कोणे ना कोणे, बरोवन विशय काबार केल्यात, परत परत तेच विशय कित्याक बरोवप? इश्टांनो, ह्या जगांत खंयच नवी घटना घडना, खंयच नवो विशय म्हणून जल्माक येना. त्योच घटना, तेच विशय फकत नवीं नवीं रूपां घेतात. उदकाची वाफ जाता, वाफेचें कूप जाता, कुपाचें उदक जाता. एक रामायण आनी महाभारत वाचून पळेलें जाल्यार तातूंतली खंयचीय घटना, तुमी वाचिल्ल्या खंयच्याय पुस्तकांतले घटनेपरस वेगळी ना हें बारीकसाणेन वाचले उपरांत तुमकां जाणवतलें. महाभारतांतलें उदक तुमकां खंयच्या तरी पुस्तकांत वाफेचे रुपान जाणवतलें जाल्यार रामायणातली वाफ तुमकां खंयचे तरी दुसरे पुस्तकांत कुपाचे रूपान दिसतली. आमी नवें कांयच बरयनात, आमी आमकां भाविल्ली घडणूक, आमच्या काळजाक भिडिल्लो त्या घडणुकेचो आशय, आमचे मनाक जाणवल्ल्यो त्या आशयाच्यो संवेदना आमच्या फिशालकायेन, वेगळे रितीन, वेगळे धाटणेन

मांडप म्हळ्यारच साहित्य निर्मणी. तेच तेच विशय बरोवप कित्याक? अशें म्हणून तुमी जर कुशीक रावले जाल्यार जात्रेंतल्या खाजेकारान कित्याक म्हणू नये की प्रत्येक मांडार तेंच खाजें, तेच लाडू, तींच कापां, तींच मापां, मागीर आपणे आनी कित्याक घालचो वेगळो मांड ? पूण तो तशें म्हणिना. तो ताजो वेगळो मांड लायता. तीच चण्यापीठी, तेंच गोड, तेंच तेल, तीच करपाची पध्दत आसुनय दरेकट्याचे खाज्याचो रंग वेगळो, प्रमाण वेगळें, रूच वेगळी, मांडावळ वेगळी आनी खपोवपाची फिशालकाय वेगळी. देकून कोणाक चड गिरायक, कोणाक सादारण, कोणाक साप कमी, तर कोणाल्या मांडार जितो मुस ना. उखलापें साहित्य रचलें जाल्यार तुमच्या मांडार कोणच फिरकुचोना. घटना तशी तीच आसली, तरी त्या घटनेचो आशय सोदीत तुमी जितले खोल खोल बुडी मारतले, विशयाच्या मुळाक हात घालून तांतुतलो अर्थपुर्ण रोस पिळून पिळून लुचतलें, तितलें तुमचें लिखाण खरपणान तेजिश्ट जावंक पावतलें.

तुमी शिवाजी राजांचेर खूब काणयो, कथानकां, नाटकां, कादंबऱ्यो वाचल्या आसतल्यो. पूण जाणी, व्हड साहित्यीक रणजीत देसाईंची 'श्रीमानयोगी' कादंबरी वाचल्या, तांका कापस्ताद जावचेलीना सांगूक की त्या कादंबरींत शिवाजींच्या, तांचे राजदरबारांतल्या लोकांच्या तोंडांत जीं उतरां वापरल्यांत तीं जशाची तशीं त्याकाळार त्या त्या मनशांनी उलोवंक ना म्हणपाची. तांणी आपले अखंड साहित्य साधनेन राजांचीं तीं उत्तरां ह्या ब्रह्मांडांतल्यान खेचून हाडल्यांत आनी अशें खेंचून हाडपाची तांक साहित्यकाराशिवाय आनी कोणाकूच आसना. तुमच्या कल्पनाशक्तीची तांक अशे रितीन वाडूंक जाय की हांगा बसून ह्या खिणाक तुमच्यानी अमेरीकेक वचूं येता. थंयचो नश्ट केल्लो टॉवर तुमच्यानी परत उबारुं येता. तो परत

त्याच रितीन कोसळांव येता. आयकयात तातूंत चिड्डून गेल्ले मनीसजातीच्यो किलांट्यो! नदरेमुखार हाडात तांचेर आयिल्लो आकांत! पोंदा जिवंत चिड्डल्यात आनी कसलोच मार लागनासतना तळघरांत कोंडून उरला. एक जीव, बरेच काळाउपरांत खंयच्यानतरी सुर्याचें किरण एका बुराकांतल्यान ताचे म्हज्यांत पावता! ताच्यांत जगपाची आस्त वाडटा! धडपडत तो उबो रावता! आनी तेचवेळार आतां कोणच जिवे सांपडपाची आशा ना म्हणून वेले मनीस उस्तुपाचें काम सोडून दितात! हें सगळें आनी हावेपरसय कितलेशेंच तुमच्यानी हांगा बसून पळोंव येता. जगामुखार हाडूं येता जाय ती इच्छाशक्त, कल्पनाशक्तीचो आधार घेवन बरोवपाची कुवत!

इश्टांनो, साहित्य रचनेची एक मुखेल खांबो म्हळ्यार भास. भास आमची आवय, भास आमची वळख, भास आमची अस्मिताय. शणै गोंयबाबा सारखेल्या एखाद्याकच आपल्या आवयभाशेचें विराट दर्शन जाता आनी शंभर बंदवांकडेन झगडपाचें बळ एकट्या एकसुऱ्या त्या म्हापुरसाच्या आंगात संचारून येता, देखूनच कुचीत्रीपणाच्यो आनी नकलामीच्यो तलवारी नाचयत हजारानी धांवत आंगार आयले तरी न भितां, ना मनाचो तोल घसरतां, हिमालयावरी ताठ मानेन आपले आवयभाशेची राखण करपाक उबो रावंक शकलो तो म्हापुरुस ! साहित्याच्या रूपान जर तुमी तुमच्या अस्मितायेची राखण करपाचें येवजीलां आसत जाल्यार आवयभाशेक कुशीक सारून तें शक्य जांवचेलेंना. दिव्याच्या जितले आमी लागीं वतात तितली आमची सावळी व्हड रूपान फांकता. आवयभाशेच्या जितले तुमी लागीं वतने तितले तुमच्या साहित्याचें तेज

व्हडाप्रमाणात फांकतलें. हांगसल्ले दर एके गजालींत आमची अस्मिताय आसा हें खरें. हांगाची माती, झाडांपेडां, दोंगर - राना, झरे - न्हंयो, सुकणीं - जनावरां, लोकगीतां - लोकांखेळ, आमचे स्वभाव, आमचें खावप - जेवप हांतुतलें बरेंचशें आमच्या सुवार्थाक लागून, आमच्याच अविचारपणान नश्ट जावं येता वा आरत्याचे परतें जावं येता, ज्याकालागून आमी आमची अस्मिताय वगडावन बसूं येता. पूण ह्या मातयेचो वास घेवन जल्मा आयिल्लें साहित्य, हांगाची जीण पितारपी साहित्य, हांगाची संस्कृताय, हांगाची गिरेस्तकाय तिगोवन दवरपी साहित्य, हांगसल्लें दर एका गजालीचें पडबिंब उदेवपी साहित्य तें कोणाच्यानच नश्ट करप शक्य ना. असले साहित्यच आमची अस्मिताय निमाणेमेरेन सांबाळून दवरतलें. देकून तुमच्या साहित्यांत तुमची वळख जाणवूंदी. तुमचें वेगळेंपण लखलखून येंवदी. हांगसल्ल्या अस्मितायेचे तुमी खरे राखणदार. तुमी जीन पँट घालून खरेलेच सुंदर दिसतात पूण थोडेशे कश्ट घेवन, थोडेशें वाचन, चिंतन करून, तुमची कल्पकताय रंगोवन एकदांच 'साहित्यीक जीण' पॅन्ट घालून पळयात. तुमी आतां दिसतात ताचेपरसय हजारपटीनी सुंदर दिसतले, आनी ह्या जगांतल्या बरे वायटांतली सुंदरकाय पळोवपाची नवी नदर तुमकां फुटतली.

तुमी ह्या पांचव्या युवा साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष म्हणून वेचून एका व्यक्तीचों, दत्ताराम बांबोळकाराचो भौमान केला. भौमान व्यक्तीचो जालो तरी ताचेफाटल्यान त्या व्यक्तीचें कितेंतरी कार्य आसता, योगदान आसता. हांव

ामजतां की आयचो हो म्हाका दिल्लो भौमान फाटल्या वीस - ाचवीस वर्सांत म्हज्या आवयभाशेच्या सेवे निमतान जी ााहित्यरचना म्हज्या हातसून घडली त्या युवा साहित्याचो हो ौमान. तुमचो भौमान !

देव बरें करूं !

जोड आयोजक संस्था : एस. एस. आंगले हायर सेकंडरी माशें,
लोलयें, काणकोण
आनी उ. मा. वि. दापट माशें
तारीक : 6, 7 आनी 8 डिसेंबर, 2002
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य नारायण देसाय
कार्याध्यक्ष : अनंत अग्नी
उदघाटक : श्री. प्रेमानंद गज्वी

# सवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**श्री. संजीव वेरेंकार**
(संमेलनाध्यक्ष)

"सुसंस्कारी समाज घडोवपी साहित्य निर्माण करात"

वेदीर बशिल्ले सगळे मानेस्त, मुखार आशिल्ले सगळे म्हालगडे लेखक, कवी, पेडणे ते काणकोण मेरेनच्या उच्च माध्यमिक आनी म्हाविद्यालयांतल्यान आयिल्ले उदेते बरोवपी, साहित्यमोगी आनी कोंकणी भाशेच्या चळवळींतल्या वावुरप्यांक म्हजो नमस्कार.

अंदुचें वर्स हें नामनेचे ज्येश्ठ आनी मराठी साहित्यीक तशेंच खऱ्या अर्थातले प्रादेशीक कथेचे जनक प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय हांचें जल्मशती वर्स. ज्या वावरांत लक्ष्मणराव सरदेसाय जल्माक आयले आनी तांणी जंय साहित्यीक परंपरेची पयली वयली घुडी उबारली त्या सावयवेरें ह्या सैमसुंदर आनी सांस्कृतीक वाटारांतल्यान हांव आयलां. आनी फाटलीं पंचवीस वर्सां सातत्यान कवितेची आनी अदींमदीं एकांकी ह्या साहित्य प्रांताची हांव सेवा करीत आसा.

म्हजे कवितेक पयलेंवयलें मार्गदर्शन प्रो. लक्ष्मणराव सरदेसाय आनी तेन्नाचें म्हजे विद्यालयाचे मुख्याध्यापक रामराव कुंकळेंकार हांचें, जाल्यार उपरांतल्या सगळ्या वावराक ज्येश्ठ लेखक पुंडलीक बाब नायक हांचें मार्गदर्शन लाभलें. लक्ष्मणरावांक आमी 'काका' म्हण्टाले. तांका जाणटेपणान हाताक धरून गांवांतल्या कुळागरांतल्यान भोंवडावपाची संद म्हाकाय मेळ्ळया. युवा साहित्य संमेलन दर वर्सा जाता हें खरें आसलें तरी प्रो. लक्ष्मणरावांच्या जल्मशतीच्या वर्सा जावपी ह्या संमेलनाच्या अध्यक्षपदाचो पाट तुमी म्हाका फाव केलो देखून हांव भाग्यवंत आनी हो एक योगायोग अशें हांव मानता.

ो पाट तुमी म्हाका फाव केलो देखून आयोजकांचो हांव उपकारी आसा.

संमेलनाच्या अध्यक्षपदाखातीर म्हजी निवड जाल्या ही खबर वेगवेगळ्या दिसाळ्यांतल्यान उजवाडाक येतकच साबार म्हज्या बऱ्या मागण्यांनी आनी म्हजे कवितेची दखल घेवप्यांनी फोन करून वा प्रत्यक्ष भेटून म्हजें अभिनंदन केलें. अशा वेळार तें सभाविकच आसता. पूण कांयजाणांनी तुकां हें पद उसरां मेळ्ळां अशें सांगूनय वेगळेतरेन तोखणाय करपाचें काम केलें. तोखणाय कोणाक आवडना, म्हाकाय आवडटात पूण तातूंत भुल्लुसून वचप्यांपैकी हांव न्हय. हें पद म्हाका उसरां मेळूंक ना जाल्यार तें योग्य वेळारच मेळ्ळां अशें हांव मानता. एद्या व्हडल्या ह्या संमेलनाचें अध्यक्षपद मेळटा ताच्या नांवार उणीच दोन पुस्तकां तरी आसपाक जाय अशें म्हजें वैयक्तीक मत आसा. म्हज्या नांवार चार पुस्तकां आसा देखूनच हें पद योग्य वेळार मेळ्ळां अशें मानतां आनी देखून तें स्विकारतना म्हाका मातय खाकडूंक जावना.

फाटल्या पंचवीस वर्साच्या काळांत काव्य सरस्पतीचे सेवे वांगडाच कोंकणीचे भाशीक चळवळींत हांव सातत्यान वावरत आसा. भाशीक चळवळीचे बाबतीत जे कांय सामके जागृत तरनाटे आसात तांचेमदलो हांव एक. जांकां कोंकणीची चळवळ खबर आसा ते कोणूच हें न्हयकारचोना. जेन्ना कोंकणीक नकलामी जांव अवमान करपाचो विरोधकांकडल्यान यत्न जाला तेन्ना तें हांव पेटून उठला. पिरायेची मर्यादा सांबाळिनासतना म्हालगड्यांक लेगीत न्हिदेंतल्यान उठोवपाचें काम केलां, पूण हें सगळें कोंकणीच्या हुस्क्यांतल्यान केलां कोणाक त्रास करपाखातीर न्हय.

**भुमीका निश्चीत करात**

कोंकणी साहित्य चळवळ वेगळी आनी भाशीक चळवळ

वेगळी अशें हांव मानीन. भाशेचें अस्तित्व तिगून उरलें जाल्यारच साहित्य चळवळीक अर्थ येता. आमचे भाशेचीं फकाणां जांव तिच्या गोंयांतल्या स्थानाक कोणूय धोको निर्माण करपाचो यत्न केला तेन्ना लेखणी सकयल दवरून आमी पेटून उठल्यात. अशावेळार कूस मारपी कितलोय व्हडलो लेखक आसूं ताका आमचेमदीं सुवात ना. नव्या उदेत्या बरोवप्यांनी ही नदर दवरून साहित्य चळवळीत वावुरचें असो उलो हांव ह्या समयार मारता.

कोंकणी भाशेक गोंयांत पर्याय ना हें सत्य आतां सबारजाणांक होलमलां. हालींहालीं कांय जाण बरोवपी, लेखक ह्या नात्यान म्हाका वाद बी कांय लागना, हांव खंयचे भाशेन बरयतां अश्या कायलोळ्यो वेगवेगळ्या व्यासपीटावेल्यान केल्ल्यो आयकूंक मेळटा आनी तांतल्या कांयजाणाक कोंकणीचो इतिहासय खबर नासता. आमगेल्या म्हालंगडयांनी तपाचीं तपां कश्ट घेवन कोंकणीक सगळया पांवडयार प्रतिष्ठा मेळोवन दिवपाचें काम केलां, देखूनच कोंकणीतल्यान साहित्य निर्मिती करप हें आयज प्रतिष्ठेचें थारलां हें मतींत धरपाची गरज आसा. म्हाका भाशेचो बी प्रश्न लागना अशें आयकून घेवप म्हजे सारख्याक सोसना. वेगवेगळया भासांतल्यान लेखन करपाक कोणाची आडखळ आसूंक शकना. इंग्लीश जरी तांत्रीक भास आसली तशेंच जशें आमी रूच येता तेन्ना मसालाडोसा, इडली बी खाता तशी सांस्कृतीक कारणाखातीर खंयचेय दुसरे भाशेचा उपयोग केलो तरी गोंयकाराचो फुडार आनी हीत कोंकणीच सांबाळटली हें सुर्याच्या उजवाडा इतलें सत्य आसा. हें कोणें विसरचें न्हय. देखून कोणूय प्रसिध्दी दिता म्हणून विचार करीनासतना खंयच्याय मेळटा त्या माटवांत मिरोवचें न्हय. कोंकणी खातीर आयज व्हडलें झूज करपाची

आयज गरज नासली तरी नव्या बरोवप्यांनी आनी तरनाट्यांनी आपलें हीत नदरेमुखार दवरून कोंकणी विशींची निश्टा आनी भुमीका निश्चीत करची अशें हांव मागता.

संमेलनाचो अध्यक्ष म्हणून अळंकारीक उतरां गुतून तयार केल्लें लांबलचक भाशण हांव तुमच्या माथ्यार मारूक सोदीना. सर्वसामान्यांक सहजतायेन समजू येता हाजी जतनाय घेवन हो विचोरांचो दोणो तुमचे मुखार दवरला. तातूंत कल्लां बी आसली जाल्यार ती भायर उडोवन पनवार तितलो पचोवपाचो यत्न तुमी करचो ही नमळायेची मागणी.

**साहित्यीक पोसके घेयात.**

कांयजाण म्हणटात हीं संमेलना म्हळ्यार उत्सव. पूण हे उत्सव जालेबगर साहित्यीक आनी सांस्कृतीक वातावरण निर्माण जायना. पूण काम उत्सवापूर्तें मर्यादीत उरूंक फावना. ताका वेगळी दिका दिवपाची गरज आसता. ह्या संमेलनांत नवे लेखक कवी माचयेर येवपाचे आसाता. फाटलीं पांच युवा साहित्य संमेलना जालीं. दर संमेलनात वेगवेगळ्या म्हाविद्यालयांतल्यान जांव हेरकडल्यान कितलेशेच कवी लेखक आयले. पूण तांतले कितलेजाण तिगून उरले आनी ते आयज सातत्यान साहित्य निर्मणी करता काय कितें हाचोय एक आढावो घेवप गरजेचें आसा. तो घेवन ताचेखातीर नवी कार्यावळ तयार करपाची गरज आसा. म्हजे मतान ह्या संमेलनातल्यान खरे अर्थान साहित्यीक 'स्पार्क' आशिल्ले बरोवपी हाताक लागतले. तांतल्या उणेचे दोन लेखकाक आमगेल्या म्हलगड्या लेखकांनी दोन वर्सांखातीर तरी साहित्यीक पोसके घेवचे. आनी बरी करून तांचे बरपावळीची नेमान बारकायेन वासपूक करची आनी तांकां वेगवेगळ्या कार्यावळींनी आस्पावन घेवपाचो यत्न करचो. अशें जालें

जाल्यार मदल्या काळान ह्या इंगळ्याचेर साचूंक पावपी गोबर पैस जावन, तें नेमान पेटूंक लागतले. तशें जालें जाल्यार आमकां संमेलनात येवपी लेखक, कवी पावसांतल्या अळम्याभाशेन आसता अशें म्हणपाचें कोणाकच धाडस जावचेंना. आनी ह्या उत्सवाचोय हेतू खरेले अर्थान फळादीक जावंक पावतलो.

कविता, कथा, कादंबरी, लघुनिबंध, नाटकां अशे साहित्याचे वेगवेगळे प्रांत आसात. बरोप्यांनी आपणाक खंयचो प्रांत बरेतरेन हाताळूंक जाता हाचो अंदाज घेवन आपले बरोवप चालू दवरल्यार बरी साहित्य निर्मणी जांव येता. तशें जालें जाल्यार साहित्याचीं सगळीं मळां विकसीत जावंक पावतलीं. आमी आमच्या साहित्यीक वावराचे वांटे करून ही साहित्य चळवळ फुडें व्हरूया. कांय दिसां आदीं पणजेत जाल्ले एके कार्यावळींत आमचे म्हालगडे लेखक पुंडलीक बाब नायक हांणी बालसाहित्याचे मळार आमचेमदीं पेंगट बांदून एकूय लेखक काम करीना अशी खंत उक्तायल्ली. नव्या बरोवप्यांनी ही गजाल मतींत धरची अशी सुचोवणी म्हाका करीन दिसता. कोंकणींत चडांचड बालसाहित्य येवपाची गरज आसा. हेंय पोरसू रसरसीत फुलोवपापासत आमी वावर करूया.

**पुस्तकांच्यो पेठयो जाय**

आमगेलें साहित्य लोकांमेरेन म्हळयार वाचप्यांमेरेन पावोवपाक प्रकाशक उणें पडटात. तेखातीर लेखकान स्वताच हो वावर हातान घेवचो पडटलो. छापिल्या पुस्तकांचे गट्टे आरमारीत दवरिनासतना तीं लोकांमेरेन पावोपाच्या कामात लेखकांनी काम करपाक जाय. खास करून कोंकणीक हे गजालीची चड गरज आसा. हांव म्हजें पुस्तकाचे बाबतीत अशेतरेचो यत्न करता देखून म्हजें 'गांवातली सांज' ह्या

पुस्तकाचें चार म्हयन्या भितर दुसरी आवृत्ती येवक पावली. वाचक कोंकणी पुस्तकां सोंदतात. पूण ती सोपेपणान मेळनात. पणजेच्या टी. बी. कुन्हा सभाघराची सोपणां चडून लोक पुस्तकां विकतीं घेवचेनात. पणजे मडगांवा, म्हापशां अशा म्हत्वाच्या शारांनी सोपेपणान सगळेतरीची कोंकणी पुस्तकां मेळपाची वेवस्था करपाक जाय आनी हें काम कोंकणी अकादमी जावं भाशामंडळ ह्या संस्थानी केलें जाल्यार अदीक बरें जातलें.

आयच्या काळांत केबल, टी. व्ही, ह्या इलेक्ट्रॉनिक माध्यमाक लागून साहित्य वाचपाची संवय मोडल्या. जण एकलो ह्याच माध्यमाकडेन आकर्षीत जाल्यात, पुस्तकां वाचीनात अशो कागाळी सगळेच करतात. फाटले कांय दिसा आदीं साहित्य अकादमीच्या प्रवास अनुदान येवजणे खाल राजस्थानची भोंवडी करपाची संद मेळ्ळी. थंयचेय लेखक हीच कागाळ करतात. कांय प्रमाणात ही गजाल खरी आसा. पूण तें पूर्णसत्य नासून तें अर्धसत्य आसा. थेटरांनी लागपी सिनेमाक आतां आदलेवरी गर्दी जायना अशें आमी म्हणटात, पूण एखाद्रो बरो सिनेमा आयलो जाल्यार लोक आजूनय तितलीच गर्दी करता अशीं उदाहरणा आसात. लोकांक अपील जावपी म्हळ्यार लोकांच्या काळजाक हात घालपी, वाचप्याचें प्रतिबींब जातूंत दिसतलें अशें तरेचें साहित्य निर्माण जावपाची गरज आसा. लोकांच्या प्रश्नाक हात घालपी साहित्यकृती निर्माण जाल्यो जाल्यार, तें थोडें तरी वाचक वाचलेबगर रावचेनात. साहित्य म्हळ्यार समाज मनाचो हारसो देखून साहित्यकृती वाचताना वाचकाक त्या हारशांत स्वताचें रूप दिसपाक जाय. अशें तरेचें साहित्य लोक वाचतात. मराठीतलें नामनेचे लेखक विश्वास पाटील हांणी आपल्या साहित्यांत धरणग्रस्तांचे प्रश्न मांडले.

लोकांक ते जिते जिवे आनी काळीज चरचरावपी दिसले. लोकांनी तांच्या 'झाडाझडती' सारक्या साहित्य कृतीचें स्वागत केलें. एका काळार मराठी रंगमाचयेक मात्शी बावसाण येवपाची स्थिती निर्माण जाली तेन्ना वसंत कानेटकरा सारखो लेखक निर्माण जालो. तांणी इतिहास लेगीत वेगळे नदरेन पळोंव येता हें दाखवोन दिलें. तेन्ना मराठी रंगमाचयेन कुसूच बदल्ली. गोंयांत नामनेचे लेखक पुंडलीक नायक हांणी नाटकाच्या मळार ही क्रांती केल्या. जंय तांचें नाटक आसता थंय टी.व्ही. वयले सिनेमा सोडूनय, लोक गर्दी करतात. देखून तांचे नाटकाचे 'कला चेतना' सारखी संस्था वर्साक शंभर प्रयोग करतात.

कविता, कथा लोक आयकनात, वाचीनात अशें म्हणपय पूर्ण सत्य न्हय. कवी, लेखक हाणी आपआपल्या प्रांताक प्रतिभा हाडून दिवपाचो यत्न करपाक जाय. दोन तीन वर्सां आदी हांवें म्हजे कवितांचे प्रयोग महाविद्यालयानी करपाचो यत्न केला. खूब बरो प्रतिसादय मेळ्ळो. हालीं हें काम आमच्यो कवयित्री नुतन साखरदांडे, नयना आडारकार आनी माया खरंगटे हांणी 'त्रिवेणी' हया कार्यक्रमावरवीं केला आनी करीत आसात. अशेतरेची धडपड लेखकांनी केली जाल्यार साहित्य लोकांमेरेन पावतलें आनी लोकांक परत ह्या विशयाची गोडी लागपाक आदार जातलो. केबल, टी.व्ही. हया माध्यमानी केदीय शबै कांडली तरी समाजाचें मन बदलपाची, ताचेर सुसंस्कार करपाची तांक साहित्यांतच आसता हें सत्य समाजाक होलमतलें. केबल टी.व्ही. चो आमी साहित्यीक कार्यक्रमाखातीरच बरेतरेन उपेग करप शक्य आसा. तें आमी कित्याक करचें न्हय? असोय एक प्रश्न आसा. सध्याची जी नकारात्मक स्थिती आसा ती बदलपाची शक्त आशिल्ले जबरदस्त लेखक कोंकणींत येवचे अशें आमी मागुया. समाजांत

नाशिल्यान घडटा. अशे लोक फकत सर्त म्हणून दर गजालीचो विचार करता. खेडेगांवांतलो मनीस शिकून भायर वता आनी तो स्वताची मुळांच विसरतात हें घडूंक फावना. तें सांबाळपाखातीर साहित्यावरवीं प्रेरणा मेळपाक जाय. घरांत वाचपाची परंपरा आसली जाल्यार भुरगे पुस्तकां चाळपाचें तरी काम करतले, नाजाल्यार तें जावपाचेंना. आयच्या काळांत लोक पत्र लेगीत बरयना. सगळें फोन, मोबायल, इंटरनेटाचेर उलोप करतात. एखाद्रें पुस्तक मेळना तें इंटरनेटार आसल्यार ताचो वापर करपाक आडखळना. पूण इंटरनेटाचेर वाचप, पुस्तक हातांत घेवन वाचप हातूंत बरोच फरक आसा. तातलें समाधान वेगळेंच आसता. ताका लागून असलें पुस्तक हे सदांच तिगून उरतलें असो म्हाका विश्वास आसा.

वाचन चळवळ वाडोवपाखातीर आनीक एक गजालीचो आमी विचार करचो पडटलो. तो 'मार्केटींग' खंयचीय वस्त तयार केली आनी ती गुदावांत दवरली जाल्यार ताचो उपेग कांयना. 'मार्केटींग' केलेबगर ती वस्त गिरायकाच्या हातांत पावना तशेंच साहित्याचेंय आसता. आमच्या लेखकांचे ताणी बरयल्या पुस्तकाचें मार्केटींग जावचें. एकामेकाचे पांय ओडपाची कुल्ल्यांची संस्कृती साहित्यीकांमदींच आसा. एखाद्र्या लेखकाच्या साहित्याकृतीच्यो चड प्रती खपल्यो जाल्यार दुसऱ्या साहित्यीकांच्या पोटांत धवळटा. अशेय प्रकार घडटात, हें घडूंक फावना. आयच्या काळांत पुस्तक खपवप हें तितलें सादें काम न्हय.

**साहित्यीकांचो मान राखात**

लेखक हो द्रश्टो आनी पारखी आसता. समाजांत बदल घडोवपाचें तशेंच बरे वायटाची कल्पना दिवपाचें काम तो करता. हेर सगळ्या मळावेल्या लोकांखातीर शाळा

महाविद्यालयां आसता. साहित्यकाराचे बाबतींत असल्यो गजाली आसना. तो स्वता अनुभव घेता आनी अनुभवांतल्यान घडटा. अणभवाचे साणीर घांसून तयार केल्लें साहित्य, वाचकांच्या काळजांत घर करून रावंक शकता. देखून समाजांत साहित्यीकांक एक वेगळेंच स्थान आसता. भौतीक विकास केलो आनी समाजाचो सांस्कृतीक विकास जालोना जाल्यार त्या भौतीक विकासाक अर्थ उरना. रोजगाराचो विचार करून सरकार वेगवेगळया उद्योगांक प्रोत्सान दिता. साहित्याच्या मळार इतलो खर दृष्टीकोन दवरपाची गरज नासली तरी सामाजीक बांदावळीखातीर साहित्यीकांचें योगदान म्हत्वाचें आसता. देखून तांचें फाव तें स्थान आनी मान तिगून उरपाक जाय. तेखातीर सरकारानय साहित्यीकांक (आरक्षण न्हय) वेगवेगळ्या मळांचेर प्राधान्य दिवपाक जाय. ते खातीर सुस्पष्ठ अशें धोरण तयार करचें अशें आवाहन हांव ह्या वेळार करतां.

एखाद्रो लेखक आपलें मॅगझीन वा म्हयनाळयाखातीर जायरातीपासत सरकाराकडेन वता आनी तेचवेळार पक्षाचो कार्यकर्तो साहित्यविरयत सोविनुराखातीर जायरात मागता तेन्ना, मंत्री जावं संबंधीत अधिकारी लेखक म्हणून ताचे कडेन वेगळे नदरेन पळयना ही दुखदेणी गजाल. 'बिम्बा' सारखी नेमाळीं चालूच उरपा खातीर विचार जावपाक जाय अशें म्हाका दिसता. साहित्यीकांखातीर धोरण तयार करताना, कोणाक लेखक कवी म्हणचो हे बाबतींत निकश तयार केले जाल्यार ताचो गैरउपयोग टाळपय शक्य आसा.

नव्या लेखकांनी कान, दोळे आनी मन उक्तें दवरून अनुभव घेवचो आनी समाजांत जे नवे प्रश्न निर्माण जाल्यात ते साहित्यांत हाडपाचो यत्न केलो जाल्यार कोंकणींत चडांतचड मौलीक आनी समाजाक बदलपाची तांक आशिल्लें साहित्य

निर्माण जावंक पावतलें. हें करताना आमच्या साहित्याचो चडांतचड दुसऱ्या भासांनी अणकार जावचो हे खातीरच वावर करपाची गरज आसा. आमचेमदीं जे अनुवाद करपी जाणकार साहित्यकार आसात तांकां उत्तेजन दिवपाखातीरच कार्यक्रम राबोवपाची गरज आसा. म्हजें उलोवप सोपोवचे आदीं नव्या बरोवप्यांक हांव एक सांगूक सोदतां, तें म्हळयार आपली कविता वा कथा वाचून कूस मारू नाकात - दुसऱ्यांचें साहित्य वाचात, आयकात. तें कळ्ळें जाल्यार आमी खंय आसा हें आमकां कळटलें. आमी आमच्या साहित्यावरवीं बावत गेल्ली नैतीक मुल्यां नव्यानं जितीजिवीं करपाच्या वावराक लागुया आनी जंय फकत मनीसपणाचींच गितां आयकूंक येतलीं असो सुसंस्कारी समाज घडोवपाच्या वावराक पेंगट बांदून वावुरूया.

जय कोंकणी, जय गोंय, जय भारत.

जोड आयोजक संस्था : सेन्ट झेवियर महाविद्यालय, म्हापशें
तारीक : 8 आनी 9 डिसेंबर, 2006
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य न्युमन फर्नांडीस
कार्याध्यक्ष : सतिश बुटे
उदघाटक : रेव्ह. डॉ. किरियेल डिसौजा

# सातवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**प्रा. प्रकाश रमाकांत वजरीकार**

(संमेलनाध्यक्ष)

कोंकणी सरस्पतीच्या माटवांत जमिल्ल्या सगळ्या मानेस्तांक म्हजो मनाकाळजाथावन नमस्कार.

हांव शणै गोंयबाब हांच्या दिवचल म्हालांतलो. शणै गोंयबाबान आर्विल्ल्या कोंकणी साहित्याची बुनयाद घालताना जी गोंयकारपणाच्या स्वाभिमानाची ज्योत आमचेमदीं पेटयली ती ज्योत घेवन साहित्याची आनी पर्यायान समाजाची सेवा करप, अज्ञानांतल्यान आयित्ल्या अहंकाराचो काळोख पैस करप हो म्हजो कोंकणी धर्म अशें हांव मानतां. ह्या धर्माक पाळो दिताना स्वतः जगप आनी दुसऱ्यांक जगोवप हें तत्वागिज्ञान येता. कोंकणी भास आनी संस्कृतायेचें रीण पावयताना सातव्या कोंकणी साहित्य संमेलनाचो मान आयोजकांनी म्हाका दिलो. ताची जडाय आनी खोलाय हांची जाणविकाय म्हाका आसा.

फाटल्या स युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांच्या माटवांनी जें साहित्यीक, वैचारीक मंथन जालें ताचो आपरोस काडल्यार आमकां मुखावेली दिका दिसपाक लागता. केंपें जाल्ल्या पयल्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत संमेलनाध्यक्ष भौ. दत्ता दामोदर नायक हाणी साहित्याक 'आनंद-योग' म्हटलां. ह्या आनंद योगाचीं 25 सुत्रां सांगल्यांत. युवा साहित्यीकांक एक गायड कशीं हीं सुत्रां आसात. दुसऱ्या संमेलनाच्यो अध्यक्ष भौ. जयंती नायक हाणी कोंकणी लोकवेदाची राखण करपाचो उलो तरनाट्या लेखकांक मारला. फर्मागुडयेर पि.ई.एस. कॉलेजीच्या माटवांत जाल्ल्या दुसऱ्या संमेलनाच्यो उद्घाटक ह्या नात्यान उलयताना महाराष्ट्रांतल्यो नामनेच्यो संशोधिका

डॉ. अरूणा ढेरे हाणी सांगिल्लो मंत्र आमकां म्हत्वाचो. आपल्या अणभवांकडेन प्रामाणीक रावून साहित्य निर्मणी करताना भास आनी संस्कृतायेचें भान लेखकांनी दवरूंक जाय', अशें त्यो म्हण्टात. म्हापशेंच्या सारस्वत म्हाविद्यालयांत घडोवन हाडिल्ल्यान तिसऱ्या संमेलनाचे अध्यक्ष प्रा. पुर्णानंद च्यारीन तरनाट्यांच्या साहित्याखातीर स्वतंत्र अंकांची / नेमाळ्यांची मागणी केल्ली आसा. साखळेच्या सरकारी म्हाविद्यालयांत जाल्ल्या संमेलनात अध्यक्ष प्रा. प्रकाश पर्येकार कोंकणीत बरप करून उपरान्त लेखणी सांडयल्ल्या तरनाट्यांक पर्थून कोंकणीत येवपाचो उलो मारतात. नामनेचे नाटककार भौ. दत्ताराम बांबोळकार माशेंच्या पांचव्या साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्ष पदावेल्यान तरनाट्यांक 'साहित्यीक - जीण पॅण्ट' घालून सोबीत संवसार घडोवपाचो उलो मारतात. तर सेंट झेवियर्स कॉलेजिंतल्या सव्या संमेलनाचे अध्यक्ष कवी संजीव वेरेंकार साहित्याच्या मार्केटींगाचेर आमचें लक्ष ओडटात.

इश्टांनो, साहित्य संमेलनाच्या नांवांनी भरपी ह्या अशेतरेच्या अक्षर मेळांनी आमी साहित्य आनी समाज हांची सांगड घालतात. कारण साहित्य हें समाजाचें पडबींब आसता. कथा, कविता, नाटक, कादंबरी, निबंद, भोवडेवर्णनां, चरित्र, आत्मचरित्र, डायरी, बालसाहित्य आदीं तरेकवार प्रकारांतल्यान साहित्यीक आपले उमाळे उक्तायतात. हें अक्षरधन वाटीत आसता. साहित्य निर्मणी हो एक अलौकीक अणभव. संवसारातली भास, उतरां घेवन आपलें अशें ब्रम्हांड निर्माण करून वाचप्यांक त्या 'आनंद - योगांत' व्हरपी हें साहित्य आसता. साहित्य संमेलनानी ह्या आनंद - योगाची चिकित्सा करप हो एक हेतू आसता. त्या निमतान जावपी कार्यशाळांनी, परिसंवादानी वांटेकार जावन मोलावणी करपाची आसा. एक

वैचारीक अधिश्टान घेवन आमकां हें संमेलन सोबोवपाचें आसा. तरनाट्यांक जाणट्यांकडल्यान मेळपी मार्गदर्शनांतल्यांन आमी आपले साधनेन नवो साहित्यीक मार्ग चलचो आसा. संमेलन हें एक व्यासपीठ, एक निमीत्त.

इश्टांनो, कोंकणी भास साहित्य आनी संस्कृतायेच्या निमतान जावपी विचारमंथनांतल्यान आमी कितें मेळोवंक सोदतात? आमची शक्त कितली? आमची दुर्बळकाय खंयची? आमच्यो मुखावेल्यो संदी खंयच्यो? आनी आमकां भंय कोणाचो वा कित्याचो हांचो चिकित्सक अभ्यास ह्या निमतान करून एक धोरण आमकां थारांवक जाय. कोंकणी समाज, युवा शक्त, पुरोगामी विचार-सरणीचेर आदारिल्ली समतावादी कोंकणी चळवळ ही आमची शक्ती आसा. कोंकणी समाज आनी भारतीय समाज घडयताना स्वाभिमानान आवय, आवयभूंय आनी आवयभास हाची राखण करप हो आमचो राष्ट्रवाद. कोंकणी चळवळींतल्या म्हालगड्यांकडल्यान समतावादी पुरोगामी विचार-सरणी आमी घेतल्या. कोंकणी भाशेचो जाणी इतिहास घडयला त्या कर्तृत्वी लोकांकडल्यान आमी स्फुर्त घेतल्या, घेयत आसात. कोंकणी साहित्यांत आयिल्ल्यान विंगड विंगड प्रभावी प्रवाहांनी आमचे मदीं साहित्यीक उर्बा जागयल्या. शणै गोंयबाब नावाच्या विद्यापीठान आमकां परिपक्व करपाचो यत्न केला. रवींद्र केळकाराच्या विचार धारांनी आमकां ओथांब्यानी भिजयल्यात. चा. फ्रा. डिकॉस्टा हांच्या 'हाड चेडवा बुडकुलो' हे कवितेन आमकां मोगाची व्याख्या शिकयल्या. ॲड. उदय भेंब्रे हांच्या 'चान्न्याचे राती' ह्या गिताचें, - 'लोकगीत' कशें जालें तें आमचे पिळगेन पळयलां. पुंडलीक नायकाच्या निमतान आमकां 'पुंडलीक नायक स्कूल ऑफ ड्रामा' मेळ्ळा अशें नंदकुमार

क्रामत म्हणटात. देखी कितल्योश्योच दीवं येतात. म्हालगड्यांच्या कर्तृत्वाचें, त्यागाचें, कश्टांचें रीण पावयताना पुंडलीक नायक हाणी आपल्या एका पुस्तकाक ओपिल्ली अर्पण पत्रीका हांव घेतां.

आपल्या 'अर्दूक' पुस्तकाक ते बरयतात "श्री. नारायणबाब मावजो.... तुमच्या दोळ्यांहुजरा कोंकणीच्या पोरसांतलें रोपले मळबाक भिडले! तुमकां आनीक कितें जाय? - तुमचो, पुंडलीक." कोंकणी चळवळींतल्या सगळ्या कर्तृत्वी लोकांक ही प्रतिक रूपान दिल्ली मानवंदना अशें हांव समजतां.

कोंकणी चळवळीचो, भाशेचो, साहित्याचो इतिहासीक नियाळ केल्यार एक गजाल नदरेंत भरता. ती म्हणल्यार ही चळवळ तरनाट्यांनी चलयल्या, मुखार व्हेल्या आनी जैताचे तडीर पावयल्या. काळावेळाक धरून तातूंत बदल जायत गेला. पूण चुडी सदांच तरनाट्यांच्या खांदार! गोंय हें कोंकणीचें मुळपीठ. गोंयांत जाल्ल्या राजकी, सामाजीक चळवळींचें पडबींब कोंकणी साहित्यांत पडलां. कोंकणी चळवळीन कोंकणी भौसाक घडयला हें सत् आमी न्हयकारूंक शकना. पिळग्यान पिळगी चलत आयिल्ली मराठीची परंपरा मानून घेवन तेदेवेळावेल्या भौसांतल्या हरिचंद्र नागवेंकार, तानाजी हळर्णकार, एन. शिवदास, प्रकाश पाडगांवकार, महाबळेश्वर सैल, रमेश सोयरू वेळीप हा तरनाट्याच्या बरपांतल्यान घड्टा तें पळोवन शणै गोंयबाबाचें सपन फळादीक जाता म्हणपाची खोस आमकां आसा. शिक्षणाच्या मळार हजारांनी भुरगीं, जातूंत क्रिस्तांव समाजांतल्या भुरग्यांचो भोव-संख्येन आस्पाव आसा. ती भुरगीं देवनागरी लिपीचो स्वीकार करून वंशकुळाचें देणें पावयतात. हे भाशेक, संस्कृतायेक गिरेस्त करतात. कोंकणीतल्यान मुळावें शिकप आनी उंचेल्या पांवडयावेलें

शिकप घेवन गोंयच्या क्रिस्तांव भावभयणानी गोंयचे नांव व्हड केलां. आनी आमचे एकवटाचे - परंपरेक पाळो दिला. हें गोंयच्या कोंकणीच्या दिश्टाव्यान घडलां.

कोंकणीच्या मळार हे चडटे दीस, उमेदीचे दीस येतात. हे घुंवळेत रावल्यार आमी थंयच उरतले. आमच्या मुखार आशिल्ल्या आडमेळ्यांचेर जैत जोडून एकसंघ कोंकणी समाज घडोवपाचें कार्य आमकां मुखार व्हरपाचें आसा.

साहित्य साधनेच्या मळार सातत्य दवरप गरजेचें आसा. फाटल्या पांच-स वर्सांचे युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे 'युवांकूर' हे अंक पळयत जाल्यार कितलेशींच भुरगीं फकत एकूच कथा, कविता वा निबंद बरोवन दिसच ना. कोंकणीतल्यो तरनाट्यांच्यो कांय कथा ह्यो अहवाल बरयल्ल्या सारख्यो आसतात. अशें तरेचो शीण डॉ. अरूण हेबळेकार हाणी काडला. साळावलेच्या धरणाच्या उदकाची पायपलायन कितलेशेच फावटी फुट्टा. पूण ह्या घडणुकेचेर आदारिल्ली प्रभावी कोंकणी कथा आपल्याक आजून वाचूंक मेळूंक ना ही खंत दत्ता दामोदर नायक हाणी उक्तायल्या. हुतहुतेपणानी बरयल्ल्या साहित्याक चिरंतन मोल आसना ही शिटकावणी डॉ. तानाजी हळर्णकार दितात.

कोंकणी मनीस, समाज संस्कृताय, अर्थकारण, भुगोलीक वाठार, पर्यावरण तिगोवन उरल्यारूच कोंकणी साहित्याक मोल. कारण कोंकणी ही आमची वळख. Identity. ते नदरेतल्यान आमी 'म्हादय बचाव' आंदोलनाकडेन पळोवपाक जाय. आमची कुमेरी शेतवड, सांबाळपाचो हो निर्णायक काळ आयला. बांदांक खांवटे घालून आमच्यो शेतवडी ना नपश्चात करपाचे प्रयत्न चल्ल्यात. गोंयचो नियोजन आराखडो भूंय पुतांक विश्वासांत घेनासताना घट्टाण करूंक उठला. आमचीं

रानां बोडकीं जावपाक लागल्यांत. आनी शेतां पडींग पडपाक लागल्यांत. कुळकायद्यान ज्यो जमनी आमकां मेळ्ळयात त्यो पर्थून कसपाक घेतल्योना जाल्यार आमी उबंतार पडटले... धेक गाजोवन शिंगा दाखोवन सामाजीक आनी हेर मळांचेर आमी आमची पुजा करून घेंवया, पूण गांवान वचून पर्थून शेंतात दैंवचेंच पडटलें. आमच्या कावथ्यांक आमींच धेंप लावच पडटलें. जिवीत आनी कवीत हाचो मेळ घालपी कांय तरनाटे कोंकणींत आसात, ही सुखाची पालय जावन आसा.

गोंयच्या लोकवेदाच्या सादरीकरणाच्या मळार सांस्कृतीक दलालीन सद्याक हैदोस घातिल्लो आसा. वचत थंय, घुमट आरती सर्ती, फुगड्यो सर्ती जावपाक लागल्यात. अशे तरेच्या सर्तिनी अतिरेक आनी अविवेक दिसपाक लागला. असल्या तरेच्या सर्तिनी जावपी आर्थीक उलाढाल हुस्क्याची जावपाक लागल्या. तरनाटे चले चलयांच्या कलात्मक गुणांक वाव मेळटा ही गजाल जरी बरी आनी खरी आसली तरी भौसातले तरनाटे सर्तिकडेन 'वेसन आनी फॅशन' म्हणून पळोवपाक लागल्यात. गोंयात जो शिक्षणीक मळार 'ड्रॉप आवट'चो आंकडो दिसता ताचो अभ्यास हे नदरेतल्यांन जावन विद्येच्या मळार पुर्नजीविताची गरज उप्रासल्या.

आमकां आय. टी ची (Information Technology)ची बस चुकली अशें ह्या मळावेले तज्ञ डॉ. समीर केळेकार म्हणटात, आय.टी च्या मळार आमी मागाशिल्ले कित्याक जावपाक लागल्यात. ताचो परिणाम गोंयच्या समाज जिणेचेर पड्टा. आनी ताचे पानवळ आमकां भोगचें पडटा. विज्ञान आनी तंत्रगिज्ञानाच्या मळार आमी जाय तितली उदरगत करूंक पावना. परिणाम कोंकणी मनीस मुखार पावना. तो टॉर्च घेवन सिनेमा थिएटरानी सुवात सोदता असो शीण डॉ. समीर

केळेकार काडटात. आमच्यो बाजार पेठो भायल्या कश्टी लोकांनी बळकायल्यो. आमच्यो शेतवडी आमीच पुरयल्यो. आमचीं खाणां-जेवणां आमीच शेणयल्यांत. सत्तेच्या आनी सोयीच्या राजकारणात आमी स्वाभीमान व्हगडावन बसल्यात काय कितें असो प्रस्न जाण्टे तरनाट्याक करतात. गोंयांतली एका तेपावयली गाजिल्ली विद्यार्थी चळवळ कित्यात मेली? ह्या जाण्ट्यांच्या प्रस्नांक जाप दिवंक जाय. रायटर आनी फायटर हे कोंकणी लेखकाचे खाशेले गूण. काळा वेळाक धरून ताणी ह्या तत्वाक पाळो दिला. ही परंपरा आमकां मुखार व्हरचीच पडटली. इश्टांनो गोंयचे पयले वयले मुखेलमंत्री भौ. भाऊसायब बांदोडकारासारखो एक लोक-नेतो आमकां आमच्या मदींच तयार करचो पडटलो. प्रादेशीक अस्मितायेची राखण करून राष्ट्रीय एकवट सांबाळपाचेय कार्य आमकां करपाचें आसा.

आमचे मुखार तरातरांचीं आव्हांना आसात. आमचे मदींच शीण आसा, राग आसा. कारण आमचे मदीं मोग आसा. गोंयांत सद्याक चालू आशिल्ल्या लिपीवादाचेर मत मांडी सारखी पुराय जाण म्हजेकडेन ना. तरीय प्रतिक्रिया दिल्या बगर म्हज्यान रावूं नजो. रोमी लिपयेंतल्यान कोंकणींत साहित्य रचप्याक ग्रंथपीठ जाय. माची जाय. नागरी लिपयेंत बरयतल्याक ज्यो सवलती मेळटा त्यो रोमी लिपी वाल्यांकूय मेळचो हो राजहट. ही मागणी करतल्या जाळवणदाराचे आपले अशे मुद्दे आसात. तांतूतल्या कांय मुद्यांचेर कोंकणी एकवटाचे नदरेंतल्यान खोलायेन विचार करून कृती थारावपाक जाय. पूण! आपल्या मुद्द्यांचें समर्थन करताना कोंकणी मनीस म्हणून ते केन्ना केन्ना आत्महीणपणाची भास वापरतात. कोंकणी चळवळींत आनी जाय तेन्ना आमकां (क्रिस्तावांक)

वापरले आनी उपरान्त सोडून दिले असो शीण ते काड्टात. वापरून सोडून दिवपाइतले आमी कोंकणी मनीस स्वाभिमान शुन्य आसात व्हय. रोमी लिपयेंतल्या लेखकांक मान सन्मान मेळपाक जायच.

रोमी लिपयेचें समर्थन करपी कांय म्हालगडे आनीक एक मुद्दो मांडटात, ते म्हणटात गोंयांत मराठी भास हिंन्दूक हाडटा जाल्यार रोमी आनी नागरी लिपयेंच्या माध्यमांतल्यान कोंकणी एकवट कित्याक हाडूं नजो? म्हजे रितीन हांव ह्या मुद्द्याची जाप दिवंक सोदता ती अशी. मराठी भाशेन कोंकणी मनशाक आत्मसन्मान शिकयलो. संत ज्ञानेश्वरा सारख्या संताकडल्यान तो घेतला. आनी कोंकणीच्या दिश्टाव्यान ते भाशेक गिरेस्तकाय मेळोवन दिवपाक वावुरल्यात. मराठी भाशेची सांगड धर्माच्या नांवान घालपाचो यत्न केला. तेन्ना कोंकणी मनश्यानीच आनी समतेचो पुरस्कार करपी लोकांनी ताका विरोध केला. गोंयांतली खंयचीय चळवळ धर्माच्या नांवान चलना हें कोंकणी मनश्यांनीच देखी दिवन दाखयलां. देखून ओपिनियन पोल गोंयकार जिखूंक पावले.

गोंयांत कोंकणी राजभास जावंक पावली. देखून साहित्याच्या मळार जेन्ना आमी देशांत आनी देशाभायर भोंवतात तेन्ना कोंकणीतल्यान बरोवपी एक भारतीय लेखक अशीच आमची वळख जाता, धर्माच्या आनी जातीच्या नांवान न्हय. इतिहास ताची गवाय आसा. आनी फुडार आमच्या हातान वेळुस्कार, युसूफ शेख सारखिल्ल्या किलल्याश्याच 'तरनाट्यांनी' कोंकणी भाशेचो आनी चळवळीचो पुरस्कार करून जिवीत घडयलें. परंपरेच्यो वाटो मानून घेवनय कोंकणीच्या दिश्टाव्यान कोंकणी समाज घडोवपांत ह्या असल्या तरनाट्यांचो हावेस आमचे मुखार उबो आसा.

“म्हज्या आनी तुमच्या मनाची फटवण करूंक हांवें तुमकां नाका जाल्ल्यो फटासी सांगूक नात. म्हजी दर एकली म्हणणी तुमी तुमचे बुद्धीचे साणीर घांसून पळयात आनी कसाक लागल्यार घेयात.” ह्या शणै गोंयबाबाच्या जिवीत मंत्रानी हो समाज घडला. कोंकणी समाजाक श्रद्धेची आनी कशटांची ‘दर म्हयन्याची रोटी’ मेळत रावल्या. ‘आमी बाबडी कोंकणी बाळां शिंपडल्यांत चोंय मळां’ ही चा. फ्रां. ची खंत पैस करताना कोंकणी चळवळीत ‘एक भास एक लिपी’ हें तत्व आपणावन कोंकणी समाजाक एकठांय करपाचो वावर चालूच दवरला. ‘तरीय बाबा आयकात म्हाका. आयकतल्याक कान ना चार चोंवगा मान ना’, हो चा, फ्रां. चो शीण कर्तृत्वी कोंकणी मनशान एक तत्वान आनी प्रतिभेच्या बळार पैस करपाचोय यत्न केल्लो दिसता. घडिल्लो इतिहास ताची गवाय आसा.

कोंकणीची मोख आनी हावेस नदरेमुखार दवरून दानत आशिल्ल्या व्यक्तींनीं, संस्थांनी, संस्थानिकानी कोंकणीचे उदरगतीपासत जो पालव दिला ताचेर आडनदर करूं नजो. राजाश्रयाबगर कोंकणी भाशेची उदरगत करताना तेदेवेळावेल्या कोंकणी तरनाट्यांच्या कश्टांकडेन पडम्रूर जावप आमकां शक्य ना. पूण तेचवांगडा चळवळींत निश्टेचें मुल्यांकन करप हेंवूय गरजेचें आसा. महाराष्ट्रांतले बाबा आमटे एकीकडेन म्हणटात, ‘दर एका धर्मान काळावेळाक धरून अपग्रेडींग करपाक जाय.’ कोंकणी हो एक धर्म. अशेतरेचें अपग्रेडींग कोंकणी धर्म पाळीत आयलां. गोंयापुरतो विचार करूंक गेल्यार फाटल्या 44 वर्सांचो इतिहास देख म्हुणून आमच्या दोळ्यांमुखार आसा. गोंय मुक्तताये उपरान्तच्या कोंकणी साहित्यांत कोंकणी समाजांत क्रांती घडोवन हाडटली.

कोंकणी भाशा मंडळ, गोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणीतल्यो शिक्षणीक, सांस्कृतीक संस्था, नाटक, तियात्र,

ानी हेर सांस्कृतीक मळांचेर वावुरपी गोवा कला अकादमी, कला आनी संस्कृती संचालनालय सारखिल्या सरकारी संस्थानीय कोंकणी अस्मितायेक आपले परीन हातभार लायला. तांचेंय योगदान म्हत्वाचें आसा. गांवानी वावुरपी, कोंकणी सेवा केंद्राच्या माचयेवेल्यान संद मेळ्ळया ती 'तरनाट्यांक" कोंकणी विद्यार्थींक. असल्या सेवा केंद्राच्या माध्यमांतल्यान फकत साहित्यीक उर्बाच मेळना तर कोंकणी विशय शिकपी चडावत गूण मेळोवपी विद्यार्थींक भांगरां पदकां दिवपी दानी मनीस आसात. त्या अर्थान कोंकणीक आतां भांगराचे दीस आयल्यात अशें म्हुणूंया. प्राथमीक पांवड्यासावन उंचेल्या पांवड्यामेरेनचें शिकप कोंकणीतल्यान घेवन, कोंकणीतल्यान जिवीत घडोवपाच्यो संदी आमच्या मुखार आसात. आयज आय.ए.एस. ची परिक्षा दिंवक सोदपी तरनाट्यांक ती कोंकणीतत्यान दिवपाची इच्छा आसत जाल्यार ती पुराय जावंक शकता. तशी सोय कोंकणींत आसा. गोंयांत जावपी गोवा युवा महोत्सव, नाट्य महोत्सव सारखिल्ल्या व्यासपिठांवरवीं कोंकणी तरनाट्यांक अभिव्यक्तीची माची मेळ्ळया. युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या माटवांतल्यान युवा सर्जकाची आंतरकथा, आमकां वाचपाक मेळटा. कोंकणीतल्या नेमाळ्यांनीं दिसाळ्यांनीं आयचो लेखक घडयला. कोंकणी भाशा मंडळाची बाकिबाब बोरकार यादस्तीक काव्य सर्त! हे काव्य सर्तीन आमकां पेडण्याचो कवी शशीकांत पुनाजी दिला. तो आपले खाशेले बोली सयत कोंकणींत आयलो. हे सर्तीन आमकां, गितकार श्रीधर कामत, नुतन सुखटणकार, प्रकाश नायक, निलबा खांडेकार, प्रोब फर्नान्डीस, परेश कामत, कितली म्हुणून लेखकांचीं नांवां घेवं!

**'जाग', 'रुतू', 'कुळागर', 'कोकण टाइम्स', 'कोंकणी', 'राजहंस', 'जैत', 'बिम्ब', 'अपुरबाय'** आदीं कितल्याश्याच

प्रकाशनानी कोंकणीच्या उदरगतींत तरनाट्यांक सदांच येवकार
दिला. एक उल्लेख मुजरत करीनसो दिसता, तो म्हणल्यार
'कोंकण टायम्स'चे संपादक भौ. तुकाराम शेट हांचो. कोंकणी
साहित्यांत निबंद हो प्रकार तरनाट्यांमदीं लोकप्रीय करपाक
तांचो मोलाचो वांटो आसा. फाटलीं तेवीस वर्सां ते 'कोंकण
टायम्स' निबंद सर्त घेवन हो प्रकार लोकप्रीय करपाचो वाव
करतात. 'जाग' नेमाळ्याचे वतीन प्रा. माधवी सरदेसाय हाणी
'म्हजो वावर म्हजीं उतरां' असो गोंयच्या उद्देग वेवसायाचेर
आदारून कोंकणी उतरावळीचें भांडार तरनाट्या
शिकप्यांकडल्यान घेवन तें उजवाडाक हाडलां.
म्हाविद्यालयांनी कोंकणी विशय घेवन अभ्यास प्रकल्प
(Project) करपी, शिकपी भुरगीं निजाची भास आनी उतराव
एकठांय करतात. नाट्याच्या मळार कोंकणी नाटकांचे दोट्टी
शेंकडे हुपपी प्रयोग करपी राजदीप नायक, प्रशांत सतरकार
सारखिल्ले तरनाटे ही माची गाजयतात. संगीताच्या मळार
भांगराळया गोंयचो साद-निनाद आमकां आयकूंक येता. हेर
भासांचे तुळेंत कोंकणींत जें जें जाय तें तें निर्माण जावपाक
लागलां. कोंकणीतलो पयलो - वयलो गजलांच्या
सादरीकरणाचो प्रयोग करपी तरनाटो श्री. अजय नायक
तोखणायेक पात्र थारता. कोंकणी तियात्रांच्या मळार नवे नवे
प्रयोग करप्यांची भर वाडत चाल्ल्या. मराठींतल्या गाजिल्ल्या
'सही रे सही' ह्या नाटकाचे रूपांतर 'रूपणें' ह्या तियात्राच्या
रूपान श्री. प्रिन्स जॅकोब आनी ताच्या सांगात्यांनी केलां.
इतलेंच न्हय तर अस्मिताय वर्साच्या निमतान शणै
गोंयबाबाचेर सेराफीन कॉत हाणें तियात्र सादर करून कोंकणी
आस्मितायेचो दिश्टावो घडयलो.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर' हे येवजणेंत
शंबरांवयर तरनाट्यांक आपलें पयलें कोंकणी पुस्तक

जवाडाक हाडपाचें बळगें दिलां. कोंकणींतलीं पुस्तकां लोक ाचतात आनी तीं प्रयत्न केल्यार खपतात असो अणभव. ोंकणींत फकत पुस्तकांचोच पावस पड्टा अशें न्हय तर दृक ाव्य प्रसार माध्यमां वरवीं नाटकां, गितां, कातारां, तियात्र, फेल्मांचे कल्चर गोंयांत मूळ धरपाक लागलां.

गोंयांत मराठींत 'नवप्रभा'च्या दिसाळ्यांन मराठी लेखक भानी वाचपी घडोवपाचें बरें कार्य केलां. 'सुनापरान्त' देसाळ्यान अशें लेखक दिल्यात हें आमी अभिमानान ांगतात. निबंद, कथा, कविता, समीक्षा आदी प्रकारांत सुनापरान्तकाराचें युवा साहित्याक दिल्लें योगदान म्हत्वाचें आसा. जशें तें 'राष्ट्रमत' ह्या दिसाळ्यान एका काळाक दिल्लें. सुनापरान्ताची ही परंपरा नव्या स्वरूपांतल्या सुनापरान्तकारानीय चालू दवरल्या. कोंकणी चळवळीचें भोवजनीकरण आनी कोंकणी भाशेचें जावपी प्रमाणीकरण ह्यो समांतर अश्यो घडपी प्रक्रिया आसात. सत्तरींतल्यान प्रकाश पर्येकार, गोपीनाथ गांवस आपले बोलींतल्यान कोंकणीचो आविश्कार घडयतात. तशे तरेन काणकोण म्हालांतल्यान वेळपांची बोलीचो दिश्टावो आसा. कारण आमचीं पाळांमुळां खोल खोल पावल्यात. गोंयच्या तरनाट्यांचो पर्यायान मुखावेले पिळगेचो स्वाभिमान जागोवपी इतिहास कोंकणी मनश्यानी घडयला. फकत तो विस्तारान बरोवपाचो आसा. आमकां जाय आमचे भाशेंत -

1. गोंय मुक्ती झुजाचो वास्तव इतिहास.
2. ओपिनियन पोलाच्या पर्वाचो वास्तव इतिहास.
3. कोंकणी चळवळीचो वास्तव इतिहास.
4. गोंयांतले विद्यार्थी आनी सामाजीक चळवळीचो वास्तव इतिहास.

हो इतिहास जाणी घडयला ते म्हालगडे आमचे मर्द आसात हें आमचें भाग्य. गिज्ञानाचे ग्रंथ संपत्तीचें भांडार आमचे कडेन आसा. कवी नागेश करमली हांचें घर म्हळ्यार कोंकणीतले ग्रंथ भांडार, कालापूर मेरशेच्या श्री. सुवारीस हांचे कडेन रोमी पुस्तकांचे भांडार आसा. मडगांवचे आमचे कोंकणीचे म्हालगडे वावुरपी श्री. आंतोन पियेदाद मोरायस हांचेलागीं भोवमोलाची पोरणी बरपावळ आसा. केपेंचे श्री. जेस फेर्नांडीस हांचेलागीं अशीच रोमी लिपींतल्या पुस्तकांची कोठी आसा. ताळगांवचो तरनाटो श्री. ॲन्ड्र्यू व्हियेगश हाचेलागीं कोंकणी कांतारांचो रिकॉर्ड आनी टेपींचो संग्रह आसा. गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पणजेंतल्या मों. दाल्गाद ग्रंथालयांत हजारांनी संदर्भ पुस्तकां आसात. अश्यो संदर्भ ग्रंथाच्यो राशी आशिल्ले कोंकणी मनीस, संस्था, आमचेकडेन आसात तांचो लाब आमी घेवन आमची गिज्ञानाची भास फुलोवया. सामाजीक एकवटाकडेन तडजोड करूंक जायना, तो एकवटाचो बावटो, एकवटाचो दिवो पेटत उरतलो जाल्यार आमकां त्याग करचो पडटलो. तो करचोच पडटलो अशे विचार नामनेचे दोतोर ऑस्कर रिबेलो हाणी मांडल्यात. आनी एके म्हत्वाचे गजालीकडेन आमचे लक्ष ओडलां ते म्हण्टात "ह्या सगळ्या गोंदळांत शणै गोंयबाबाच्या सन्मानाक गोंयांत तांचो एकूय पूतळो ना." आयच्या लिपीवादाचेर हुस्को परगटावन दो. रिबेलो आमकां शिटकायतात आनी सांगतात, "तुमी वेळ काडात आनी रशीयन, हिब्रू, तमीळ, मल्ल्याळम ह्यो भासो शिकात कारण त्यो फाल्यांच्या गोंयच्यो खऱ्यो भासो आसतल्यो".

हो भंय आमच्यामुखार आसा. पूण मोडां परतुवपाची तांक आशिल्लो कोंकणी मनीसूच आसा. फकत गरज आसा ती आमी धुंवळीतल्यांन जागे जावपाची. कोंकणीची चळवळ नेटान मुखार व्हरपाची. हे संदर्भांत सुनापरान्ताचे संपादक संदेश

प्रभुदेसाय हाचे विचार आमी मतींत घेवपा सारखे आसात.

"भाशावादाचे पांवडे हुपून, गोंयच्या समेस्त कोंकणी भौसाची चळवळ जांवची हो हावेस सुनापरान्तान बाळगिला. हे चळवळीक सामाजीक स्वरूप येवप ही चळवळचीय गरज आसा. गोंयच्या फुडाराची पुराय भौसाक एकठांय हाडून आमचेच भितरल्या सामाजीक, आर्थीक आनी राजकी मळावेल्या गोंयकारपणाच्या दुस्मानांक सासणाची बुद्ध शिकोवपाची तांक कोंकणी चळवळींत आसा, तितली गोंयचे आनी खंयचेच चळवळींत ना. ही तांक गोंयचे अस्मितायेचे दुस्मान वळखल्यात. पूण आमी आजून घुंवळींतल्यान जागे जायनात हें आमचें दुर्भाग्य." (सुनापरान्त 18 डिसेंबर 2005)

इश्टांनो, पर्थून एक फावट आमी शक्त वळखुंया, आमची दुर्बळकाय पारखुंया, आमच्यो संदी हातासुया आनी आमचो भंय पयस करूया. ते खातीर रोझरी कॉलेजीच्या प्राकारांत साहित्य संमेलनाचे हें निमित्त सादून परत एक फावट उजवाडाच्यो वाती पेटोवन आमी म्हणुंया -

आमच्या पुरसा आमकां पाव!<br>
ॐ आंकवार मारीये पाव!<br>
ॐ सांतेर माये पाव!<br>
समेस्तांचें बरें जाव. देव बरें करूं!

जोड आयोजक संस्था : रोझरी महाविद्‍यालय, उच्च माध्यमीक विद्‍यालय, नावेलीं<br>
तारीक : 28 आनी 29 जानेवारी, 2006<br>
येवकाराध्यक्ष : डॉ. फा. ऑल्टर डिसा<br>
कार्याध्यक्ष : प्रा. भालचंद्र गांवकार<br>
उदघाटक : भौ. फाउस्तो डिकोस्ता

# आठवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. विन्सी क्वाद्रूश**

(संमेलनाध्यक्ष)

वेदीवेले मानेस्त आनी युवागणांत हाजीर आशिल्ले युवा साहित्यीक, साहित्यमोगी, शिक्षक आनी म्हज्या इश्ट इश्टिणींनो.

कोंकणी ही एक गिरेस्त आनी समृध्द भास. तिका सुर्वेच्या काळार हिणसायली आनी कुजनांतली भास म्हळी. अजूनय कांय कोंकणीचें ज्ञान नाशिल्ले मनीस तिका मराठीची बोली म्हणटात. तांकां जर विचारलें 'तुमी कोंकणीक मराठीची बोली कित्याक म्हणटात?' तांची जाप आसता 'ते तशें न्हय रे. मराठीच्या व्यासपिठार रावन आमकां तशें म्हणचें पडटा' हांसपाची गजाल म्हळ्यार, हें ते कोंकणीतल्यान सांगतात. आज कोंकणी सगल्या भारतीय भासांचे पंगतींत बसता आनी तितल्याच मानाचो पाट तिका फाव जाता. असलें प्रतिभावंत भाशेचो हांव पूत, हाचो म्हाका अभिमान आसा. फाटल्या साबार वर्सांत म्हज्या हातांतल्यान कोंकणी आवयची सेवा जाल्या आनी ते सेवेंतल्यान जें हांवें पुंजयला, ताचो आपरोस तुमचे बराबर नमळायेन वांटपाखातीर हांव ह्या मानेस्त सभाघरांत हांगा उबो आसा.

**संमेलनाक फाटल्या दारांतल्यान पळयतनाः**

हें आठवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन. हे आदीं सात म्हामनीस ह्या अध्यक्षपदाचे खुर्चेर बसून गेले. हांव आठवो. फाटल्या सात संमेलनांनी जें विचारीक मंथन घडलें आनी जे हावेस तांचेर एक धांवती नदर मारपाची गरज आसा. केपें जाल्ल्या पयल्या संमेलनांतले अध्यक्ष भौ. दत्ता दामोदर नायकाक सर्जनशील साहित्याखातीरचो साधने वयर विचार

मांडटना जीं पंचवीस सुत्रां सांगल्यांत, तीं सुत्रां आपणायल्यार एक साहित्यीक घडल्यात हो प्रश्नचिन्न. गोवा कोंकणी अकादमीच्या पयल्या चंवरांतल्यान जायते अंकूर फुटल्यात. उपरांत फुडलें बरप कांय जाणांनी केला आसतलेंच. पूण तांचो दुसरो चंवर खंयच्या वसंताक फुलतलो हाची शाश्वती ना. पयल्या संमेलनाक हाजीर जाल्लो तरणाटो आपणाले चडटे साहित्यीक वाटचालीचो वाटसूर म्हण आज हांगां आसा व्हय? आसत जाल्यार तो भाग्यवान आनी ताचे उदेशीं कोंकणी अवयभाशेचें भाग्य म्हणपाचें. दुसऱ्या संमेलनाच्यो अध्यक्षा भौ. जयंती नायकान लोकवेद आनी साहित्य निर्मणीची सांगड घातिल्ली. तेच बरोबर युवा साहित्यिकांनी आपलेमदीं विकसीत करपाच्यो गुणांविशीं सांगतनाच बायल साहित्यिकांक साहित्य सृजनेंत वांटेकार जावंक उलो मारिल्लो. ह्या उल्याक कांय प्रमाणांत प्रतिसाद मेळिल्ल्याचें दिसून येता. तिसऱ्या साहित्य संमेलनांत भौ. पुर्णानंद च्यारीन युवा शक्तीक आवाहन केल्लें येता तशें बरोवंक आनी टिकेंतल्यान शिकूंक, त्या आंवड्यांची फोडणीशी करतना एका एका शब्दाक ताणीं खतपाणी घालून सृजनशील भोंवडेकारांचो एक घराबोच निर्माण करूंक उलो मारिल्लो. हें अजून जावपाचें आसा. भाशेच्या नांवांन आमी वेगवेगळ्या वादाक सांपडिल्ले आसात, ते वाद सोपोवन कृतीशील साहित्याची नवी बुन्याद घालपाचेर ह्या संमेलनांत अध्यक्ष भौ. प्रकाश पर्येकारान कोंकणी भाशेचेर तरणाट्यांनी प्रभुत्व जोडपाचो उलो मारिल्लो आनी नव्या लेखकांक आदार करपाखातीर प्रकाशकांनी आपलो हात दिवंक मागतना थोडेशें बरोवन पयस गेल्ल्या बरोवप्यांक परत लेखन प्रवाहांत येवंक मागिल्लें. अशे बरोवपी परत आयल्यात आनी नासत जाल्यारय एक हांगासर तांचो एक आढावो घेवंचो पडटलो. माशेंच्या पांचव्या संमेलनाचे अध्यक्ष भौ. दताराम बांबोळकारान

साहित्यिकांक अस्मितायेची राखण करतना स्वताची वळख दाखोवपाची आनी अस्थीर मनांची वस्त्रां भिरकाटावन मारून बरयत रावपाचें आवाहन केल्लें. हें आवाहन तरणाट्यांनी स्विकारलां जाल्यार तांची तांक हांगासर जोखची पडटली. म्हापशेंच्या संमेलनाचे अध्यक्ष भौ. संजीव वेरेंकारान साहित्याच्या 'मार्केटिंगा'चेर आनी म्हालगडे साहित्यीक खंय कमी पडटात हाचेर लक्ष ओडिल्लें. जाता काय कोंकणींतल्या साहित्याचें बरें 'मार्केटींग'? हो एक अडचणीचो तसोच आव्हानात्मक वावर जो नव्यां बरोवप्यांक सतयता. ह्या प्रस्नांचेर संमेलनान उजवाड घालूंक जाय. नावेली मडगांव जाल्ल्या फाटल्या संमेलनाचे अध्यक्ष भौ. प्रकाश वजरीकारान म्हायती तंत्रज्ञानाचें म्हत्व, लिपिवाद तशेंच गोंयकारपणाचेर उजवाड घालतना एकवटाच्या बावटयाची गजाल केल्ली. फाटल्या वर्साक दिसून आयला हो एकवट ? दिसलाय जाल्यार दुबावविरयत तो उर्बा हाडपासारको नासलो हेंवुय खरें, लिपिवादान तर कोंकणी समाजाचे कुडके करून सोडल्यात ते स्पश्ट दिसतात. हाचेरूय आज भासाभास जावपाची गरज आसा.

**युवा साहित्य संमेलन कित्याखातीर ?**

भौ. पुर्णानंद च्यारी म्हणटात 'हें संमेलन घडटा तरणे अभिव्यतीक साद घालचे खातीर, तुमच्यांतल्या लेखक कलाकारांक जागोवपाखातीर, तुमची तुमकां वळख घडोवंचे खातीर, आमचे मदीं जो रचनाकार लिपला, जो दडी मारून आमचे भितर न्हिदला ताका परत परत जागोवन भायर हाडून, हें जग दाखोवपाखातीर' हाचेर गंभिरतायेंन विचार जाता व्हय? ह्योच गजाली वेग-वेगळे भशेन तरणाट्यांच्या कानार ह्या त्या माचयेवयल्यान प्रत्यक्षांत घालपाचो वावर जाला आनी सुरू आसा. थोड्यांनी गंभिरतायेन घेतलां जाल्यार थोड्यांनी कानार

ॠस काडल्यात. कित्याक? हें जग तुमकांय पळोवपाचें ना? ह्याटलीं सात संमेलनां तुमचेखातीर घडोवन हाडलीं आनी आज आठव्या संमेलनाच्या हुमर्‍यार रावन आमी पळयतात जी मोख आंखिल्ली ती साद्य जाल्या? हांव म्हणना पयलो चंवराचो भार सोंपतकच त्या परमळांत भरमेवन थोडे वोगी बसल्यात, पूण ताणीं फाव तशें साहित्य मळार काम केल्लें दिसना. भाशेची सगलीं आंगां खेळोवपाची काय जाण आपले तांकीभायलो भार उखलूंक सोदतात आनी शेणून वतात. देखून हीं संमेलनां घडोवन हाडटात. तुमकां मार्गदर्शन दिवपाक, तुमच्यांतलो सर्जनशील साहित्यकार उत्तेर्जीत जावन कवी, कथाकार, कादंबरीकार, नाटककार घडोवन हाडपाक. कांय महाविद्यालयांनी आपल्याच विद्यार्थ्यांखातीर साहित्याचेर चर्चासत्रां, कार्यशाळो, वाचन सर्ती, निबंद सर्ती घडोवन हाडटात. तातूंत तुमी सहभागी जातात. पूण जेन्ना हेर विद्यार्थ्यांबरोबर सर्त करपाची आसता तेन्ना युवांगणाचें स्फुल्लींग कित्याक पेटना? हेर महाविद्यालयांनी अखिल गोंय पांवड्यार साहित्यीक कार्यावळींचे आयोजन जाता तेन्ना खंय उरतात आमचे युवा सांगाती? कोंकण टायम्सान निबंद सर्तींत एक खास जागो करून दवरला हाची तुमी दखल घेतल्या? कितले जाण हे सर्तींची उमळशिकेन वाट पळयतात? म्हणून संमेलनांची गरज आसता. तुमकां एक प्रत्यक्ष माची मेळटा भियेनासतना आपल्या विचारांक दिका दिवपाक. हाचो तुमी पुरेपूर फायदो काडूंक जाय.

तुमकां दिसता आपल्या साहित्याखातीर व्यासपीठ ना अशें? जाल्यार आजच्यान कामाक लागुया. गोवा कोंकणी अकादेमी आनी कोंकणी भाशा मंडळ तशेंच हेर कोंकणीच्या सेवा संस्थांक आमी होरावंया 'आमचेखातीर कार्यक्रम राबयात.' तसो होवूय एक तुमच्याखातीर निर्माण केल्लो कार्यक्रम न्ही? असल्या कार्यावळींनी तुमची उपस्थिती गरजेची. तुमच्यानय

तुमचेखातीर एक व्यासपीठ तयार करूं येता. इतलेंच न्ही म्हा
जाल्यार दिसता तुमचे तरणाटया उत्फकर्याचे खरसाणीन अस
व्यासपीठ तुमी हक्कान मेळोवं येता. तुमी तें मेळोवंचे हो म्ह
उलो.

तुमचेकडेन बरोवपाक विशयांचो उणाव आसा अ
दिसता? तुमचेभितर एक साहित्यकाराची नदर तयार करा
आनी सरभोवंतणी नदर मारात हांगाच कितलेशेच विश
आसतले. हे विशय सादे नदरेन झळकनात, तां
साहित्यकाराचीच नदर जाय पडटा. तुमी एकामेकां कडे
उलयनासतना कितले विशय मुखार येतात. ह्या सभाघराभा
कितलेशेच विशय तुमची वाट पळोवन आसतले, तुमी हां
येतना कितल्याच विशयांनी तुमकां स्पर्श केला आसतलो. रा
आजच्या संमेलनाचो विचार करतना कितलेशेच विशय तुम
न्हिदेंतच व्हांवन गेल्यात आसतले. हे सगलेच विशय नपुसं
आसलेच म्हळ्यार तातूंत साहित्य निर्मणीची बिजां नासली
अशें तुमच्यांनी कशें म्हणूं येता? तुमचे कडेक बशिल्ल्या इश्टां
कितलेशेच विशय आसतले. आमकां जाय ती साहित्यीक न
आनी भावना. हाचो दिश्टावो जायत जाल्यार तुमकां समजत
ह्या संमेलनांतल्यान आपूण कितें घरा घेवन गेलो तें.

जायत्या युवा साहित्यिकांची अशीय कागाळ आस
आमकां मार्गदर्शन कोण दिता? आमचे भाशेंतल्यान साहि
निर्मणी करून भाशेची सेवा करपी म्हालगडे साहित्यीक आस
तार्चे मार्गदर्शन उपलब्द आसा. फक्त तुमची तयारी ज
आपणाक अमूक विशयाचेर वा प्रकाराचेर मार्गदर्शन ज
म्हणपाची नमळाय बाळगुपाची. भाशा मंडळ आ
अकादेमीच्या वेळावेळार प्रकाराक धरून कार्यशाळा जातात,
आपलो वेळ दितात, संयोजक दितात, तुमकां साहित्याचें दर्श

ङयतात. जाल्यार हीं संमेलनां तुमच्या फायद्याचीं अशीं सनात?

**वा साहित्य कित्याक जाय?**

अखख्या संवसाराक असो एक सिध्दांत आसा. युवाशक्ती प्रेरक शक्ती, घठमूठ शक्ती. एक वैचारीक शक्ती. तांकां एक ावट होलमलें आनी ताणीं कानार घेतलें जाल्यार तें जावन डटाच. अशें करतासतना जायतें चुकीचेंय घडटा, पूण तें सुक्या ातरलें ओलें आसता. ताका कोण निवारूंक शकना. वसारांतली खंयचीय चळवळ घेयात. जंय युवाशक्ती भितर रल्या थंय तांचें जैत जाल्लेंच आसा. गोंयांतच पळयात ुवाशक्तीन कितलीं जैतां मेळयल्यांत तीं. पूण साहित्याच्या ळार मात जी युवाशक्तीची चळवळ जावंक जाय आसली ती दिसना. साहित्याची गरज ना युवाशक्तीक? सामकी गरज ासा. साहित्यांतल्यानच ही युवाशक्ती घडटा आनी प्रेरक ाता. तांची दिशा थारता ती साहित्यीक मुल्यांतल्यान युवा हो क बेश्टो साहित्यीक म्हण वावरना बगर आपल्या खांदार ामाजीक बांदिलकी घेवन वावुरता. ताका समाजाची पुराय ाणीव आसता, म्हण तो साहित्य प्रकारांतल्यान आपले विचार ांडटा. कथा, कविता, निबंद वा नाटक हें म्हत्वाचें न्ही, ताच्या ाल्म्यांतल्यान जें कागदार देंवून येता तें म्हत्वाचें. समाजाचेर न्याय जाल्लो ताका खपना, कित्याक ताच्यांत एक ाहित्यीक लिपिल्लो आसता. ह्याच साहित्यिकांक जागृत वरपाची गरज आसा. तो एक फावट जागो जालो म्हण्टगीर ामची युवा संमेलनां जैतवंत जालीं म्हण समजुपाचीं. ुवाशक्तीन ह्या साहित्यामार्फत जो डोज दिवंक जाता तो लासरूम आनी घराकडेन दिवंक मेळना. देखून ताका लागीं दिसता तो साहित्य प्रकार घेवन ताचे मुखार केळोवपाची आमची

जबाबदारी आमी मानून घेतात. तर तरणाट्यांनो तुमकां ह्या युवाशक्ती प्रवाहांत येवन युवा साहित्य निर्माण करपाक कातकुतल्यो जायनात?

**कोंकणीचे सेवेक कांय मंत्र**

आमी कोंकणीची सेवा करतले जाल्यार पयलीं ती आमकां आमची दिसूंक जाय. तिची आवड निर्माण करूंक जाय. फोर्सान कोणूच एके भाशेची सेवा करूंक शकता. तिचो मोग आसचो पडटा आनी तिचेपासत हुस्को आसचो पडटा. तर आमी कोंकणीखातीर सर्जनशील साहित्य निर्मणी करतले जाल्यार कांय गजाली लक्षांत घेवच्यो पडटल्यो. ह्या गजालींची घोडेभितर फोडणीशी करता.

**1) आमचे भितर आवयभाशेची आवड निर्माण करची.**

आमची भास ही संवसारांतल्या सगल्या भासांपरस गिरेस्त अशें मानून पयलीं आमी तिच्या मोगांत पडूंक जाय. आमचे भाशेपरस खंयचीय भास वयर ना, म्हजे भाशेची सोबितकाय आनीक म्होवाळसाण हेर खंयचेय भाशेंत ना म्हूण मनांतल्या मनांत थारावंक जाय. आमचे भाशेक जर हो मानाचो पाट आमी दिलो जाल्यार ती सदांच आमचे नदरेमुखार उरतली. आमच्या फुड्यांत उरिल्ल्यान आमी दुसऱ्या भासांकडेन आकर्शीत जायनासतना आमचे भाशेच्या मोगांत पडटले. दुसऱ्यो भासो शिकप, वापरप ही वायट गजाल न्हय. पूण आमचे भाशेक मान आसूंक जाय. गोंयकारांक एक दुवाळें लागलां उठसूट इंग्लिशीकडेन धांवपाचें. इंग्लिश उलोवचे बदला आमी इंग्लिश कितली कातरतात हाचें तांकां भान आसना. देखून कांय जाण तिका मागीर कोंग्लिश म्हणटात. आमचे भाशेक असलें कसलेंच नांव घालूंक दिना जावंक पयले सुवातेर आमी आमच्या तनांत आनी मनांत भाशेचो मोग निर्माण करूंक जाय. भाशेचो

ोग किल्ललो म्हणटकच आपशीच आवड निर्माण जाता आनी ामची भास कितली सादी, सोपी आनी सुटसुटीत आसा हाची ाणविकाय जाता.

2) चडांत चड साहित्याचें वाचप करचें

इश्टांनो, वाचन करपाक मनाची तयारी जाय आसता. कोणेंय एक बऱ्यांतलें बरें पुस्तक दिलें म्हूण तें म्हजेकडल्यान वाचून जातलेच अशें ना. देखून आपल्या मनाप्रमाण पुस्तकाची निवड करपाक जाय. आयज तुमी भाशेच्या वावराकडेन लागी आसात, फाल्यां तुमी भाशेचें विश्व निर्माण करपी जातले. तुमी बरयिल्लें साहित्य कशें आसतलें हाची बुन्याद आयज पडटा. ही बुन्याद बऱ्या विचारांनी आनी मार्गदर्शक तत्वांनी बांदून आयली जाल्यार साहित्य निर्मणेंत खूब आदार जावं येता. साहित्याक खूब आंगा आसात. हीं सगलीं आंगां वाचून काडूंकच जाय म्हूण ना, जण एकल्यान आपणाक आवडटा तो प्रकार वाचपाक सुरवात करची. सुरवात सदांच बरी जावची हे खातीर पुस्तकाची सारकी निवड करप गरजेची. पुस्तक निवडलें म्हणटकच तें पयल्या पानासावन निमण्या पानामेरेन क्रमान वाचूंकच जाय. कादंबरी आनी दीर्घकथा सोडली जाल्यार, बरी दिसता ती कथा, कविता वा ललीत वाचचें. ताचो आपरोस घेवचो आनी दुसऱ्याक सुरवात दिवची. पूण वाचपाबगर साहित्य निर्मणी म्हणल्यार शिकप नासतना परिक्षा दिवप.

3) साहित्याचेर नियाळ करचो

प्रत्येक वाचप जावं तें एक पानाचे वा धा पानांचें, आमच्या मनाचेर उजवाड घालता. पसऱ्यावयल्यान साकर बांदून आयिल्लो कागदाकुडको लेगीत जायते फावट आमचें गिन्यान वाडयता. वाचपावरवीं बरोवपी आमकां कितें सांगूंक सोदता तें आमी मनांत घेवंक जाय आनी ताचेर नियाळ करूंक जाय.

तुमकां एकेच बसकेंत चड वाचपाची संवय नासतली. तेन्ना थोडेंच वाचात पूण लक्ष दिवन वाचात आनी ताचेर नियाळ करात. वाचप खंयच्याय वेळार करपाक जाता, तसो नियाळ करप, खंयच्याय वेळार, खंयसरूय, गरजेचें जावन आसा वाचलां तें समजून घेवप. समजले उपरांत ताचेर गंभीरतायेन नियाळ केलो जाल्यार एक तरी नवें बीज तकलेंत येता. हेंच बीज म्हणल्यार तुजे नवे साहित्यकृतीचो पयलो पांवडो. हो नियाळ भोगतना आमकां वेगळे अणभव येतले तेंच आमचें सर्जनशील साहित्य थारतलें.

**4) अणभव वांटचो**

कसलीय एक साहित्यकृती वाचली आनी आपली एक साहित्यकृती निर्माण जाली जाल्यार ताचेर संस्कार करप सामकें गरजेचें. आपणे बरयलें आनी छापूंक दिलें म्हण तें छापून येना. आपले कृतीचो अणभव दुसऱ्यांकडेन मांडूंक जाय. आपल्याक आयिल्लो मुळावो विचार धरून कृती सोंपमेरेन कितले विचार भायर उडयल्यात तेंय दुसऱ्यामुखार दवरूंक जाय. कित्याक, जायते फावट अशें जाता. नव्या बरोवप्याक आपल्या बिजाचें म्हत्व आसना आनी तो ताच्या प्रभावी विचारांतल्यान व्हांवत वता. मुखेल विशय कुशीक उरून पचकी सोबाय दिवपाच्या यत्नांत साहित्यकृती विरगळून वचूंक शकता हाचें भान दवरूंक जाय. म्हणून जें बरयला तें पयलीं आपणेच एक फावट पूर्णपणान लक्ष दिवन वाचून काडूंक जाय. तें पूर्ण आसा अशें आपणाकच पयलीं दिसूक जाय. जर पूर्ण जावंक ना दिसता जाल्यार परत एक फावट वाचून विशय खंय हाताभायर गेला तें सोदून काडूंक जाय. जायते फावट हें समजना. देखून दुसऱ्याक वाचून दाखोवंक जाय, वाचूंक दिवंक जाय. अशें केल्ल्यान कोण ल्हान जायना, बगर एक बरोवपी घडटा,

ाहित्यकार घडटा. आपले अणभव दुसऱ्यांकडेन वांटले ऱ्हणटकच मनीस आत्मविस्वाशी जाता. आनी स्वताकडलो ¤ात्मविस्वास हो खंयच्याय जैताकडलो पयलो पांवडो हें वेसरूंक फावना.

**उत्सवी काळांत कार्यावळी**

गोंयभर विंगड विंगड उत्सवाच्या समयार साबार कार्यावळी जातात. ह्यो कार्यावळी चडश्यो त्या त्या गांवची युवाशक्तीच घडोवन हाडटा. थंय वेगवेगळे प्रकार लोकांमुखार दवरून तरणाट्यांक आपली कला सादर करपाची संद मेळटा. पदां, कांतारां म्हणप, एक अंकी नाटकुलीं सादर करप, नाच सादर करप, एकपात्री नाटकुलीं सादर करप आदी गजालींनी तरणाटयांक मुखार हाडपाचें काम चालू आसता. पूण थंय साहित्याक वाव आसा? कलाकार तशे प्रेक्षक मनरिजवण करपाच्या हेतानच हाजीर जाल्ले आसता. उत्सवाचे प्रत्येक माचयेर जर साहित्यीक नदरेन एक कार्यावळ जाल्ली जाल्यार एक व्हडली क्रांती जावं येताली. आमच्या अभ्यासाप्रमाण उत्सवी कार्यावळींत वांटेकार मनशाक साहित्याची कसलीच ओड आसना तेन्ना हांव हें एक आवाहन तरणाट्यांमुखार दवरतां. असल्या उत्सवी संयोजनाभितर निदान एक तरी कार्यावळ साहित्याक धरून आसपाक तुमी फुडाकार घेवचो.

थंय प्रेक्षक आयिल्लोच आसता, ताकाय साहित्यक्षेत्राची वळख जाली जाल्यार आमकां वाचकवर्ग मेळूं येता, रसीक मेळूं येतात, आस्वादक मेळूं येतात आनी सगल्यांपरस मोलादीक म्हणल्यार तांचेभितर कोंकणीचो निश्ठावान मोग किल्लूं येता.

प्रस्न येता करमणुकेच्या कार्यावळींत मदींच साहित्यीक कार्यावळ कशी जावं येता? हाका मार्गदर्शन करपाक गोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ, कोंकणी परिशद आली

कोंकणी मळार वावुरपी संस्था आसात. अर्थीक आदार करपाक कला आनी संस्कृती मंत्रालय तशेंच युवा वेव्हार खातें, नेहरू युवा केंद्र आसा. उत्सवी कार्यावळींनी साहित्य प्रकार रुजलो जाल्यार कोंकणीचो खूब फायदो जातलो.

**तरणाट्यांखातीर सर्ती घेवप बरें?**

जायत्या जाणकारांचे मत आसा, तरणाट्यांमदीं सर्ती घडोवन हाडप बरोबर न्हय. सर्तीवरवी संघर्श वाडटा, एकामेकांक वांकडे नदरेन पळयतात, वयर-सकयल असो भेदभाव जाता, तेमां जातात आनी दुस्मानकाय वाडटा. हे गजालींत सत्य आसा. पूण जंय सर्त ना थंय बरो निकाल मेळना. भुरग्यांमदीं उत्तेजन निर्माण जायना. आपणांतले गूण भायर काडूंक वाव मेळना, बुद्द सुचना.

ह्या संवसारांत ज्यो गजाली घडटात त्यो पळोवन आनी आयकूनच तांचें अनुकरण जाता अशेंय मानपी लोक आसात. अनुकरण करप ही वायट गजाल न्ही, पूण सदांच अनुकरणान जियेवप ही वायट गजाल. सवका - सवका आमच्यांत प्रतिभा जागृत करूंक जाय. म्हाका दिसूंक जाय म्हज्यानय स्वतंत्र निर्मणी करूंक जाता म्हूण, म्हज्यान दुसऱ्यापरस बरें बरोवंक जाता म्हूण. ही लेगीत एक प्रकारची सर्तूच न्हय?

बऱ्या मनान केल्ली सर्त बऱ्या निकालाक पात्र आसता. देखून मनाच्या संघर्शाक धरून एक बरी साहित्यकृती निर्माण करतलो जाल्यार स्वताभितर सर्त जागृत आसूंकच जाय. ना जाल्यार मैदानाचेर सर्ती कित्याक जावच्यो?

सगल्यांत पयलीं स्वताकडेन सर्त मांडांत, ती जिखात आनी उपरांत विश्वाचेर जैत व्हरात.

**लिपीवाद आमकां सतयता**

एक वर्स वयरूच जालें, गोंयांत लिपीवादान मान वयर

काडल्या. जेन्ना कोंकणी राजभास जाली तेन्ना 'नागरी लिपी' हें उत्तर घाल्ल्यान घडये रोमी लिपी वापरतल्या कोंकणी मोग्यांच्या काळजाक दुखलें. तरी त्या वेळावयल्या फुडाऱ्यांनी उत्तर दिल्लें रोमी लिपयेक पयसावचे नात म्हूण. आयज आमचेकडेन राजभास संचलनालय आसा, कला आनी संस्कृती मंत्रालय आसा आनी ह्या शिवाय कला अकादमी आसा, साहित्य अकादमी आसा, गोवा कोंकणी अकादमी आसा, सरकारी पांवड्यार आसात. तशेच बिगर सरकारी पांवड्यार रोमीखातीर वावुरपी संस्था आसात. ह्या सगल्या संस्थांवरवी रोमी लिपीक फाव तो मान दिवपाचें काम चालू आसा. एक दीस हो वाद सोंपतलोच पूण ते आदीं तुमी आपलें मन जाग्यार दवरपाची गरज आसा. आयज तुमचे मुखार जायते ज्वलंत प्रस्न आसात, साहित्यांतली पोकळी भरून काडपाचें काम आसा, कोंकणींतल्या प्रत्येक आंगांतली आवड - निवड पारखून आपलें स्थान घट्ट करपाचें आसा. मुखेल म्हणल्यार ह्या वादाकडेन संबंदीत लोक कामाक लागिल्ले आसात, तुमी तुमच्या कामाक लागात आनी जाता तितलें साहित्य निर्माण करून असले वाद आमचेमदीं येवचेनात हाची जतनाय घेयात. आमी आयलेच जाल्यार आपली बुद्द साण्णीर घांसून हाचेर तोडगो काडपाखातीर तयार रावात. निमणे भाशेचें लुकसाण जावचेंना हाची तुमीच जापसालदारकी घेवंक जाय.

**बीज निवडपाचें स्वातंत्र्य**

पौराणीक पात्रां धरून आयच्या कलयुगांत वावुरपी पात्रां, देवदैवतां धरून राकेस देंवचाराचीं पात्रां, भारत स्वातंत्र्याक धरून गोंय मुक्ती, ओपिनियन पोल, भाशा चळवळ, प्रादेशीक आराखडो, सालेली प्रकरण, कुडचड्यावयली जातीय दंगल, सांग्यावयली खाण दुर्घटना, घटकराज्य आंदोलन, बलात्कार ते

प्रेम प्रकरणां, धर्म - अधर्म, वाटप - बरें, सुख - दुख आदी गजाली हीं ज्वलंत बिजा साहित्यकृतीचीं. आमी कोणाकूच फोर्स करूंक शकनात हींच बिजां घेवन बरयात म्हूण, तुमकां दिसना हीं खेरीत बिजां आसात म्हूण? तीं सोदून काडपाचें आनीक एक आवाहन तुमचे मुखार हांव दवरतां. तुमचें बीज हांव सांगना, तें तुमी सोदून काडचें आनी बरोवचें. अशें जातलें तेन्ना तुमकां पयली खुशालकाय जातली आपूण बीज सोदून काडूंक शकता म्हूण. आनी जेन्ना तुमी एक साहित्यकृती निर्माण करतले तेन्ना कितली चड खुशालकाय तुमकां भोगची ना? तुमचो आत्मविस्वास कितलो वाडचो ना? आपले भितरूय कितलो गर्व तुमकां जावचो ना?

**तंत्रज्ञानाचो भरपूर उपेग करात**

जग खूब नेटान उदरगत करीत आसा. हे उदरगतीक धरून त्या त्या वाठारांतल्या भाशेंची उदरगत करीत आसात. आमचे कोंकणींत तसो तंत्रज्ञानाक धरून विकास जाल्लो दिसना हाका साबार कारणां आसात. पूण तुमी तीं कारणां सोदपाची गरज ना, सरळ कृतीक लागपाचें. इंग्लिश भास तंत्रज्ञानाकडेन पळया आनी तें वावुरता ते मुळावन घेयात आनी इल्लो अभ्यास करात. ताचेकडेन कोंकणीची तुळा करात. कितलें अंतर आसा ते पळयात. तुमचे तुमीच अजाप जातले हें अजून अशें कित्याक आसा? कंप्युटर घेयात आनी तातूंत कोंकणी सोदात. खंय आसा कोंकणी? तुमचो मोबायल घेयात आनी तातूंत कोंकणी सोदात. दिश्टी पडटा?

तुमचे मदले जायते जाण आनी थोड्या दिसांनी नोकरेच्या निमतान वेवसायीक मळार भितर सरतले, तेन्ना तंत्रज्ञान क्षेत्र आपणायल्यार तुमच्यान कोंकणीची जायती सेवा करूं येता. कोंकणीकडेन तंत्रज्ञानाचो वापर नाशिल्ल्यान ती फाटीं पडत

भाशिल्ल्याचो दुबाव येता, पूण आमी हो दुबाव नानपयत करपाक तुमच्या म्हालवजार भरवंसो दवरून रावतात. तुमच्यांतले सृजन गूण भाशेखातीर वापरपाक तुमी तयार आसातच, तें इल्ले पोटतिडकीन जावंदी ही आमची नमळायेची वेनवणी. चांटेपावलाक आयज कंप्युटराची गरज भासता, तातूंत आमचे भाशेक स्थान आसचें अशें दिसना तुमकां? हे वरवीं तुमी तुमचोच फुडार घडोवचे नात बगर आमची भास खऱ्यांनीच हेर भासां सारकीच उदरगत करत आसा म्हूण दाखोवन दितले. तंत्रज्ञान ही आयची गरज म्हण पळयात.

**एक नवो अविश्कार**

तुमी तरणाटे. तुमचे बराबरचो एक भुरगो जावं जायते भुरगे ह्या सभाघरा भायरच्या रस्त्यावल्यान भोंवतात, हांगासर कितें घडटा तें तांकां पडूनच गेल्लें ना. एक तर ते शिकिल्ले नासतले जावं शिकप अर्द्यार सोडिल्लें आसतले वा एक बाजारांत काम करपाक वचपी, माडार चडपी, नुस्तें मारपी, पोदेर, मेस्त, गवंडी, शेतकार, जोतकार, रस्त्यार झाडू मारपी, सामान्य मनीस तुमच्या वयावयलो, जाल्यार ताका तुमी साहित्यमोगी म्हण तुमचेबराबर घेवंक शकनात? घेवंकच जाय.

अशा तरणाट्यांविशीं आमी केन्नाच कार्यावळ राबयनात. देखून ते साहित्या कडल्यान पयस पयस उरतात. तांकां लागीं हाडूंक जाय. लागीं हाडपाच्या यत्नांत ते सहज प्रस्न करतले आपणाक कितें फायदो आसा. तुमकां म्हूण कितें मेळटा साहित्याकडेन येवन? गंभीरतायेन नियाळ करपाचो प्रस्न हो.

साहित्य मनशाच्या गिन्यानांत भर घालता आनी मनीस आपणाली उदरगत करपाक पावता. हे उदरगतीक गती आनी दिशा आसता हें म्हत्वाचें. सामान्य मनशाक हें पटोवन दिवपाची गरज आसा आनी हें काम तुमी बरें भशेन करूंक

शकतात. तांकां साहित्य वाचूंक दिवपाची गरज ना बगर तुमचे साहित्य आयकून घेवपाक तयार करूं येता. तांकां कविता करूंक लावंक नाका बगर तुमचे कवितेंतल्यान तांकां आनंद दियात तुमचे कथेंतल्यान तांकां जिणेची वाट दाखयत रेंदेराक माडावयलें कवन शिकयात, शेतकाराक जोत आनी भाताचे गायन दाखयात, भाजीवाल्याक भाजयेचो रंग दाखयात, फुलकाराक फुलांचो परमळ दाखयात, पोदेराक उंड्याचें म्हत्व सांगात, नुस्तेकाराक नुस्त्याचो स्वाद सांगात, मेस्ताक, गंवड्याक ताची कामगिरी गायात. अशे तरेन सामान्य मनशाची जीण जर आमी साहित्यांत हाडून तांचेमुखार मांडली जाल्यार तेवूय आमच्या साहित्याचे भागेली जावंक शकतात. तांकां संमेलनाखातीर हाडु नाका बगर तांच्या मांडार वचून गावन दाखयात, वाजोवन दाखयात, वाचून दाखयात. एक नवो गट अमकां मेळपाचे वाटेर आसा. जायात जागे, तरणाट्यांनो आनी दियात तांकां हात, हाडूंक तुमच्या अंगणांत आनी तुमच्या सहवासांत. तांकांय नवें मोडण मेळटलें, नवो हावेस मेळटलो. तांचेय जिवीत फुलतले, फळटलें, तुमकांय जिणेचें सार्थक लाबतलें. तुमीय धादोशी जातले.

**नवी दिका**

आमकां इंग्लिशीचें पिशें. आमकां दिसता आमी इंग्लिश उलयल्यार मळबाक हात लायलो. कॉलेजीच्या वर्गांत आसतना इंग्लिश उलोवंक जाय हें समजु येता पूण वर्गाभायर येतकच वचून इंग्लिश उलोवंकच जाय? बाजारांत भाजीवाल्याकडेन हिंदी कातरूंकच जाय? गोंयभायल्यांकडेन वेव्हार करतना कोंकणी सोडून तांची भास उलोवंकच जाय? जायत्या जाणांक दिसता सोंपेपणाखातीर आमी तशें करतात. पूण हें सोंपेपण कोणाखातीर? आमी आमचें सोंपेपण पळोवंक जाय. तो आयला

आमचे पयशे व्हरपाक तेन्ना आमच्या सोपेपणाप्रमाण वागूंक जाय. वेवसायीकरण आनी उद्देगीकरणाचो अस्कत सांदो हो. आमी दुसऱ्याचो फायदो पळयतासतना आमचें लुकसाण पळयनात. होय तुमच्या साहित्यांतलो एक कळवळीचो विशय जावंक शकना?

आमची आवयभास आमकां होरायता रे तरणाट्यांनो, म्हाका कित्याक पयसायतात? ते आपली आवयभास उलयतात, तूं तुजे आवयभाशेक कित्याक विसरता? तुजी आवयभास तांकां शिकय पयलीं आनी उपरांतूच दुसरी भास उलय. वर्गाभायर कोंकणी उलय, तुज्या सांगात्यांकडेन कोंकणी उलय, बाजारान कोंकणी उलय, चोंब्यांत कोंकणी उलय, तूं आपसूकच एक व्हड साहित्यकार जातलो.

**एक कॉमन कॉलेज / संस्थांचें बुलेटिन जाय**

कोंकणी भाशा मंडळ युवा साहित्यीकारांखातीर वर्सानवर्स बाकीबाब काव्योत्सव घडोवन हाडटा. ताचेर नदर मारल्यार युवाशक्ती इतली उत्साहीत दिसना. आंकडो दिसानदीस देंवत गेल्ल्याचो जाणवता. वीस पंचवसी वर्सां पयलीं काव्योत्सवांत वांटेकार जाताले ताचेभायर खास कविता सादर करपाक आनी आस्वादक म्हूण आपणाली हाजेरी लायताले. तातूंत म्हालगड्यांच्यो कविताय सादर जाल्ल्यान युवा पिळगेक त्यो मार्गदर्शक थारताल्यो. युवा साहित्य संमेलनाक कविता सर्तींत वांटो घेतात ते चडशे तरणाटे बाकीबाब काव्योत्सवाक दिसनात ही खंतीची गजाल. हाचेर वेगळे तरेन गंभीरतायेन विचार जावंक जाय. कांय तरणाटे अशेय म्हणटना आयकूंक येतात 'तेच तेच कवी दिश्टी पडटात, बेजार येता तांकां पळोवन' अशें जावपाक आमचे तरणाटेच जापसालदार न्हय? आपली कॉलेज सोडली जाल्यार खंयच दिसनात, संदी दिल्यार घेनात. जेन्ना कविता

सादर करपाक आमंत्रण दितात, तेन्ना आमंत्रीत आयले नात जाल्यार येतात तांकां आपोवचें पडलेनात? अशांतल्यान ह्या मळावयली पोकळी दिसून येता, ती पोकळी तरणाटयांनी भरून काडपाची गरज आसा, तरणाट्यांनी हाची नोंद घेवची.

कांय दीस फाटीं राजीव गांधी कला मंदिरांतूच चार दिसांची बालनाट्य लेखन कार्यशाळा जाली. थंय म्हाकाय वांटेकार जावपाची संद मेळ्ळी, उक्तावण सुवाळ्याक एक सरळ आरोप जालो. 'बालनाटयां' नात म्हूण गरज भागोवंक आमकां बरोवचें पडटा. सत्य गजाल ही, मुखार हेरूय क्षेत्रांत हें घडूंक शकता म्हूण तरणाट्यांनी साहित्याकडेन लक्ष ओडूंक जाय.

आयज तुमचेखातीर कितल्यो माचयो उपलब्ध करून दवरल्यात. तांचो फायदो काडात. तुमी निर्माण केल्लें साहित्य लोकांमुखार दवरात. युवा महोत्सव तुमचे कलेची दखल घेता जाल्यार युवा साहित्य संमेलन तुमचे साहित्यप्रभेची दखल घेता. आकाशवाणी आनी दूरदर्शन तुमच्या लिखाणांतल्यान देंवपी अक्षरयात्रेची वाट पळयता. जाल्यार कितलींच सेवा केंद्रां तुमकां उर्बा दिवंक रावतात. आमचेकडेन आवज सुनापरान्त आसा, कुळागर, बिम्ब, जैत, जाग, राजहंस, कोंकण टायम्स सारकी मकितलींशींच प्रकाशनां आसात, ज्यो तुमचे प्रतिभेकडेन नदर लावन आसात. प्रस्न एकूच आसा, तुमी कित्याक बरयनात? तुमच्या कॉलेज मॅगझिनांत आनी वण्टीपत्रांचेरय बरयतले? एक दोन कविता बरयले उपरांत वा एक दोन निबंद बरयले उपरांत खंय शेणटात हे आमचे युवा साहित्यीक? नोकरी करपाक लागतकच साहित्य रचप सोडून दिवंक जाय म्हणू ना. आमी वेळ काडूंक शिकूंक जाय. एक बीज सापडटा तें त्याच खिणाक बरोवन दवरपाची संवय लायल्यार एक नवो गूण तुमकां लाबतलो.

## ांय मतां कांय सुचोवण्यो

ह्या संमेलनाचो अध्यक्ष ह्या नात्यान आयोजकांक कांय ुचोवण्यो करूकच जाय.

आयोजकांची लागणूक थारता युवा साहित्यकारांक सोदून ाडप. कशे सोदून काडूं येता तांकां?

- सुनापरान्त आनी सगळ्या नेमाळ्यांनी बरयतात त्या ारणाटयांची एक वळेरी करप.

- फाटल्या वर्सांतल्या युवां लेखकांकडेन संपर्क करप.

- फाटल्या सातूय आनी ह्या संमेलनाच्या कार्यशाळांनी ांटेकार जाल्ल्या युवा साहित्यीकांकडेन संपर्क करप.

- युवा साहित्य संमेलनाच्या सगल्या कार्याध्यक्षांक विस्वासांत घेवन वयलें काम करूं येता.

- कॉलेज पांवड्यार एके कॉलेजींतल्यान उण्यांत उणीं धा नांवां मुखार हाडपाचेर भर दिवचो.

- आयज खंय ना खंय साहित्य मळाचेर वावुरपी संस्थांनी आपल्याकडेन आशिल्ल्या युवा साहित्यीकांकडेन संपर्क दवरप आनी तांची नांवां सुचोवप.

- ही नांवां एकठांय जातकच तांची एक वळेरी करप आनी साहित्यीकाचे आवडीप्रमाण तांकां त्या त्या गटांत बसोवप.

- कला अकादमीच्या विद्यालयीन, महाविद्यालयीन आनी राज्य पांवड्यावयल्या नाटय सर्तीनी जे नाट्यलेखक म्हूण फाटल्या धा वर्सांत मेळ्ळयात तांची वेगळी वळेरी करप आनी तांचो गट करप.

- एक एक प्रकारचे वेगवेगळ्या गटांक वेगवेगळी कार्यशाळा वा मेळावे घडोवन हाडप आनी तांका मार्गदर्शन करप. गरज पडल्यार राबित्याच्यो कार्याशाळा घडोवन हाडूं येतात.

हो वावर कोंकणी सेवा केंद्रावरवीं करूंक जाता. हातूंतल्यान फायदे जातले ते अशेः-

- तरणाटे साहित्याच्या मोगांत पडटले.

- तांका साहित्याची आवड लागतली.

- आपूणय साहित्यांत वांटेकार जावंक शकता हाची तांकां उमेद जातली.

- ते साहित्याकडेन तेंकून उरतले.

- तांका सतत मार्गदर्शन मेळत रावतलें.

- तांच्या हातांतल्यान साहित्यकृती निर्माण जावपाक लागतल्यो.

- कॉलेज सोंपून वा नोकरेक लागतकच तांकां साहित्याची ओड उरतली ना जाल्यार आस्वादाक म्हूण खात्रेन सहकार्य करतले.

ही पुराय प्रक्रिया म्हणल्यार साहित्य संमेलनाक पुरक वातावरण आनी युवाशक्तीक उर्बास्थान.

**एक नवो उपक्रम**

फाटल्या आनी ह्या संमेलनाचे धरून आठ अध्यक्ष. ह्या आठूय अध्यक्षांक कितें तरी वावर दिवंक जाय. कित्याक बारीक पळयल्यार तांकां कायच काम आसना. तांच्यांनी जायतें करूं येता. देखून अकादेमीन निदान एक वर्साचो कार्यक्रम दिवंक जाय जे वरवीं जण एकल्याचे तांकी प्रमाण ते वावर करतले आनी फाटल्या सगल्या युवा साहित्यकारां कडल्यान साहित्यकृती निर्माण करून घेतले. ह्या वर्सभराच्या कार्यावळींक जाय ती अर्थीक मजत दिवपाची तजवीज करची आनी निर्माण जाल्लें साहित्य प्रकाशीत करपाचोय उपक्रम राबोवचो.

हातूंतल्यान घडये वेव्हार जावं येता. पूण नवे साहित्यीक ्डाराच्या काळाक नवे पद्धतीन घडूंक पावतले. आनी ंमेलनाध्यक्षाकय आपणे किते तरी केल्ल्याचें समाधान ातलें.

**ोंपयतना...**

आठवें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन जैतिवंत करूया. ोन दिसांच्या संमेलनांतल्यान फुडल्या कार्याची दिका थारावया. आमच्या साहित्यांतल्यान मानवता वाद, मुल्ल्यांचो अविश्कार, मनशाच्या काळजांत मोग जागोवया. गोंयची माती आनी कोंकणी संस्कृतायेकडलें नातें घट करुया. प्रगत अशा विज्ञान आनी तंत्रज्ञानान वावुरतना साहित्यीक म्हूण नवें विश्व तयार करुया. भाशावाद आनी लिपीवाद आमच्या दिसपट्ट्या वेव्हाराचो भाग म्हूण मानून घेवन ताका योग्य दिका दिवपाचो वावर करूया.

इश्टांनो, परतून एक फावट आमी आमचे शक्तीन ह्या समाजाच्यो आनी दुर्बळ विचारांच्यो वण्टी घट्ट करूया. मनीसपणाचे पोवाडे रचून कोंकणी मायेक होरावया आनी आमकां शास्वत फुडार मागुया. ते बराबर ह्या सुश्टीदेवाकय उलो घालुया.

'देवा, तूं आमचो आरंभ
तुका भजूंक वंदूक रावतात
देवा, तूं आमचो शेवट
जिवीत तुका भेटोवन दितात.'

इश्टांनो, म्हाका ह्या आठव्या युवा साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष म्हूण वेंचून म्हजो भोवमान केला, हो युवाशक्तीचोय भोवमान म्हूण हांव समजतां.

देव बरें करूं...

जोड आयोजक संस्था : राजीव गांधी कला मंदिर, फोंडें
आनी कोंकणी भाशा मंडळ, मडगांव
तारीक : 10 आनी 11 फेब्रुवारी, 2007
येवकाराध्यक्ष : प्रा. पुर्णानंद च्यारी
कार्याध्यक्ष : प्रा. हनुमंत चोपडेकार
उद्घाटक : श्री. सायमन मार्टिन्स

# णववें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**डॉ. माधवी सरदेसाय**

(संमेलनाध्यक्ष)

## जिणे फातरीर काळीज घांसून उजवाड दिवया

### कोंकणी साहित्य : इतिहासीक फाटभूंय

पुर्तुगेज गोंयांत येवचे पयलीं - सोळाव्या शेंकड्यां आदीं कोंकणींत बरयल्लें साहित्य आशिल्लें कांय ना हे विशीं जाणकारां भितर वाद आसा. पूण सोळाव्या शेंकड्यांत क्रिस्तांव मिशनरींन कोंकणी भाशेच्या अभ्यासाची बुन्याद मारली आनी वांगडाच कोंकणींत बरपावळूय निर्मिली हे विशीं कोणाक दुबाव ना.

पाद्री थॉमस स्टीफन्स (1549-1619) ह्या वावराचेर मूळ पुरूस आशिल्ले. हो इंग्लीश भाशीक मनीस रोमांत वचून जेजुईत पंथांत भितर सरलो. ताका भारतांतल्या पुर्तुगेजांच्या सत्तेखाला आशिल्ल्या वाटारांत वावर करपाचें नेमून दिल्ल्यान तो पुर्तुगालाक वचून पुर्तुगेज भास शिकलो. उपरांत गोंयां येवन कोंकणी आनी मराठी, दोनूय भासो शिकून घेवन स्टीफन्सान मराठींत ओवी छंदांत **'क्रीस्त पुराण'** (1616) रचलें आनी कोंकणींत **'दौत्रीन क्रिस्तां'** (1622) हें क्रिस्तांव धर्माचीं मुळावीं तत्त्वां समजावन सांगपी पुस्तक बरयलें.

छापखान्याची जोड मेळिल्ल्यान मिशनरींचीं कांय बरपां सतराव्या शेंकड्यांत उजवाडा आयलीं, वाचपघरांनी सांबाळून उरलीं आनी आयच्या अभ्यासप्यांच्या हाताक लागूंक पावलीं. **सान्तु आंतोनिचीं अचर्यां** (आंतोन्यु द साल्दाना, 1655), वनवाळ्यांचो मळो (मिंगेल द आल्मेदा, 1658-59), **देवांचीं येकांग्र बोलणीं** (जुआंव द पेद्रोजा, 1660) सारकेलीं बरपां म्हळ्यार साहित्यीक कोंकणीची घसघशीत गवाय.

सतराव्या शेंकड्यांतले कोंकणी बरपावळीचो हो नेट पळोवन कांय जाण ह्या शेंकड्यांक कोंकणी साहित्याचो 'भांगराचो काळ' मानतात. ज्या साहित्याक लागून ह्या काळाक 'भांगराचो काळ' मानतात. तें सगळें येवरोपी मिशनरींनी निर्मिल्लें. ह्या 'भांगराच्या काळांत' थळाव्या कोंकणी बरोवप्याचे लिखणेची सुलुसूच मेळना हें आमी लक्षांत दवरूंक जाय.

सतराव्या शेंकड्याचेच अखेरेक पुर्तुगेज राज्यकर्त्यांचें आनी इगर्जेचें कोंकणी विशींचें धोरण बदल्लें. राज्यकर्ते आनी थळावी प्रजा हांचे मजगतीं दिवपा - घेवपाची संवकळ जावची म्हूण थळाव्यां भितरूय पुर्तुगेज भाशेचो पुरस्कार करचो अशें थारलें. आनी हे उपरांत कोंकणी साहित्याचे सुकतेचो काळ सुरू जालो.

एकोणिसाव्या शेंकड्याचे आखरेक, 1899 वर्सा, एदुआर्द जुझे ब्रुन द सौजा (1836-1905) ह्या मूळ गोंयच्या कोंकणी मनशान पुण्या सावन 'उदेंतेचें साळक' हें पयलें वयलें कोंकणी नेमाळें उजवाडावंक सुरवात केली. तांणी क्रिस्तांव घराबो ही पयली - वयली कोंकणी रोमांसूय बरयली. थळाव्या कोंकणी मनशाच्या कोंकणी साहित्याचें मुळावण ब्रुनो द सौजान घालें अशें मानूंक खूब वाव आसा. एकोणिसाव्या शेंकड्याचे अखरेक सुरू जाल्ली ही बरपावळ गोंय मेकळिके मेरेन चडशी गोंया भायल्यान, मुखेलपणान मुंबयच्यान उजवाडाक येताली आनी कोंकणी समाजांतल्या एका खाशेल्या वर्गाची भूक ती भागयताली.

सतराव्या शेंकड्यांत इंक्विझिशनाच्या काळार वा ते आदींय गोंय सोडून गोंया भायर कर्नाटकांत आनी केरळांत वसणूक करून राविल्ल्या कोंकणी मनशाच्या कोंकणी साहित्याकूय चडसो एकोणिसाव्या शेंकड्याच्या दुसऱ्या अर्दा

सावनूच चंवर आयिल्लो पळोवंक मेळटा. कोंकणी समाजांतल्या कांय खाशेल्या वर्गांक ह्या साहित्यान थाकाय दिल्या तर कांय कोंकणी वर्गांनी हेर भोवसंख्य समाजाच्या भासां कडेन आपणाले अस्मितायेची नाळ जोडून घेवन आपणाली साहित्यिक भूक भागयल्या. हे भाशेन कोंकणी मनशा कडल्यान कन्नड आनी मल्याळम साहित्याची सेवा घडल्या.

आपणाक मराठी लेख़ून कोंकणी मनीस मराठी सरस्पतीच्या मंदिरांत घोळ्ळा तशें ताणें पुर्तुगेज आनी इंग्लीश बरपावळीकूय आपणालें योगदान दिलां. ह्या सगळ्या भासांतल्या साहित्या कडल्यान पोसवण घेवन ताची सांस्कृतीक वाड जाल्या.

**'भारतीय' कोंकणी साहित्यकारः कोंकणी चळवळीचें देणें**

कोंकणी अस्मीतायेचो शणै गोंयबाबांक दिश्टावो घडला तेन्ना कोंकणी समाज असो वेगळ्या वेगळ्या अस्मितायांच्या कुडक्यांनी वांटून वचून आपल्या आपल्या वर्गांच्या, पंगडांच्या कुरकुटांत जियेतालो. ताचे भितर एकवट नाशिल्लो. गोंयचे हिंदू एकामेकां कडेन उलयताले कोंकणींत पूण आपणाक मराठी भाशीक लेखताले. मुळावें शिक्षण मराठींतल्यान घेताले, वाचपा बरोवपाचो वेव्हार मराठींतल्यान करताले. गोंयच्या क्रिस्तांवांतल्या वयल्या वर्गाच्या घरांनी पुर्तुगेज भासूच घोळटाली. ह्या वर्गाखातीर कोंकणी फिरंगी भास उलोवंक नकळ आशिल्ल्या हेर थळाव्या लोकांकडेन उलोवपाची भास आशिल्ली. फिरंगी भास आपणावंक पावंक नाशिल्लो क्रिस्तांव कोंकणी कडेन अदीक जोडिल्लो आशिल्लो. रोमी लिपयेंतल्या कोंकणी बरपाचो खरेलो वाचक हो वर्ग आशिल्लो. गोंया भायर, मुखेलपणान कामा निमतान, पुणे मुंबय सारकेल्या मराठी वाठारांनी पविल्लो गोंयकार हिंदू इल्लो इल्लो करून मराठी

अस्मितायेंत पुराय विरगळून वतालो. मराठी जातालो. गोंयकार क्रिस्तांव, अल्पसंख्यांक समाजांचे बाबतींत घडटा ते भाशेन, रोमी लिपयेचे शिमेन आखिल्ली आपणाली कोंकणी अस्मिताय सांबाळून जियेतालो. जमल्यार वयल्या क्रीस्तांव वर्गा वरी फिरंगी वा इंग्लीश जातालो, मराठी केन्ना जाय नाशिल्लो. मंगळुरांतलो कोंकणी मनीस कन्नड लिपयेंतल्यान कोंकणी बरयतालो. हांगाय क्रिस्तांवांचें साहित्य वेगळें आनी हिंदूंचें वेगळें. क्रिस्तांवांचें क्रिस्तांवांनी वाचप, हिंदूंचें हिंदूंनी, अशेंच चित्र आशिल्लें. तातुंतूय हिंदूंक कन्नड अस्मितायेच्या हारशांत आपणालें रूप पळोवंक कठीण जाय नाशिल्लें. मुखेलपणान हिंदू आशिल्लो केरळांतलो कोंकणी समाज मल्याळम लिपयेंतल्यान कोंकणी बरयतालो, आनी केन्ना केन्ना पुरायेन मल्याळमूय जावन वतालो.

ह्या फापसल्ल्या कोंकणी समाजाभितर एकवट घडोवन हाडपाचें सपन शणै गोंयबाबान पळेलें. ताणीं पळेलें कोंकणी मनशाक आपूण कोण हांची जाणविकाय ना. ताचे भितर धनीपणाची भावना ना. वचत थंय तो हाका ताका बरें मागून, ल्हानपण घेवन दीस काडटा. ह्या समाजा भितर वेगळेपणां कितलींय आसूं, 'कोंकणो' - कोंकणी भाशीक - ह्या नात्यान तो एक हो विचार शणै गौंयबाबान दिलो. कोंकणी भाशे वरवींच कोंकणी भाशिका भितर धनीपणाची भावना रुजूं येता आनी कोंकणी समाजाचो खरेपणांनशी विकास घडूं येता; धनीपणाचे भावनेचेर उबो आशिल्लो कोंकणी समाज घडोवनूच देशाचे उदरगतीक आमच्यांनी खरेलें योगदान दिवं येता हे जाणविकायेचेर ही नदर उबी आशिल्ली. माधव मंजूनाथ शानभाग आनी सांगात्यांनी ह्या विचाराक परिशदेची माची जोडून दिली.

शणै गोंयबाबांल्या विचारां पसून प्रेरणा घेवन आमगेल्या म्हालगड्यांनी कोंकणी चळवळ चलयली. एक भास - एक लिपी - एक साहित्य हो मंत्र ताणें कोंकणी मनशाक दिलो. हालीं गोंयांत कोंकणीच्या मळार लिपयेचो वाद मदीं मदीं तकली वयर काडटा. देखून मुजरत सांगन दिसता, कोंकणी खातीर देवनागरी लिपी एक माची आशिल्ली वेगळ्या वेगळ्या अस्मितायांनी, वेगळ्या वेगळ्या भुगोलीक वाटारांनी वांटून गेल्ल्या कोंकणी समाजाचो एकवट साधपाची. जैतां हातासपाची ती निखटी निसण नाशिल्ली, तर भौरंगी कोंकणी साहित्याच्या, भौरंगी कोंकणी साहित्याच्या एकवटाची बुन्याद आशिल्ली.

कोंकणी चळवळींतल्यान पोसवण घेवन कोंकणी साहित्य चंवरलें, तांकीवंत जालें. कोंकणी समाजाची विविधताय ह्या साहित्यांत उदेवंक लागली. कथेचेंच मळ घेवया. गोंय मुक्ती उपरांतच्या सुरवेच्या काळावयली गोंयची कोंकणी कथा चडशी मध्यमवर्गियांचेंच जिवीत दाखयताली. उपरांत पुंडलीक नारायण नायक भौसाचें, मुखेलपणान हिंदू भौसाचें, जिवीत घेवन ह्या मळार देंवले. दामोदर मावज्याच्या कथांनी क्रिस्तांव भौसाचें रूप दिश्टी पडूंक लागलें. मागीर महाबळेश्वर सैल आयले. तांगेल्या कथां वरवीं कारवारच्या कोंकणी भौसान, कारवारचे कोंकणी भाशेन कोंकणी साहित्यांत रीग मेळयली. प्रकश पर्येकाराली कथा सत्तरींतल्या भौसाचें जिवीत, भौसाची भास घेवन आयली... कोंकणी भाशेचें केदें व्हडलें जैत हें! हे तरेचें साहित्य फकत कोंकणींतल्यान, कोंकणींतल्यानूच येंव येतालें. ह्या जैताचें श्रेय वता कोंकणी चवळीक.

कोंकणी चळवळीक लागून आयज कोंकणी साहित्याची न्हंय जावन ती भारतीय साहित्याच्या दर्याक मेळ्ळया. कोंकणी चळवळ जावंक नाशिल्ली, वेगळ्या वेगळ्या कुरकुटांनी

जियेवपी कोंकणी मनशाक आपणाले कोंकणी अस्मीतायेची जाण जावंक नाशिल्ली जाल्यार आयज कोंकणी साहित्याचीं वेगळीं वेगळीं तळींच आमकां खंय खंय दिश्टी पडपाचीं हें आमी विसरूंक फावना.

आयचो कोंकणी साहित्यीक म्हळ्यार, रवीन्द्र केळेकारांच्या उतरांनी, कोंकणींतल्यान बरोवपी एक भारतीय साहीत्यीक. हें भान जण एकल्या कोंकणी बरोवप्याक आसूंक जाय.

कोंकणी साहित्याचे, कोंकणी चळवळीचे इतिहासीक फाटभुयेंची जाणविकाय कोंकणी बरोवप्याक आसप गरजेची. हातूंतल्यान आमी खंय आशिल्लीं, खंय पावल्यांत, आनी आमकां खंय वचपाचें आसा हे विशीं आमकां नदर मेळूंक पावतली आनी आमची लिखणी अदीक जापसालदार अदीक तांकीवंत जातली.

**साहित्याची साधना**

साहित्य म्हळ्यार जिविताचो हारसो. साहित्यांत समाजाचें रूप दिश्टी पडटा तशी साहित्यकाराची जिविता विशींची नदरूय उक्ती जाता. बऱ्या सहित्याक जिविताची साधना गरजेची. आमचें जिवीत जितलें तेजिश्ट तितलें आमचें साहित्य गिरेस्त प्रभावी जाता. बरो साहित्यीक संवेदनशील आसता. ताका सगले 'लागता', बारीक बारीक गजाली दिश्टी पडटात. तो/ती आपणाल्या अणभवांकडेन प्रामाणीक आसता. जिवन साधना साहित्यीकांचीं मुल्यां घडयता. जायते फावटीं ह्या मुल्यांक आनी पारंपारीक मुल्यांक पडना. ह्या संघर्शांतल्यान साहित्यकृती आकार घेता. आनी साहित्य निर्मणेची ही प्रक्रिया साहित्यकाराचें व्यक्तीमत्वूय घडयता.

साहित्यकाराक स्वाध्यायूय खूब गरजेचो. बरोवप एक

ला; ही कला म्हज्यांत आसा; एक दीस केन्ना तरी म्हाका रोवपाची प्रेरणा मेळटली आनी म्हज्यांतली ही कला फळटली शें लेखून (रॉली बार्थाचीं उतरां उश्णीं घेवन) 'happy wners of talent' कशीं जियेवन आमी बरीं साहित्यीक ावंक पावचीं नात. आमचेकडल्यान बरें साहित्य निर्माण ातलें जाल्यार आमचे भितर आशिल्ले कलेक, प्रतिभेक उदक सारें मेळत रावंक जाय. वाचनांतल्यानूय बरें साहित्य खंयचें ानी कसलें, बरें साहित्य बरें कित्याक? सारकेल्या प्रस्नांच्यो ापो इल्लो इल्लो करून आमकां आपले आपूण होलमूंक ागतात. आनी हातूंतल्यान बरोवप्या भितर एक समिक्षक मूळ धरूक लागता. हो / हि समिक्षक आमची लिखणी सक्षम रता.

जायते फावटीं, बरी साहित्यकृती वाचले उपरांत, प्रभावाचें वागरें पडिल्ले वरी, वाचतल्याची लेखणी मोनी जाता. पूण अशे तरेचे कितलेशेच प्रभाव पचोवन बरोवप्याची लिखणी अदीक ताकीवंत जाता. कितें तरी नवें निर्माण करूंक पावता. 'The Anxiety of influence - a Theory of Poetry (1973) ह्या समिक्षेच्या मळार खूब गाजिल्ल्या पुस्तकांत हॅरल्ड ब्लूम एक म्हत्वाचो विचार मांडटात. ते म्हण्टात, कवितेचो इतिहास आनी कवितेचो प्रभाव ह्यो दोन गजाली एकामेकां पासून वेगळ्यो काडूंक नज. कवितेचो प्रभावूच कवितेचो इतिहास घडयता. आनी हें ब्लूम आपणाल्या पुस्तकांत सिद्ध करून दाखयतात.

देखून, आमचे साहित्यकृतीची साहित्याच्या इतिहासांत कुरू उतरली जाल्यार हेरांच्या साहित्यकृतींचो प्रभाव आमचेर पडूंक दिवप गरजेचो. बरी साहित्यकृती मळबांतल्यान पडना. वेगळ्या वेगळ्या प्रभावांचें उदक सारें मेळटकच थळावे मातयेंतल्यान ती कोमेता, आंकरेता.

बरपाक्षरी कोंकणी मनीस उण्योच तीन तरी भासो बरोवंक, उलोवंक जाणा आसता. हे गाजालीचो फायदो कोंकणी मनशाचे साहित्य साधनेक मेळ्ळा, आनी मेळत रावंक जाय. गोंयच्या कोंकणी साहित्याक कोंकणी भायर मराठी, गुजराथी, हिन्दी, उर्दु, पुर्तुगेज, फ्रँच, इंग्लीश ड्या भासांतल्या साहित्याची पोसवण मेळ्ळया. हे भायर कर्नाटकांतल्या कोंकणी साहित्याक कन्नड भाशेंतल्या साहित्याचें आनी केरळांतल्या कोंकणी साहित्याक मल्याळम भाशेंतल्या साहित्याचें सारें मेळ्ळां. साहित्यीक संस्कारांची ही विविधताय कोंकणी साहित्य समृद्ध करीत आयल्या. तुमी तरणाट्या बरोवप्यांनी साहित्यीक संस्कारांचे विविधतायेचें हें दायज अशेंच मुखार व्हरूंक जाय. तेन्नाच तुमच्या हातांतल्यान कोंकणी सरस्पतीची बऱ्यांतली बरी सेवा घडूंक पावतली.

साहित्याच्या स्वाध्यायांत आनीक एक गजाल खूब म्हत्वाची - भाशेच्या अभ्यासाची. आमी आमचे भाशेंत बरयतात हाचो अर्थ, आमकां आमची भास पुराय येता, तातूंत शिकपाचें काय ना, असो जाता? मोसिन्योर सेबाश्तियांव रूदोल्फ दाल्गाद, शणै गोंयबाब, ज्योकीं आंतोन फेर्नांदीश हांगेलो वावर बारीकसाणेन पळयात. दाल्गादाच्या कोशांनी, कोंकणी म्हणींच्या तांगेल्या संकलनांत पानां कणकणीं कोंकणीचो अभ्यास तुमकां दिश्टी पडटलो. शणै गोंयबाब आनी ज्योकीं आंतोन फेर्नांदीशांचीं बरपां वाचतना तुमकां होलमतलें. हांणी फकत आपणाले जिबे वयली कोंकणी बरपांत हाडूंक ना. वेगळ्या वेगळ्या कोंकणी बोलयांतलीं मुजरत वेंचून काडिल्ली उतरावळ तुमकां तातूंत मेळटली. हालींच, 'बिम्बा'च्या दिवाळी अंकांत महाबळेश्वर सैलांची **हावठण** आनी दामोदर मावज्यांची **सुनामी सायमन** ह्यो दोन नवलकाणयो उजवाडा आयल्यात. ह्या नवलकाणयांतले भाशेचें बारीक निरिक्षण करात. कुंबार

आनी नुस्तेकारांचे भाशेचो अभ्यास तुमकां दिश्टी पडटलो.

भाशेच्या अभ्यासांत बरपाचे रितीचोय अभ्यास येता. देवनागरी वा रोमी लिपी आयली म्हूण देवनागरी वा रोमींतल्यान कोंकणी बरोवपाची रीत आपशीं येना. ही रीत बरोवपाचे परंपरेंतल्यान घडिल्ली आसता. ती शिकची पडटा. पूण बरपाचे परंपरेंत भितर सरूक आमी उणी कित्याक पडटात? 'छापपाच्या वेळार संपादपी घालतले शुद्धलेखन निटायेचेर' ही भुमिका चड्श्या कोंकणी बरोवप्यां भितर कित्याक पळोवंक मेळटा? सोदून काडुंया.

**कांय सुचवण्यो**

गोंय मेकळिके उपरांत मडगांवां 'कोंकणी भाशा मंडळ' स्थापन जालें. भाशा मंडळ कोंकणी बरोवप्यांचीं शिबिरां घेतालें. ह्या शिबिरांनी तरणाटे बरोवपी आपणालें बरप वाचून दाखयताले आनी ताचेर चर्चा जाताली असल्या कार्यावळींक लागून कोंकणीच्या मळार एक साहित्यीक वातावरण तयार जाल्लें. हे तरेच्यो कार्यावळी साहित्याचे वाडीक खूब गरजेच्यो. तरणाट्या बरोवप्यांनी आपआपल्या कॉलेजांनी वा कॉलेजां भायर मंडळा घडोवन तातूंतल्यान असल्या साहित्यीक चर्चांक वाव मेळोवन दिवपाची आयजूय खूब गरज आसा. नव्या बरोवप्यांक म्हालगड्या बरोवप्यांचें मार्गदर्शन मेळूंक पावलें जाल्यार तांच्या बरोवप्यांतल्या खाशेलपणांची आनी उणेपणांची जाणविकाय जावन बरोवप्याची वाड बरी जाता. ही माण्णीय असल्या मंडळांतल्यान जावं येता. खरें म्हळ्यार 'युवा साहित्य संमेलन' कांय प्रमाणांत तरणाट्या बरोवप्यांची ही गरज भागयता. पूण हें संमेलन वर्सांतल्यान एक खेपेच घडून येता. असले तरेच्या कार्यावळींनी सातत्य आसूंक जाय. साहित्याचे वाडीक सतत साहित्यीक सांगात गरजेचो. 'सुनापरान्त'

दिसाळेंय तरणाट्यांच्या कथांचें, कवितांचें म्हालगडया कडल्यान परिक्षण करून घेता. पूण नेमान मेळून एकामेकांक एकामेकांचें साहित्य वाचून दाखोवप, ताचेर चर्चा करप, समिक्षा घडोवन हाडप, गाविल्ल्या बऱ्या पुस्तकाचेर भासाभास करप, हातूंतल्यान जें घडूंक पावता तें आनीक कित्यांतल्यान घडूंक पावना. देखून, साहित्य मंडळां घडोवपा विशीं तरणाट्यांनी गंभीरपणान विचार करचो अशें म्हाका मुजरत सुचयन दिसता.

आयज गोंयांत तरणाच्या कोंकणी बरोवप्यांक प्रसिद्धी मेळपाक व्हडलोसो वेळ लागना. 'सुनापरान्त', 'बिम्ब' सारकेल्या नेमाळ्यांनी तरणाट्यांचें बरप रोखडें छापून येता, आनी गोंय ल्हान आशिल्ल्यान - बरोवप्याचें नांवूय रोखडें. वाचप्याचे वळखीचें जाता. रेडियो, टेलिविजन, नाटक सारकेलीं माध्यमांय तरणाट्या बरोवप्यांक वाव दितात.

प्रसिद्धी वायट अशें म्हाका म्हणपाचें ना. पूण हांगा एक भंय आसा ताची जाणवीक हांव तुमकां करून दिवंक सोदतां.

आयज मनीस जिणेचीं चडशीं मळां बाजारीकरणाचे भकीक पडल्यांत. 'मागणी तशी पुरवण' हो बाजारीकरणाचो नेम साहित्याच्या मळारूय मूळ धरूंक लागला. ह्या नेमांत आमी फारावचीं नात हाचो भरवंसो आसा? लोकांक आवडटा तेंच आमी दीत रावलीं जाल्यार मतींत दवरिल्लें बरें, कांय काळ लोक आमकां माथ्यार घेवन नाचतलो. उपरांत एक दीस ल्हवू सकल दवरतलो. तेन्ना नवें कितें दिवपाची तांकूय आमच्यांत उरचिना. अशें जाल्लें नाका आसल्यार नव्या बरोवप्यांनी ताळयां पसून मातशें पेल्यान रावन आपलो पींड वळखुपाचो सुरवे सावन यत्न करूंक जाय. हे भाशेन साहित्य निर्मणी करतात तांच्याच बरपांत तेज येवंक पावता हें आमी विसरूंक फावना.

हांगा शंकर रामाण्यांचो उगडास केले बगर रावं नज. तरणाट्या बरोवप्यांच्या काव्यांत 'स्पार्क' दिश्टी पडटालो तेन्ना तांकां खूब आनंद जातालो आनी ह्या कवीक ते 'साधने'ची वाट दाखयताले. केन्नाय या कवीचें 'पारजत' (आदल्या 'सुनापरान्तां'तलें एक ललीत गद्य बरपांचें सदर) सारकेल्या सदरांत वाचप्याचें मनोरंजन करपी बरप उजवाडा येतालें तेन्ना रामाणी अस्वस्थ जाताले आनी रोखडेच चीट बरोवन त्या कवीचो कान पिळटाले. सांगताले, 'असलें हे मुखार बरोवं नाका, लोकांनी 'बरें बरयलां म्हळें जाल्यारूय'. माधव बोरकार, परेश नरेंद्र कामत सारकेल्या आमच्या कवींच्या घडपांत रामाणींचे खूब योगदान आसा. साधनेक पर्याय ना हें पुरायेन होलमल्ल्यानूच हे कवी कोंकणीक बरी कविता दिवंक पावल्यात.

कविता, कथा - कादंबरी, निबंद सारकेल्या प्रकारांतल्यान उकतें जावपी सर्जनशील साहित्य साहित्याचें म्हत्वाचें आंग, दुबाव ना. पूण साहित्याक आनिकूय एक आंग आसा, जाका सामान्यतायेन 'गिन्यान साहित्य' म्हणटात ते तरेच्या बरपांचें. कोंकणी भास आयज वाचप्यांची सर्जनशीळ साहित्याची भूक कांय प्रमाणांत भागयता. पूण गिन्यान साहित्याची भूक? दुसऱ्या भासांतल्या साहित्या वरवीं आमकां ती भागोवची पडटा. आमी सदांच अशें चलूंक दितलीं? हाचेंरुय विचार जावपाची गरज आसा. मुजरत सांगूंक जाय. आठवें वळेरेंत आसपाव जाल्ल्या भासांचे तुळेन हांगा कोंकणी खुब्ब फाटीं आसा. कितलो तेप कोंकणीक ही सवेखणी परवडटली?

आपणाले आवडीचो विशय वेंचून काडून, ताचो खोलायेन अभ्यास करून त्या विशयाचेर कोंकणींत बरोवन तुमच्यांनी कोंकणी साहित्यांत तोलामोलाची भर घालूं येता. श्रीकांत शंभू

नागवेकार खगोलशास्त्रांतले विशय घेवन कोंकणींत बरयतात. हे भाशेन आमीय आमचे आवडीच्या विशयाचेर बरोवन कोंकणी समाजांतले कोंकणी भाशेचे बुन्यादीक अदीक घटपाण हाड्‌ येता. हेर भासांतल्यो उतरावळी अणकारून कोंकणींत हाडपाचो वावर करचे परस, हे भाशेन विशयाच्या हाताळपांतल्यान कोंकणी उतरावळ निर्माण करप म्हजे नदरेन अदीक अर्थपूर्ण.

साहित्य सेवे खातीर आमच्यांनी अणकाराचेंय मळ वेंचून काडूं येता. सुरेश आमोणकारांची देख हांगा घेवपा सारकी. सुरेशबाब खूब उसरान - निवृत्ती उपरांत - कोंकणी साहित्याच्या मळार सक्रीय जाले. तांणी अणकाराचें गळ वेंचून काडलें आनी **धम्मपद, श्रीमद् भगवद्गीता, तिरुवकुरळ**, **ज्ञानेश्वरी** ह्या तत्वगिन्यान विशयांतल्या प्रस्नांचे तोलामोलाचे अणकार ताणी कोंकणीक दिले. धम्मपदाचो अणकार करपा पासत सुरेशबाब पाली भासूय शिकले.

ही देख तरणाटयांनी घेवपा सारकी. मामा वरेरकरांनी शरतचंद्रांच्यो कादंबऱ्यो मूळ बंगालींतल्यान मराठींत हाडून भारतीय साहित्याचे वाडीक आपणालें योगदान दिलां. हे भाशेन तुमीय दुसरे भाशेंतलो एक बरोवपी वेंचून काडचो आनी ताच्यो साहित्यकृती कोंकणींत हाडच्यो. नीट मूळ भाशेंतल्यान. गरज पडल्यार ती भास शिकून रमेश लाडूय अशेच जाणटे पिरायेर कन्नड भास शिकल्यात आनी वेंचीक कन्नड कथा साहित्य तांणी कोंकणींत हाडल्यात.

अणकार एक शास्त्र, तशीच ती एक कलाय. केळोवपा सारकी. अणकार करप सोपे निखालूस न्हय. बऱ्या अणकारांचीय कोंकणीक आयज गरज आसा.

वीस - एक वर्सा फाटीं. 1987 वर्सा, स - एक वर्साच्या अखंड संशोधना उपरांत तयार जाल्लें रवीन्द्र केळेकारांचें

महाभारताचें अनुसर्जन उजवाडा आयिल्लें. हे उपरान्त कोंकणींत महाभारत आसा' अशें आमकां म्हणपाक मेळ्ळें. पूण, 'कोंकणीत महाभारत आसा' म्हणटना कोंकणींत असलें रामायण ना ही जाणविकाय म्हाका तरी तोंपले बगर रावना. हें उणें भरून काडपाक एक व्यासंगी अनुसर्जक मुखार येवपाची गरज आसा. असल्या वावराक माथें मारपाची तयारी आसा व्हय तरणाट्यां भितर?

कोंकणीन आयजवेर जें जें कितें मेळयलां ते झगडून मेळयलां. ह्या झगडुपान आमच्या कांय लेखक कवींक घडयल्यातूय. 'हांव कोंकणीचो 'रायटर' न्हय, हांव कोंकणीचो 'फायटर'... हांव 'रायटर' जालां तो म्हज्यांतल्या ह्या 'फायटरा'क लागून' अशें रवीन्द्र केळेकार संद मेळ्ळया तेन्ना सांगीत आयल्यात. कोंकणी खातीर झगडुपाचे दीस सोपलें व्हय? कोंकणी 'जाली' - तिका साहित्य अकादेमीची मान्यताय मेळ्ळी, ती राजभास जाली, आठवे वळेरेंत पावली... कोंकणींतल्यान आतां पीएचडी मेरेनचें शिक्षणूय मेळोवं येता... आनीक कितें जाय? - अशें तुमकांय दिसता जाल्यार हांव तुमकां 'तरणाटी' म्हणचेंच ना.

म्हज्या भुरगेपणांत गोंयांत कोंकणी 'दिश्टी पड नासली' जायत, कानार तरी पडटाली. आयज, राजभास, कोंकणी आशिल्ल्या कोंकणीच्या हया 'मूळपिठां'त कोंकणी आडवादानूय दिश्टी पडटा तें जालेंच, इल्ली इल्ली कानार पडपाचीय ती पातळ जावंक लागल्या. पोरूं वर्साच्या मे म्हयन्यांत The National Commission for Religious and Linguistic Minorities चे कांय वांगडी गोंयांत आयिल्ले. तांणी पत्रकारां कडेन उलयतना सांगिल्लें, आयज गोंयांत कोंकणी अल्पसंख्यांकांची भास जाल्या; कोंकणी परस इंग्लीशूच गोंयांत अदीक घोळटा.

पर्यटन उद्देग गोंयचो एक म्हत्वाचो उदेग. या उद्देगाच्या बरेपणानूय गोंयच्यान कोंकणी पातळ जायत वचून इल्ली इल्ली नाच जावं येता. समाजभासविज्ञानाच्या अभ्यासांत हे तरेच्यो कितल्योश्यो देखी सोदल्यार मेळटल्यो गोंयच्या कांय सुपरमार्केटांनी भितर सरल्यार तुमकां रशियन भाशेंतल्यो पाटयो दिश्टी पडटल्यो. कोंकणीत मात एकूय पाटीं दिसची ना. विचारल्यार जाप मेळटली, कोंकणी मनशाक इंग्लीश कळटा, रशियन मनशाक कळना... गोंय राज्याचे ट्राफिक पुलीस STOP आनी 'थांबा' न भागयतलें. कित्याक? कोंकणी मनशाक थांबा कळना जाल्यार STOP तरी कळटाच, म्हुण्णूच मूं?... बारीक पळेल्यार, कोंकणी वाटारांत कोंकणीचीच व्हडलीशी गरज ना. इंग्लीश, घडये मराठीय. हांगा चड जाणांक कळटा, खरें मूं? हे पळोवन तिडक येना, पेटून उठनात तांकां तरणाटीं म्हणूं येत व्हय?

**'जिणे फातरीर काळीज घांसून उजवाड दिवंया'**

मंगेश पाडगांवकारांनी तरणे पिरायेर बरयल्ले एके कवितेंतल्यो हयो वळी पळेयात -

'करीं माझ्या दीप युगांचा रे
उरीं मानव दिव्य उद्यांचा रे...'

साहित्याच्या दायजाची, साहित्यिकाचे जापसालदारकेची ही चूड तुमच्या हातांत आसा मूं? फाल्यांचो तेजिश्ट मनीस तुमच्या काळजांत बसला मूं?

मनोहरराय सरदेसाय तरणेपणांत बरयल्ले एके कवितेंत म्हणटात - (खूब खूब करचें आसा...)

जिणे फातरीर काळीज घांसून
वीज जगाक दिवंची आसा.
केदो हावेस, केदो उमाळो भरला ह्या दोनूच वळींनी!

ह्या ऊंच हावेसाची आमच्याय काळजांत सुलूस घेवंया ानी कोंकणी सरस्पतीचे सेवेक लागुंया.

जोड आयोजक संस्था : फादर आग्नेल महाविद्यालय, पिलार
तारीक : 16 आनी 17 फेब्रुवारी, 2008
येवकाराध्यक्ष : प्रा. फादर फ्रेड्रीक रोड्रिगीस
कार्याध्यक्ष : प्रा. राजश्री सैल
उद्घाटक : प्रा. फ्रान्सिस रोड्रिगीस

# धावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

प्रा. भालचंद्र गांवका
(संमेलनाध्यक्ष

## साहित्य विज्ञाननिश्ट आसचें

धाव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे उद्घाटक येवकार अध्यक्ष, कार्याध्यक्ष, गोवा कोंकणी अकादेमीचे अध्यक्ष, उपाध्यक्ष, सचीव, जेश्ट साहित्यीक, युवा साहित्यीक पत्रकार, आस्वादक, भावांनो आनी भयणींनो.

कोंकणी भास आनी साहित्याचे मूळ पुरूस शणै गोंयबाब हांच्या जल्म म्हालांत हें धावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन आयज भरता देखून ताका खाशेलें म्हत्व आसा. ह्य संमेलनाचो अध्यक्ष म्हूण तुमी म्हाकां वेंचून काडला आनी वेदीर येवपाची संद दिल्या हें हांव म्हजें भाग्य समजतां. युव साहित्यिकांनी शणै गोंयबाब समजून घेवपाची खूब गरज आसा. ज्या वेळार कोंकणी साहित्य वाचपी कोणूच लोक नाशिल्ले, वचत थंय कोंकणी भाशेक विरोध जातालो त्या वेळा शणै गोंयबाबान कोंकणी साहित्य रचलें आनी साहित्याचो मळ फुलयलो. तातूंत इतिहास, संशोधन, कथा, कादंबरी, निबंद व्याकरण, काव्यशास्त्र, भुरग्यांसाहित्य, चरित्र, नाटक हे सगळ प्रकार संदर्भ ग्रंथ वापरून ताणें तयार केले. कसलीच सत नासतना, कसल्याच इनामाची आशा नासतना शणै गोंयबाबान जो साहित्याच्या मळार वावर केलो ताची देख युव साहित्यिकांनी घेवपाक जाय.

आयज कोंकणीच्या मळार युवा साहित्यिकां कितल्योश्योच संधी उपलब्ध आसात. साहित्यीक सत दिसपट्ट्यो जातात. गोवा कोंकणी अकादमी पयलो चंव येवजणेखाला नव्या लेखकाचें पुस्तक रोकडेंच उजवाडा

हाडटा. साहित्य अकादमी पुरस्कार दर वर्सा एका कोंकणी लेखकाक फावो जाता. रवींद्रबाब केळेकारान साहित्य अकादमीची फेलोशीप, भारत सरकाराचो पद्मभुषण पुरस्कार, ज्ञानपीठ पुरस्कार जोडून ह्या सगल्या पुरस्कारांचीं दारां कोंकणी साहित्याखातीर उक्तीं केल्यांत. सगळ्या कोंकणी साहित्यीकांक ही खोशयेची गजाल. कोंकणी साहित्य आयज खंयच फाटीं ना. ताची तुळा संवसारीक साहित्यावांगडा जावपाक लागल्या हाची ग़वाय आमकां मेळटा, युवा साहित्यकारांक आयज कसलीच आडखळ ना. लज ना. ताणीं फकत साहित्य रचपाचें आनी जैताचे एक एक सोपण चडपाचें.

**युवा साहित्यीक फकत सर्तीपुरतो उरला?**

खंतीची गजाल म्हणल्यार युवा साहित्यीक आयज सर्तीपुरतो बरयता. त्या भायर तो बरयना. एखाद्रे सर्तीत ताची कथा वा कविता भायर उरली म्हण्टकीच तो निर्शेता. उपरांत सर्तीत वांटो घेवपाचें सोडून दिता. फाटल्या णव युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांनी शेंकड्यांनी युवा साहित्यीक मुखार आयले. पूण एका संमेलनांत दिसपी युवा साहित्यीक फुडल्या संमेलनांत दिसताच असो ना. युवा साहित्य संमेलनांत पयलें इनाम जोडपी कितल्याश्याच युवा साहित्यीकांचें आयज नांवूय आयकुपाक येना. अशें जावपाक फावोना. इनामाची आशा धरी नासतना बरोवप्यांनी बरोवपाक जाय. हेरांवांगडा सर्त करचेपरस स्वता आपणावांगडाच सर्त करपाक जाय. आपणाक इनाम मेळ्ळें ना जाल्यार मेळ्ळें ना म्हूण खंती जावचे परस नवे उमेदीन बरोवपाक जाय.

लेखकांचो आंकडो वाडचो आनी नवोदितांक प्रोत्साहन मेळचें म्हूण गोवा कोंकणी अकादमीन पयलो चंवर येवजण सुरू केली. हे येवजणेखाला शेकड्यांनी पुस्तकां उजवाडाक आयलीं.

पूण एक पुस्तक उजवाडाक येतकीत चडश्या बरोवप्यांनी बरोवपाचें सोडून दिलें. अशें कित्याक जाता हाचो सोद लावपाची गरज आसा.

**लेखन एक वेवसाय जावचो :**

नवोदीत साहित्यीक बरयतात पूण तांकां बरोवपाचो कसलोच मोबदलो मेळना. कोंकणीतलीं नेमाळीं आनी वर्तमानपत्रांचो खप उणो आशिल्ल्यान मानधन दिवप परवडना. पूण नव्या बरोवप्यांक बरोवपाखातीर मानधन मेळ्ळें जाल्यार तांकां बरोवपाक प्रोत्साहन मेळटलें हातूंत दुबाव ना. कांय जाणांक बरोवप म्हळ्यार बेकारपणाचो धंदो दिसूं येता. पूण तें सारकें न्हय, झाडाक जसो आपशींच चंवर फुट्टा, आदनाक जसो उमाळो येता ते भशेन साहित्य लेगीत आपशींच जल्मता. लेखक हो एक निमीत आसता. बऱ्या बरोवपाक बसलो म्हूण बरोवप जायना. स्फूर्त येवची पडटा. बरोवपाची स्फूर्त येता तेन्नाच बरोवप जाता. ना जाल्यार जायना.

कोंकणीच्या मळार वर्तमानपत्रीय लेखन सोडलें जाल्यार अजूनमेरेन लेखन हो वेवसाय जावंक ना. तो जावपाची गरज आसा .

**साहित्य अणभवनिश्ट आसचें :**

बरोवप्याक अणभव गरजेचे. अणभव नासताना बरयल्लें लेखन उखलापें जाता. मनशाकडेन वागताना बरोवप्यान मनीसपणान वागपाक जाय. ताच्यो भावना समजून घेवपाक जाय. जाल्यारूच ताका बरोवपाक विशय मेळटले. गांव आनी शारांतल्यो चालीरिती एकेभशेन आसनात. गांवांत गेल्यार गांवचोच जावन वागचें पडटलें जाल्यार शारांत पावलो जाल्यार शारांतल्यो चालीरिती आपणावच्यो पडटल्यो. देखून बरो लेखक हो शारांतलोय आसनां आनी गांवांतलोय आसना. तो शिमेवयलो आसता.

बरोवप्याक वाचन गरजेचें. वाचनाक लागून अणभव वाडटात आनी गिन्यानांत भर पडटा. हेर भासांतलें साहित्य खंय पावलां तें आमकां वाचनाक लागून कळटा. वाचनाक लागून नवे विशय मेळटात आनी बरोवपाक उत्फुर्ताय येता. आमी कोंकणी वांगडाच हेर भासांतलेंय साहित्य वाचपाक जाय.

आयज बरोवपाखातीर विशय खूब आसात. बरोवप्यान फकत आपणाल्यो संवेदना जाग्यो दवरपाक जाय. आयज आकांतवाद, स्थलांतरीत कामदारांचे प्रस्न, पर्यावरणाचे ज्वलंत प्रस्न, धर्मवाद, जातीवाद, भुरगीं कामदारांचे प्रश्न अशे साबार प्रस्न आमचेमुखार आसात. हालींचे नवोदीत मोगाचेर सामकें उणें बरयतात. अशें जालें जाल्यार मोग हो विशय उपेक्षीत उरतलो. मोगाचे नवे नवे अणभव बरोवप्यांनी साहित्यांत हाडपाक जाय. साबार विशय आमचे मुखार आसात. हे विशय हाताळटाना पारदर्शक नदर दवरपाक जाय. अणभव मांडटा आसताना आमी तांचे घटक जावचे पडटलें. वगतार अपमान सोसचे पडटले, घडये मारूय खांवचो पडूं येता. कित्याक तर 'बरो रायटर हो एक फायटरूय आसता' अशें रवींद्रबाब केळेकार सदांच म्हण्टात. आनी ताणे तें करुनूय दाखयलां. रवींद्रबाबान खूप बरयलां. पूण ते फकत पेन घेवन बसूंक नांत. गोंयचे दर एके चळवळींत ताणी सक्रीय वांटो घेतला. ती चळवळ मागीर भाशेची आसूं वा पर्यावरणाची आसूं. जी गजाल गोंयकारांच्या फायद्याची आसतली, जे गजालींत गोंयकारांचे हीत आसा ते चळवळींत ताणी वांटो घेतलो. ताणें वांटो घेतिल्ल्यो सगल्यो चळवळी जैतीवंत जाल्यात. ताकाच लागून तांगेले लेखणेक धार आयल्या.

अणभवां बगर बरोवपी लेखकाची लेखणी मुणेता आनी लेखनूय उखलापें जाता. बरोवप्यान कितलें बरयलां ताका म्हत्व

आसना, पूण तें कशें बरयलां ताका म्हत्व आसता. **'गॉड ऑफ द स्मॉल थींग्स्'** हें एकूच पुस्तक बरोवन, बुकर्स पुरस्कार जोडून संवसारभर नामना मेळोवपी अरूंधती रॉय हे लेखिकेची देख आमचे मुखार आसा. नवोदीत लेखिकांनी तिची देख घेवची. पोजडें, अश्लिल साहित्य रचपी म्हूण तिचेर टिकाय जाल्या पूण बरोवप्याक पोजडें, अश्लिल हीं उतरां लागनात. जें वास्तव आसता, तें कितलेंय पोजडें आसलें तरीय तें साहित्यांत येवचें. पूण तें अतिरंजीत जावचेंना हाची जतनाय बरोवप्यान घेवची.

**साहित्य विज्ञाननिश्ट आसचें :**

बरोवपाखातीर आयज साबार विशय आमचे मुखार आसात. पूण ते विशय मांडपाची शैली आमी आत्मसात करपाक जाय. कुड्डे विस्वास, भुताटकी, देवचार, म्हारू, देव हे विशय विज्ञानाच्या कसाक लावपाक मेळनांत देखून ते विशय ताणीं टाळचे. जे विशय विज्ञानाच्या कसाक लागतात तेच विशय घेवचे. आयज संवसार कितलो मुखार पावला? आनी आमी कुड्डे विस्वास, देव - देवसपण आनी कर्मकांडांनी बांदून उरल्यात. संवसारावांगडा सर्त करतले जाल्यार आमकां संवसाराची शेपडी धरूनूच चलचें पडटलें.

लोकवेदाचेर आयज खूब संशोधन चल्लां. पयलीं लोकवेद फकत गांवानीं वसला अशें लोक मानताले. पूण जंय जंय लोक आसात थंय लोकवेद आसता. तो पारखुपाची नदर पळोवप्यालागीं आसपाक जाय.

**म्हालगड्यांकडल्यान प्रोत्साहन जाय :**

सगल्या म्हालगड्या साहित्यीकांलागीं म्हजें एक मागणें आसा. युवा साहित्यीकांची तोखणाय करात. तांकां बरोवपाखातीर उत्तेजीत करात. तांकां समजून घेयात. जाण्ट्या बरोवप्यांक जीं तागडी, जीं परिणामां तुमी वापरतात तेच

ागडेन नवोदीतांक मापूं नाकात. तांकां कुस्कुटांव नाकात. ुमच्या आशिर्वादाची आनी मार्गदर्शनाची तांकां गरज आसा. ांव म्हाका अद्याप बरोवपी अशें मानना. पूण जें कितें म्हजेकडल्यान बरोवन जालां तें तोखणायेक लागून जावपाक ावलां हें म्हाका हांगा मुजरत सांगूक जाय. नागेशबाब करमली, माधवबाब बोरकार, शंकर रामाणी, मनोहरराय सरदेसाय, उदयबाब भेंब्रे ह्या सगल्यांनी म्हज्या साहित्याची तोखणाय केली. तेन्ना म्हाकां पाखां फुटिल्ल्यावरी दिसलें. बरोवपाक उर्बा आयली. हांव बरयत रावलों.

म्हज्या वाट्यांक तोखणायेपरस टिकाच चड आयली. अपमान आयले. सगलें सोसून हांव बरयत रावलों अजून बरयतां. एका कथासंग्रहाच्या अर्पण पत्रिकेंत हांवेन म्हणलां...

‘जाणी तुस्त केली
ताणी उमेद दिली
जाणी टिका केली
ताणी घटाय दिली
दोगांयच्याय हांव रिणांत आसां’

युवा साहित्यीकांनो, तुमीय इल्ली टिका सोसपाची संवय लावन घेयात. सगल्या युवा साहित्यीकांक म्हजीं परबीं भेटोवन हांव म्हजें उलोवप हांगा सोपयतां.

देव बरें करूं.

जोड आयोजक संस्था : नारायण झांट्ये कॉमर्स महाविद्यालय, दिवचल
तारीक : 14 आनी 15 फेब्रुवारी, 2009
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य डॉ. अरुण साखरदांडे
कार्याध्यक्ष : प्रा. प्रवीण सावंत
उद्घाटक : भौ. जयंत कायकिणी

# इकरावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**श्री. दिनेश मणेरकार**
(संमेलनाध्यक्ष)

**आमी तुमचे कडेन 'पॉझिटीव्ह' नदरेन पळयतात....**

इश्टांनो, कोंकणी भास ही आमची वळख, आमची 'आयडेन्टिटी', खंच्याय देशांत गेलो आनी आमची वळखीची भास आमच्या कानार पडली जाल्यार आमी तटास जातात. तेच तरेन आमचे दोळे ते शब्द उलयतल्याक सोदपाक लागतात. कित्याक ? तर म्हजें काळीज, म्हजें मन ती भास वळखता. ते शब्द म्हाका आपलेशे दिसतात. म्हाका म्हज्या गांवघरा पाविल्ल्याचो आनंद जाता. म्हज्या काळजाक एक आनंद मेळटा. कारण तो कोंकणी उलयता, म्हजी कोंकणी ही आमच्या काळजांतली भास म्हणून म्हाका तिचो अभिमान.

कोंकणी भास तशी खूब पोन्नी. पोर्तुगीजांच्या चेंपणाखाला तिची वाटवाट लागली. आनी तांणी तिका नानपयत केली. गोंय स्वतंत्र जावच्या कांय वर्सां आदीं आमकां ती परत मेळळी. तिचो दिश्टावो जालो तो शणै गोंयबाबाच्या रुपांत. आनी ते दिसासावन कोंकणी भास परत उबी जावंक लागली.

आमच्या जाण्टेल्यांची तिका आयज ती आसा त्या जाग्यार ते उंचायेचेर हाडून दवरल्या. तिका तिचो मानाचो मुकूट मेळोवन दिला. मानाचें नांव मेळोवन दिलां. राजदरबारांत मानाचें आनी हक्काचें स्थान मेळोवन दिलां. तांणी तांचें कर्तव्य केलां. आतां आमी आमच्या कर्तव्याक जागूंक जाय. आमचे कोंकणीक आसा ते सुवातेवेल्यान आनीकय वयर व्हरपाक जाय. हेंच आमचें परमकर्तव्य. हें करतना आमी आमच्या वावराची दिका थारावपाक जाय.

कोंकणी भाशेक भरवंसो दिसता तो युवा पिळगेचो. ब्रंच्याय वावरांत, तो मागीर सामाजीक आसूं वा साहित्यीक आसूं. ज्या वावरांत तरणाटी पिळगी पावल मारता तें क्रांतिकारक आसता, नवी नदर दिवपी आसता, नवे विचार देवपी आसता. हातुंतल्यान भास फुडें वता, तिची उदरगत जाता. त्या जैतिवंत पावलांचे धनी तुमी जावपाक जाय. कोंकणी भाशेंत तुमी तुमचें नवें दालन, तुमचो नवो दरबार समर्थपणान आनी स्वतंत्रपणान मांडपाक शकपाक जाय. तुमच्यांतले जुवानपणाची मस्ती, तुमच्यांतलो आविश्कार, तुमच्यांतलो संघर्शाआड झुजपाचो हावेस, तुमच्यांतली नवनिर्मितीची शक्त हें सगळें सगळें कोंकणी साहित्यावटेन वळोवपाक जाय. तुमचो आनंद, तुमची खंत, तुमचे आंवडे आनी तृप्ततायेचे तुमचे धेंकर हें सगळ्यांचें उक्तावप कोंकणी साहित्याच्या माध्यमांतल्यान जावपाक जाय.

ज्या दिसा तुमकां हें शक्य जातलें त्या दिसा कोंकणीक एक बरो साहित्यीक, एक बरो विचारवंत, एक बरो लेखक मेळटलो. तुमच्या जिवितांतली एक नवी वाट, एक नवें क्षेत्र, आनी मानाचें स्थान तुमकां मेळटलें.

कोंकणीच्या मळार वावर करतल्याक खूब आसा. जांकां दुरदृश्टी आसा, जाका 'व्हिजन' आसा, ताका हो कामांचो दोंगरच दिसतलो. जाका हें व्हिजन ना तो हात पांघरून आनी पांयार पांय उडोवन सुस्त बसतलो. कोंकणी राजभास जाली, गोंय घटक राज्यय जालें. आतां आनी कितें मेळपाचें उरलां? अशी मखलाशी करून आळशीपणान जो वावुरतलो तो ह्या कोंकणी भाशेचो घात करतलो.

आमचो भाशेंतलो वावर अजून पयल्या पावंड्यार आसा. कोंकणी भाशेंत आयज जगांतले सगळे विशय येवचे आसात.

कायद्याचीं पुस्तकां कोंकणींत येवपाक जाय. वैजकी शास्त्राचीं पुस्तकां कोंकणींत येवपाक जाय. 'इंफोर्मेशन आनी टेक्नोलॉजीचीं' पुस्तकां कोंकणींत येवपाक जाय. विज्ञान कोंकणींत येवपाक जाय. अर्थशास्त्र कोंकणींत येवपाक जाय. ह्या सगळ्यांच्या पावलार पावल दवरून जें जें कितें हेर भाशांनी आसा तें तें सगळें कोंकणींत येवपाक जाय.

हांवें हांगा सांगल्यात ते सगळे विशय Non creative writing चे, म्हळ्यार सृजनशील साहित्यांतले न्हय. जांका कथा बरोवपाक येना, जांकां कविता सुचना, जांकां नाटक जमना पूण बरोवपाची आवड आसा. अणकाराचें ज्ञान आसा आनी कोंकणीविशीं तळमळ आसा तांचेखातीर हो एदो व्हडलो Canvas उबो आसा. हो 'कॅनव्हास' तुमी रंगोवचो. ह्या कॅनव्हासावयली तुमची सुवात तुमी थारावची आनी कोंकणी सरस्वतीच्या दरबारांत नवनव्या विशयांक मानाचें स्थान दिवचें.

आमच्या भाशेंतली तांक तुमकां तेन्ना कळटली. हेर भाशांपरस कोंकणींत वावर करपाक आमकां खूब वाव आसा. आज हे विशय अणकारीत करतलो जाल्यार नवे शब्द 'कॉयन' करपाची गरज आसा. हो शब्द कॉयन करपाचो मान तुमकां कोंकणी भास दिता. अशी संद, हेर भासो तुमकां दिवंक शकनात, कारण तांचे शब्द आदींच कॉयन करुन जाल्यात. आतां त्या विशयाक थंय वाव ना.

सृजनशील साहित्याचेर उलयतलो जाल्यार खूब आसा. आमी आयजवेर आमचे तांकी प्रमाण कथा कविता बरयतात. कथा, कविता, कादंबरी या साहित्यान आंतराष्ट्रीय मळार कसो टर्न घेतला वा तें साहित्य खंयच्या वळणाचेर आसा हाची दखल, हाचो अभ्यास आमचेमदले खूब कमी लोक दवरतात.

ज्या मार्गान आज बंगाली साहित्य वता, हिंदी साहित्य वता, कन्नड साहित्य वता, मराठी साहित्य वता त्या मार्गान वचपाचें धाडस कोंकणीनय करपाक जाय. गोंयच्या कॅनव्हासाचेर विचारांची खाण आसा. वेगवेगळे विचार आनी वेगवेगळ्या विचारांचे विशय, वेगळया दृश्टिकोनांतल्यान विचार करपाचे विशय गोंयांत आयज रूप घेवपाक लागल्यात. गोंयची टुरिझमाची नशा दिसानदीस वाडत आसा. आनी गोंयांतल्यो मिनाच्यो खणी ही भुंय भिरांकुळपणान उध्वस्त करीत आसा. एक विरोधाभास आमकां जाणवता. गोंयच्या खेड्यांनी गेलो जाल्यार ज्या सैमान आमी टुरिजमाच्या नांवाखाला फुलां ओंपतात त्याच सैमाचो भयानक विध्वंस !! Where we are heading? आमी खंयच्या दिकेन वतात? आनीक पांच ते धा वर्सांनी आमी खंय आसतले ? उदकाविणे सुकून गेल्ली मळांची मळांच पळयतले कांय ताबडेगुंज मातयेचे दोंगर, जांचेर रोपो पसून किल्लना अशा इजिप्ताच्या पिरामिडांची याद करपी रिजेक्शनाचे दोंगर पळयतले ? गोंयच्या पांचव्याचार सैमाची याद आयल्यार पसून आमच्या दोळ्यांतल्यान दुकां पोल्यार देंवचिनात कारण सैमांतले उदकूच आटिल्लें आसतलें.

ह्या आवतिकायेची, ह्या बिभत्सतायेची, ह्या पैशांनी मदेल्ल्या झुंडशाहीची रूपडीं पिंजपाचो वावर साहित्यिकांनी करपाची गरज आसा. निसर्गसंपन्न अशा गोंयचो फोंडारो करून पैशांचीं रूपडीं चडोवन मिरयतल्यांचीं सोणकुटां तुमच्या लेखणेंतल्यान फोडपाची आज गरज आसा. ह्या बद्दलची तिडक, ह्या बद्दलचो दोश, ह्या बद्दलचो राग उक्तावपाची धमक तुमच्यांत आसा. तिका मरपाक दिवनाकात. हो हावेस, हे उत्फर्के, हो तळतळाट, ही तिडक तुमच्या साहित्यांतल्यान येवंदी.

आमच्या साहित्यांतल्यान ह्या पुराय विध्वंसाचें चित्र येवपाक जाय. हें तर तुमी केलें ना जाल्यार गोंयच्या मरणाक तांचे इतलेच तुमी आनी आमीय जबाबदार आसतले.

हांवें तुमकां सांगलां तो सामाजीक विशयांतलो एक विशय. गोंयच्या तरणाट्यांचे विशय वेगळे आसात. ह्या विशयांकडेन आमची साहित्यीक नदर वचूंक ना. बरयलेंच जाल्यार जाण्टेल्यांनी तरणाटयांचे विशय बरयल्यात. खरी गरज आसा ती तरणाट्यांनी तरणाटयांचे विशय बरोवपाची. तुमचे प्रस्न तुमच्या साहित्यांतल्यान तुमी मांडपाची गरज आसा. हे प्रस्न मांडटकच तांच्यो जापो तुमकां मेळटल्यो. ते पयलीं त्यो मेळच्योनात. तुमचे विचार, तुमची घुस्मट जर लोकांमेरेन पावची जाल्यार ताका साहित्यरूप दिवप हो एकच मार्ग आसा. तुमी तरणाटे, तुमच्या आंगांत रगत सळसळटा, तुमच्या विचार करपाचें शक्तींत एक स्पार्क आसा. हो स्पार्क, हो आवेश, हे विचार, हीं नव्या दिशेचीं पावलां, वैचारीक क्रांतीचीं पावलां. जर समाजांत, साहित्यांत कितेंय बदल घडोवंक जाय जाल्यार तो तुमीच घडोवपाचो. कारण कोंकणीचो फुडार तुमच्या भुंजार आसा. ताका वयर काडपाचो काय आपटुवपाचो हें पुरायेन तुमच्या कार्यांतल्यान थारतलें. आमी तुमचेकडेन पळयतात ते एका positive नदरेंतल्यान पळयतात. तुमचेर आमकां पूर्ण विश्वास आसा. तुमचो आमाकां पूर्ण भरवंसो आसा. म्हणून आमी हो युवा साहित्य संमलेनाचो एदो आटाप घेवन बसल्यात.

कोंकणीची घुडी आमी तुमच्या खांद्यार दिल्या. ती तुमी सांबाळपाची. पूण ते पयलीं म्हळ्यार ही जबाबदारी सांबळचे पयलीं तुमची पात्रताय तुमी तितलेच खंबीरपणान सिद्ध करपाक जाय. ही पात्रताय आनी समर्थताय सिद्ध करपाक साहित्याची

साधना जाय. कॉलेजीच्या मॅगझिनांनी बरयलें, मदींमदीं सुनापरान्तांत बरयलें म्हणून साधचें ना. ज्या प्रमाण तुमी परिक्षेखातीर अभ्यास करतात ते प्रमाण तुमी साहित्याचेरय अभ्यास करपाक जाय. हेर भाशांतल्या साहित्याचें वाचन जाय. ह्या वाचनाची साधना जाय. साधनेन साहित्याक धार येता. विचारांक आंकरी फुट्टा आनी नित्य नेमान नवें साहित्य सुचता. तुमी हेर मिडियापरस वाचनाक चड महत्व दिवचें अशें म्हाका दिसता. दर आठवड्याक कमीत कमी एकतरी पुस्तक वाचपाचें पिशें स्वताक लावन घेयात. तुमच्या साहित्य निर्मणेक आपशींच फुलां फुलतलीं.

आनीक एक, आज तुमी विद्यार्थी दशेंत आसात. फाल्यां 'जॉबाक' लागतले. धंदो, व्यवसाय सुरु करतले. कांय जाण दोतोर, इंजिनीयर, एम.बी.ए. जातले. तुमी कोणय जावूं, केदेय व्हडले जावूं. तुमी जगार खंयच पावूं. कोंकणी कडचीं तुमचीं मुळां तोडूं नाकात. कोंकणी कडचीं मुळां तोडशात.... तुमी collapse जातले, हताश जातले, काळजांत उमाळ्यांचो हुंवार येतलो. पूण तो हुंवार उक्तावपाची वाट अदृश्य आसतली. कारण तेन्ना तुमची रक्तांतली भास तुमचेकडेन नासतली. आनी स्वताक भोगता तें उक्तावपाक शब्द नाशिल्ल्यान तुमी फुगार जातले, तुमी तळमळटले.... फक्त शब्दांखातीर. कोंकणी भास ही आमची भांगराळी भास. तिका केन्नाच अंतर दिवनाकात. तुमकां जें सुचता तें पयलें कोंकणींत उतरायात आनी मागीर तें हेर भाशांनी व्हरात. हें सांगताना हांव म्हणत 'जगाक तुमच्या साहित्याची तांक कळची, भारतांतल्या हेर भाशीकांक तुमची तांक कळची म्हणून तुमी तुमचें साहित्य हेर भासांनी व्हरूंकच जाय. पूण मूळ बरोवप हें कोंकणी आसूंनी.'

जायते जाण कॉलेज लायफांत बरयतात. बरें बरयतात,

पूण कॉलेज सोंपून कामाधंद्याक वतकच वा चलयो लग्न जातकच बरोवपाचें सोडून दितात. हांगा तुमी एक व्हड चूक करतात. साहित्य लेखन हो एक सुखद विरंगुळो. त्या प्रकाराक समाजांत मान आसा. तुमकां समाज आदरान पळयता. एक याद दवरात, तुमकां निसर्गान जो मनशाचो जल्म दिला ते मनीसपणाचीं कर्तव्यां करपाक. साहित्य निर्मणेंतल्यान समाज प्रबोधन करप, समाजाक दिका दाखोवप हें जण एक सुसंस्कृत मनसाचें कर्तव्य. देखून तुमकां निसर्गान एक मायज गूण दिला, तो म्हळ्यार लेखनाची कला. ह्या कलेचो उपयोग योग्य तरेन करप गरजेचें. तुमी ज्या प्रोफेशनांत आसतले त्या प्रोफेशनाचे अणभव वा गिन्यान वा म्हायती तुमी साहित्यांतल्यान लोकांमेरेन पावोवपाक शकतात. इतलेंच न्हय तर तें तुमचें खाशेलेंपणय जावं येता. कोंकणींत अशा साहित्याची गरज आसा.

आनीक निमणें.... हें संमेलन आमी आयोजीत करतात तें तुमच्या कलागुणांक वाव मेळचो म्हणून. हें साहित्य संमेलन हें फेस्त न्हय. साहित्य निर्मणी हो एक गंभीर विशय. आयज आनी फाल्यां मातशे गंभीर जावया. साहित्याचेर जें शिकूंक मेळटा तें शिकून घेवया. जी सांस्कृतीक मस्ती, धुमशेणां, मौजमजा आसा ती फुडल्या शेनवारा आयताराक दिवचले करूया. आमीय त्या माटवांत आसतले तुमचे बरोबर नाचपाक. ज्या विशयांकडेन Seriously वागपाक जाय त्या विशयांकडेन आमी Seriously वागुया. ह्या संमेलनांतल्यान तुमी घडटले ते एक वेगळें 'व्यक्तिमत्व' म्हणून घडटले. एक संद आसा तुमकां to be somebody different from others जावपाची. हेरापरस वेगळो जावपाची ही एक संद. तुमची एक वेगळी वळख तयार करपाची संद तुमकां साहित्यांतल्यान मेळटली.

ेरांभशेन Layman जावनाकात. Be somebody different. ऱ्या समाजांत एक वेगळें नांव जोडपी व्हड साहित्यीक जायात. आमकां तुमचो अभिमान दिसतलो अशे बरोवपी जायात. तुमच्या साहित्याक **'सुनापरान्त', 'बिंब', जाग', 'कोंकण टायम्स', 'राखणो', 'ऋतू' रावतात**.... आनी आमीय बी.

देव बरें करूं !

जोड आयोजक संस्था : सरकारी महाविद्यालय, केपें
तारीक : 23 आनी 24 जानेवारी, 2010
येवकाराध्यक्ष : प्राचार्य भास्कर नायक
कार्याध्यक्ष : जोफा गोन्साल्वीस
उद्घाटक : श्रीमती नेमीचंद्रा

# बारावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

भौ. श्रीधर कामत
(संमेलनाध्यक्ष)

**LET US BE BLACK**

सस्वतीच्या आंगणांतल्या सर्जनशिलतेच्या उपासकानो, संवगड्यानो, वडिलांनो आनी साहित्याचो निखळ आनंद घेवपी वाचकानो, तुमकां सगल्यांक म्हजो नमस्कार.

युवा साहित्य संमेलनाच्या ह्या पवित्र वेदीचेर हाजीर आशिल्ले मानेस्त तशेंच हांगा हाजीर आशिल्ले जाणकार, वडील साहित्यीक, युवा साहित्यीक, वाचक हांच्या साक्षीन आनी तांच्या उर्बेभरीत पालवान हांव म्हजे कांय विचार हांगा मांडपाचो यत्न करतां.

म्हाका घडोवपांत म्हत्वाचो जांचो वांटो आसा, ते म्हळयार केपेंचे प्राथमीक शाळेंतले म्हजे गुरुजी, होलीक्रॉस हायस्कूल तशेंच भाटीकार मॉडेल इंग्लीश हायस्कूल आनी म्हजे टिचर्स, गोवा इंजीनीयरींग कॉलेजचे हॉस्टेल, प्रोग्रेसीव्ह स्टुडंटस युनीयन, सामाजीक तशेंच सांस्कृतीक चळवळींतले म्हजे सवंगडी, हांचो सगल्यांचो ह्या समयार आदरान उल्लेख करप हांव म्हजें कर्तव्य समजतां.

स्वताची वळख 'पॉयट बोरकार' म्हणूनच करून दिवपी स्वाभिमानी बाकीबाब, 'रायटर तशेंच फायटर' - रविंद्रबाब, बंडखोरीचो उत्स्फूर्त झरो 'चाफ्रा' तशेंच पुंडलीक नायक, दामोदर मावजो, महाबळेश्वर सैल, रमेश वेळुस्कार, दत्ता नायक तशेंच कोंकणी साहित्य संवसारीक पांवड्यार व्हरपी हेर साहित्यीक, आमच्या सगल्यांच्या काळजांतलो मनोहरराय सरदेसाय, 'चान्न्याच्या राती'कार उदयबाब भेंब्रे हांकां सगल्यांक नमळायेचें नमन करतनाच कोंकणी वांगडाच म्हजी साहित्यीक

ानी वैचारीक भूक भागोवपी मराठींतल्या तशेंच इंग्लीश ाशेंतल्या साहित्यीकांनी मुखार व्हेल्ल्या साहित्य कारवांतलो ांव एक सादो पांथस्थ जावन आसा, हाजी जाणीव म्हाका ासा. तेचवांगडा ह्या तेजस्वी दायजाचो एक घटक ाशिल्ल्याचो सार्थ अभिमानय हांव बाळगितां.

**ाहित्य निर्मणी आदीं थोडेशें**

ग्रीक मिथककांत 'apotheosis' नांवांची एक संकल्पना ासा. ताचो अर्थ - देवत्वाकडेन पावप. भारतीय तत्वज्ञानांतली अहम् ब्रह्मस्मी' ही तर कल्पना आमचीच. भारतीय मिथकांत ्रह्मर्षी विश्वामित्रान प्रतीश्रष्टी निर्माण करपाची जी संकल्पना उबारून धल्ल्या, तिवूय लक्षांत घे सारखी. सांगपाचो मुद्दो इतलोच, की मनीसकुळयेन सदांच 'देव' जावपाचो यत्न केला. सैमाची उत्कृशट अशी निर्मणी - जी मनीसजात - तिणें हें करप हें सभावीक. फुडें वचून, तीच मनीसजात देव ही संकल्पना निर्मिता आनी ताज्याकय फुडें वचून स्वतःच 'देव' जावपाचो यत्न करता हेंवूय स्वाभावीक.

'हांव कोण आनी कितें' हो प्रस्न आमकां सगल्यांकच सतायता. तातूंतले थोडे पिशे - ह्या प्रश्नाक उत्तर सोदूंक वतात. तातूंतले थोडे आईनस्टाईन जातात. थोडे फ्रोयड - आनी थोडे साहित्यीक.

आईनस्टाईन, फ्रोयड आनी साहित्यीक क्षेत्रांतले म्हालगडे हांचे सगल्याचे थोडेथोडे सार समजून घेवन फुडें वचपाचो यत्न हांव करूंक सोदतां आनी तुमचेमुखार माडूंक इच्छीतां.

साहित्य संमेलनाच्या वेदयेवेल्यान अपेक्षीत आशिल्ली साहीत्य - समिक्षा आनी साहित्यविशयक परिभाशा हांव नकळ, हें हांव आदींच स्पश्ट करतां. सर्जनशील साहित्याक हीं बंधना

लागनात हें तुमीय मान्य करतलीं, आनीक हांवूंय एक सर्जनशील साहित्यीक ह्या नात्यान, म्हजे मुखार जे प्रश्न आसात, तांचें विश्लेषण करपाचो हो म्हजो यत्न. प्रश्न अशे -

1. हांव कित्याक बरयतां?
2. हांव कितें बरयतां?
3. हांव कशें बरयतां?

ह्या तीन प्रस्नांची जाप हांव तुमच्या साक्षीन सोदपाचो प्रयत्न करतां.

**1. हांव कित्याक बरयता :**

म्हज्या भितल्ली आत्यंतीक उर्मी म्हाका बरोवंक प्रवृत्त करता. म्हजो ताका उपाय ना. अर्थात हाका खुबशो गजाली कारणीभूत आसात.

अ. म्हाका कितेंतरी सांगपाचें आसा.
ब. म्हाका म्हजें अस्तित्व सिद्ध करपाचें आसा.
क. म्हाका दिसता की साहित्याच्या माध्यमांतल्यान हांव स्वतःक प्रकट करूंक शकतां.

थोड्याभितर (आनी कोणेंय कितेंय म्हणू) हांव स्वतः प्रमाणीत करपाखातीरच बरयतां. जगप्रसिद्ध आट्रीयन् - जो एक ज्यू आशिल्लो - मनोविश्लेशणतज्ञ सिग्मंड फ्रोयड हाजी परीभाशा जर वापरपाची जाली जाल्यार मनीस सभावाचे तीन भाग आसात. 1) इगो (ego) - म्हळ्यार अहम - मनशाच्या जाणीवेचो (Consious) चो भाग, आपल्या परिसराकडेन जुळोवन घेवप, वेव्हार सादप हें हाजें काम. हातुंतल्यान सामान्यपणान आमचे व्यक्तीमत्व निर्माण जाता. 2) Super ego - अत्यहम्. आमच्या नैतीक आदर्शाचें केंद्र. हो आमच्या जाणीवेचेर बंधनां लादता आनी एक पोलीस कसो काम करता. 3) Id - (इदम). आमच्या निसर्गीक प्रेरणेच्या उर्जेचो एक प्रचंड

असो स्त्रोत. हांतुतल्यानच आमच्यो निसर्गीक प्रेरणा (उदा. लैंगीक प्रेरणा) आनी सभावीक इच्छा उफाळून येतात आनी आमच्या ego वरवीं सफल जावपाचो यत्न करतात . पूण आमचो Super ego आमच्यो ह्यो सभावीक प्रेरणा दामून दवरपाचोच यत्न करता आनी id - ego हांच्यामदीं समन्वय सादपाचो यत्न करता. जर हो सुसंवाद जमना जाल्यार आमचे मदलें संतुलन बिघडटा आनी neurosis (मनोरुग्णाची) आमची स्थिती जाता. पयल्यो दोन स्थिती म्हळ्यार ego आनी super ego ह्यो जाणीवेच्यो जाल्यार Id ही स्थिती नेणीवेची!

साहित्यनिर्मणी आमकां ह्या सगल्या तिनूय स्थिती पलतडीं वचपाची शक्त दिता. पावयता. साहित्यनिर्मणी आमकां प्रतीसृष्ट निर्माण करपाची शक्त दिता. देवान स दिसांभितर सृष्ट निर्मीली अशे Judaic - म्हळ्यार ज्यू, ख्रिस्ती आनी इस्लामीक देवशास्त्र मानता. 'ॐ' ह्या हुंकारातल्यान जग निर्माण जालें अशें भारतीय मिथक मानता. न्युटन धरून आईनस्टाईन ते स्टिफन्स हाकीन्स मेरेनचे शास्त्रज्ञ अनंताचो सोद आनी थाव घेवपाचो यत्न करतात. आनी स्वाभिमानी आमी साहित्यीक आमचें अशें विश्व निर्मिवपाचो आनंद घेंत बरयतात. ह्या प्रतिसृष्टी निर्मूवपाचो आनंद घेवप, बरोवप. तें करतनाची प्रसव - वेदना भोगूंक नवनिर्मितीचो उन्मेश भोगूंक हांव बरयतां. आमी सगळीं बरयतात.

एकादृष्टीन पळोवंक गेल्यार निर्मितीचो हो आनंद फकत बौध्दीक उरना, तर तो शारिरीक जाता. खुबशा अर्थी फ्रॉइड म्हण्टा तसो, आनी तितले पुरतोच न्हय, पूण लैंगीक जाता. एक आनंदमार्ग जावन एक वेगळेंच सूख दिता. म्हणून हांव बरयतां. आमी सगलीं बरयतात.

**2. हांव कितें बरयतां :**

पयलीं म्हळ्यार हांव थरोवन बरयना. आमी कोणूच बरयनात. आमचे अनुभव, शैली, त्या वेळावरचो मूड ह्यो खुबश्यो गजाली बरोवपाचेर प्रभाव घालतात. पूण हें इतलें पुरतेंच मर्यादीत आसता काय? म्हजी सामाजीक - आर्थिक - संस्कृतीक वस्तुस्थितीय म्हज्या लिखाणाक प्रभावीत करता. ताज्यापरसय चड म्हळ्यार म्हजी एकंदर वैचारीक आनीक मानसीक जडणघडण म्हज्या लिखाणाचेर प्रभाव घालता. ताका लागून स्वातंत्रवीर सावकरासारक्या शब्दप्रभूचें साहित्य आनी आनंदयात्री बाकीबाबांचें साहित्य हातूंत जमीन - आस्मानाचो फरक जाणवता. विंस्टन चर्चीलाचें साहित्य आनी सार्त्राच्या साहित्या मदलो जाणवपी फरक तो होच. म्हाका पटता, जाणवता आनी होलमता. तें हांव बरयतां आनी तेंच म्हजें साहित्य. हांवें तेंच बरोवचें कारण म्हजेखातीर तेंच एक खरें! म्हज्या लिखाणाकडेन जर हांव प्रामाणीक रांवक शकना जाल्यार म्हज्या जिणेकडेन हांव प्रामाणीक ना अशेंच म्हणचें पडटलें.

**3. हांव कशें बरयतां?**

कोंकणीचे लोककवी मनोहरराय म्हणी Poetry is 90% perspiration & 10% inspiration णवद टक्के घात आनी 10% सर्जनशीलता म्हळ्यार कवीता, ही मनोहररायाची म्हणणी फट कोण म्हणूंक शकत? ह्या संदर्भांत साहित्यनिर्मणेचें एक पंचशील हांव सभेमाजार दवरूंक सोदतां. पंचशील अशें. -

1. Romance
2. Fantasy
3. Reading

4. Multilinguism

5. Consistancy

**1. Romance (अदभूत)**

हांव जेन्ना 'Romance' म्हण्टा तेन्ना फकत स्त्री - पुरूश संबंधाविशीं भाश्य करना. जिवनांतलो संबंध रस, ताजेंविशींचें भाश्य, ताजेविशींची वैयक्तीक भुमीका. जीण जगपाचो आनंद, एकाअर्थान जिवनाचो चैतन्यदायी सुवाळो आनी ताजो चैतन्योत्सव एक कल्पनातीत अशी स्थिती म्हळ्यार म्हज्या अर्थान Romance. साहित्यांत रोमान्स हो आसूंकच जाय मागीर तो स्त्री-पुरुश संबंधातल्यान येवंदी वा देशप्रेमासारख्या भावनेतल्यान. मनशा-मनशामदल्या संबंदांत तर तो आसताच. नायक खलनायकमदीं लेगीत. रोमान्स हो जिणेचो जर एक प्राण आसा, जाल्यार साहित्याच्या पंचप्राणामदलो पयलो मान ताकाच फावो.

**2. Fantasy (विस्त्रीत आनी अप्रूप)**

'जे न देखे रवी ते देखे कवी' अशी म्हणणीच आसा. Idealism हो तर साहित्याचो प्राण. त्रिमितीच्या आमच्या ह्या संवसारांत 'दश-मितीचो' अंश हाडपी Funtastic साहित्य आमी कशें नदरेआड करूंक शकता? Fantasy आमकां अशें एक स्वातंत्र दिता, जें सर्जनशीलतेची बंधनालेगीत तोडून उडयता. फँटसीक बंधना नात, सीमा नात, कसलेच तरांचे कायदे नात, पूण फँटसी निती मानता, आपणायता, मुल्यां भायर वचना. फँटसी, प्रेम, दया, करुणा, मुदीता, अस्तेय ही गांधीजील्या एकादश व्रतांतलीं मुल्यां भायर माळटा. फँटसी ही मुल्याधिष्टीतच आसूंक शकता. जेजूच्या शिकवणीतली करूणा वा इस्लामाच्या शिकवणीतली समता न्हयकारपी फँटसी फटीची. खरी फँटसी ही उध्वगामी आनी पुरोगामीच आसूंक

शकता. बहिर्गामी आसूंकच शकना हें लक्षांत घेवया.

### 3. Reading (वाचन)

वाचन आनी मनन हेविशयीं खरें म्हळ्यार चड सांगप गरजेचें ना. एकतर हें सांगून सांगून सांगतल्यांकय वाज आयला आनी आयकतल्यांक बी. पूण तरीकय - वाचनाचें महत्व आसा तें आसाच. कितें वाचचें, कशें वाचचें, कितलें वाचचें! म्हज्या मतान, कितेंय वाचचें, कशेंय वाचचें आनी कितलेंय वाचचें पूण तेचबरोबर, जे कितें आपणें वाचलां, ताजेर जेन्ना मनन करप जाता, तेन्ना आपसूकच स्वत:कच कळटा कितें वाचचें तें, कितलें वाचचें ते आनी कशें वाचचें तें.

### 4. Multi Lingnalism (बहुभाशीकत्व)

आमी गोंयकार तशें पळोवंक गेल्यार सभावीक अशें बहुभाशीक. दरेक गोंयकार उण्यांत उण्यो दोन तरी भाशा जाणा. खुबशे जाण तीन आनी बरेचशे चार भाशा जाणांत. कोंकणी वांगडाच मराठी, इंग्लीश, हिंदी ह्यो भाशो चडशे जाण बरोवंक, वाचूंक आनी उलोवंक जाणात. खुबशे जाणांचे ह्या भाशांचेर कोंकणी इतलेंच प्रभूत्व आसा. ही एक खूब बरी गजाल आमी सगल्यांनीच कळोवंक फावो अशी. प्रत्येक भाशा आमकां त्या त्या संस्कृतीचीं जनेलां उकतीं करता. इंग्लीशीसारखी जागतीक ज्ञानभाशा हेर कितलेशेच भाशांतल्या साहित्याचो खजाना आमकां भेटयता.

आमचे भितल्ले जे कोण मराठी वाचूंक जाणात, ते तर विशेश रितीन भाग्यवान. कारण कोंकणीक सगल्यांत लागींची, इतिहासीक आनी सांस्कृतीक कारणांक लागून गोंयांत

मुळां धरून उरिल्ली, खूब लागींची अशी एक समृध्द भास.

जर जाणा जावन घेवचें आसलें, तशेंच कोंकणीचें घर सगल्या तरेच्या दालनानी परिपूर्ण करचें आसलें, जाल्यार चडान चड भाशा शिकप, तांचेर प्रभूत्व मेळोवप हो एक बरो उपाय थारूंक शकता.

'मॉनींग वॉकाक वतना हातांत स्टीक आसल्यार डॉगाचो फियर तो कसलो?' अशी इंग्लीश कातरपी लोकांच्यो आमी बकच्छायो करतात. पूण 'हांव लेंग्वेजीस बऱ्या तरहसे सिख और पढूंक शकतां.' हें अभिमानान सांगपाक येवंक जाय.

**5. Censistancy (सातत्य)**

Romance, fantasy वाचन आनी बहुभाशीकत्व ह्यो चारुय गजाली आमच्यातल्या साहत्यीक घोड्याक उदकामेरेन पावयतली. पूण घोड्यान जर उदक पिवपाचें जालें, जाल्यार आमकां सातत्य सांबाळचें पडटलें मागीर ते बरोवपातलें सातत्य आसूं वा वाचपाचें. साहीत्यक्षेत्रांतलें हें पंचशील जर आमी स्वत:च्या आचरणांत हाडूंक पावत, जाल्यार मागीर स्वत:च्या अणभवच्या बळग्याचेर स्वत: ची शैली विकसीत जावंक वेळ लागचो ना.

तेच बरोबर आनी एक महत्वाची गजाल आमी लक्षांत घेवया. साहित्यावांगडा कलेचीं हेर दालनां म्हळ्यार संगीत, चित्रकला, नाटक, सिनेमा आमकां परकी आसूं नज. जशे - जशे आमी खोलांत वतात, तशेंतशें जग कितलें ल्हान, कितलें मेकळें आनी कितलें एक हाजी जाणवीकाय जावंक लागता. संकुचीत विचार पयसावतात आनी 'हे विश्वची माझे घर' ही उक्ती कितली खरी हें पटूंक लागता.

मागीर तुर्की संगीतांत मुळां आशिल्लो 'तोडी' राग हिंदुस्थानी शास्त्रीय संगीताचो जावन पडटा. 'म्यूझ' ही संगीताची ग्रीक देवता, जिच्यावेल्यान 'music' हो शब्द घडलो, ताज्यावेल्यान अरेबीक भाशेंत 'मौसिकी' म्हळ्यार संगीत - हो शब्द स्थीर जाता. रोमन लोकांनी सोदून काडिल्यो dome - घुमट - इस्लामी संस्कृतायेतल्या भारतांत पावता, आनीक अळंगरित्या आमच्या गोंयच्या हिंदू देवळाचे शिखर जाता. इस्लामी 'जिलेबी' हिंदू पाककलेंत भरसून आमच्या रांदचेकुडींत पावता. भरतीय 'शून्य' Zero जावन उर्बा वरवीं युरोपांत पावता आनी गणिताची बुन्याद जाता. हेमिंग्वेचो **Old man and the sea** तलो जाणटो नुस्तेकार **'एका कोळीयान'** ह्या पु. ल. देशपांडेच्या अनुवादातल्यान आमचे कडेन पावता, आनी परकी उरना.

अशें म्हण्टात की मनीस पयलीं आफ्रीका खंडात उत्क्रांत जालो. त्या 250-300 मनशांच्यो आनी दोन - सव्वादोन हजार पिळग्यो जाल्यात. उणें म्हळ्यार 6 अब्ज लोकसंख्या जाल्या. राजकी - संस्कृतीक - भौगोलीक - इतीहासीक बेटां निर्माण जाल्यांत. पूण तरीकय सगळ्यांक जोडपी मनीसपणाचें एक सूत्र सांबाळून दवरपाची धडपड चालूच आसा. हें सूत्र आनीकय बळीश्ट करूंक एक महत्वाची अशी भुमिका साहित्यान करची आसा. आमची सगळ्यांची जबाबदारी ती.

आपल्या Theory of Relativity त आईनस्टाईन E=mc2 हें प्रमेय मांडटा. म्हज्या हिशेबान ही संवसारातली सगल्यांत उत्कृष्ट अशी कवीता. गणीतांतलें एक सर्वांगसुंदर शिल्प. एकेवटेन 'E' म्हळ्यार निखळ चैतन्य, जाल्यार दुसरेवटेन 'M' म्हळ्यार जडसाण -mass. आनी हांची सांगड

घालपी स्थिरतत्व म्हळ्यार 'C' + उजवाडाचो वेग. आपल्या Complex आनी घुस्पटीच्या जगांत, साहित्य हीच किमया करूंक शकता. चैतन्याचो सोद घेवपाची, स्वत:चें शरीर अस्तित्व खयंच विसरनासतना. हातूंतल्यान आमचें जिवन एक आनंदयात्रा जावक शकता. असोच एक आनंदयात्री म्हळ्यार बाकीबाब. यांच्याच शब्दकळेचो हांव आदर घेतां.

लोक नको परलोक नको
मज लोभस हा इहलोक हवा
मार्क्साचा मज अर्थ हवा अन फ्रोयडाचा मज काम हवा
या असूरांसव लढण्यासाठी गांधीचा मज राम हवा
शंतनूचा मज मोह हवा अन ययातीचा मज देह हवा
पार्थाचा परी स्नेहविंकपीन सार्थ मला संदेह हवा

आनी सोंपोवच्या आदीं, ह्या भाशणाच्या मथळ्याविशीं - आमी सगळीं जाणात की धवो रंग सात रंगाचो आसता. सप्तरंगी इंद्रधनुश्यांत 'VIBGYOR' म्हळ्यार जांबळो, नारींगी, निळो, पांचवो, हळदुवो, केसरी आनी तांबडो अशो रंगछटा आसतात. जेन्ना खंयच्याय वस्तूचेर उजवाड पडटा, तेन्ना ते वस्तूचे प्रकृतीनुसार हातूंतल्यो रंगछटा शोषून घेवप जाता. जे रंगछटेचें शोषन जायना, ती परिवर्तीत जाता. हाजो अर्थ, जी वस्त आमच्या दोळ्यांक तांबडी दिसता, ते वस्तून खरें म्हळ्यार तांबड्या रंगाक न्हयकारील्लो आसता. जी वस्त धवी दिसता, ती सगळ्यांच रंगांक न्हयकारता. फकत काळ्या रंगाचीच वस्त अशी आसता, ती सगल्या रंगाक शोषून घेता. आपणायता. म्हणूनच काळो रंग खऱ्या अर्थान सर्व रंगी आसता. सर्वांगसुंदर

आसता. म्हजे आवाहन तें हेंच, आमी सगळ्यो रंगछटा, सगळे विचार समजून घेवया. तातूंतले बरें तें उरतलें, वायट तें आपसूकच ना जातलें. म्हणून म्हणटा -

Let us all be black

जोड आयोजक संस्था : एस.एस.आंगले आनी उ.मा.वि.दापट, माशें
तारीक : 11 आनी 12 डिसेंबर, 2010
येवकाराध्यक्ष : हेमंत कामत
कार्याध्यक्ष : कविन्द्र फळदेसाय
उद्‌घाटक : इंद्रनील चक्रवर्ती

# तेरावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. शशिकांत पुनाजी**
(संमेलनाध्यक्ष)

## सातत्यान युवा साहित्यीकांकडेन संवाद जाय

नमस्कार,

व्यासपीठाचेर हाजीर मानेस्त आनी फर्मागुडयेवेल्या ह्या सोबीत सुंदर वाठारात भरिल्ल्या तेराव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलानाच्या माटवांत उपस्थित म्हज्या युवा तरनाट्या साहित्यीक इश्ट - इश्टीणींनो, संमेलानाध्यक्ष ह्या नात्यान नव्या वर्साची परबीं भेटयतना म्हका खोस भोगता.

इश्टांनो, आयज हेर देशांत जातात तश्यो चळवळी गोंयांत जावंक लागल्यांत आनी ह्या आंदोलनांनी - चळवळींनी तरनाटी पिळगी व्हड संख्येन स्वत:क झोकून घेतिल्ली दिश्टी पडटा. लढ्यांत - चळवळींत झोकून घेवपाची परंपरा इतिहासाच्या पानां कणकणीं आमकां दिसता. आयच्या आनी फाल्याच्या भारता मुखावेली युवा पिळगी ही आशेची ज्योत जावन आसा. व्हडा संख्येन तरनाट्याचो आंकडो आशिल्लो भारत हो संवसारातलो एकमेव देश. हें बळगें वळखून आमी आमची मुखावेलीं पावलां मारपाक जाय. कारण फाल्याचो भारत ही युवा पिळगीच घडयतली, हांतूत इल्लोय दुबाव ना. देखून समाजाक दिका दाखोवपाची आनी दिवपाची महत्वाची जापसालदारकी ह्या जुवान भुजांचेर आसा. साहित्य हो समाज मनाचो हारसो, देखून ह्या युवागंणात उपस्थित युवा साहित्यिकांनी, आमी समाजाक कितें दिवंक सोदतात आनी खंयचे वाटेन व्हरपाक सोदतात, तें थारावपाची गरज आसा. कलेखातीर कला, काय समाजाखातीर कला हो वाद खूप पोर्नो. पूण कला ही समाजाखातीर आसपाक जाय ह्या मताचो

हांव. केन्नातरी वाचिल्ली कविता ह्या वेळार म्हाका याद जाता.

शब्दांची पुजा करीत नाही
मी माणसाची आरती गातो
ज्यांच्या गांवात सुर्य नाही
त्यांच्या हातात उजेड देतो.

तेराव्या संमेलनाच्या माचयेवेल्यान तुमचेकडेन संवाद सादतना, हांव एक 'पेडण्याचो झील', कोंकणी चळवळीकडेन कसो पावलो हांचो सोद घेतां. "पेडण्यासून इलय म्हणान सांगाक अभिमान दिसता. आमी घरा बोलतो तेका पेडण्याचे झील - चेडवां मराठी म्हणटत. पूण ह्या झिलान तेका कोंकणी म्हणचां धाडस केलां. शंबरात एकटो, तरीपूण धाडस केलां. किद्याक केलां म्हाकाय खबर ना. डायरेक्ट व्हरान म्हाजे कवितेक पेडणेच्या शैलीत बुडयली. बुडटली काय बुचकाळटली म्हाकाच खबर नसलां. पूण तरली. म्हाजे कवितेन स्वतःच्या स्थान निर्माण केलां. 1970 त दिल्ली म्हणजे 'दिल्ली काय वल्ली' असां म्हणान दिल्लीचा स्वप्न बगूचे दीस. अशा वेळार आमच्या धाकटुल्या पूनाजीक आपलां घुमाट दिल्लीत वाजलां, हेचो अभिमान दिसलो, तसो ह्या पूनाजीक आपलां घूमाट दिल्लीत वाजलां, हेंचो अभिमान दिसलो, तसो ह्या पुनाजीक पेडण्याच्या कोंकणी शैलीक कोंकणी साहित्यांत एक स्थान दिवंक शकलय हेचो अभिमान आसा. म्हणान चवदा वर्सांनी इल्ल्या तेराव्या युवा कोंकणी युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्षपद स्विकारलां. तुमी हो पाट पेडणेकाराक दिल्यात, बरां दिसलां.

केंस पिकले म्हणान
म्हातारो जायना
पिराय वाडली म्हणान
जाण्टो जायना,

ही म्हाजीच कविता आठयली आनी उसरां काय जायना ह्या चिंतून अध्यक्षाच्या पाटार बसलंय.

पी. ई. एस्. कॉलेजाच्या वाठारांत जावपी हें दुसरें साहित्य संमेलन. 1998 वर्सा केपेंच्या सरकारी म्हाविद्यालयात 'युवा साहित्य संमेलनाची 'उपणी' जाली. रोकडेच दुसऱ्या वर्सा हांगा पी.ई.एसान हें संमेलन जालें. शेताची जमीन एक वर्स पडींग उडयली तर पर्तो जेन्ना उपणी जाता तेन्ना कणस बरें येता अशें म्हणटात. तशें ह्या संमेलनाच्या बाबतीत मदीं घडलें. साहित्याचें बीं रुजवणाक घालताना साहित्यीकांनी लेखन करतना हांचें भान दवरून स्वतःची वळख घेवन मुखार येवंक जाय.

साहित्यीक हो वैल्यान पडना, तो हांगाच घडटा.... फुलता. हांव व्हड साहित्यीक न्हय, आयज हांव तुमचेकडेन संवाद सादतां म्हज्या अणभवाचे कनवटीक आशिल्ली पोती सोडवपाचो यत्न करतलो. बरयता ताका भास समजून घेवपाक कळूंक जाय. शिकून आयिल्ली भास आनी उपजत आयिल्ली भास हांतूत फरक आसा. भास वापरली म्हण साहित्य दर्जेदार जाता अशें न्हय. तातूंत सर्जनशिलता कितली आसा हांचेर साहित्याचो कस थारता.

'कविता' बरोवन शंबरांतले णव्याण्णव टक्के बरोवपी आपल्या साहित्यीक जिणेंचो श्रीगणेशा करतात. कविता बरोवप सोंपी अशें प्रत्येकाक दिसता. कविता अल्पाक्षरी आसची पूण ती आशय घेवन येवंक जाय. तिका करकीची उंचाय आनी "कुयऽऽ" केल्यार बांयची खोलाय सादोवन वयर येवपी ध्वनी आसूंक जाय.

बांयच्या धडेर रावून बांयच्या उदकांत काव्याचे प्रतिबिंब दिसूंक जाय. कविता बरोवप सोंपी पूण बरी कविता बरोवप

सोपी नू, हें तितलेंच खरें. काव्य, कथा, ललितनिबंद, नाट्य, हे साहित्यप्रकार केळयतना म्हजा मुखार बशिल्ल्या फाल्यांच्या कोंकणी साहित्यीकांनी साहित्यांत सर्जनशिलता केळोवपाची गरज आसा, हे मतींत घेवंक जाय.

हांव जेन्ना बरोवपाक लागलों, तेन्ना कविता कशी आसता, कशी आसपाक जाय हें केन्नाच जाणून घेतलें ना, "आयलें तशें गायलें" ह्या उक्तीप्रमाण बरयत गेलों. कवितेची तोलावणी - मोलावणी केन्ना करूंक बसलों ना. तातूंत क्रियेटिव्हीटी आसा, इतलें मात खबर आसलें. शिकोवन कविता बरोवंक येना, ती येता आनी 'फटाक्' तुजी सर्जरी करून वता. तूं मेकळो - मेकळो जाता. ललीत साहित्य बरयताना 'उतर' हें कितलें वजनदार, हें समजून घेवचें पडटलें. साहित्यीकान उतरांकडेन जतनायेन खेळपाक जाय. कुशीक घेवन अपुरबाय करपाक जाय. जोडीक मनन - चिंतन आनी चौफेर नदर असल्यार कसदार साहित्याची निर्मिती तुमचेकडलान जातली.

**अनुकरण टाळचें**

आमी जेन्ना पयलें - वयलें बरोवपाक लागतात, तेन्ना आमचेर प्रत्यक्ष वा अप्रत्यक्ष दुसऱ्या साहित्यीकांचो प्रभाव पडटा. साहित्यीकांचो प्रभाव पडप वेगळें आनी साहित्याचो प्रभाव पडप वेगळें. जेन्ना आमीं नवें आसतात तेन्ना दुसऱ्याची कॉपी करपाचो मोह आमकां जावं येता. थोडे अर्दकुटी कॉपी मारून आपलें थोडें घालून नवें करपाचो प्रयत्न करतात, कांय जाण आसा तशें उखलून आपलें म्हण खपयतात.

बरोवप्यान अनुकरण टाळूंक जाय. दर एकट्यान आपली आविश्कार पध्दत आपुणूच सोदून काडपाक जाय. एखाद्र्या प्रतिभासंपन्न लेखकाक नामना लाबली काय त्या रचनातंत्राचे अनुकरण करपाचो मोह जाता. मागीर बाह्य साच्यांत

ापणालो विशय घुसडावन फास्कैंत बसना तरी बसोवपाचो ात्न केलो, काव्य तें लिखाण आलायतें आनी जीव व्हगडायल्लें ावपाची शक्यताय आसता. पंडीत नेहरूनी आपणाल्या 'The Discovery of India' ह्या ग्रंथांत इमर्सनाचो एक उतारो देला. तातुंतल्या Insist on yourself, never imitate, ह्या सुत्राची ललीत लेखकांनी याद दवरल्यार तांच्या साहित्यातलें चित्रण सुस्पश्ट, आखीव, जिवें आनी परिणामकारक जातलें.

**अणभवांतल्यान लिखाण जाता**

संवेदनशील साहित्यिकांनी जिविताक वेंगावन सगळ्या थरावेल्या लोकांकडेन, तांच्या सुखदुखांकडेन समरस जावन अणभव घेवंक जाय. तुमी कितलेय व्हड - व्हड ग्रंथ वाचले आनी तुमचें भोंवतणचे सृश्टीचे असंख्य पानांचें पुस्तक वाचूंक विसरले, तर तुमी शेणले. वाचन - मनन - चिंतन आनी अणभवांतल्यान जी साहित्य निर्मीती जाता ती कसाक उतरता. देखून अणभव श्रेष्ठ थारतात. वाचनान तुमच्या लिखाणाक समृद्धी लाबता. लक्षांत घेयात, बरो वाचपीच बरो बरोवपी जावपाक शकता.

मोटार सायकलीचेर एकटो भोंवून मनशां वाचपाक मेळनात, ते खातीर बसींनी भोंवपाक जाय, रेल्वेत ए.सीत प्रवास करून मनशाक वचपाक मेळनात ते खातीर जनरल स्लिपरांत प्रवास करचो पडटा. मनीस वळखप दिसनादीस कठीण जायत चल्ला. साहित्यीकांनी हो मनीस वळखून सर्वसामान्याखातीर साहित्यांतल्यान मांडपाक जाय.

साहित्यीक म्हटल्यार बरोवपी. समाजांत चलता तातूंत तांणी पडचें न्हय अशें न्हय. समाजांत घडपी बऱ्या - वायटाचे तुमीय वांटेकार. युवा साहित्यीकांनी आपली साहित्य प्रतिभा विस्तारची - फुलची, सर्जनशीलता, 'जून' जावची अशें दिसता

आसत तर visual Art कडेन लागीं वचपाक जाय आनी हें सगळें करतना आपली साहित्यकृती कलात्मकरितीन मांडपाची हातोडी आपणावपाक जाय हे तितलेंच महत्वाचें.

**आधुनीक तंत्रज्ञान**

एकविसाव्या शेंकड्याचे आव्हान आमच्या तरणाट्यांनी सहजपणान पेल्लां. आधुनीक तंत्रज्ञानाचो वापर आमी करपाक लागल्यात. शैक्षणीक माध्यम आंदोलनांत आमच्या तरणाट्यांनी फेसबुकाचो केल्लो वापर कवतूक करपासारको. इंटरनेट, सोशल नेटवर्किंग या तंत्रगिन्यानाचो बरोच लाव जाला. बरोवप कमी जालां आनी टायप मारप चड जालां. पूण तंत्रगिन्यानाक लागून साहित्याचो वाङमयीन दर्जो वाडना हें मतींत घेवपाक जाय. एक कथा, कविता, फाऊंटनपेन, बॉलपेन वा संगणकाचो की - बोर्ड वापरुन बरयली वा मारली म्हण त्या लिखाणाचो दर्जो त्या कथेच्या, कवितेच्या आशयावेल्यान थारता हें विसरूंक फावना. आयज मराठी विश्वकोश वेबसाईटीचेर पावला. कोंकणी विश्वकोश पावपाची गरज आसा.

**कोंकणी शैलीचो विकास**

गोंयांत पेडणे, सत्तरी, सांगें, केपें हांगा कोंकणीच्यो वेगवेगळ्यो शैली आयकूंक मेळटात. कोंकणीच्यो त्यो बोलयो. ह्या बोलयांचो साहित्यांत उपेग जावंकूच जाय. भासशास्त्राच्या नदरेन तांचो अभ्यासूय जावंक जाय.

पेडण्यांत 'निस्त्याक सूटी करतत' - बारदेशात - फोंड्या 'नुस्तें उजरायतात' पेडण्याचा 'सामरां' - हंयसर 'रोस' जाता. पेडण्यात 'सोरो खावन गिरकी येता' पेडण्याच्या पलतडी 'सोरो पिवन कीक येता'. 'पावसपाणी' ही कविता पाठ्यपुस्तकांत आयल्या उपरांत पेडणे शैलीची वळख भुरग्यांक पयले फावट घडली. हांगा उपस्थित त्या- त्या वाठारांतल्या युवा

साहित्यीकांनी आपणाल्या साहित्यांत ही शैली केळोवची. वाक्प्रचार - ओंपारी जाणून घेतल्यार त्या - त्या शैलीचें गिरेस्तपण तुमकां होलमतलें.

**बरयल्लें परतून वाचात**

आमी तरनाटे आसतात तेन्ना बरयत सुट्टात. पेपरार नांव छापून आयलें काय बरें दिसता. तें बरें काय वायट हें सोदपाचो यत्न जायना. पेपरार छापून आयलें म्हणजे बरेंच आसता, असो गोड समज आमी करुन घेतात. मासिकां - दिवाळी अंकानी साहित्य छापून आयलें, म्हण भुल्लसून वच्चें न्हय, कोंकणींत बरें - वायट सांगपी समिक्षा सामकी थोडी. नव्या बरोवप्याचेर वायट बरयलें तर बरोवप सोडून दीत म्हण भंय आसता. अश्यावेळार समिक्षकाक 'हेंय बरें तेंय बरें', 'हें मात्शें अशें आसपाक जाय आसलें' असले स्टेटमेंट करचे पडटात. आयज आमकां युवा साहित्यीकांक वेवस्थीत मार्गदर्शन करपाची वेळ आयल्या.

**डायरेक्ट संवाद जाय**

बारा वर्सांपयलीं युवा साहित्य संमेलनाक आरंभ जालो. तेन्ना 'लेखणी आमी चलोवया कोंकणी साहित्य फुलोवंया' हे ब्रिदवाक्य घेवन संमेलनाच्या माचयेवेल्यान कोंकणी साहित्य फुलोवपाचो हावेस उक्तो जालो. संमेलनाच्या तेंगशेर बसून तेळपी 'तेळको' आमकां जाय. ह्या तेळक्यान कोणामदीं 'स्पार्क' आसा तें तेळूंक जाय. ताका सारें - उदक घालपाचो वावर जावंक जाय.

आमकां फेस्ता, काले, जात्रा जाय. आमी उत्सवप्रिय लोक. ती कोंकणी मनश्याची गरज. संमेलन हो केवळ उत्सव आसूंक जायना. ह्या संमेलनाची आखणी पळयत तर तें हांगा अभिप्रेत ना. ह्या संमेलनाची माची 'मार्गदर्शक' म्हण भुमिका

वठयता. ह्या संमेलनात 'पडवेर' मानादीक साहित्यीक येतात, कवितेविशीं उलयतात, कोण कथेविशीं, कोण नाटकुल्याविशीं, तर कोण ललीत निबंधाविशीं, पूण हो exercise फक्त दोनूच दीस जाता. णव जानेराक आमची भुमिका कितें ? वावर कितें ?

युवा साहित्यीकांक घेवन सातत्यान वावर जाल्लो दिश्टी पडना. 1980 - 81 च्या दशकांत जे बरयताले, तेन्ना सातत्यान Exercise जाताले. गोवा कोंकणी अकादेमी नेमान राबित्याची कथा, कविता, निबंध, नाटक अशा विशयांचेर कार्यशाळा घडोवन हाडटाली. या कार्यशाळांनी आमच्या कविताचेर - कथाचेर बरें - वायट उलोवप जालां. थंय जाणकारुच उलयतले अशें न्हय, आमीय एकमेकांच्या कवितेची - कथेची विस्काटावणी केली. तांतुतल्यान आमचेमदीं आत्मविश्वास निर्माण जालो. युवा साहित्यीक जे हांगा आयल्यात, तांचेमदीं हो आत्मविश्वास आमी निर्माण करचो पडटलो.

महाविद्‌यालयांतलीं अभ्यास मंडळां, 'उक्ते मळब' सारक्या व्यासपीठांक उत्तेजन दिवचें पडटलें. 'सुनापरान्त'च्या आयतारचे पुरवणेत नामनेचे कथाकार दामोदर मावजो आनी ज्येश्ट कवी माधव बोरकार मार्गदर्शन करतात. पूण हे मार्गदर्शन म्हटल्यार 'डिस्टन्स एज्यूकेशन'शें जाता. आमकां युवा साहित्यीकां वांगडा 'डायरेक्ट' संवाद सादपाची गरज आसा. नातर वर्सान एक फावट युवा संमेलन घडोवन हाडपांत म्हज्या कॉतान कांयच उपेग ना.

### आमच्यो संस्था आनी युवा

आमचेकडेन जायत्यो संस्था आसात. पूण ह्या संस्थांनी केन्नाच 'युवा'ची आमची मोख हें थारायल्लें दिसना. कोंकणी भाशा मंडळ युवा महोत्सव घडोवन हाडून तरनाट्‌यांच्या उमाळ्यांक वाव दिता. कोंकणी अकादेमी हे वर्सावळीचे संमेलन

घडयता. युवा साहित्य संमेलन हो 'सिरीयस इवेन्ट'. 'हांगा घोस्त' काडूंक मेळना. अखिल भारतीय कोंकणी परिशद ह्या राष्ट्रीय पांवड्यावेल्या संस्थेन सर्वसमावेशक अश्यो कार्यावळी आखूं येताल्यो, पूण हांगा 'युवा' वखदाक मेळना. कोंकणी लेखक संघ म्हण एक संस्था आसा. खरें तर नव्या युवा बरोवप्यांक उर्बा दिवपाचे, मार्गदर्शन करपाचें काम ह्या संघान करूं येतालें, पूण हो संघ खंयच्या कोनश्याक पडला खबर ना. 'उक्तें मळब', भाशा मंडळाची 'साहित्य उपासना' हीं दोन व्यासपीठां कितें तीं आशेचीं किर्णां. साहित्य अकादेमीच्यो तरनाट्या लेखकांखातीर आखिल्ल्यो कार्यावळी त्या नदरेन थाकाय दितात. गोवा कोंकणी अकादमीन युवा साहित्यीकांकडेन सातत्यान संवाद सादपाखातीर Practical जावपाक जाय.

### गोंयभर पावुया

पेडेणेसावन - काणकोण मेरेनचो युवा साहित्यीक ही आमची मोख आसपाक जाय. फाटल्या चवदा वर्सांत खरें तर इकरां तालुक्यांनी इकरा संमेलना जांवक जाय आसली. तें जाल्लें दिश्टी पडना. संमेलनाच्या आयोजनाची जापसालदारकी उखलपाक हेर तालुक्यांनी कोण फुडाकार घेनात, हें ताचेफाटलें कारण आसूं येता. तरी लेगीत कोंकणी अकादमीन ती मोख दवरूंक जाय.

मोगाळ इश्टानो, ह्या संमेलनाच्या अध्यक्षपदावेल्यान हांवें तुमचेकडेन आमचे पेडणेकाराच्या भाशेन सांगाचा तर झेतान चकांटां मारलीं. कोंकणी ल्हान प्रदेशाची भास, पूण कोंकणी मनीस व्हड मनाचो. कोंकणीची ही घुडी खानार मारल्या, कितेंय जावं पूण मतींत धरपाक जाय.

गोंय आमचें मूळपीठ
कोंकणी आमची भास
कोंकणी संस्कृताय आमची
जाण्ट्यांली मिरास !

जय हिंद

जोड आयोजक संस्था : पि. ई. एस. महाविद्यालय, फोंडे
तारीक : 7 आनी 8 जानेवारी, 2012
येवकाराध्यक्ष : डॉ. अशीं डिंगे
कार्याध्यक्ष : भुषण भावे
उद्घाटक : प्रविण बांदेकार

# चौदावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. निलबा खांडेकार**
(संमेलनाध्यक्ष)

**आमी कश्ट त्याग करून दाखोवया.....**

चौदाव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या वेदीवयल्या मानेस्तांक आनी वेदी मुखावयल्या मानेस्तांक, साहित्यिकांक आनी आस्वादकांक म्हजो नमस्कार.

शौर्य आनी सवसकायेचें प्रतीक ठरिल्ल्या हया कुंकळ्ळे गावांत हें संमेलन भरता ही अभिमानाची गजाल.

भौ. दत्ता नायक, भौ. जंयती नायक, भौ. पुर्णानंद च्यारी, भौ. प्रकाश पर्येकार, भौ. दत्ताराम कामत बांबोळकार, भौ. संजीव वेरेंकार, भौ. प्रकाश वजरीकार, भौ. विन्सी क्वाद्रूश, भौ. माधवी सरदेसाय, भौ. भालचंद्र गांवकार, भौ. दिनेश मणेरकार, भौ. श्रीधर कामत आनी भौ. शशिकांत पुनाजी ह्या सारख्या साहित्यिकांनी, प्रतिभावतांनी फांटलीं तेरा युवा साहित्य संमेलना सोबयलीं, आनी आयज हो मान म्हाका मेळ्ळा ज्या सभाग्यांनी म्हजे नांव सुचयलें तांचो हांव मना काळजांथावन उपकारी.

ह्या फांटल्या संमेलनांचो नियाळ करीत जाल्यार कळटा की तरनाट्यां भितर जे साहित्यिक गूण आसात तांका वाव मेळचो आनी नव्या विचारांचीं बिजां मनांत रुजचीं आनी नव्या साहित्याची निर्मिती जावची म्हण सगळे तरेचें मार्गदर्शन, सुचोवण्यो अशीं अणभवान भरिल्लीं उलोवपां तुमचे मेरेन पावोवपाचो यत्न जाला, पूण ताची फलश्रुती जाल्या अशें दिसना. तांची रुजवण आनी कार्यवाही कशे तरेन जावची वा जातली हाचो विचार ह्या माटवांत जावचो आनी नव्या दमाच्या तरनाट्यांनी वा साहित्यिकांनी साहित्य निर्मिती वांगडा आपलें

हीत नदरेमुखार दवरुन कोंकणी विशींची निश्ठा आनी भुमिका निश्चित करची अशेंय हांव मागता.

कोंकणी भास ही गोंयच्या एकवटाची भास. गोंयकारांच्या गोंयकारपणाची कुरु जशीं भारतांतल्या हेर राज्यांकडे आप-आपली भास आसा तशीच गोंयाकडेनूय गोंयची भास आसा. जशी मराठी महाराष्ट्राची तशीं कोंकणी गोंयची आनी हीच आमची वळख. संवसार भर आमकां कोंकणी मनीसूच म्हण वळखतात आनी ती तिगून दवरपाक आमकां जाय ती निश्टा आनी पोटतिडक आनी ती गोंयकारपणांत, आमच्यांत आसा. तुमच्या तरनाट्याच्या आंगांत आसा. जल्मा बरोबर आमकां खूप किदें मेळ्ळां तातुंतली एक ही कोंकणी भास म्हणोनूच 'कोंकणी हो म्हजो जल्म सिध्द हक्क' हें ब्रिद जावपाक जाय. एक भास एक लिपी हें तत्व आपणावन कोंकणी समाजाक एकठांय हाडपाचो निश्चेव मनां-काळजांत सजोवया.

कोंकणीची भाशीक चळवळ हो म्हजो एक धगधगतो अणभव तरीय आयज लेगीत गोंयांतलो राजभाशेचो प्रस्न, लिपीचो प्रस्न आमकां परत परत सतायत आसता. ह्या दिसांनी तो परत चडूच सतावपाक लागला. 'कोंकणी प्रजेचो आवाज' इतिहास जमा जाला 'भारतीय भाशा सुरक्षा मंच' थंड पडला. म्हण आता तरनाटे पिळगेन खंयचेच संस्थेचो वा संघटनेचो आधार घेय नासतना संघटीत जावन फुडाकार घेवन हे प्रस्न सुटावे करचे. तरनाटे पिळगेकडें किदें जायना? मनांत आसत जाल्यार मळब लेगीत खेचून सकयल हाडपाक जाता. नेतृत्व नाशिल्ली आंदोलनां सफळ जाल्यात तीं आमी पळयल्यांत. आयज भारताच्या महानगरांचे रस्ते तरनाटया चले-चलयांनी सळसळटना दिसता. फांटल्या दिसांनी दिल्लींतल्या त्या सामुहिक बलात्काराच्या घटनेच्या रागाचो

उद्रेक जालो. तांकाय कोणाचेंच नेतृत्व लाबूंक नाशिल्लें. अण्णा हजारेच्या भश्टाचाराआड जाल्ल्या आंदोलनाच्या निमतान तरनाटे रस्त्यार आयिल्ले. भारतांतल्या ह्या घडणूकांच्या फाटी-फुडें अरब देशांतूय व्हड स्थित्यंतरां घडलीं 'ऑक्युपाय वॉल स्ट्रीट' च्या नावाखाला अमेरिका आनी युरोपांत तरनाट्यांनी व्यवस्थेकडें आपलो राग व्यक्त केलो. इजिप्ताची रक्तहीन क्रांती येसस्वी जाल्ली पळयली. तहरीर चौक तें वॉलस्ट्रीट वाया रामलीला मैदान तरनाटे रस्त्यावेल्यान महापुराच्या लोटाभशेन व्हांवतना पळयले. तांका जर कोणाचो आधार मेळ्ळा तर इंटरनेट, फेसबूक, ट्वीटर, एस.एम.एस ह्या आधुनीक अवजारांचो, तंत्रज्ञानाचो.

समाजांतली विषमताय, अन्याय, अडाणीपणां, अंधश्रध्दा पयस करतलो जाल्यार समाजाच्या विकासाची गरज आसा. कोंकणी ही सतत विकसीत जायत रावपी भास, समाजाच्या विकासा बरोबर भाशेचोय विकास जाता, म्हण भाशेचो मान समाजांतल्या दरेक मनशान दवरुंक जाय. संवसारांतली खंयचीच भास वायट नासता म्हण दरेकान वेळ मेळ्ळयार वा शिकपाची उमेद आसत जाल्यार शिकच्यो, पूण मातृभाशेखातीर मात जागृत रावोन सगळें करचें. शिकप म्हळ्यार बरोंवप, वाचप आनी मनन करप म्हण शिकपूच मनशाक सक्षम करुंक शकतलें.

दरेक युवा साहित्यिकान थरोवपाचें आसता, आपणें किदें वाचचें आनी किदें बरोंवचें. बरोंवपाक जाय म्हण बरोंवचें हाका कांय अर्थ ना. ज्या क्षेत्रांत रुची ना तें क्षेत्र आपणावचेंच न्हय. हें म्हजें प्रामाणीक मत. साहित्याचो वाठार विशाल आसा. तातूंत कविता, कथा, नाटक, कादंबरी, ललीत, अनुवाद, बालसाहित्या सारखी वेगवेगळीं क्षेत्रां आसात. तुमची रुची दाखयात, वाचन,

मनन करीत क्षेत्र गाजयात. तरनाट्या बरोंवप्यांनी कान, दोळे आनी मन उक्ते दवरून अणभव घेवचो आनी समाजांत जे नवे प्रस्न निर्माण जाल्यात वा जातात ते आपल्या लिखाणांत हाडचे आनी मौलीक साहित्याची भर करची. विशय मेळना म्हण बरोवपाचें रावों नाकात, वाचीत रावात, बरयत रावत. तुमच्या विचारांक फांटे फुटत रावतले. त्या त्या आशयाच्यो संवेदना फिशालकायेन, वेगळे तरेन, गरज पडल्यार कल्पनेच्या आधारान मांडप म्हटल्यारूच साहित्य निर्मणी. बऱ्या संस्कारांनी बरो समाज घडटा आनी बरो समाजूच बऱ्या साहित्याक सशक्त करूंक शकतलो, हेंवूय तितलेंच खरें.

इश्टांनो, आमी मोग आनी सैम हाचेरूच चड लिखाण करतात, घडये सुरवातीक हाचे बगर कांय सुचनाय आसतलें, खबर आसुनूय मोग हो चोथो जाल्लो विशय आनी सैम, आमचो विध्वंस पळयत जाल्यार तीस-पन्नास वर्सांनी रिसर्च करुन पी.यच.डी. मेळोवपा इतलोच हो विशय उरतलो हातूंत दुबाव ना.

इश्टांनो, आमच्या पांयापोंदा आशिल्ली मातीय नासता आतां पयली भशेन सृजनशील, तिच्या दरेक हुंदक्यांतल्यान आयकूंक येता तें आमच्यांतल्या कलावंताचें मरण. आमचें जगप आनी भारतीय राज्यघटना हांचो संबंध थिअरेटिकली 100 टक्के पूण पॅक्टिकली मात शून्य टक्के, होच हाचो वास्तवांतलो अर्थ. आमकां राज्य घटना खूप आवडटा, पूण ती फक्त पुस्तक रुपांतली. म्हणोनूच अभिव्यक्ती स्वातंत्र्याची पुंगी वाजोवन लेगीत मानसिकतेचे बळी थरिल्ले एम.एफ. हुसेन, पाश, आनंद यादव, तसलीमा नसरीन, सलमान रश्दी, व्हॉल्टेअर, सॉक्रेटीस, लोर्का हांच्या वांट्याक येता तें फक्त दुर्दैव्य. मानवधिकार संघटना आनी बरोंवपी मोन्याची सवंगां

पांगरून बसतात तेन्ना एका कलावंताच्या भावनांची लक्तरां प्रदर्शीत वाऱ्यांत विरगळत वयतात, त्या आभिव्यक्ती स्वातंत्र्याची तीन-तेरा वाजयत आयज कमला हसनचे 'विश्वरुपम' हेच परिस्थीतीक तोंड दिता. साहित्यांत वा कलेंत राजकारण येता तेन्ना असल्या गजालींचो प्रत्यय जाणवता.

साहित्य हें काळाभशेन गतिशील आसता, बदल हो ताचो स्थायीभाव ताची क्षितिजां सदांच बदलत आनी रुंदावत रावतात. काळा वांगडा बदल् घडोवपी काळाची जिवीत काणी साहित्यांत वेगवेगळे रंग आनी आकार घेयत मुखार वचत रावता. जे घडटा तें तें साहित्यांत दिसपाक जाय. मनशा भितरल्लीं मानवतेची आनी तांच्यातल्या हिनतेची कर्मा, निठारीचें हत्याकांड, खैरलांजी, ह्या देशांतलें घोटाळ्यार घोटाळे आमी कितले मेरेन आमच्या साहित्यांत दाखोवंक समर्थ थरल्यात?

हेंवूय खरें, की भाशेंत पुस्तकां राशींनी आयलीं म्हण भास व्हड जायना. तोलामोलाचीं पुस्तकां येवपाची गरज आसा. ते खातीर तोलामोलाचे बरोवपीय आसूंक जाय. तोलामोलाचो वाचपी समाजांत आसत जाल्यारूच तोलामोलाचे बरोवपी निर्माण जांवक पावतले आनी ही प्रक्रिया ह्या नव्या पर्वाचे ध्येय म्हण आमी आपणावया.

जिवीतांत शिकप केन्नाच सोंपना 'इन्फोरमेशन ॲन्ड टॅक्नोलोजी' च्या म्हाकाय जाळ्यांत तुमकांय भोवमोलाचो वांटो उखलपाचो आसा. 'स्मार्ट नदरेंतले' 'कलरफूल' जग पळोंवपाचें आसा. अशें म्हण्टात, दर एक मनीस आपली तकली 6 ते 8 टक्केच वापरतात, जे मनीस 10 ते 12 टक्के आपली तकली वापरतात तांका लोक 'जिनियस' म्हण्टात. तशें पळोवंक गेल्यार हे नकलेमुखार अख्खें जग धांकटेंच, म्हणोनूच घडये

केशवसुतांनी म्हटलां, "विश्वाचा विस्तार केवढा, ज्याच्या त्याच्या डोक्या एवढा!" संवसारांत कठीण अशें कांयच ना, यत्न करीत जाल्यार जैत निश्चितूच आपले. घडये तें तें क्षेत्र आमच्या नांवानूच उजळ जांव येता. हांव येवजूंक शकता आमच्या आंगात ती तांक आसा, अणभव आसात, कल्पना आसात, नव्या विचारांची स्फुर्त आसा. आमी खंयच कमी नात. इश्टांनो, जर आमकां किद्याची तरी गरज आसा जाल्यार ती स्वतांत सोदपाची, दृढ इच्छाशक्तीची आनी तेन्नाच आमी अभिमानान म्हणूंक शकतले 'स्काय वॉज नेव्हर लिमिट फॉर अवर ड्रीम्स.' जागतिकीकरणान आनी यंत्रयुगान मनशाच्या मुखामळार हात दवरला, ताचें मुखामळ काडून घेतलां, तें नश्ट केलां आनी तें परत मेळोवन दिवपाचें काम फक्त साहित्यिकूच करतलो हो म्हजो ठाम विश्वास.

त्याच विश्वासान, स्वामी विवेकानंदाची सार्दशती म्हण हें वर्स आमी मनयतात. विवेकानंदाचो संदेश उठात, जागे जायात आनी आपलें ध्येय साध्य जायसर थांबोव नाकात. हे गूण जर आमी आपणायले तर आमचे सक्षम आनी समृध्द भाशेचें सपन पुराय जातलें हातूंत कसलोच दुबाव उरचोना.

बरोवपी हो जरी मनीसूच आसलो तरीय तो अणभव संपन्न आसप गरजेचें, आनी अणभव संपन्न आशिल्लो मनीसूच आपल्यांतल्या प्रतिभेचो विकास करूंक शकता आनी तेन्नाच तो अजरामर साहित्यकृती समाजाक दिंवक शकतलो. जिणेंतले निजाच्या अणभवांतल्यान (सत्य आनी वस्तुस्थिती ) ताचें वचप गरजेचें, आपल्याच अणभवांपुरती मर्यादीत राव नासतना ताणें दुसऱ्यांचेय अणभव आयकुचे, वाचन करचें आनी दोळेभर पळोंवचे. अणभवल्ले, वांचिल्लें वा पळयल्लें मनाच्या गर्भकुडींत सांठवप हें ताच्याकूय गरजेचें. पयलें युवा

साहित्य संमेलनाध्यक्ष श्री. दत्ता नायक हाणीं आपल्या अध्यक्षीय उलोवपांत तिसरें सुक्त सांगतना म्हणिल्लें ‘श्रुती फाटोफाट येता ती स्मृती. श्रुती आनी स्मृती ह्या जुवळ्या भयणींनी वेद आनी उपनिषदां, पुराणां आनी खंडकाव्यां एके पिळगेकडल्यान दुसरे पिळगेमेरेन पावयलीं. जें जें आयकलें तें याद धरुंक जाय. आयकलें आनी आयकल्लें विसरलें जाल्यार साहित्य सर्जन जांवक पावचें ना.’ हेंवूय तितलेंच खरें.

हे मातयेंतल्यान वयर सरिल्ले लेखक आमकां जाय, कित्याक तर त्याच लेखकांत ह्या मातयेचो ‘कलर’ ताची ‘फर्टीलीटी’, ताचें ‘सौफ्टनेस’ आनी ‘स्मॅल’ आसूंक शकता आनी तेन्नाच तो ह्या मातयेची संवेदना, तिचें तळमळें, तिचे प्रस्न बरे तरेन मांडूक शकतलो आनी ने खातीर थोडेशे स्वार्थी, स्वाभिमानी, स्वातंत्र आपणावप गरजेचे. स्वार्थ समजोंवपाक ‘स्व’ चो अर्थ कळप गरजेचें. स्वताचें मोल सांबाळपी मनीसूच स्वताच्या हिताखातीर वावूरता. स्वताचें हित कित्यांत आसता हें कळपाखातीर स्वताची मतां जाय पडटात, स्वताचें विचार जाय पडटात, म्हणोनूच स्वताच्या विचारांकडे ठाम रावप, हो स्वार्थाची सगळ्यांत सुंदर आविश्कार. ‘स्व’ चो वेपार करुन खरो स्वार्थ केन्नाच सादोंवक जमचेंना, पूण असो स्वार्थ सादोंवक स्वाभिमान जाय पडटा, तसोच तो सादोंवक स्वातंत्र जाय खऱ्या स्वार्थी मनशाकूच स्वातंत्र्याची गरज आसता, ताकाच खरें मोल कळटा म्हणोनूच हांव म्हण्टा, स्वार्थ हो म्हजो जल्मसिध्द हक्क, स्वातंत्र्य हें म्हजें सर्वश्रेष्ट मुल्य आनी स्वाभिमान म्हज्या अस्तित्वाचो आधार, स्वार्थ ही मनशाची स्वाभाविक प्रवृती, म्हणोनूच ती व्यक्तीच्या विकासाची उर्बा.

दरेक रुतूंच्या बदलावाची सुलूस धर्तरेक, झाडां - पेडांक, सुकण्यांक, जनावरांक लागता तशीं ती बरोवप्याकूय लागपाक

जाय आनी तेत्नाच संवेदना जागृत दवरपी बरोवपी त्या त्या रुतूंत सामावन सैमाकडें वांगोड सादोंवक शकतलो, सैम आपणायतलो. सैमाच्यो संवेदना दुखोवपाचो अधिकार कोणाकूच नासना हें लक्षात दवरप गरजेचें.

हांव एक गांवांतलो मनीस, दोंगरी म्हजो गांव. शारांत जरी रावलो तरीय आवज लेगीत पायांक लागिल्ली गावची माती अजून लेगीत झाडून उडोवपाक शकलोना, गांवाचेर उपाट मोग केल्ल्याची ती कुरु, म्हज्या मरणामेरेन तरी उरतलीच. दोंगरी आनी दोंगरे वयले अनुभव सदांच म्हज्या लिखाणांत येतात, ह्या ना त्या रूपांत दिसता. सटीमायेचो दोंगरे वयलो दोंगोर म्हाका साद घालता, दोंगरेची सरभोंवतणची खाजनां म्हज्या लेखणेक विशालतेचो आयाम दितात, पारपोळीचें रान सैमाच्या व्हडपणाची साक्ष दिता, पोंयों आनी मानसो म्हाका सफल जिवीतचो मंत्र दितात आनी मनशांतलो मनीस आशय संपन्न जावन अणभवांचे घडे भरीत रावता, विस्तीर्ण म्हज्या नदरे खातीर मानवतेच्या मशागती खातीर.

इश्टांनो, सुख - दुखांत आनी एकांतात लेगीत वांगोड दिवपी कविताच आसता हजारांनी मरणां मरुन मुखार सरपाची, उर्बा दिवपाची तांक कवितेंत आसता. दुख वा खोशी, उमळशीक वा आस्था होच काव्याचो मूळ स्त्रोत.

आत्मसन्मानाचें जिणें दरेक मनशाचो जल्मसिध्द अधिकार आनी तो आमकां मेळुंकूच जाय. म्हजी विचारांच्या शब्दांनी सजिल्लीं पुस्तकां नेमके हेंच सांगपाचो यत्न करता आनी तें गरजेचेंच, कित्याक तर आयज ह्या विशयाचेर जितली जनजागृती जावपाक जाय तितली जाल्ली दिसना. गांधीचो अहिंसेचो आनी आयचो काळ हातूंत जमीन मळबाचें अंतर

जाणवता आनी ही वस्तूस्थिती आयज कोणूच न्हयकारूंक शकचो ना.

आयज भर दिसा खून, बलात्कार, चोरी, घोटाळे, फटींगपणां हाचे बगर दिसूच उजवडना काय दिसता वाडटी म्हारगाय, अनीती आनी सैमाचो विबाड पळयतना हाकाच लोकशाय अशें नाईलाजान म्हणचें पडटा काय किदें? पूण ह्या लोकशायेंत असो एक समाज जाल्लो दिश्टी पडना, जसो आमच्या सुटके झुजाऱ्यांनी येवजिल्लो, जाका ते जनतंत्र म्हण्टाले. आयज सत्तेवयलो मनीस एके तरेन "आम आदमीक" चिड्डूवपाचेंच काम करता आश्वासनांनीच तांची पोटां भरता हें जाणवले बगर रावना आनी हें सगलें पळयतना, अणभवतना म्हज्या तरी संवेदनशील मनाभितर एक तुफान उठटना जाणवता आनी म्हज्यो कविता त्या तुफानाक शब्दांत बदलतना म्हजे अस्वस्थाये वांगडा त्या विश्वासाकूय उलोवन दाखयता.

कोंकणी कविता आयज पयली परस चडान चड विविध आसा, समृध्द आसा, अशें म्हटल्यार अतिताय जावची न्हय. आमच्या चडशा बरोवप्यानी आपली साहित्यीक वाट कवितेनूच केल्या, कित्याक काय? तांका दिसल्या आसतली, कवितेच्याकूय सोपो साहित्य प्रकार आनीक ना म्हण ? तशें पळोंवक गेल्यार कविता ही सोपी केन्नाच नाशिल्ली. तो खूप कठीण साहित्यप्रकार अशेंच हांव म्हणन. फक्त अणभवांच्या तांकीर सफल कवितेचें जैत जांवक शकना शब्दांची तांक आनी प्रतिभेचे फांटबळ लाभिल्लो कवीच नांवा रुपाक येता. खुपदां हांव चिंत्ता, पाब्लो नेरुदा, राफायल आलर्बेटी, वाल्ट हिटमन, मायकोवस्की, नजिम हिकमत, ब्रेख्त बेट्रोल्त, अयप्प पणिकर, के साच्चिदानंद, चंद्रकांत, देवताले, सिताकांत महापात्र,

उमाशंकर जोशी, नामदेव ढसाळ, दिलीप चित्रे हे कवी येदें व्हडले कित्याक जावक पावले? ह्या कविनी कवितेक एका उंचेल्या पावण्यार पावयली. तांचे विचार, तांची शब्दजोड आनी साधना हाचेरुच ताणीं आपली प्रतिभा उबी केली, व्हड केली आनी कवीचो सन्मान मिरोंवक समर्थ तांक मेळयली. एका अर्थान ते कविता जगले म्हण उदेत्या बरोंवप्याक वाचन हें गरजेचें. वाचन नाशिल्लो बरोंवपी फक्त आपल्या अणभवांचेरुच सार्थ वा सफल बरोंवप उबें करुंक शकचोना, हेंवूय तितलेंच खरें. वाचन हें आपल्या विचारांक धार हाडटा, विस्तार दिता, आदर्श घडयता, जिणेंत बदलाव हाडटा, शब्द संस्कृती फुलयता, आपल्या अणभवांचे विश्व समृध्द करता, इतलेंच न्हय तर, साहित्य रचनेंतले वेगवेगळे बदल कळपाखातीर आनी तंत्रांचे नदरेंतल्यान अभ्यास घडपाखातीर लेखकाक वाचनाची गरज आसता.

कोंकणीच्या साहित्याचो, कोंकणी चळवळीचो इतिहास ह्या सगळ्याची जाणविकाय कोंकणी बरोंवप्याक आसपाक जाय. त्या गजालींतल्यानूच आमी खंय आशिल्ले, खंय पावल्यात आनी मुखार किदें करपाक जाय ह्या विशींची नदर आमकां मेळूंक पावतली आनी आमची लेखणी अदीक फळादीक जावंक पावतली, घटमूठ जावंक पावतली. म्हणोनूच आमी कोंकणी दीस, मुक्ती दीस, स्मृती दीस, अस्मिताय दीस मनयतात. त्या दिसांचे म्हत्व पटोवन दिवपा खातीर जांच्या भरीव योगदानान आयज आमकां हे दीस मेळयांत म्हण तांका याद करप आनी तांचो वावर मुखावयल्या पिळगेकडें पावोवप हें आमचें कर्तव्य.

1975 वर्सा कोंकणीक साहित्य अकादेमीची मान्यता मेळ्ळी, 1987 वर्सा कोंकणी गोंयची राजभास आनी त्याच वर्सा

गोंय भारताचें पंचविसावें घटक राज्य जालें. खेरीज, गोवा कोंकणी अकादेमी, राजभास संचालनालय, राजभास कायदो, विद्यापीठांत कोंकणी विभाग सुरु जालो आनी 1992 वर्सा कोंकणी भारतीय घटनेच्या आठव्या परिशिष्टांत मानाची सुवात जोडूंक पावली. शणै गोंयबाब, रविंद्र केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, बाकीबाब बोरकार, चंद्रकांत केणी, पुंडलीक नायक ह्या कोंकणीच्या म्हापुरुशांनी बुन्याद घालून दिली अशो खुपशो गजाली जाल्यो तरीय कोंकणीच्या साहित्यांत अपेक्षित अशी भरीव वाढ जांवक जाय आसली, ती जावंक पावलीना. कादंबरी, नाटकां, अनुवाद साहित्य, बाल साहित्य, लोकसाहित्य, समिक्षा मुयेच्या गतीन चलतात. हो भार जेन्ना आमी तुमी उबारतले तेन्नाच कोंकणीची घुडी, गोंयची घुडी भारताच्या नकाशार रावन विश्वरुपाक होरायतली, तेन्ना आमच्या गोंयकारपणांतल्या स्वाभिमानाक जोरगतीचोच ध्यास लागिल्लो आसतलो. इश्टांनो, म्हाका मान्य आसा बांगला, हिंदी, तेलगू, मल्याळम्, मराठी, पंजाबी ह्या भारतीय भासांनी उपाट साहित्याची निर्मिती केल्या, कारण ह्यो भासो एका रातयांत वयर सरुंक नात. ह्या भासांक दीर्घ असो इतिहास आसा, भुंयपुतांचे कश्ट आसात, त्याग आसा, मोग आसा.

आमीय तें करुन दाखोवया न्हय?

देव बरें करूं !

जोड आयोजक संस्था : सि. ई. एस. महाविद्यालय, कुंकळ्ळे

तारीक : 09 आनी 10 फेब्रुवारी, 2010

येवकाराध्यक्ष : डॉ. लक्ष्मण नायक

कार्याध्यक्ष : नित्यानंद नायक

उद्घाटक : डॉ. सिसीलिया कार्व्हालो

# पंदरावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. वसंत भगवंत सावंत**
(संमेलनाध्यक्ष)

**कोंकणीचे सेवक जावपाचो ध्यास धरात...**

ह्या पंदराव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या निमतान हांगासर जमिल्ल्या सगळ्यांक नमस्कार.

साहित्य हें समाजजिणेचें पडबींब अशें मानतात; मनशांत आनी समाजांत मुळा सावन बदल करपाची तांक आशिल्लें क्रांतीबीज मानतात. साहित्य म्हणल्यार भविष्याचो थाव घेवपाची, फुडाराक एक नवी नदर दिवपाची अप्रूप तांक.

समाजपुरसा मदलें वायट गूण, विकृती पयस करून संस्कृतायेन गिरेस्त असो समाज घडोवपाच्या संवसारभराच्या वावराचो आमी नियाळ घेतलो जाल्यार ह्या वावरांत साहित्या इतलें म्हत्वाचें योगदान आनीक खंयच्याच माध्यमान दिवंक ना हें दुबावा विरयत दिसता.

सर्वसाधारण मनशाचे उमाळे, भौसाचे उत्फर्के साहित्यकाराचे लिखणेंतल्यान उतरांच्या रुपान भळभळटात तेन्ना पुराय समाज क्रांतीच्या हुंबऱ्यार पावता हाच्यो इतिहासीक गवायो आसात. अशे, एके जापसालदारकेचो वारसो फुडें व्हरपी, क्रांतीकारकाचे कुळयेंतले तुमी, युवा साहित्यकार. तुमकां खेरीत रुपान म्हजो नमस्कार.

आमी गोंय विद्यापीठाच्या आंगणांत आसात. ही गिन्यानाची पंढरी. ह्या वाठारांत एक पासय लेगीत मारल्यार तुमकां आपूण कितें तरी शिकलों अशें दिसले बगर रावचें ना. अशें म्हणटात, अत्तर विकप्यांच्या पसऱ्यांचे आळींतल्यान तुमी वतात तेन्ना तुमी अत्तर विकतें घेयात वा घेवं नाकात, तुमच्या संगाताक इल्लो तरी परमळ येतलोच. तेच भशेन, दोन दीस

तुमी हांगा सारतकच, एक दोन गजाली तरी नव्यो जोडल्यो ही भावना तुमच्यांत रुजतली हाचो म्हाका भरवसो आसा.

मोगाळ इश्टांनो, फाटल्यान जीं चवदा युवा संमेलनां जाल्यांत तातूंत हांव ह्या न्हय त्या रुपान भागीदार जालां. पयल्या संमेलना सावन म्हाका एक गजाल भावल्या, ती म्हणल्यार, हेर संमेलनां परस, युवा कोंकणी साहित्य संमेलन, परिणामाचे नदरेन वेगळें. साहित्या कडेन खरेपणान आनी खरायेन पळोवपाची नदर युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांतल्यान मेळटा. दर संमेलनाच्या दुसऱ्या दिसा ज्यो कार्यशाळा जातात, त्यो साहित्याची पांयवाट चलपाक लागिल्ल्या तरणाट्या साहितित्यकांक, तांचो फुडलो प्रवास फावो ते दिकेन जावचो म्हूण दिल्लो एक कानमंत्र कसो.

सर्तीच्या निमतान जायना, तुमी बरयल्ल्या साहित्याची जेन्ना जाणकार मार्गदर्शक विस्कटावणी करतात, तेन्ना दर एका तरणाट्या साहित्यकाराक, साहित्या कडेन पळोवपाचे नदरेंत आपूण जापसालदार आसूंक जाय, हें जाणवता. एक साहित्यकार म्हूण आपली प्रतिभा उक्तावपाचें आपणाक मेकळेंपण आसा. त्याच वांगडा कांय पथ्यांय आपणें पाळूंक जाय हाचो दिस्टावो हांगा घडटा. तुमचे कडेन जें कितें आसा, तातूंत चिमटीभर तरी अदीक तुमच्या पदरांत पडटलें हाची तुमी खात्री बाळगियात. साहित्या विशीं जी तुमकां आवड आसा ती उजू वाटेन व्हांवती करून, संस्कारी साहित्याची शेतोड फुलोवपाचें तंत्र, तुमी ह्या कार्यशाळांतल्यान मेळोवं येता. तुमी कोंकणी विशीं आस्था आशिल्ले युवा. कोंकणी साहित्याचें वाचन करतना कोंकणीच्या इतिहासाचीय तुमकां थोडी भोव वळख जाल्ली आसतली. तातूंतल्यान तुमकां एके गजालीची जाणवीक जाल्ली आसतली, ती म्हणल्यार, हेर खंयचेय भाशेंतल्या साहित्यकारां परस कोंकणींतल्या साहित्यकारांचेर चड

जापसालदारकी आसा.

हेर भासांतल्या साहित्यकारांक तांचे भाशे खातीर वेगळेपणान वावुरपाची गरज पडना, ते फकत साहित्य निर्मणेंत खोलायेन लक्ष घालपाक मेकळे आसतात. पूण कोंकणींतल्या साहित्यकारांचेर साहित्या वांगडाच कोंकणी चळवळीचो खुरीस उबारपाची दायकी आसता.

कोंकणी ही एक स्वतंत्र भास हो विचार रूप घेवंक लागलो तेन्ना सावन आयज मेरेन कसल्यो न्हय कसल्यो आडखळी, अडचणी, आडमेळीं आमच्या पांयांत घुस्पत आसात. पूण कोंकणी मनीस बाबत कूळ नाशिल्ल्यान, दर एका आव्हानाक तितलीच निबर जाप दिवन फुडें सरला. ह्या वावरांत पुराय भरसून वचप हें कोंकणी साहित्यिकांनी आपलें पयलें कर्तव्य मानलां. फाटल्या कांय दसकांतल्यो घडणुको पळयल्यो जाल्यार पावड्या पांवड्यार कोंकणीचेर संकश्टां उप्राशिल्लीं. त्याचवांगडा, ते ते पिळगेंतल्या साहित्यिकांनी तांकां धिटायेन तोंड दितनाच जैतां हाताशिल्लीं दिसतात. आमच्यांनी अशेंय म्हणूं येता, दर एके पिळगेचेर कोंकणी संबंदान कसली ना कसली जापसालदारकी आयल्या आनी ते ते पिळगेन ती समर्थतायेन उखल्ल्या. आयज ह्या युवा साहित्य संमेलना निमतान जमिल्ले आसतना तुमी युवा साहित्यिकांनी, तुमचेर कसली जापसालदारकी आसा, हाचेरूय विचार करचो, अशी अपेक्षा आसा.

तुमचे मदले जायते जाण शिकतात. तुमच्या दिसपट्ट्या व्यापांत तुमचे कडेन वेळ उरना. तरी लेगीत तुमी साहित्या खातिरूय तुमचें योगदान दितात ही खऱ्यांनीच तोखणायेची गजाल. पूण तुमचे पिळगेची जापसालदारकी म्हूण इल्ली चड वावुरपाची तुमी इत्साशक्त बाळगिश्यात, जाल्यार भोव मोठो बदल घडोवन हाडपाची तुमच्यांत तांक येवं येता. जायते खेपे

ममुपदेशक एक विज्ञानीक दाखलो दितात. उदक खंय शंबर डेग्री मेरेन खतखतता, पूण जेन्ना तें 101 डिग्री मेरेन पावता तेन्ना ताची वाफ जावंक लागता. हे वाफेंत आकांताची तांक आसता, आनी ती कसलीं कसलीं कामां करपाक शकता, हें हांवें तुमकां तरी सांगपाची गरज ना. हांव इतलेंच सुचोवंक सोदतां, तुमचो वेळ तुमी ह्या ना त्या कामाक दिल्लो आसा खरो, पूण तातूंत एकूच टक्को वाडोवपाचो यत्न करून तो कोंकणीचे सेवेंत वापरात. तुमीच करपा सारख्यो जायत्यो गजाली तुमचे कडेन अपेक्षेन पळयत आसात. सगळ्यांत पयलीं, ज्या कंप्यूटर आनी ई-माध्यमां कडेन तुमी संवकळीचीं आसात तीं माध्यमां “कोंकणी फ्रँडली” चडांत चड कशीं जातलीं हो ध्यास धरचो. जें हेर भासांतल्यान करीत आयल्यात तें कोंकणींतल्यान करपाक तुमचो चडावत एक टक्को वापरल्यार कोंकणीची व्हड सेवा जातली.

दुसरें, तुमच्या शिक्षणांतल्यान तुमकां भाशेची खोलाय आयल्या. ती वापरून तुमच्यांनी कोंकणी साहित्य हेर भारतीय तशेंच विदेशी भासांनी पावोवपाचें आनी हेर भासांतलें साहित्य कोंकणींत हाडपाचें, भोव गरजेचें काम करूं येता. अणकार हिवूय एक कला म्हणटात. तुमच्यांनीय ती सहजपणान कळोवंक येतली.

आनीक एक म्हत्वाची गजाल आयचे पिळगे कडल्यान अपेक्षीत आसा, ती म्हणल्यार, कोंकणीचो सरकारी वेव्हारांत वापर करपा संबंधान. सरकाराचेर दबाव हाडून सरकारान अमकें अमकें करचें अशें म्हणनासतना तुमी प्रत्यक्ष ते खातीर जायतें कितें करूंक शकतात. कोंकणी राजभास जावन इतलीं वर्सां जालीं तरीय ती सरकारांत रुळूंक पावूंक ना ही गजाल आमकां उणाकपणाची दिसपाक फावो. कोंकणीचे विरोधकूय होच मुद्दो घेवन कुसां लायतना दिसतात. आयचे पिळगेन मनार घेतल्यार

हें उणेपण भरून काडूं येता, आनी ते खातीर संघर्श, आंदोलनय करपाची गरज ना. वेगवेगळ्या सरकारी आस्थापनां कडेन संबंधीत अश्या पत्रवेव्हाराक मार्गदर्शक अशीं पुस्तकां आमचे कडेन आसात. तुमच्या अभ्यासक्रमांतूय तांचो आस्पाव जाल्लो आसा. त्या पुस्तकांचो आदार घेवन आमी कारभारी कोंकणी खातीर नेट लायलो जाल्यार आयचें चित्र बरेंच बदलिल्लें आमकां दिसतलें. तुमचो संबंद ज्या सरकारी कचेऱ्यां कडेन येता तांची एक मानसीकता तयार जाल्ली आसता. तिचे भायर आपूण जावन वचून कितेंय करपाची तांची तयारी नासता. पूण अणभवान तुमकां एक गजाल सांगतां, तुमच्या कसल्याय कामा खातीर तुमकां पत्रवेव्हार करचो पडलो जाल्यार तो कोंकणींतल्यान करून पळयात. इंग्लीशींतल्यान बरयल्लें पत्र मेळटगीर 'हें सदचेंच' जाल्ले भशेन ताका पळोवप जाता. मराठींतल्यान बरयल्लें पत्र पळयतगीर इंग्लीश कळना म्हूण हाणें मराठींतल्यान बरयलां अशी तांची भावना उरता. पूण कोंकणींतल्यान बरयल्लें पत्र तांच्या हातांत पडटा तेन्ना हो कोण चळवळींतलो मनीस रे, मातशें सडसडीत वयार करात तें, ह्या उतरांनी सरकारी अधिकारी त्या पत्राची दखल घेता. सांगपाचें म्हणल्यार, सरकारी नोकराची जी वर्सां संकिनी पोसलेली साचेबद्ध मानसीकताय आसा ती बदलपाचें काम तुमी सहजपणान करपाक शकतात. तें एक ध्येय अशें तुमी मानून घेवचें.

आमी गोंयकार खऱ्यांनीच सुशेगाद म्हूण जायत, आमचीय एक मानसीकताय तयार जाल्या. "जाता न्हय सध्या? आनी आनी वेगळें कित्याक करूंक जाय?" अश्या रुपांतली.

इतलीं वर्सां आमी इंग्लीशींतल्यान ॲप्लिकेशनां केलीं नात? आतांच कित्याक कोंकणींतल्यान बी करूंक जाय? इतलीं वर्सां आमी इंग्लीश मराठी वाचीत आयल्यात न्हय, आतांच

कोंकणी आनीक कित्याक वाचूंक जाय? अशें पद्धतीन येवजुपी आमच्या गोंयांत तरी चड आसात. कसलोच प्रयोग करपाक ते तयार नासतात. तुमी प्रयोग करात, तुमी सफळ जाले जाल्यार मागीर आमी आसात, अशे तांचें चिंतप. पूण एक मतींत धरात, ह्या संवसारांत कांय ध्येयवादी लोक आसात म्हूण हो संवसार फुडें सरत आसा. हे ध्येयवादी लोक आसात म्हूण नव्यो नव्यो गजाली घडत आसतात. “तें म्हाका कित्याक लागता?” हो न्हयकारी सूर आमी सोडचोच पडटलो. फाल्यां सगळ्या शास्त्रज्ञांनी समजा थरयलें, “नवे नवे सोद लावपाक ओगीच तकली कित्याक बेजार करून घेवपाक जाय? मेळटा तो पगार घेवन बायल-भुरग्यां वांगडा बरे भशेन जगुया.” जाल्यार संवसाराचे गतीक खिळी पडटली. तेच भशेन, कोंकणी खातीर ते वावुरतात न्हय? आमी आनीक कित्याक तातूंत लक्ष घालूंक जाय? अशें तुमी चिंतलें जाल्यार कोंकणीचे उदरगतीक खिळी पडटली. कोंकणीचें ध्येय मुखार दवरून आदल्या काळांत जे आमचे पुर्वज वावुरताले, तांका त्या काळार पिश्यांत काडटाले. पूण तांच्या ध्येयवादान तांका आयज पुजनीय करून दवरल्यात. कसलीय हिणसावणी, कसल्योय बकच्छायो, कसलीय त्रोसां तुमच्या वांट्याक आयलीं म्हूण निर्शेवपाची गरज ना. तुमकां कोंकणीचें सत्व आनी स्वत्व पटलां म्हूण तुमी कोंकणीचे सेवक जाल्यात. तुमच्या हातांतल्यान जो वावर घडटलो ताची दखल फुडली पिळगी घेतलीच हाची खात्री बाळगियात.

आयज कोंकणी मनश्यां मदीं लिपी वेल्यान वादावादी चलता. तांणी मातशें फाटल्यान वचून आमच्या जाण्टेल्यांनी जो वावर केल्लो, जो ध्यास धरिल्लो ताचे विशीं जाणून घेवपाची तकालस घेवची. इतिहासीक कारणां खातीर कोंकणी मनीस हेर राज्यांनी शिंपडून पडलो आनी थंयचे थळावे लिपयेंतल्यान

ताका कोंकणी बरोवची, वाचची पडली. ते सगळे कोंकणी भाशीक, आनी तांचें गोंया कडेन नातें आसा हें सूत धरून त्या त्या राज्यांतल्या कोंकाणीचो दिश्टावो घडिल्ल्या जाणकारांनी एकठांय येवपाचो ध्यास धरिल्लो. तांच्या प्रयत्नांक तशें यशूय फावलां. एक भास एक लिपी हें सुत्र कोंकणीच्या नांवान एकठांय येवपाच्या शुद्ध हेतूंतल्यान आयलां. आमी फाफसून पडटले तितले आमी शेणटले, हें सत. अती आगरो धरून आनी तोंकाच्यो भुमिका घेवन आमी एकामेकांचे दुस्मान कशे वावुरपाक लागले जाल्यार आमी आमचेंच लुकसाण करून घेतले. एकामेकांचीं कुतां काडी नासतना सगळे आमी कोंकणी, म्हूण एकचारान रावपा खातीर कितें करूंक जाय, कितें उपाय काडूंक जाय? हाचे संबंधान, दोनूय वटेन अंतर्मूख जावन विचार करपाची गरज आसा अशें म्हाका दिसता.

आयचे तरणाटे ह्या संबंधानूय आपलें योगदान दिवपाक शकतात. लिपयेच्या बंधनाक लागून एका राज्यांतले साहित्यीक दुसऱ्या राज्यांतल्या साहित्यिकांचें बरप वाचपाक पावनात, देखून कांय वर्सां आदीं एक उपाय फुडें आयिल्लो. कोंकणी भाशीक वाठारांत जें साहित्य जल्माक येता तें पुस्तका वांगडाच कॅसेट, सिडीच्या रुपांतूय येवचें. लिपी कळना म्हूण जो कोंकणी भाशीक तें वाचपाक शकना, तो तें आयकून समजुपाक पावतलो, आनी अशे तरेन सगळ्या कोंकणी भाशीक वाठारांतल्या साहित्याची वळख सगळ्यांक घडपाक पावतली. त्या वेळार आयचे भशेन तंत्रगिन्यान विकसीत जावंक नासलें आनी ताची संवकळूय नासली. पूण आयज ती यंत्रणा तरणाट्यांच्या हातांतलें खेळणें जालां. आमी उलयतात तेन्ना लिपी आमकां बादना, कवी संमेलनांत कवी खंयचे लिपयेंत बरयल्ली कविता वाचता, हो विचार लेगीत मनांत येना. टिव्हीचेर कोंकणी फिल्म पळयतना आमी लिपीभेद विसरून वतात.

दिसपी आनी आयकुपाक येवपी अश्या माध्यमांचो पुस्तकां वांगडाच वापर करपाचे यंत्रणेक कोंकणी साहित्या खातीर वापरपाक प्रोत्साहन दिवपी येवजण्यो तयार केल्यो जाल्यार आमचे मदली कोडसाण मातशी उणी जातली काय दिसता.

'एक भास, एक लिपी' हें तत्व खरें म्हणल्यार प्रत्यक्षांत हाडप व्हडलेशें कठीण न्हय्‌च. जाय ती इच्छाशक्त. हिंदी राष्ट्रभास जाल्ल्या कारणान सगळ्या प्रदेशांतलीं भुरगीं ती शिकतातूच. कोंकणीची सभावीक लिपी देवनागरी, हिंदीच्या शिक्षणा वांगडाच विद्‌यार्थ्यांक बरोवंक वाचूंक येता. थोड्‌याश्या सरावान आनी जाणीव धरून केल्ल्या यत्नांनी लिपीभेद ना करप अशक्य न्हय.

हालींच्या दिसानी गोंयांत राजभाशे संबंधान, शिक्षणाच्या माध्यमा संबंधान तरातरांचे विचार आयकूंक येतात. हांव त्या संबंधान उलोवपाक वचना. पूण त्या चिखलकाल्यांतल्यान फुडाराक कोंकणीचें लुकसाण जावं येता म्हूण खंत जाता. म्हज्या एका इश्टाची खबर सांगतां. तो आपूण नीज गोंयकार म्हणून हरशीं अभिमान धरपी. घोव - बायल दोगांय नोकरी करपी. भुरग्यांक इंग्लीश माध्यमांतल्यान शिकपाक धाडपाची ताची तयारी नासली, पूण भुरग्याक घरा कडल्यान व्हरून परत घरा कडेन पावोवपाची गाडयेची व्यवस्था इंग्लीश माध्यमांतले शाळे कडेन आसा, म्हणून ताणें ते शाळेंत भुरग्याक घालें. फाटीं माध्यम प्रस्ना वेल्यान गोंय तापलें तेन्ना ताणें उक्तायल्ल्या विचारान म्हाका हुस्क्यांत उडयलो. तो म्हणटा, कोंकणी मराठी ह्यो गोंयच्यो भासो, गोयकारांच्यो मायभासो म्हणून फकत तांकांच शिक्षणांत अनुदान मेळचें अशें तुमी म्हणटात मरे? फाल्यां लोक - मेजणेंत आमी आमची मदरटंग इंग्लीश म्हूण बरोवपाक लागलीं आनी इंग्लीश मायभास म्हणटल्यांचो आंकडो

दखल घेवपा इतलो वाडलो जाल्यार सरकाराक इंग्लीशी खातिरूय अनुदान दिवचें पडचेंना? आपूण गोंयकार म्हणपी ह्या म्हज्या इश्टा भशेन, फकत माध्यमाच्या प्रस्ना खातीर जर गोंयकार इंग्लीश जावंक तयार जाले जाल्यार जायते प्रस्न आनी आव्हानां कोंकणी मुखार उबीं रावतलीं काय दिसता. सगळे गोंयकार तशे कोंकणीच उलयतात, पूण अतीं हट्टान आपली 'मायभास' मराठी म्हणपी गोंयकार आसात तशेच इंग्लीश आपली 'मदरटंग' म्हणपी तयार जाले जाल्यार कोंकणीक हें बाधिकार जावचें ना? हो प्रस्न सुटावो करपाक तर्कशुद्ध अश्या प्रबोधनाची गरज आसा अशें म्हाका दिसता. कोंकणी खातीर पोटतिडकीन झगडपाक तयार आशिल्ली फौज पळोवन तांची तोखणाय करीन दिसता. त्याच वांगडा, आमचे कडेन अशीय एक शांतीसेना आसूंक जाय, जीं दुखावल्लीं मनां सांदपा खातीर वावुरतली, सत कितें तें पटोवन दिवन, एकामेका कडेन फाट केल्ल्या कोंकणी मनश्यांक लागीं हाडटली. हे शांतीसेनेंतले सैनीक तुमचे मदींय आसचे अशी हांव अपेक्षा धरतां.

इश्टांनो, सोंपयतना एक अणभवाची गजाल सांगतां. हांव जादूची कला इल्लो जाणां. जायते फावटीं शिबिरांनी बी हांव भुरग्यांक जादू शिकयतां. भुरगीं मोठे उमेदीन जादू शिकतात आनी, आनीक शिकय म्हूण फाटीं लागतात. तेन्ना हांव तांकां म्हजो सॅल नंबर दितां आनी सांगतां, "जीं भुरगीं हांवें शिकयल्ल्या प्रयोगाचो सराव करून तीन म्हयन्यां उपरांत म्हाका फोन करतलीं तांकांच हांव फुडले प्रयोग शिकयतलों." अणभव असो, शंबर भुरग्यांतलो चुकून एकटो - दुसरो फोन करता. सांगपाचें इतलेंच, हांगाच्या साहित्यीक वातावरणांत तुमी उमेदीन भरसून वचचे. पूण हांगाच्यान गेलीं आनी जें जाणून घेतलां तें विसरलीं जाल्यार साहित्याच्या क्षेत्रांत तुमी तग धरतलींच म्हणपाचो भरवंसो ना. ते खातीर इतलेंच मागतां,

ाहित्यीक वातावरणांत रावपाचो चडांत चड यत्न करात. जंय ाहित्यीक मेळावे जातात, शिबिरां जातात, परिसंवाद, याख्यानां जातात थंय थंय उपस्थित रावपाचो प्रयत्न करात. ्या दोन दिसांनी जी उर्जा तुमकां मेळटली ती न्हिवूंक दिवं ाकात. बद्द दुसऱ्या वर्सातल्या संमेलनाक राव नासतना मदीं मदीं तुमचे तुमी तरी संमेलीत जावन साहित्या विशीं भासाभास करात. तुमी जितले बरे साहित्यीक जातले ताचे परस चड बरे कोंकणी चळवळींतले सेवक जातले, हाचो ध्यास धरात.

म्हाका याद जाता. पोरूं कुंकळ्ळेच्या संमेलनांतले समारोपाचे कार्यावळींत गोंय विद्यापीठा वतीन आपोवणें दितना "ताळगांवच्या सड्यार फुलां फुलोवपाक सगळ्यांनी येवचें" असो उलो मारिल्लो. एका काळार 'सडो' अशी ह्या वाठाराची वळख आशिल्ली जायत, पूण हो वाठार खऱ्या अर्थान गिन्यानाचे गंगेन व्यापला. हे गंगेचे शितळसाणेंत तुमी साहित्यीक फुडारा खातीर रसरसून फुलचें, हीच अपेक्षा.

देव बरें करूं.

जोड आयोजक संस्था : गोंय विद्यापीठ, ताळगांव.
तारीक : 14 आनी 15 डिसेंबर, 2013
येवकाराध्यक्ष : डॉ. सतीश शेट्ये
कार्याध्यक्ष : प्रा. प्रियदर्शनी तडकोडकार
उद्घाटक : इब्राहिम अफगान

# सोळावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. नूतन साखरदांडे**

**(संमेलनाध्यक्ष)**

माचयेवयले मानेस्त तशेंच सभाघरांत बशिल्ले ज्येश्ठ तशेंच नवोदीत युवा साहित्यिक, सगळ्यांक म्हजो काळजांसावन नमस्कार.

13 डिसेंबर, 2014. आयज 16व्या युवा साहित्य संमेलनाचे माचयेर अध्यक्ष म्हण उबें रावताना म्हाका ह्या मानादीक पदाची जितली खोस जाल्या तितलोच अभिमानय भोगला. इश्टांनो, हांव जाणां शणै गोंयबाबान आमच्यांत जागयिल्ल्या कोंकणी भाशेच्या स्वाभिमानाची कीट फूंक मारीत आमचे फाटले पिळगेंतल्या निस्वार्थी निश्ठावान म्हालगड्यांनी सतत पेटयत दवरली. हे सासायेक स्मरून तेच पुण्यायेच्या म्हालवजार हांव तांच्या कार्याकडेन नतमस्तक जातां. म्हाका आयज हो अध्यक्षपदाचो मान फाव जाला ते खातीर म्हज्या फुडल्या पिळगेच्या साहित्यीकांक हांव अंतस्कर्णांतल्यान उलो मारून सांगतां, भावांनो आनी भयणिंनो ज्ञानपीठ पुरस्कार विजेते सर्गेस्त रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी सदांच एक दीपस्तंभ जावन आमकां मार्गदर्शन केलां. केन्ना आमची तोखणाय केल्या तर केन्ना आमकां खुबळावन घाल्यांत. तांणी सदांच आमकां सांगलें, जेन्ना जेन्ना भाशेखातीर संघर्ष करपाचो वेळ येता तेन्ना तेन्ना लेखकान आपल्या हातांतली लेखणी सकयल दवरून मार्गार येवपाची तयारी दवरपाक जाय. ते म्हणटाले, A writer should be a fighter. आमच्या आवय भाशेचेर संकट आयलां तेन्ना लेखणेची तरसाद करून आमच्या म्हालगड्यांनी आपले अधिकार झोमून घेतल्यात. ह्या अधिकारांची राखण करपाची

जापसालकी आतां तुमच्या खांदार आसा.

'गोंयच्या म्हज्या गोंयकारांनो,
जेन्ना आवयन मारलो उलो तेन्ना तुमी रावले उबे'

हांवे कवीवर्य सर्गेस्त मनोहरराय सरदेसायांचे पद गोंय शाहीर उल्हास बुयांव हाणी आपल्या खणखणीत आवाजांत म्हणून कितल्याशाच सभांनी, परीशदांनी आनी संमेलनांनी उपाट भरिल्ल्या माटवांत स्फूर्त हाडल्या. असल्या कांय गजालींची आमी गवाय आसात.

इश्टांनो, आमकां हेंवूय खबर आसा, खंयचीय चळवळ वा संघर्श हो तरणाट्यांकडल्यानूच जाता. गोंय ताका आडवाद ना. 1961 त गोंय मुक्त जालें तेन्ना त्या होमखणांत उडी घेतिल्ले सुटके झुजारी तेन्ना तरणाटे आशिल्ले. 1967 त गोंयचें भवितव्य थारावपाक ओपिनीयन पोल घेतलो तेन्ना गोंय वेगळें राखून दवरपाक वावुरपी तरणाटेच आशिल्ले. 1986 त कोंकणी राजभास करपाक आनी गोंयाक घटक राज्याचो दर्जो मेळोवपा खातीर जें 555 दिसांचें आंदोलन चल्लें तेन्ना आमी तरणाटीं आशिल्लीं आनी ही सांखळ अशीच चालू उरत 2011 वर्सा गोंय सरकारान प्राथमिक शाळांनी इंग्लीश माध्यम करपाच्या धोरणा आड 'इंग्लीश व्हाय, मायभास जाय' म्हणत रस्त्यारस्त्यांनी घोशणा करीत निशेध परगटावपी तुमीच तर ते तरणाटे. जेन्ना जेन्ना कोंकणीचेर हावळ आयली आनी आमच्या फुडाऱ्यांनी आमकां उलो मारलो तेन्ना तेन्ना आमचेच आवयचेर संकट कोसळिल्ल्यावरी आमी धांवून गेलीं. जावं मागीर तें कोंकणी प्रजेची आवाजाचें राजभास आंदोलन वा शिक्षणिक माध्यम धोरणाचें आंदोलन. आनी एक जाणा जायात आमचीं हीं झुजां केन्नाच निश्फळ थरलीं ना. जैतां अशीं हातासत गेलीं. आनी

हांव खात्रीन सांगता, शिक्षणीक माध्यमाच्या निर्णयांत लेगीत आमी जैतिवंत थरतलीं आनी तो दीस पयस ना अशें म्हाका अंतस्करणांतल्यान दिसता. कित्याक तर ह्या झुजांत टिमीचो वांटो आसा. तरणी पिराय तुमची आनी सळसळटें रगत. एका वेळार आमीय उकतायतालीं तडीक अन्यायाआड. तुमच्या भुजांत आसा तशें बळगें आनी नव्या नव्या विचारांनी सतत जागृत उरपी तुमची विश्व व्यापक मानसीक नदर. कोंकणी भास आनी साहित्याच्या उदरगती वरवीं मळब वेंगावपी हावेसाची स्फुर्त तुमच्यांत येवूं अशी हांव सुरवेक उर्बेभरीत प्रार्थना करतां.

गोंय आमचें मुळपीठ. कोंकणी आमची भास / कोंकणी संस्कृताय, आमच्या जाणट्यांली मिरास. बाकीबाब बोरकारांचीं हीं उतरां आमच्या शिराशिरांतल्यान साद घालतात. तो साद आमकां वगी बसपाक दिना. देखूनच पुंडलीक नायक हाणी शिटकावणी दीत म्हणिल्लें. "आमी कोण... हाची जाप तुमकां काळूच दितलो अशें आमी म्हणचेनात ती आमीच दितले / वेदनांचो आख्खो दर्या जाणी मोन्यानी पिवन वडयला ते आमी / तांबडे मातयेकडचें इमान जाणी आजून घाणाक दवरूंना ते आमी." हय खरें, आमी नीज गोंयकार. हें गोंयकारपण सांबाळून उरपा खातीर आमकां आमची अस्मिताय राखून दवरपाक जाय आनी कोंकणी भास सांबाळून दवरली जाल्यारूच ही अस्मिताय राखून उरतली. जाणा जायात कोंकणी भास राजभास जाली म्हणून गोयांक घटक राज्याचो दर्जो मेळपाक पावलो आनी आमी जेन्ना गोंयाक खाशेलो दर्जो मागतात तेन्ना ह्या राज्याची कोंकणी ही ते मागणेचो एक गूण थारता.

हो आमचे सरभोंवतणचो सैमान नटील्लो

काणकोणचो वाठार. ही पांचवीचार झाडां आनी खळखळून व्हांवपी दर्यो.

सुर्या सुर्या म्हाकां तुजो उजवाड दी
संवसारांतल्या सगळ्यां खातीर म्हाका तुजें जळप दी
दर्या दर्या म्हाका तुजी खोलाय दी
ह्या संवसारात जियेवपाक
इल्ली तरी सूख थंडाय दी.

केन्ना तरी म्हजे कंडल्यान निर्माण जाल्ल्या कवितेंतलीं हीं उतरां आयज अचळय ओंठार येतात. विसेक वर्सां फाटीं म्हणजे तरणी पिरायेचेर तयार जाल्ली ही कविता. आमकां पिशें लावपी हो दर्यो. कवी रमेश वेळुसकाराच्या कवितेंतल्यो ह्यो ओळी पळयात -

रंगलीं कुपां दर्या मुखार
वयतना गे सांग
ल्हारां ल्हाराक झांजरली गे
पैजणांची झांज.

काणकोण म्हाल म्हळ्यार कोंकणी मनशाची धगधगती मशाल. लोककलेचें दायज केळयत नामनेक पाविल्लो हो वाठार. पूर्वापाठ तोंडांत आनी ओंठांत घोळत उरिल्ली ही लोककला अस्सल निजाची. होळी, शिगमो, जागोर खेळपी तशेंच धालो आनी फुगड्यो घालपी कितलेशेच लोककलाकार हेच भुयेंत जल्मले आनी काणकोणची कीर्त गोंयभर पावयली.

म्होंवाळ उतरांनी आपलेंपण शिंवरपी काणकोणच्या मनशाचो आग्रो मोडप सहसा शक्य ना देखून हे दोन दीस आमी आनी तुमी तांचे आदरातीथ्य घेवंया. हो सैम नियाळटना मनशां मनशां भितर भरसून आपलेंपण निर्माण करूया आनी तातूंतल्यान साकारूया आमचें नवे ताल्ल साहित्य. मागीर

कवितांचे पीक येवंदी. कथा कादंबरीचीं बियां पुंजावया, जातूंतल्यान रुजवणां येवंदी आमच्यो साहित्य पिकावळी, नाटकाचे आनी एकांकीकांचे विशय वेंचून काडुया. ज्या नाटकांतल्या प्रदर्शीत जातले विचारांवरवीं समाजांत थोडी जागृती हाडुया, आमचें कितें चुकता बी जाल्यार मार्गदर्शकां कडसून सुदारून घेवंया आनी हें युवा साहित्य संमेलन फुडल्या वर्सभरयाच्या साहित्यिक वावराचो पुरूमेंत करून दवरूंया.

म्हज्या तरणाट्या साहित्यिकांनो, हेच खातीर आसतात असलीं संमेलना आनी मेळावे. आमीय अशींच घडल्यांत, पस्तिशेक वर्सां फाटीं आमी जेन्ना नवोदीत आशिल्लीं तेन्ना अपुर्बाय प्रकाशन, वळवयचे वतीन बायलां खातीर खाशेले साहित्य मेळावे घडोवन हाडपाचो व्याप हेमा नायक हाणी आपल्या भुजार घेतिल्लो. तातूंतल्यान बाल साहित्यिकाची एक फौजच तयार जाल्ली जातूंतल्यान कितलेशे जाणांक आयज आपल्या साहित्यीक निर्माणे खातीर वेगवेगळ्या संस्थांच्या वतीन प्रतिश्ठेचे भौमान आनी पुरस्कार फावो जाल्यात. राज्य तशेंच केंद्रीय सरकाराच्या पुरस्कारांचोय बी बरेचजाण मानकरी जाल्यात. हांव हें कित्याक सांगतां, तर आमी साहित्यांत जें सातत्य राखलें आनी कोंकणीचेर खर निश्ठा दवरली ताचो हो परिणाम. त्या मानान तुमी खऱ्यांनीच भाग्यवान. फाटलीं 15 वर्सां हें अशेच तरेचें युवा साहित्य संमेलन गोवा कोंकणी अकादेमीच्या पालवान गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांत जाता. तातूंत तुमच्या साहित्यीक कार्याचो गौरव जाता, ज्येश्ठ साहित्यीकां कडसून मार्गदर्शनाचो लाब घेवंक मेळटा. फाटलीं वीस वर्सां कोंकणी भाशा मंडळ युवा महोत्सव घडोवन हाडटा. तातूंत तरणाट्यांच्या कला आनी साहित्यिक उमाळ्यांक वाव मेळटा. ते भायर सरकारच्या वतीन युवा सृजन पुरस्कार, गोवा

कोंकणी अकादेमीचो युवा चैतन्य पुरस्कार आसा. आमचें अपुरबायेचें कोंकणी दैनिक सुनापरान्त हातूंत आयताराक साहित्यीकांचे साहित्य उजवाडाक हाडून दुसऱ्या आयतारा ताचेर समिक्षात्मक आपरोस उजवाडाक हाडपाचें काम जाता. मंगळूरचे फाकिवंत कवी भौ. मॅल्वीन रोड्रीगीश दर वर्सा 'कविता फेस्त' घडोवन हाडटा. तांतूत कितलेशेच तरणाट्या कवींक संद मेळटा. साहित्य अकादेमी दर वर्सा युवा साहित्य पुरस्कार दिता. युवकां खातीर खाशेल्यो साहित्यीक कार्यावळी आयोजीत करता. तुमच्या वांट्याक हें इतलें येता तरणाट्यांनो. तुमी ह्या सगळ्यांक कसो प्रतिसाद दितात आनी दितलीं ताचो विचार करात. कोंकणी आवयचो हो तुमकां उलो आसा, जायात जागे आनी तुमच्या नव्या ताल्ल विचारांनी कोंकणी भाशेक समृद्ध करात.

एका काळार आमकां कोंकणी कथा, कविता वा साहित्याचे हेर प्रकार कशे बरोवचे हे विशीं अजिबात गिन्यान नाशिल्लें. ताचें कारण म्हळ्यार कोंकणींतल्यान फावो तितलें साहित्य निर्मणीच जायना आशिल्ली. कोंकणीक 1975 त जेन्ना साहित्य अकादेमीची मान्यता मेळ्ळी तेन्ना कोंकणी हेर भासांच्या पंगतीक वचून बसली आनी तेन्ना हेर भाशेक साहित्यीक आनी व्याकरणीक नेम बी सगळे लागू जाले आनी ताका लागून आतां साहित्य म्हण हेर भासाक जे नेम लागतात तेच नेम कोंकणी भाशेकूय लागू जातात आनी देखूनूच आमकां आतां खंयचोय साहित्यीक प्रकार बरयतना वा ताचेर व्यासपीठावयल्यान चर्चा करताना शादुरसाण बाळगुची पडटा.

हांगा जमिल्ल्या सगळ्या युवा साहित्यीकानो, युवा साहित्य संमेलन हें तुमचें संमेलन. तुमच्या साहित्यीक विश्वाक आकार मेळपा खातीर घडोवन हाडिल्ली ही एक

भांगराळी संद. तुमी तिचो बरे तरेन लाब घेवचो हे तुमचे कडेन मागणें. हांगा आसात कथा, कविता, निबंद, समिक्षा ह्या साहित्याच्या विविध प्रकारांच्यो कार्यशाळा. तातूंत मार्गदर्शन करपी साहित्यांतले ज्येश्ठ साहित्यीक, अणभवी साहित्यीकांलागीं चर्चा करपा खातीर पडवी आसा. हे पडवेंत तुमचे भेटेक येतले कोंकणीतले अणभवी साहित्यीक. दर वर्सा भशेन अंदूय बी अश्या संमेलनलांतल्यान वयर सरिल्ल्या एका नवोदीत साहित्यीकाचें पुस्तकाचें प्रकाशन. एका नवोदीत साहित्यीकाचो भौमान तशेंच ताची मुलाखतय तुमकां आयकूंक मेळटली. ह्या सगळ्याची तुमच्या गिन्यानाक भर पडल्या बगर रावची ना. देखून हे दोन दीस तुमी मना विचारांसयत ह्या माटवांत वावरात. तुमी सगळीं साहित्यमय जातलीं. ना जाल्यार हरशींच तुमची नदर नेटाचेर आनी बोटां व्हॉट्सअॅपाचेर. थंय कॉपी पेस्ट करच्या बदलाक सर्जनशील साहित्याची निर्मणी करप. आपणें स्वता निर्माण केल्ल्या साहित्याची गोडी वेगळीच आसता.

आयचे घडकेक आमी कोंकणीच्या उदरगतीच्या पावंड्यार आसात. साहित्यीक मळ आनीक लकलकीत करपा खातीर तुमी व्हडलीं धेपां मारून धांवपाची गरज आसा. पूण वगीच संख्यात्मक लिखाण केलें म्हण जायना तर तें गुणाच्या कसाक लागचें पडटलें. देखूनच तर सगळ्यांत पयलीं गजाल म्हणल्यार आमी खूब वाचपाक जाय. आपणें बरयिल्ल्याचोच थातोमातो केलो म्हण जायना. ज्येश्ठ लेखकांचें साहित्य वाचपाक जाय. कोंकणी बरोबरच बाकीच्याय भासांतले साहित्य वाचपाची गोडी लावन घेवपाक जाय. वाचनांतल्यान आमकां वेगवेगळ्या गजालींचें गिन्यान मेळटा. साहित्य अकादेमी हेर भासांतले साहित्य कोंकणींतल्यान अणकारीत करून घेवन तें उजवाडाक हाडटात. संविधानाच्या आठव्या परिशिष्ठांत

समाविश्ठ आशिल्ल्या सगळ्या भासांचे अणकार ते ते भाशेंत उजवाडाक हाडपाची ही प्रतिक्रीया. हाचो लाब घेयात. आमकां आमचो देश कळपाक पावतलो. यू. आर अनंतमूर्ती, प्रतिभा राय, गिरीश कर्नाड, इंदिरा गोस्वामी, विंदा करंदीकर अशे कितलेशेच जांच्यो साहित्यकृती तुमी वाचपाक जाय. हातूंतल्यान आमकां साहित्य लेखनाचे सृजनात्मक प्रक्रियेचें गिन्यान मेळपाक पावतलें. वाचना इतलेंच महत्वाचें आसा तें कार्यावळींतल्या वक्त्यांचीं भाशणां आयकूवप. गोंयांत हालीं कोंकणीच्यो साहित्यीक कार्यावळी जायत्यो घडून येतात. पुस्तक विमोचन सुवाळो, तशेंच वेगवेगळ्या संस्थांच्या वतीन चर्चा, भासाभास बी जायत आसतात. असल्या कार्यावळींनी आपली हाजेरी लावप गरजेचें. त्या कार्यावळीच्या निमतान मानेस्त उलोवपी जे अर्थपूर्ण विचार मांडटात तातूंतल्यान जरूर मार्गदर्शन जावंक येता हें लक्षांत धरात. तशेंच आनीक एक लक्षांत दवरपाचें अत्यंत गरजेची गजाल, ती म्हळ्यार संगीताक आनी बाकीच्या कलांक जे तरेची साधनां लागता तशी साधनां साहित्यीकाकय लागता हें विसरूं नाकात. आपल्याक दिसलें आनी आपणें बरयलें अशें जावचें न्हय. एखादी कथा वा लेख कागदार कांय न्ही करून बरोवंक येता. पूण ताची तयारी करपाक खूब वेळ वता हें लक्षांत घेवचें. खंयचीय साहित्यकृती जावं ती कविता, कथा, नाटक, एकांकी - मनांत विशय पक्को जाले बगर, धव्यार काळें करचे पयलीं बरें चिंतन करचें पडटा. तांतूतल्यान मागीर जी निर्मिती जाता तीच साहित्य म्हण आकाराक येता. ताका लागून दरेका साहित्यिकान पयलीं आपलो आपुणूच वाचक जावचो आनी ज्यो चुको मेळटात त्यो सुदारच्यो. सर्गेस्त पांडुरंग भांगी हे कोंकणींतले एक ज्येश्ठ कवी आसले. चार ओळींचे तांच्या कवितेंत लेगीत केदो अर्थ भरिल्लो आसतालो !

चंद्राची कोर कशी
आमुलेचें तोर
आश्विनांतलें चांदणे बाये
वयावेलें पोर.

ह्या चार वळी रचपाक तांकां कितलें चिंतचें पडलां आसतलें हें तुमीच चिंतात.

आनीक एक गजाल सांगपाक सोदतां, चड करून तुमकां नवे पिळगेच्या उदेत्या साहित्यिकांक, तुमची नदर मात्शी वेगळ्या विशयांकडेन वळवपाक जाय. मोग, लग्न, मोगभंग, असले विशय आनी कथा खूब जाल्यो. ह्या विशयां भायर आनीकूय कांय सामाजीक प्रश्न आसात जांचो आस्पाव आमच्या लेखनांत जावप सामकें गरजेचें आसा. कांय वेळा आमकां थोडोसो निवळसायेचो गंभीर विचार तकलेंत घोळवचो पडटलो. समाज प्रबोधन करपा खातीर न्हय पूण समाजांतले कांय त्रासदायक प्रश्न, कठीण समस्या सुटनाशिल्ले संघर्श असल्या विशयांकय हात घालपाक जाय. कथा, नाटक, सिनेमा, हातूंत संघर्श आसपाक जाय जसो तो आमच्या जिवितांत आसता आनी अखेर हें साहित्य म्हणल्यारच आमच्याच जिवितांचें पडबिंब न्ही? अशे विशय आमकां समाजांत आयऱ्या पयऱ्यान सांपडटात जांचेर बरे तरेन साहित्य संस्कार करून वाचप्यांक दिवंक येता. आमकां जाय ती निरिक्षण शक्त आनी संवेदनशीलताय. देखी दिवपा गेल्यार खूब आसात. कोण एखादी आवय ल्हान भुरग्याक घेवन जीव दिता. दोगी जुवान भयणी पुला वयल्यान उदकांत घालून घेतात. कोणा चलयेक लग्नाचें उतर दिवन ताचेकडसून पयशे भांगर बी घेवन तिचो खून करून पळ काडटात. तरा तरांच्यो आत्महत्या आनी विचित्र पद्धतीचे खून. काळजांक पिवळ घालून न्हिन्नळून

उडोवपी हे विशय. येदेंशें गोंय पूण काळजांक दूख भोगवपी घडणुको कितल्योशोच. ल्हान ल्हान पिरायेच्या चलयांचेर जावपी बलात्कार, तांचो केल्लो विनयभंग, समाजांत दोळ्यांक दिश्टी पडपी अनैतिकताय, व्यसनांच्या भकीक पडिल्ले चले तशेंच चलयो. समाजांतल्या अशा भिरांकूळ गजालींचेर मंथन जावपाक जाय, आमकां आशय जाय तसो मेळटा. फकत गरज आसा ती तंत्र आनी वातावरण निर्मिती कशी करपाची तें समजून घेवपाची. इश्टांनो देखूनच तुमकां सांगन दिसता, तुमचें साहित्य बरे तरेन फुलतलें जाल्यार दिसपट्टयो घडटल्या गजालींचेर आनी जिवीतांतल्या नव्या नव्या मळाचेर बारीकसाणेन नदर भोंवडावन आपले अणभव विश्व जाता तितलें विस्तृत आनी समृद्ध करपाक जाय. 'कथाशिल्प' पुस्तकांत सर्गेस्त लक्ष्मणराव सरदेसायान म्हणलां, झाडांक जितलें उदक - मातयेचें म्हत्व तितलेंच कथाकाराच्या जिवीतांत अणभवांक म्हत्व आसा. अणभव नाशिल्ल्या कथाकाराचें मन व्हांवत वता. अणभव जितले खर वा कोडू तितली कलाकारांच्या व्यक्तिमत्वाक धार येता.

पूण हांव निराशावादी न्हय. हालिंसराक युवाकांचें साहित्य वाचता तेना तांच्या साहित्यांत असले विशय आस्पाविले दिसतात. चड करून कथा साहित्यांत. काणकोणच्या जाल्ल्या रूबी रेजिडेन्सीची इमारत कोसळून पडिल्ल्या संदर्भांतल्यान एक दोन कथा वाचल्यो. पर्यटनाच्या नांवाखाला जी अनैतीकता पातळत चल्ल्या त्या संदर्भातल्यान जोफा गोन्साल्वीसाची एक कथा हालींच सुनापरान्तांत वाचली. समाजाक जें कितें वायट बरें घडटा तें पारखुपाची नदर आयच्या युवा साहित्यिकांक आयल्या हाची म्हाका जाणीव आसा. तरी लेगीत तुमच्याकडसून आमच्यो खूब अपेक्षा आसात, त्या

अपेक्षांची पुर्ती तुमी करची अशी हांव इत्सा बाळगितां. आयचो काळ हो नव्या तंत्रज्ञानाची काळ. इंटरनेट, फेसबूक ह्या प्रसार माध्यमांची सवलत तुमकां सोंपेपणान मेळ्ळया. ताकालागून तुमी गिन्यानी आसत जाल्यार तुमचें साहित्य खिणाभितर जगभर पावूंक येता. पूण निवळ आपल्यापुरतोच सुवार्थी हेतू बाळगिनासतना तुमी ज्येश्ठ साहित्यीकांचे बऱ्यांतलें बरें साहित्य ह्या माध्यमांवरवीं जगांत पावोवपाचो यत्न करपाक जाय, जो अजून मेरेन जाल्लो दिसना. हांव हें इतल्याच खातीर म्हणटां, ह्या नव्या तंत्रज्ञानाची आमच्या सारक्या लेखकांक संवकळ नाशिल्ल्यान आनी तें शिकून घेवपाची तशी पिराय ना उरिल्ल्यान हीं कामां तुमीं करचीं अशी आस्त बाळगिल्यार कितें चुकलां अशें म्हाका दिसना. ज्येश्ठांनी आपलो वेळ आनी श्रम दिवन कोंकणीची ही बुन्याद गडगंज करपाचो वावर केलो जाका लागूनच आयज हें सगळें तुमकां आमकां फावो जालां ताचे खातीर हें इतलें करप तुमी आपलें कर्तव्य समजूपाक जाय. तुमचे सारखे युवा पिळगेकडेन आमचे साहित्यिक मोटे आस्थेन पळयतात ताचो आदर राखपाचो इतलें सांगून निमाणे कडेन इतलें म्हणून ह्या साहित्यिकांकडल्यान जितलें आपणाक मेळोवन घेवंक येता तितलें मेळोवन आपलें समृद्धतायेंत भर घालची. तुमी फुडाराचे मोठे साहित्यीक जाले बगर रावचे नात.

आनी वतां वतां हो धाकटुलोसो संदेश दिवपाचो मोह म्हज्यान आडावंक जायना. भावांनो आनी भयणींनो लक्षांत दवरात, आमचें साहित्यीक विश्व आपूण आनी आपल्या संवसारापुरतें अशें करून घेवं नाकात. साहित्यीकांक समाजांत भोंवतना आपली नदर आनी कान जागृत दवरून वावुरचें पडटा आनी तेच बरोबर दिसपट्टयो घडटल्या गजालींची ताका जाणीव

आसची पडटा. फकत आपलें आनी शेजाऱ्या पाजाऱ्यांची न्हय. आमचो देश व्हडलो आसा. त्या भायर जगांतय कितलेशेच देश आसात. त्या देशांच्या सामाजीक वातावरणाचो आनी अर्थकारणाचो प्रभाव आमच्या संस्कृतायेचेर आनी समाजाच्या परिवर्तनाचेर आनी जागृतीचेर पडत आसता जाका लागून मनीसकायेचे सिद्धांतय बदलत रावतात. हें सगळें जाणा जावप साहित्यिकाक गरजेचें आसा. आनी तुमचे हे पिरायेचेर तुमकां हें शक्य आसा.

म्हजीं हीं उतरां तुमी आयकून घेतलीं म्हण खोशयेन हांव आमच्या कोंकणीच्या सगल्या पुर्वजांक स्मरतां आनी आमच्या तरणाट्यांक नवें नवें निर्माण करपाची बुद्धी दिवची म्हण पराथितां आनी म्हणटां -

आमच्या पुरसा आमकां पाव,
आमचें बरें जांव म्हण.

जय गोंय, जय कोंकणी !

जोड आयोजक संस्था : मल्लीकार्जून महाविद्यालय,
काणकोण

तारीक : 13 आनी 14 डिसेंबर, 2014

येवकाराध्यक्ष : डॉ. एफ.एफ.नदाफ

कार्याध्यक्ष : पुर्णानंद च्यारी

उद्घाटक : विवेक शानबाग

# सतरावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. मुकेश थळी**

(संमेलनाध्यक्ष)

सतराव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांत तुमकां सगल्यांक मायेमोगाचो येवकार. साहित्याच्या आंगणांत तुमी पावल दवरलां आनी मार्गदर्शनाखातीर ह्या संमेलनाच्या आंगणांत जमल्यात.

तुमची पिळगी खूब भाग्यवान. कारण तुमकां तरनाटे पिरायेत वाट चलून मुखार गेल्ल्या जाणकारांचें मार्गदर्शन मेळटा. म्हाका स्वताक तें मेळ्ळेंना अशी खंत हांव उक्तावचोना. कारण म्हाका धा वर्सां पिरायचो आसतना सावन ज्ञानपीठकार रवीन्द्रबाब केळेकार हांचे सारकी शाळा मेळ्ळी. जंय हांव घडलों. म्हज्या वांट्याक आयिल्लें तें परम भाग्य अशें हांव समजतां. साहित्याविशीं कितलेशेच धडे हांव तांच्या आशीर्वादान चिरूक शिकलों. भाशेचेर, संस्कृतीचेर आनी साहित्याचेर येतीश्ट प्रेम कशें करप आनी आपली लागणूक कशी मुखार व्हरप हाचोय दिश्टावो म्हाका रवीन्द्रबाबा कडल्यानूच मेळ्ळो. पुस्तकांच्या साम्राज्यांत कसो चरप आनी व्यासंगाचें लेखकाचे घडणीक म्हत्व केदें हिवूय गजाल म्हाका थंयच होलमली.

युवा साहित्यिकांनो आनी साहित्य रसिकांनो, तुमचीय पिळगी खुबूच भाग्यवान अशें हांव समजतां. कारण तुमची पोसवण जल्माक येत सावन अती आर्विल्ल्या तंत्रगिन्याच्या युगांत जाता. तातूंत तुमी विकसीत जातात. तंत्रगिन्यानाच्या अती आर्विल्ल्या चमत्कारांचें भान्‌च न्हय तर ताची जाण तुमकां बेस बरी आसा. ताचो वापर तुमी हुशारकायेन आनी बुदवंतकायेन करतात. हातांतल्या चिमटीभर स्मार्टफोन वयले

इंटनेट आसूं. ताचे वयलें फेसबूक आसूं वा वॉट्सॲप आसूं.

ह्या सायबर विश्वांत नवे आयाम आशिल्लें साहित्य उदेता, जल्मता. नवेनवे प्रयोग जायत आसात. लेखकांचे ब्लॉग आसात. लेखकां कडलें आदान प्रदान आनी संपर्क सोपे जाल्यात. विजेचे गतीन हो संपर्क जायत आसा. ह्या गती वांगडा लय आनी ताळमेळ सादून साहित्यीक म्हूण विकसीत जावपाची तांक तुमचे तरनाटे पिळगे मदीं आसा.

तणाक कमकमून पेंटिल्लो उजो पातळपाक कळाव जायत, पूण ताचेय परस नेटान बातम्यो पातळत आसात. नेटीझन नासप हें अज्ञान आयज उपकारा पडचना. हीं तंत्रगिन्यानाचीं पांखां नासल्यार तो फाटीं उरतलो. तुमी ह्या मळार जशीं जाय तशीं तत्पर आसात. ह्या तंत्रगिन्यानाचो वापर कसो करप हें तुमकां आमचे परस बरें खबर आसा. कारण तुमी आमच्या भुजांर उबीं आसात.

युवा साहित्यिकांनो, साहित्य ही कला एकसारकी विकसीत करीत रावची पडटा. चोवीस वरां. संगिता सारकी वा नाचाची कला कोणा एका गुरूच्या सान्निध्यांत रावन शिकची पडटा. साहित्यांत मुळावें धडे दिवपी असलें गुरूकूल ना. पूण अणभव, जाणट्यांचें मार्गदर्शन आनी वाचन हे ह्या मार्गावले गुरूच आसतात. हें युवा संमेलन आनी तातूंतलें तुमचे वाडीक पोशक वातावरण हो असोच एक मार्गदर्शन करपी वाटचिरो. ताचो पुराय लाव घेयात.

कथा, कविता बरोवप हो सुरवातीक छंद आसूं येता. पूण मुखावेलीं सपणां चडटलो जाल्यार साहित्य सर्जन ही एक गंभीर प्रक्रिया म्हूण आपणावचो पडटली. निर्मितल्यान जण एकल्या भितर गूण भरिल्ले आसतात. पूण ते गूण विकसीत करप ही त्या गुणवंताची लागणूक. निश्ठेन, सातत्यान,

प्रामाणिकपणान, पारदर्शकपणान आनी प्राधान्यान हें सगळें करचें पडटा. त्या गुणांक सारें घालीत रावचें पडटा. रचणाऱ्यान आमकां प्रतिभेचो गूण दिला. कांय जाणां कांय प्रतिभे वागडाच प्रज्ञा आसता. दोनांयचोय मिलाफ खुबूच संतुळीत आनी गोड जावन साहित्यांत एक जादू घडोवंक शकता. साहित्याचो हो रियाज सत्याच्या अधीश्ठानाचेर पातयेल्लो आसता हें कळटा तेन्ना ही वाड निरोगी बरी आनी तरतरीत अशी जाता.

खंयचो साहित्यप्रकार तुमकां आवडटा ताचेर तुमचो अती फोकस आसता. थंय चड लक्ष केंद्रीत करचें पडटा. तातूंत प्राविण्य मेळयतलो जाल्यार ताची साधना करची पडटा. हाचो अर्थ असो न्हय की बाकीच्या साहित्यप्रकारां कडेन आडनदर करची. लेखकाक कसलेच तरेचो पातसो आनी भयरोजोळोप आसूंक फावना. निबंद बरय नाजाल्यार कथा वा कविता, कांय नजो. पूण बाकिच्याय साहित्य प्रकारांचो आस्वाद ताणें घेत रावंक जाय. सचेत आनी सजग रावन कादंबरी वा हेर साहित्य प्रकार वाचूंक जाय. नाटक वाचूंक जाय. नाटकां पळोवंक जाय. संवसारांतलीं श्रेश्ठ नाटकां आनी हेर साहित्यकृती एका क्लिकाचेर इंटरनेटान आमच्या घरांत हाडून सोडल्यात. कोण उणेशांत पडलो म्हणटात तसो ह्या वाचना नंदाच्या सागरांत बुडून वचूंक जाय. हातूंतल्यान लेखकाच्या साहित्यींक जाणिवांक आनी नेणिवांक आकार येवंक लागता. संवेदनशीलतेक एक धार येवंक लागता. ही धार एकसारकी काडीत लखलखीत दवरूंक जाय. ती धार पाजीत रावंक जाय. तातूंतल्यान सृजनशीलतायेक नव्यो कोमऱ्यो फुटूंक लागतात. फकत साहित्य प्रकारूच न्हय. लेखकान हेर ललीत कला आसात तांचेंय मुळावण समजून घेवन आनंद घेतल्यार ताची आपउक्तावणी आनीकूय तेजस्वी जावंक पावता.

चित्रकलाच घेयात. तातूंतली सोबीतकाय अणभवतनाच लय लेगीत पळेयात. शिकात. संगितांत जावं ती गायनात वा वादनात लय आसता. तातूंत धोलूंक शिकात. ती समजून घेयात. जिणेकूच एक लय आसा. सादी. सामकी सादी. ते लयेचें सौंदर्य सत्याच्या सांगातांत पारखियात. तोखेयात. तातूंत आनंदान उफेयात.

विश्वाच्या घुंवपाक, तारे, गिरे सुर्यमाळो हांच्या घुंवपांत लय आसा. आमच्या शरीरांत घोळपी रगतांत लय आसा. बऱ्या साहित्यांत लेगीत लय हो वेगळावं नजो असो घटक जावन येता. लय कणभर हालल्यार प्रलय जावं येता देखून ताचें ट्युनींग पक्कें आसचें पडटा.

लेखन शैली लयदार जाय. वजनदार जाय. सुटसुटीत जाय. प्रासादीक जाय. रसाळ जाय. म्होंवाळ जाय. प्रभावी, भारदस्त आनी वाचप्याक खिळोवन दवरपी जाय. अणभवांत सच्चेपण जाय. बरप चरचरीत अणभवांतल्यान स्फुरिल्लें आसूंक जाय. कल्पनाशक्तीचीं पांखां लावन पोक्यो फटासो खंयच उपकाराना. तांचो परिणाम सादना. शैली विकसीत करपाक वेगळे खेरीत कश्ट घेवचे पडटात. साधना करची पडटा. म्हान इंग्लीश साहित्यीक सामरसेट मॉम हाणें आपली शैली सुटसुटीत करपा खातीर खूब खूब कश्ट घेतले. असल्यो आनीकूय कितल्योश्योच देखी दिवं येत. कश्टांक पर्याय आसना.

युवा साहित्तीकांक खूब खेपे बरयतकच रोखडेंच उजवाडाक येवचें अशी ताकतीक लागता. मुखार वचपाक ह्या उतावीळपणाचेर निर्बंध जाय. पूण आपलेंच बरप आपणें स्वता कांय दीस दवरून, परत परत वाचून ताचेर संपादकीय संस्कार करचे. निरोगी टिका करून, मोलादीक सुचोवण्यो दिवपी

लागींचो इश्ट वा जाणटो मार्गदर्शक आसल्यार ताका तें दाखोवचें. मागीरूच तें छापचें वा उजवाडावचें वा इंटानेटार घालचें.

बरें बरप हें उत्स्फूर्त आनी उत्कट आसता. ताका चिमटी भर कारागिरीची कानस आनी किसूळ उपरांत मारूं येता. बरें बरप भितरल्यान येता. आरती प्रभूचें हें कवन पळेयात. -

तो न गातो
तो आतून ऐकतो

हातूंत सगलें सार आयलां. झाडपिकें आंतेर गळून पडचें तशें बरप पिकून आपसूक येवचें. झाड पालेता वा फूल फुलता तितली सहज सैमीक प्रक्रिया आसची. अडेचें पिकयल्लें आसल्यार तातूंतल्यान बरोवप्याक आनंद मेळना. आनी वाचप्याक तर मेळुंकूच पावना.

युवा इश्टांनो, तुमच्या बरपांत तीन घटक आसचे. एक - सादेपण म्हळ्यार सिंप्लीसीटी. दोन - स्पश्टता म्हळ्यार क्लॅरीटी आनी तीन - अल्पाक्षरत्व म्हळ्यार ब्रॅविटी. सादेपण आसप ही सोपी गजाल न्हय. उतरांचो आनी अलंकारांचो बेठोच लेपोड सारोवपाची गरज ना. उपमा, सिंम्बॉलीझम, ओपारी, सुचक प्रतिकां आनी प्रतिमां आसचीं. पूण ती सादेपणान स्पश्टतेन आनी सेंद्रीय घटक जावन येवचीं. तातूंत खंयच दुर्बोधता नाका. संदिग्धता नाका. पाल्हाळ नाका. उखलापेपण नाका. स्पश्टता भोव मोलाची. चिंतनांत स्पश्टता जाय. कथनशैलींत स्पश्टता जाय. माथाळा कितें आसचो हाचेरूय माथें खरपूंक जाय. तो माथाळो आशय विशयाक पूरक जाय. दरेक उतर तिजून दिवचें जेवरवीं तातूंत स्फटिका सारकी स्पश्टता आसची. स्पश्टता आपल्या चिंतनातूच आसची. तशी ती आसल्यारूच अभिव्यक्तीं अळंगतपणान आनी अचळय

देंवतली. थोड्या उतरांनी चडांत चड सांगप म्हळ्यार ब्रॅविटी. आशयघनता म्हत्वाची. उतरांची काटकसर आसची. दरेका उतराक खूब पैशे पडल्यात अशें समजून तीं वापरचीं. मुदयेर थीक कशीं. कोरांतिल्ल्यो बावल्यो कश्यो. चार परिच्छेदांचो मजकूर आटोवन एका परिच्छेदाच्या आपरोसांत दिवपाची कळाशी आसल्यार उत्तम.

भाशेचेर प्रेम करतले तेन्नाच तुमकां त्या सागरांतल्यो शिपयो आनी मोतयां मेळटलीं. ते खातीर वाचन जाय. श्रवण जाय. तिठ्या वयली, घरांतली, बाजारांतली, ऑफिसांतली, भुरग्यांची, तरनाट्यांची, शिकिल्ल्यांची, विद्वानांची, निरक्षर लोकांची गांवठी भाशा, सगळी भाशा आयकुची आनी आपली भाशा केळोवची.

साहित्यांत एखाद्रें उतर वापरतना ते कोशांत आसा काय ना हें हांव पळेना. म्हजी आवय माई हें म्हजें कोंकणीचें एक व्हडलें विद्यापीठ. देखीक - 'उकाशी' हें उतर माई वापरता. तिची आवय खंय ती वापरताली. देखीक हें वाक्य पळेयात - हाचेकडेन घे म्हूण आसा. पैसो भल्ला. कुसता. पूण मुंबय वतना हो सेकंड क्लास रेल्वेन वता. ताच्यान विमानान वचूं येता पूण एसी रेल्वेन तरी वचूं येताच. ही वृत्ती उकाशी. उकाशी उतर शब्दकोशांत नासत. आसून लेगीत भोगपाची वान्सा नासप ही उकाशी वृत्ती. हांव माईलें हें उतर हाडटा. ताकालागून भाशा आनी साहित्यांत भर पडटा आनी तातूंत गिरेस्तकाय येता. लोकांची भाशा आयकात. तातूंत तटास आनी अजापीत करपी उपमा, उत्तरां, म्हणी, वाक्प्रचार तुमकां मेळटले. शणै गोंयबाबान लोकांची भाशा आयकून तो सांठो एकठांय केलो. तांची समग्र साहित्य संपदा वाचल्यार हाचो दिश्टवो जाता. कांय तांदळांक बी सुगंध येता तसो परमळ हे भाशेक येता.

सुरेश भट ह्या मराठी कवीन लेगीत बरयलां. लोकांची भाशा आयकत रावात. शब्दकोशांत तीं उतरां संकलीत जाल्लीं नासल्यार नासूं. तुमी जाय थंय तीं वापरात. आल्बेअर काम्यू हो म्हान साहित्यीक खंय भाशा अशीच आयकत रावतालो. लोकांमदीं रावन, लोकांमदीं भरसून वचून. मड्डार वा शेतामळांचेर खंय तो फुटबॉल खेळपी भुरग्यां लागसार रावन तांचीय भाशा, संवाद, उतरां, भाशेंतले नाद आनी संगीत आनी शैली नोंद करून घेतालो खंय. आमीय अशेंच यत्न करूया.

भाशा हो संस्कृतायेचो वेगळावं नजो असो पयलो मुळावो घटक. भाशेचेर, साहित्याचेर, संस्कृतायेचेर प्रेम करून हो ठेवो यत्न करून एकठांय करतले, संकलीत करतले तेन्ना आमची लेखनाची भाशा शैली तिकतिकतली. चकचकतली. वाचकाक तातूंत गुंतोवन दवरपाची आनी खोस दिवपाची तांक तातूंत येतली.

वाचन कित्याक गरजेचें तें जाणून घेयात. मोबायल जसो चार्ज करचो पडटा तशें आमकां चार्ज करपाक सातत्यान व्यासंग जाय. तातूंल्यान खूब खूब लाव मेळटात. सगळ्या भासांतलें साहित्य आनी आणकारीत साहित्य वाचचें. बऱ्या साहित्याचो बोध तातूंतल्यान आमकां जातलो. बरें साहित्य रचपाची उर्बा मेळटली. चिरंतन मोलाचें साहित्य म्हळ्यार कितें तें कळटलें. हेच प्रक्रियेंतल्यान बरें साहित्य रचपाचे मंत्र आनी तंत्र आमकां कळत रावतलें. उंच उंच तेमकां केदीं हुपचीं आसा ताचो थाव लागतलो. खबरां पत्रां वाचचीं. टीवी बातम्यो पळोवच्यो. सोशल मिडीया आसाच. सरभोंवतणी कितें धडटा ताचें संतुळीत भान आसचें. वर्तमानात कितें चललां ताचो वेध घेत रावचें. बदल हो जगाचो स्थायिभाव. भोंवतणच्या ह्या बदलांच्या स्पंदनां विशीं जागरूक आसचें. लेखकान ह्या

सगल्या गजालींचे बारीकसाणेन निरीक्षण करीत रावचें. घडणुको, प्रसंग, मनशांचें वर्तन, तांची भाशा हांकां तेळीत रावचें. तातंतल्यानूच ताका बरोवपाचो कच्चो माल मेळटलो. कथा मेळटल्यो. संवाद मेळटले. नवे विशय मेळटले.

तरनाट्या साहित्यिकांनो, फुडार तुमी घडयतले. गुणवत्तेक फाव तो मान दिवपाची संस्कृती तुमी केळोवची पडटली. हाका मेरीटोक्रसी अशें म्हणटात. तातूंत खंयच वैयक्तीक मतभेद आनी कसलेच तरेचें राजकारण हांकां थारो आसूंक फावना. कारण कंपूशाय, गटबाजी, मिडीऑक्रीटी असल्या गजालीं पसून कला मळांचें लुकसाण जाता. तुमच्या सारक्या हुशार साहित्यीकांनी मेरीटोक्रसीचो हो घणघणीत उजवाडा हाडचो. तो चोंय दिकांनी फांकू. ते वरवीं मिडीओक्रटीचो काळोख नाच्च जातलो.

खलील जिब्रानाचें ह्या आशयाचें एक वाक्य आसा. आपणाक 'द 'ट्रूथ' मेळ्ळें अशें केन्नाच म्हणूं नाका. म्हाका 'अ ट्रूथ' मेळ्ळें अशें जाय जाल्यार म्हण. कारण सत्याक अनंत तांसां आसतात. सत्या वटेन सूर जुळोवन कान दिवन रावल्यार एकेका नूतन तांसाचे स्वर आयकूंक येतले. अमर्याद असो हो जीवनाचो पट. अथांग असो विश्वाचो पसारो. तातूंत अगणीत अश्यो घटना घडत आसलात. केदी विविधता ही. सूख आसा, दुख्ख आसा, शुभ आसा, अशुभ आसा. ज्ञान आसा, अज्ञान आसा. स्पश्टता आसा, गोंदळ आसा, समता आसा, विशमता आसा, सदाचार आसा, भ्रश्टाचार आसा, हळशीक आसा, मंगल आसा. भल्लां. खूब. लेखकान आनंदान तातूंतलें जें जें टिपपा सारकें आसा तें टिपचें, तेळ तेळ तेळचें, चिंतचें, येवजुचें आनी तें शिजतकच कलात्मक पांवड्यार भोवमितीय सौंदर्यमुल्यां सयत मांडचें. वाचप्याकूय तेन्ना आनंद मेळटलो. बरोवपाची ही

प्रक्रिया आनंदाची आनी आनंद दिवपी आसची हें केन्नाच विसरूं नाकात.

बरो लेखक जावचे परसूय हांव स्वताक आदीं बरो, शाणो, गोड मनीस जावपाक प्राधान्य दीत दिसता. दर दिसा ते वटेन म्हजे यत्न आसतात. उजू चलणुकेन चलपी, सतशील, सज्जन मनीस जावप म्हळयार काळीज निर्मळ करीत रावप. नैतीकतेक पाळो दिवप. बरें वर्तन दवरप. प्रेमाची भाशा घेवन मनीसपणाचो धर्म विकसीत करीत रावप. हिवूय प्रक्रिया अंत नाशिल्ली. पूण ती साधना करीत रावप गरजेचें. समाज लेखकाक विचारांचो धनी वा उतरांचो कलाकार मानता. समाज लेखका कडल्यान अपेक्षा बाळगून आसता. देखून हें बरो मनीस जायत रावप गरजेचें. हांव जर बेसूर वागलों जाल्यार नाका तुजी ती कला, नाका तुजें तें साहित्य, कारण हांव खावन जेवन सुखी आसा अशें रसीक वाचपी म्हणटलो. बरो लेखक जावपाक कितें करूंक जाय तें आतांच सांगलां. सातत्यान बरयत रावंक जाय. बरयना तेन्ना वाचूं येता. चितूं येता. अणकार करूं येता. भुरग्यां खातीर बरोवप सोपें न्हय. बालसाहित्याची आयज गरज आसा. बाल गितां धरून सगळे तरेचीं गितां जाय. गितां आनी नाटक, बरप - वाचप कळनाशिल्ल्या लोकां मेरेन भास आनी साहित्य. मौलीक स्वतंत्र एकांकी आनी नाटकां हांची आयज कोंकणी रंगमाचयेक गरज आसा. भूक आसा. तेवूय नदरेन तुमचे यत्न आसचे. रेडीयो प्ले, टेलिफिल्म, एकांकी, नाटक, टिवी सिरीयल, फिल्म हांच्या संवादांतलो फरक समजून घेवचो. गीत आनी कविता हातुंतलो फरक समजून घेवचो. वार्तांकन म्हळ्यार आनी मुल्यांनी भरिल्लें साहित्य हातूंतलोय भेद शिकून घेवचो.

आतां एक काव्यमय देख दितां. शेताच्या बांदाचे धडेर सुंदर शेवणें एकसारकें दिसांचे दीस लोडेल्लें लोळिल्लें पळोंव

येता?... पळोवं नजो. शेवण्याचें शेवणेपण आसता ते उडपांत. तो ताचो सभावधर्म, ताळयो घेवपाक तें भुकेल्लें आसना आनी ते खातीर उड्डाणूय घेना. कोणें तरी तोखणाय करची म्हूण तें आंदाळयो गुंदाळयो काडिना. कोणें तरी दाद दिवची म्हणुनूय तें उडना. वेगवेगळया कोनांतल्यान वेगवेगळे उंचायेर हें शेवणें तरेकवार उडणां मारीत दर दिसा नव्या चैतन्यान आनी नवे उमेदीन उडत आसता. शुध्द आनी मोल करूं नजो असो आनंद घेत. तातूंत मग्न जावन तें विकसीत जायत रावता.

युवा साहित्यीकांनो, तुमचें बरप वाचतना आमकां अभिमान दिसता. छापील सोडून फेसबुकार वा हेर माध्यमांचेर तुमची पर्जळीत विचारकेपणां उसळिल्लीं पळेतकच फुडार सुरक्षीत आनी बरो आसा हाचें समाधान जाता. तुमचे कडल्यान आमच्यो जायत्यो अपेक्षा आसात. तुमचेर भरवसो आसा. तुमीय बी त्या शेवण्या भशेन प्रतिभेच्या बळाचीं पांखां फडफडायत नव्या उंचायांर नवीं नवीं तेमकां हुपचीं. प्रतिभेचें चान्ने आनी बुध्दीचें प्रज्ञेचें तेज हाणी तुमचें साहित्य रसरसूं. सुकेंपण, रूक्षता नाशिल्लें लालित्यान, काव्यरसान भरिल्लें ओलें - ओलें तेजीश्ट साहित्य तुमच्या हातांतल्यान घडूं आनी कोंकणी साहित्य दालनां गिरेस्त जावं. हें करतना जो आनंद मेळटलो तो मोलावं नजो आनी लेखक आसुनूय उतरांनी सांगूंक जावचोना. ताचेरूच तुमचें लक्ष केंद्रित आसूं. तोच तुमचो फोकस आसूं.

तंत्रगिन्यानाच्या युगांत तुमचो जन्म जाला अशें सुरवातीक हांवें म्हणिल्लें. आमच्या खांदार तुमी उबीं आशिल्ल्यान तुमकां पयसुल्लें दिसता. तंत्रगिन्यानाच्या आदारान आनीक कितें करूं येता, भाशा आनी साहित्य खंय खंय, कशें कशें पावोवं येता हें तुमी जाणात. कोकणीत ऑडियो

बुक्स काडपाक तुमी यत्न करचे. आयज विदेशांत खूब जाण दोळ्यांनी पुस्तकां वाचचे परस कानांनी बऱ्या आवाजात रिकॉर्ड केल्लीं ऑडीयो बुक्स वाचतात. डॉ. कलाम हांचें **'विंग्स ऑफ फायर'** पुस्तक ओडलायण्या आवाजा परिणामां सयत गिरीश कर्नाडाच्या आवाजांत मेळटा. कोंकणींतूय अशें यत्न सुरू जाल्यात. ते वाडचे. तुमी वाडोवचे. साहित्य सोपेपणी प्रसारीत करूंक ताचो आदार जातलो. बालसाहित्याच्या मळार ऑडियो विज्युअल पुस्तकांचे कोंकणी साहित्य आनीकूय वेगवेगळ्या तरांनी तुमी पावोपाचें. तुमचे कडेन ती हुशारी, ताकद आनी नवकल्पना आसा. सपनां आनी हावेस आसा. अनुकरण करप म्हळ्यार आत्महत्या अशें एमरसनान सांगलां. तुमची स्वतंत्र शैली घेवन लेखक म्हूण विकसीत जायात. फुलात. फुडले पिळगेचे प्रतिभावंत साहित्यीक जावपाक तुमकां खूब खूब शुभेच्छा.

सॉक्रॅटिस सदांच सांगी. हांव एकूच जाणा. हांव कांयच नकळो हें. म्हाका कळ्ळें म्हणटा तो त्याच धपक्याक सोंपता. थंयच ताचें पटना जाता. जिणेंत विद्यार्थी जावया. शिकूया, सदांच. नमळायेन आनी शालीनतेन. केन्नाच हें विद्यार्थीपण सोडूं नाका. खूब व्हड जातले तुमी...

कुशाग्र बुध्दी आनी प्रेमान उपार भरिल्लें काळीज हांची तागडी रूपी संतुळा सादपाचो रियाज करात. गिन्यान आनी प्रेम दोगांचोय समतोल सांबाळात. सत्याक वेंगायात. त्या सत्याच्या एकेका अणुरेणूंत आनी एकेका बिंदूंत तुमकां अनंत सिंधू मेळटले. तातूंतल्यानूच मनीस आनी लेख म्हूण तुमी खूब्ब खूब्ब तेजस्वी जावंक पावतले. म्हाका हांगा संमेलनाध्यक्ष म्हूण मान दिवन आपयल्ले खातीर गोवा कोंकणी अकादेमी,

सरकारी महाविद्यालय, सांखळें आनी आस्त संघटनेचे उपकार, मानतां.

तुमकां सगळ्यांक देव बरें करूं.

जोड आयोजक संस्था : सरकारी महाविद्यालय, साखळें
आनी 'आस्त' सांखळी
तारीक : 20 आनी 21 फेब्रुवारी, 2016
येवकाराध्यक्ष : सिध्दी प्रभु पोरोब
कार्याध्यक्ष : सुनिता काणेकार
उदघाटक : शैलेंद्र मेहता

# अठरावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**श्री. काशिनाथ नायक**
(संमेलनाध्यक्ष)

नमस्कार,

वेदीवयले मानेस्त, सभाघरांत मुखार बशिल्ले म्हालगडे साहित्यीक आनी युवा साहित्यीक इश्टांनो तुमकां सगळ्यांक मायेमोगाचो येवकार. केप्यां म्हालांत जाल्ल्यां पयल्या साहित्य संमेलनासावन आतां मेरेनच्या युवा साहित्य संमेलनांनी प्रत्यक्ष अप्रत्यक्ष सहभागी जावपाचें भाग्य म्हाका लाभलां. आनी फाटल्या 25 वर्सां सावन कोंकणी मळार एक ल्हान कार्यकर्तो जावन हांव वावुरलां ताची पोचपावती म्हूण ह्या अठराव्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाच्या अध्यक्ष पदार तुमी म्हाका बसयला देखून म्हज्या नांवाची शिफारस करपी शिफारस मंडळाक आनी गोवा कोंकणी अकादेमीक हांव देव बरें करूं म्हणटा. आनी चार शब्द तुमच्या मुखार दवरतां.

कोंकणीच्या साहित्यीक आनी भाशीक मळार वावुरतना एका कुटुंबाचे वांगडी जावन आमी जियेतात. आमचे भाशेचें आनी अस्मितायेचें रक्षण करपा खातीर जाणी आपली उबी जीण निस्वार्थीपणान खर्चिली ते उदयबाब भेंब्रे म्हजे आदर्श. तांच्या मुखार नतमस्तक जायत तितलें थोडें. भौ. उदयबाब तुमकां मानाचो मुजरो. तरनाट्यांक खऱ्या अर्थान एकठांय हाडपी आनी संघटीत करून दवरपी भौ. संदेश प्रभुदेसाय आनी प्रशांत नायक, तुमचेर केदेंय व्हड संकश्ट येवं, हे दोन मनीस आसा थंयसावन तुमकां पावतले हांतूत इल्लोय दुबाव ना. अडचणींत सापडिल्ल्यांक मार्गदर्शन करपी कोणाचेंय मदतीक धांवून वचपी कवी संजीव वेरेंकार, सगळ्यांक बरोबर घेवन वचपी सत्तरीतलो डॉ. प्रकाश पर्येकार. कोंकणीचे सेवे खातीर

कोंकणी मायेक सतत होरावणी करपी डॉ. पुर्णानंद च्यारी सदांच म्हाका भावल्या. आनीकूय जायते जाण आसात. आयच्या तरनाट्यांक आमच्या म्हालगड्यांची सारकी वळख जाल्ली ना. आनी ती सारखी तांकां वळखय बी ना. इश्टांनो साहित्य संमेलन हें एकामेकाक मेळपाचें निमित्त.

18वें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन खऱ्या अर्थान युवकांचें जालां. युवकांक संमेलनाचो पुराय अधिकार प्राप्त जाला. 18 वर्सां पुराय जातकच समाजांतले जायते अधिकार युवकांक प्राप्त जाता. तेच बरोबर 18 वर्सां पुराय करप म्हणजे आपणाल्या कर्तृत्वाची जण एकल्याक जाणीव जावप आनी समाजांत वावुरतना जबाबदारीन वागप हाचें समाजभान आसप गरजेचें. बेठोच एरंड कसो धेंगानी वाडलो म्हणून मनीस जायना आनी डिगऱ्यो घेतल्यो म्हूण कोण शिक्षीत जायना. मनशाचें मन निवळ जाय, आपणाल्या चारित्र्याचेर कसलोच दाग आसूंक फावना. दुसऱ्या बद्दल कळवळो जाय. समाजाच्या बद्दल संवेदनशील काळीज जाय. गरजेवंतांक मदत करपाची वान्सा जाय. शिरंतरांनी मनीसपण घोळपाक जाय. तातूंतच जिवनाचें सार्थक आसा.

**युवा साहित्यीकांनी स्वताचे आत्मपरिक्षण करपाचो हो वेळ.**

आतां मेरेन जाल्ल्या संमेलनांनी आमकां कितें दिलें? वा आमी युवा साहित्यीकांनी कोंकणी साहित्याक कितलो आदार दिलो? कितले तटस्थायेन, निश्ठेन आनी प्रामाणिकपणान आमी वावुरले हाचो सोद जण एकल्यान घेवपाची गरज आसा. जण एका युवा साहित्यीकान स्वताचें आत्मपरिक्षण करपाचो हो वेळ, म्हालगड्यांनी आपल्या परीन विचार करपाची गरज आसा. ना जाल्यार दर वर्सा आमी युवा कोंकणी साहित्य संमेलन आयोजीत करतले, युवकांनी बरयल्ल्या साहित्याचेर

मार्गदर्शन करतले आनी आपापल्या घरा वतले. पूण खरेपणीन 363 दीस युवकांक कोण उत्तेजीत करतलो? कोण तांकां सातत्यान जागयतलो? कोण तांकां परत परत एकठांय हाडटलो? हाचेरूय विचार जावपाची गरज आसा. ना जाल्यार आमी फकत दोन दिसाची भोगावळ करून संमेलनाचो आंकडोच वाडयतले, तशें जावंक फावना. 1990 वर्सा केपेच्या युवांगणातले युवकांचे उत्फर्के, उमाळे, फोंडें, बार्देस, दिवचल, काणकोण, तिसवाडी, साश्ट आनी अंदू पेडण्या संत सोयरोबानाथ आंबीये महाविद्यालयांत उफाळून आयल्यात.

इश्टांनो, ह्या युवांगणांत तुमी जमल्यात ते पळोवन मनाक खोस जाता. जर तुमी आपूण जावन प्रामाणिकपणान निश्ठेन हांगासर आयल्या आसत जाल्यार कोंकणी साहित्याच्या फुडाराची चिंता करपाची गरज ना. एक बरी गजाल. पूण जर सरांनी वा टिचरींनीं सांगला म्हूण तुमी आयल्यात वा आपले वांगडी आयल्यात म्हूण तुमी हांगा जमा जाल्यात, काय दोन दीस मजा मारुया म्हणून तुमी आयल्यात? तशें आसत जाल्यार मात कोंकणी साहित्याच्या मळार खंतीची गजाल म्हणची पडटली. युवकांच्या साहित्य प्रतिभेक प्रेरणां दिवपाच्या हेतान युवकांनीच फुडाकार घेवन आनी म्हालगड्यांच्या मार्गदर्शना खाला फाटली 17 युवा कोंकणी साहित्य संमेलना जैतिवंत जाल्यांत. 100 टक्के फळ ना मेळूं पूण निश्चीतूच कोंकणीच्या मळार युवकांची शक्ती वाडल्या हातूंत दुबाव ना.

**साहित्याची धुरा युवकांच्या खांदार दिवापाची गरज आसा.**

आयच्या तरणाट्यांमदीं तटस्थपणां, निरागसता, सोशिकसाण, मानवीमुल्यां, जिद्द, चिकाटी, साधनां अजिबात दिश्टी पडना. आयच्या तरणाट्यांचें जिवन म्हळ्यार येरें

नाशिल्ल्या व्हड्यावरी जाल्या आनी तें दिकाहीन भरकटत चल्लां. हाचीं कारणां जायतीं आसात. आमचे शिक्षण पद्दतीचो तो दोश, यांत्रिकीकरणाचो परिणाम तांचेर दिसून आयल्या बगर रावना. आयचो तरनाटो हो आपलेच गुर्मीन वागिल्लो आमकां दिश्टी पडटा. अशा वेळार ह्या तरणाट्यांची उपस्थिती ही खऱ्यानीच खोसदेणी म्हणूंक जाय. आयचो हो तरनाटो असो कित्याक वागता. हाचो गंभीरपणान विचार जावपाची गरज आसा. पयलें कारण आमी पालक म्हणून आमच्या भुरग्यांचेर मानवी संस्कार करपाक उणें तर पडनात मूं? शिक्षक म्हणून हांव म्हजी जबाबदारी प्रमाणिकपणान पाळटा व्हय? समाजसेवक, साहित्यीक, राजकीय फुडारी, युवा नेतृत्वाक संद दिवंक सोदता व्हय? तांकां उर्बा दिवंक वावुरता व्हय? ह्या प्रस्नांच्यो जापो आमकां सोदच्यो पडटल्यो आनी मागिरूच आयच्या तरनाट्यांक दोश दिवपाचो अधिकार आमकां आसतलो. आमी आयच्या तरनाट्यांक संदच दिवंक सोदिनात. अशें तर आमच्या कडल्यान जायना मूं? आयचें युवा पिळगेचेर आमचो विश्वासूच ना काय किदें? आमी युवकांक दुशण दिवन उपकारपाचें ना. आमी म्हालगड्यांनी फाटी रावन साहित्याची धुरा युवकांच्या खांदार दिवपाची गरज आसा, आमी तांकां फकत मार्गदर्शन करपाक वावुरचें. युवकांचेर विश्वास दाखोवन तरी पळयात, आमी जाण्टे जाय मेरेन मायचेर चडटले व्हय? अशे साबार प्रस्न आयज युवकांच्या मनांत निर्माण जाल्ले आसात. म्हालगड्यांनो आतां वेळ तरणाट्यांचो. कोंकणी साहित्याच्या मळार आनी कोंकणीच्या चळवळीच्या मळार तरनाट्यांकूच झुंजूदी. तुमी फकत तांकां मार्गदर्शन करात. तरनाटे हेच संदीची वाट पळयतात. आयचो तरनाटो संवेदनशील आसा. ताका समजून घेयात. एकंदरीत आमी ज्या

उद्देशान युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाची बुनियाद घालून ह्या युवकांच्या साहित्य मठांत जो रोपो लायिल्लो त्या रोप्याचो साहित्यरुपी वड जावचो म्हूण सगळ्यांनी संघटीत जावन वावुरपाची गरज आसा. कोंकणी मनीस चार राज्यांनी शिपडून गेला तसो गोंयांतलो कोंकणी मनीस चार पांच गटांनी शिपडून गेला, अशें चित्र हालींच्या तेपार दिसूंक लागला ही कोंकणी चळवळींतली वास्तवता.

**कोंकणी भास ही एक समृद्ध भास**

साहित्य क्षेत्रांतलो प्रतिश्ठेटो असो ज्ञानपीठ पुरस्कार पद्मविभूषण रविंद्रबाब केळेकार हांणी जोडून कोंकणी भास ही एक समृद्ध भास म्हणपाचें सिद्ध करून दाखयलें. साहित्य क्षेत्रांतलो प्रतिश्ठेचो असो सरस्वती सन्मान ज्येश्ठ साहित्यीक महाबळेश्वर सैल हांणी जोडून कोंकणी साहित्य हें दर्जात्मक साहित्य म्हण सिद्ध केलां. खंयच्याय मळार आयज कोंकणी कमकुवत उरूंक ना. कमकुवत उरल्या आसत ती कोंकणी मनशाची संकुचीत वृत्ती आनी हेच वृत्तेतल्यान कोंकणी मळार आयज गटबाजी वाडल्या, देखून कोंकणीचो विकास खुटला. जें जें कितें चल्लां, त्यो सगळ्यो भोगावळी कश्यो दिसपाक लागला. कोंकणीच्या मळार युवावर्ग खूप आसा ही समाधान दिवपी गजाल. पूण युवा साहित्यीक वर्ग साप्प उणो आसा. युवा साहित्यीक वर्गाक आकर्शित करपा सारख्यो आमचे कडेन कार्यावळी ना काय कितें? नाजाल्यार तशेंतरेच्यो वेगवेगळ्यो कार्यावळी राबोवपाची गरज आसा. ही गरज कोंकणीच्या उदरगती खातीर, वावुरपी संस्थांनी भागोवं येता. ताका गोंय सरकारचो, कोंकणी अकादेमीचो, भाशा मंडळाचो आर्थीक लाभ मेळूं येता वा तो मेळोवन दिवपाचें काम म्हालगड्या संस्थांनी करूं येता. हांगा दुसऱ्याखातीर कितें तरी करपाची तळमळ

जाय. जाल्यारूच तें शक्य आसा. ना जाल्यार तींच तींच नाटकां आनी तींच तींच संवगा पळोवन वाज येवं येता. युवा महोत्सव आसूं, युवा साहित्य संमेलन आसूं, कोंकणी परिशद आसूं वा कोंकणी संमेलन आसूं, दर खेपे तींच तींच मुखामळां दर वर्सा तीच माती आनी तोच गणपती अशें जावंक फावना. आमी आमच्या भितरलो दुस्वास कमी करूया, आमी आमच्या मदीं गट केल्यात, ते गट आदी मिटोवया. सगळ्यांक आसपावन घेवया. सडेतोड वृत्तीन नव्या साहित्याची मोलावणी करुया. बऱ्याक बरें म्हणपाची वृत्ती आपणावया आनी जें खालच्या दर्जाचें आसा तें निवळुया, ताचेर संस्कार करुया, ताका मार्गदर्शन करून उर्बा, प्रोत्साहन दिवन, ताचे कडल्यान नवें बरोवन घेवया. वगीच संख्या वाडोवया नाका, दर्जो वाडोवया, आयज उठसूठ कोणूय लेखक जाता, एके रातींत नाटककार जाता ही कोंकणी साहित्याचीं व्हडपणां नासून, बकाच्छाय आसा. कोंकणी मरे तें, फकत हांसोवणें, पचपच, गाळी आनी पोजडें-अशीं  विशेशणां लागूंक फावना, देखून आमी आमच्याच साहित्याचें खरायेन विश्लेशण करपाक शिकुया.

आमी म्हणटात दर वर्सा कोंकणी साहित्याच्या मळार 500 पुस्तकांची भर पडटा. संख्यात्मक नदरेन बरी गजाल, पूण दर्जात्मक, गुणात्मक नदरेन उणी, कोंकणी साहित्य दर्जात्मक येवपा खातीर आमी सगळ्यांनी सडेतोड वृत्तीन नव्या साहित्याची सारखी गुणात्मक नदरेन मोलावणी करपाची गरज आसा. सडेतोड वृत्तीन नव्या बरोवप्यान दर्ज्यात्मक साहित्याचें पुस्तक दिलें जाल्यार, ताचो भौमान जावपाकच जाय, पूण चडश्या वेळार तशें जायना. ताका मोठेंपण दिलें जाल्यार, म्हज्यातलो हांव दुखावतां, म्हाका उणेंपण जाणवता, देखून आमी ताचेर मोनेपण पांगुरतात, ही आमची वृत्ती बदलुया.

**तरणाट्या साहित्यिकांक नव्यो नव्यो संदी उपलब्द करून दिवया.**

कोंकणी मळार नव्या तरणाट्या मदीं वाचनाचो सामको उणाव आसा. देखून वाचन चळवळ उबी करपाची गरज आसा. ह्या वावराक आमी सगळेच खांद मारुया. नव्या तरणाट्या साहित्यिकांक नव्यो नव्यो संदी उपलब्द करून दिवया. नव्या उदेत्या तरणाट्या साहित्यिकांची एक वळेरी करया, फकत कॉलेजींत शिकता त्याच तरणात्यांची न्हय, जाल्यार कोंकणी मळार साहित्य रचपी सरसकट तरणाट्यांक तातूंत आसपावन घेवया.

आजकाल नवें तरणाटे सगळेच आयतें सोदतात. धडपडपाची कश्ट करपाची तकालस घेतिल्ले दिश्टी पडनात, देखून साहित्याच्या मळार आपले पद्धतीन धडपडटल्या नव्या साहित्यिकांक मार्गदर्शनाची गरज आसा, संदीची गरज आसा, तें व्यासपीठ आमी तांकां उपलब्द करून दिवया. गांवां गांवांत कोंकणी संघटणा उबारया. आयच्या तरणाट्यांनी ह्या कामाक फुडाकार घेवचो. आमी सत्तरीत चलयला. साहित्य मंथन फाटलीं 6 वर्सां अखंडीतपणान दर दोन म्हयन्यांनी साहित्यीक कार्यक्रम घडोवन हाडटात. कोणाचोच कसलोच आदार घेनासतना. जाच्या घरांत कार्यावळ जाता त्या यजमानान खर्च करपाचो. संस्थेक कोणूच पदाधीकारी नात. आनी संस्थेचो एकावंटूय ना. तुमी तुमच्या तुमच्या वाठारांत हो उपक्रम चालीक लावं येता.

खुपदां कोंकणी तरणाटे कोंकणी विशय घेवन बी.ए., एम.ए. करतात. पूण साहित्याचो अभ्यास केल्लो दिश्टी पडना, ते फकत कोंकणी शिक्षक जावपाचीच सपनां बाळगून आसतात. गोंयांत कोंकणी साहित्याचो वावर करपा सारखो खुप्प आसा.

वेगवेगळें क्षेत्र निवडून आपणे घेतिल्ल्या शिक्षणाचो वापर करून नवी निर्मणी तयार करूं येता. समिक्षा साहित्य, अणकार साहित्य, संशोधन, प्रकल्प आदी विशय हाताळूं येतात. लोकवेदाचेर, लोक जिवनाचेर, लोकसंस्कृतीचेर कितलोसोच वावर बाकी उरला, पूण चड कश्ट पडटा, खूब वाच्चें पडटा, देखून ते करपाक नवो तरणाटो मुखार आयिल्लो दिश्टी पडना.

**दुशीत मनोवृत्तील्यान भायर सरपाची गरज आसा**

युवा संमेलनाक जमा जाल्ल्या समस्त कोंकणी तरणाट्यांनो, कोंकणीचो वावर एके निश्ठेन सुरू करात, मोबायल, फेसबूक, ट्विटर, ऑर्कूट, वॉट्सएप हाचेर फकत शॉर्टकट वाचून शॉटकट बरोवपाचे भानगडींत पडूं नाकात, ताचो प्रमाणीक आनी सारखो उपेग करात, एके रातींत एक पुस्तक प्रकाशीत करून लेखक म्हूण मिरोवपाचीं सपनां मात्शी कुशीक दवरात, प्रगल्भ, वैचारीक, अभ्यासपूर्ण, ध्यासपूर्ण व्यासंगी लेखक घडचे आसत जाल्यार, सरभोंवतणचो सैम वाचात. मनीसरुपी पुस्तक वाचात, संवेदनशील जायात, नव्या साहित्यांची ट्रान्सपॅरन्ट मोलावणी जावंदी. साहित्या कडेन वशिलेबाजी करून बेगडी साहित्याक पुरस्कार नाकात. पद्दतशीर पणान कोणाक पुरस्कार दिवप आनी कोणाक ना दिवप, कोणाकय कायमचो चिड्डुपाचो जो यत्न जाता ते योग्य न्हय. कोंकणी साहित्याक आनी भाशीक चळवळीक घातक जावन आसा. असल्या वायट प्रवृत्तीक प्रोत्साहन दिवप चुकीचें ह्या दुशीत मनोवृत्तीतल्यान आमकां भायर सरपाची गरज आसा.

**युवकांनो संमेलनाक दोन दिसांची पिकनीक समजूं नाकात**

युवा महोत्सवाच्या माटवांत हजारांनी तरणाटे आनी युवा संमेलनांत शें, देडशें तरणाटे. तेवूय चडशे सर्तक उरिल्ले पिकनीक मनयतात. युवकांनो संमेलनाक दोन दिसांची

पिकनीक समजू नाकात. संमेलनाच्या नांवान पालकांक, शिक्षकांक आयोजकांक फटोवं नाकात. प्रमाणिकपणान वावरुया, संमेलनाक उपस्थित रावले म्हूण लेखक जायना. ते खातीर पयली मनाची तयारी जाय. त्या त्या फिल्डाची आवड जाय. समाजाक घडोवपाची, समाजान परिवर्तनाची क्रांती घडोवन हाडपाक साहित्यीक जायात. ज्वलंत प्रस्नांचेर सडेतोड उलयात, बरयात, पूण सोज्वळ बरयात, पोजडें साहित्य बरोवन भाशेचो दर्जो देवो नाकात. स्वता अपडेट जायात, देश - विदेशांतले साहित्य वाचात. बऱ्यांतलें बरें बरयतलो असो संकल्प करात, प्रादेशीक बरयतना वैश्विक विचार मांडटलो अशी जिद्द, चिकाटी, आत्मविश्वास बाळगियात, दुसऱ्याचे साहित्य वाचात आनी तुमचे विचार प्रगल्भ करात, धाडोन धाडोन पणस पिकयता तशें साहित्यीक जावं नाकात. एका पुस्तकान लेखक जावपाचीं सपनां पळोव नाकात. एके रातीन एके बसकेत नाटक बरयलें, चलतां चलतां बशीन कविता केली अशें जायना. साहित्य म्हणजे पंचखाद्याचो दोणो न्हय. ताच्या फाटल्यान साधना आसता.

**विचारान विचार सुचता, बौद्धीक स्थर उंचावता**

जांका आपलें ध्येंय साध्य करपाचें आसत जाल्यार खर पासियेंस काडपाची गरज आसा. पासियेंसा बगर खंयचीच गजाल पूर्णत्वाक येना. मन एकाग्र करतलो जाल्यार पासियेंस जाय. पासियेंस काडटा ताकाच निमाणें यश मेळटाच हें हांव म्हज्या अणभवा वेल्यान सांगता.

हांवें 14 वर्सां लेक्चर बेसीस कोंकणी शिक्षक म्हणून वेगवेगळे कडेन शिकयलें, पूण केन्नाच फ्रस्टेट जालों ना, निमाणें म्हाका येस फाव जालें. 'भगवान के घर देर है अंधेर न्ही.' पासियेंस काडटना आपल्या वयलो विस्वास अधीक

मजबूत जावंदी. जैता तुमच्या फाटल्यान चलून येतलीं. तुमकां जैताफाटल्यान धांवपाची गरज ना.

आमचे तकलेंत दिसपट्टे हजारांनी विचार घोळटात, पूण एखाद्याच विचाराचो ध्यास धरचो पडटा. करची पडटा पाठपुरवपण. व्हरचो पडटा तडीक यशस्विपणान, विचारान विचार सुचता, बौद्धीक स्थर उंचावता, प्रगल्बताय येता, निर्भिडपणान विचार मांडचे, साहित्यांत दाखय लिपय करचें न्हय. साहित्य आसचें भौसाच्या कल्याणा खातीर, मनीसपणाच्या संवर्धना खातीर, अभिव्यक्ती स्वातंत्र्य सगळ्यांक सुरवात जण एकल्यान आपणावची. आपल्या विचारांक एक नवी दिका दिवंक जायत व्हय आमचे कडेन?

आयची पिळगी खूब भाग्यवान तशी दर एक पिळगी त्या त्या काळार भाग्यवंत म्हणची पडटली. आयची पिळगी मोबायल, स्मार्टफोन, व्हॉट्सएप, वापरपी पिळगी. फेसबूक, व्हॉट्सएप वरवीं साहित्य निर्माण करूं येता. ह्या उपकरणाचो अदीक फायदो घेवच्ये पासत सगळ्यां तरणाट्यांनी वावुरचें. ह्या तंत्रगिन्याना वरवीं साहित्याचो प्रचार आनी प्रसार करूं येता, सगळ्यांनी देवनागरी टायप मारून कोंकणी भाशा अधिकाधीक समृद्ध करूं येता. जितलो आमी वाचपाचो सराव करतले तितलोच सराव बरोवपाचो बीन करपाक जाय. ना जाल्यार आमी आमच्या मुळाक्षरांचे वळणच विसरतले. म्हणून पयलीं बरयात मागीर टायप करात. बरोवपाचो सराव जावंदी.

**आमी पयली मनीस मागीर साहित्यीक बी सगळें**

आमी पयलीं मनीस. मागीर साहित्यीक बी सगळें, आवय-बापायचे आमचेर संस्कार आसात ताचे प्रदर्शन आमी भायर घडोवया. आवय-बापायन काय आमकां वायट संस्कार दिल्ले आसना. आमच्या मास्तरांनीय आमकां बऱ्यो देखी

दिल्ल्यो आसता. आमच्या सरभोंवतणचे वातावरणय वायट आसना. मागीर आमीच कित्याक वायट वागतात. आमच्या हातांतल्यान एकूय मनीसपणा भायली करणी घडची ना हाची आमी पावलोपावली दखल घेवया. चुकुनसुद्धा म्हजें कडल्यान दुसऱ्यांचें मन दुखावतलें अशी वायट उतरां तोंडांतल्यान भायर सरची ना हाची आमी जतनाय घेवया. चुकुनसुद्धा म्हजे हात कोणा मनशाचेर उखलचोना. त्या पापाचो धनी हांव जावचो ना. अशें आमी थारोवया. चुकुनसुद्धा म्हजे तकलेंत दुसऱ्याचे पाड येवजूपाची म्हाका अबुद्ध जावची ना. मन निर्मळ दवरून हांव निर्मळ जातलो, समाजांत हांव एक बरो मनीस म्हूण देख घालून दितलों, असो आमी आमच्या मना कडेन संकल्प करया. आनी दुसऱ्यांकय संकल्प करूंक लावया.

कोंकणी कोंकणी म्हणून आमी आमचीं वर्सां घालयलीं पूण कोंकणीच्या खुस्तार भलत्यांनीच मजा मारली. अशे जायतें लोक कोंकणीच्या खुस्तार पोट भरता. तांकां कोंकणीचें मातूय पडिल्लें ना. ते कोंकणीच्या खंयच्याय कार्यावळींनी खंयच दिश्टी पडनात. वयल्यान तेच लोक कोंकणीक उणाक लेखतात. केन्ना कोंकणी पेपर विकतो घेवचे नात. कोंकणी पुस्तक विकतें घेवचें नात. उलट कोंकणी लोकांच्यो मात टवाळ्यो मारतले अशा लोकांक देवा तांकां माफ कर अशेंच म्हणचें पडटा.

योग्य मनशाची योग्य वेळार कोणें दखल घेतली जाल्यार ताचे जिणेचें सार्थक जावंक पावता, मनीस एकदां दुखावलो की तो हळू हळू चळवळी पासून पयस रावता. आनी एक दीस सगळें सोडून दिता. कोंकणीच्या मळारूय अशें खूप लोक दुखावल्यात फकत आमचे संकुचीत वृत्तीक लागून. आनी आमच्यातल्या स्वार्थाक लागून कोंकणी भाशेचे खूप नुकसान जालां. कोंकणीच्या मळार कांयजाणांची ज्येश्ठ कवी र.वी. पंडिताल्या कवितेंतल्या देमूची अवतिकाय जाल्या.

**जण एकल्यान स्वताचेच आत्मपरिक्षण करपाची गरज उप्रासल्या.**

आयचे घटकेक जण एकल्यान आत्मपरिक्षण करपाची गरज आसा. पळयत त्या मळार जण एकलो आपणाकूच श्रेश्ठ समजता. आपुणूच खरो म्हणटा. आमी फकत दुसऱ्यांच्या दोळ्यांतलें कुसळ सोदपाक गुल्ल जाल्यात. आमकां आमच्या दोळ्यांतलें मुसळ दिसना. जो तो दुसऱ्याक बोटां दाखयता आनी आपूण बोंबलीभर उदकान देवन सुको म्हणपाचो आव हाडटात. जण एकल्यान स्वताचेच आत्मपरिक्षण करपाची गरज उप्रासल्या. कोण चुकता हें पळोवचे परस हांव खंय चुकता तें पळोवचें. दुसऱ्याची उणी-दुणी काडपाक वेळ व्हगडावचे परस तो वेळ समाजाच्या विधायक वावराक खर्च करप हातूंत समाजाचे हीत आसा. तेच बरोबर स्वताचे कल्याण जातले हातूंत दुबाव ना.

**आमी आमची संकुचीत वृत्ती सोडून विशाल जावपाचो यत्न करया**

विद्यार्थी इश्टांनो इतिहासांतली मेल्लीं मडीं उस्तून कसलोच फायदो ना. वर्तमान महत्वाचें. भविश्याचो भरवंसो ना. तरी पूण आपलो फुडार पारखून पावलां उबारपाची जापसालदारकी दर एका तरणाट्याची जावन आसा. कोणें कितें केलें? कोणें कितलें खाल्लें? हाचो हिशोब घेवन बसूं नाकांत. हांवें किदें केलें? हांवें कोंकणीक कितें दिलां? समाजा खातीर हांव कितलों झटलो? हांवें म्हजो सुवार्त कसो कसो साधयला? कोणाक नागयला? कोणाक वापरला? कोणाक लुबाडला? हांचे तटस्थायेन आत्मपरिक्षण करात. काळजांतल्या खरायेतल्यान हाचेर रुजवात जावंदी. तुमच्या प्रस्नांची जाप तुमचे कडेन मेळटली. दुसऱ्याचेर आरोप प्रत्यारोप करप सोंपें. पूण तेच

आरोप आपल्याचेर कोणूय करीत जाल्यार पांयाची तिडक मस्तकाक चडटा हाची जाणीव आसुंदी आमी आमची संकुचीत वृत्ती सोडून विशाल जावपाचो यत्न करया. पिशांचो राजा जावचे परस राजाचो गुलाम जावप बरें.

कोंकणी भास सक्षम आनी समृद्ध करपाक आमी सगळे वचनबद्ध जावया. कोंकणी साहित्याची घुडी सगळ्यांच्या हातांत दिवया. तांकां जाय तशी नाचोवंदी, जाय तशी मळबांत उंच व्हरुंदी. नव्या तंत्रज्ञानाचो उपेग करून नवे विचार मांडून अधोगती कडेन वचपी समाजाक नवी दिका दाखोवया. मनीसपणाचीं नितीमुल्यां सांबाळुया. सत्याचीं तत्वां घेवन जगुया. आयचो तरनाटो आपलेच धुंदीत रावन आपल्या जगात वावुरता. तांकां मार्गदर्शनाची गरज आसा. जण एकल्यान जण एकल्याक मनीसपणाचो मंत्र दिवापची गरज आसा. समाज निवळ जातलो जाल्यार आदीं पयलीं तरणाट्यांच्या मनांत स्वाभिमान रुजपाक जाय. तरणाटो निर्व्यसनी जावपाक जाय. ताचे कडेन निस्वार्थी वृत्तीन समाजा खातीर जागपाची वृत्ती जाय. वायट गजालींचो विरोध करया. बऱ्या गजालींक प्रोत्साहन दिवया. स्वता एक शिस्त घालून घेवया. निर्व्यसनी समाज बांदून काडया. एकलोच मुखार वचया नाका. सगळ्यांच्या सामर्थ्यान, एकवटान, सगळ्यांक बरोबर घेवन मुखार या.

जय कोंकणी! जय गोंय!

जोड आयोजक संस्था : संत सोहिरोबानाथ आंबिये महाविद्यालय, पेडणें

तारीक : 23 आनी 24 सप्टेंबर, 2017

येवकाराध्यक्ष : डॉ. जेर्वासियो मेंडिस

कार्याध्यक्ष : प्रियंका परब

उद्घाटक : डॉ. तानाजी हळणकार

# एकोणिसावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**डॉ. हनुमंत चोपडेकार**

(संमेलनाध्यक्ष)

**'ग्लोबलायज्ड वर्ल्डांत शेणत वचपी सामान्य मनशाचो ताळो आमी जावया'**

जेश्ट कोंकणी कवी सर्गेस्त डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हांचीं हीं उतरां. ह्या उतरांतल्यान कोंकणी मनशाचो स्वाभिमान जागोवपाचो यत्न कवीन पोटतिडकीन केल्लो. तशे पळोवंक गेल्यार कोंकणी भास, साहित्य आनी संस्कृताये खातीरचो संघर्श हो स्वाभिमानाक लागुनूच पेटिल्लो. आयज आमी सगळे जाण ह्या विद्‌यामंदीराच्या 'ज्ञानदा सभाघरांत'ल्या साहित्यीक आंगणांत एकठांय जाल्यात हें लेगीत त्याच स्वाभिमनाचें एक जिवंत प्रतीक आसा. आमच्या वडिलांनीच आमकां निजसत्वाचो एक स्वभिमानी स्वर दिला.... 'कोंकण आमचो देश, कोंकणी आमची भास, कोंकणी संस्कृताय आमच्या जाण्ट्यांची मिरास' वा 'आमी कोण? आमी कोण हाची जाप तुमकां काळूच दितलो अशें आमी म्हणचे नात ती आमीच दितले...' असो दिव्य मंत्र दिवन आमच्या नीज अस्तित्वाची जाणीव करून दिल्या. तेच जाणिवेंतल्यान आमचे रायटर फायटर जावन जिवीतभर झुंजल्यात आनी झुंजत आसात. त्याच झुंजाच्या जैतिवंत वारींतल्या सगळ्या आत्म्यांक नमन करून हांव 19 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष म्हण तुमचे कडेन संवाद सादतां....

वेदीर बशिल्ले मानेस्त वेदीसकयले मानेस्त आनी सळसळट्या रक्ताचो, चैतन्न्याचो हावेस बाळगुपी म्हज्या युवा सर्जकांनो, 19व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचें अध्यक्षपद

स्विकारताना सगळ्यांत पयलीं तुमकां सगळ्यांक जैतिवंत सलाम....

युवा कोंकणी साहित्य संमेलन 1998 साकून आरंभ जालें. ताचो हो 19 वो आगाज. प्राचार्य भास्कर नायक हांचें संकल्पनेंतल्यान हें संमेलन केपेंच्या सरकारी महाविद्यालयाच्या साहित्यीक आंगणांत रुजवणाक आयिल्लें. दोन दीस चलिल्ल्या त्या संमेलनाचे कार्याध्यक्ष ह्या नात्यान प्रा. डॉ. राजय पवार हांणी ह्या संमेलनाक एक नवेंताल्ल रूप दिवपाक तळमळीन वावर केल्लो. गोवा कोंकणी अकादेमीचो पेजाद अर्थीक आनी नैतीक तेंको ह्या संमेलनाक मेळिल्ल्यान तें सेगीतपणान चलत रावलें. तेन्नाचे अध्यक्ष ऍड. उदयबाब भेंब्रे आनी उपाध्यक्ष भौ. एन्. शिवदास हांच्यांनी संमेलनाक कांयच उणें पडचें ना हाची जतनाय घेतिल्ली. देखुनूच साबार अडचणींचेर मात करून तशेंच असंख्य आपवावुरप्यांच्या सक्रीय तेक्यान हें संमेलन जैतान मुखार सरलां.

**संमेलनाचो हावेस आनी फलीत :**

ह्या जैतिवंत पांवड्यार कांय म्हत्वाच्या विशयांचें मंथन आनी आत्मपरिक्षण करप गरजेचें. देखीक - संमेलनाच्या मुळाव्या हावेसा पासून आमी कुशीक सरना मूं? संमेलना आपली मूळ मोख बी चुकना मूं? जैता वांगडाच संमेलनांतल्या त्रुटींचो विचार आमी करता व्हय? त्या त्या त्रुटींचेर आमी मुखावेल्या संमेलनांनी फाव तो उपाय काडटा व्हय? अश्या साबार मुद्द्यांचे तर्कनिश्टतेन विश्लेशण जावंक जाय.

सांगपाचें म्हणल्यार, म्हाका स्वता ह्या संमेलनान वळख दिल्या, नामना दिल्या, आत्मतेज दिलां. देखून ताचे

विशीं आस्था आसा. कोंकणी साहित्याचो रथ फुडे व्हरपी हो एक सिरियस उपक्रम. हातूंत गर्दी नासल्यार उपकारता पूण दर्दी जायच. ते खातीरूच युवा साहित्य संमेलन हें म्हणजे खंयचोय कला महोत्सव वा युवा वर्गा खातीर दोन दिसांची साहित्यीक पिकनिकूय जावंक जायना अशें म्हाका प्रमाणीक मत. म्हाका दिसता माटवांतल्यान संमेलन सभाघरांत पावलां, उत्सवी स्वरूप झिडकारून विधायक रुपांत तें आकाराक येवपाक लागलां ही ते नदरेन सगळ्यांत सकारात्मक गजाल. अनंत अडचणींचेर मात करून हें घडयलां. हे खातीर आमी गोवा कोंकणी अकादेमी आनी आयोजकांची तोखणाय करपाक जाय. कोंकणी भाशा मंडळ आयोजीत 'गोवा युवा महोत्सव' आनी नॉलेज टर्मिनस आयोजीत 'परिक्रमा' ह्या सारक्या कलेक पोसवण दिवपी युवा महोत्सवांनीय आतां सर्जनशील कोंकणी साहित्य संगीत, सिनेमा सारक्या हेर कला प्रकारांत प्रस्तूत करपी कलात्मक सर्ती आयोजीत करून कोंकणी साहित्याचो खरो मान राखला हिवूय नोंद घेवपा सारकी गजाल. संबंदितांचें अभिनंदन.

खरें म्हणल्यार, तरनाट्यांच्या लेखन प्रतिभेक एक व्यासपीठ दिवन साहित्यीक मळार फुलपाक आनी फळपाक तांकां योग्य मार्गदर्शन मेळचें ह्या हावेसान प्रस्तूत संमेलनाचें आयोजन जाता. खासा करून युवा बरोवप्यांचें साहित्य सर्तीनिमतान मागोवप आनी दुसरे दिसा विंगड विंगड खेरीत कार्यशाळांनी ताची मोलावणी करतानाच युवा बरोवप्यांक फाव ते मार्गदर्शन करप हो संमेलनाचो आत्मो आसा. युवा प्रतिभेची जतनाय घेवन तिचें संवर्धन करपाचे नदरेन ह्या संमेलनाचें हें खेरीत योगदान इतिहासांत नोंद जावपाक जाय. ह्याच कार्यशाळेंतल्यान घडिल्ले प्रतिभासंपन्न युवा साहित्यीक फुडल्या वर्सांनी कोंकणीक मेळटात. फाटल्या वर्साच्या लेखन

सर्तींतलें जैतिवंत साहित्य दुसऱ्या वर्सा छापून हाडपाची 'युवांकुराची' संकल्पना हिवूय एक युनीकच.

इकरावें संमेलन जेन्ना परत केंपेच्या शासकीय महाविद्‌यालयांत आयोजीत जाल्ले तें इतिहासीक थारिल्लें. युवा साहित्यकाराचो भौमान करपी 'सर्गेस्त मेघश्याम नायक यादस्तीक युवा साहित्य पुरस्कार' आनी संमेलनांतत्यान घडिल्ल्या युवा बरोवप्याचें 'पुस्तक प्रकाशन' ह्यो दोन गजाली आयोजकांनी भोव कल्पकतायेन जोडिल्ल्यो. गोंया वांगडाच कारवार, मंगळूर, कोची आनी महाराष्ट्रांतले युवा कोंकणी साहित्यीक ह्याच संमेलनांतल्यान हे साहित्यीक वारींत वांटेकार जाल्ले हें उल्लेखनीय. ह्या वावरांत भास्कर सर आनी डॉ. राजय पवार हांचें योगदान भोव मोलाचें आशिल्लें.

**संमेलनाचे फलीत (प्रॉडक्ट) -**

युवा कथाकार ज्योफा गोन्साल्वीस, नरेश नायक, स्मिता चोडणेकार.

युवा कवी अमेय नायक, पुर्वा गुडे, विल्मा बंटवाल.

युवा ललीत गद्‌य बरोवपी प्रसाद पागी, बबिता सावंत.

आनी तांच्या वांगडा असंख्य युवा बरोवपी घडत आसा आनी घडटले.

**19 व्या संमेलनाध्यक्षाचें मिशन 2020 :**

तरनाट्‌या इश्टांनो, हांव पयल्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाक तुमचे वरींच एक विद्‌यार्थी वा एक युवा बरोवपी म्हूण वांटेकार जाल्लो. ताचे उपरांत लागीं लागीं सगळ्यांच संमेलनांनी हांव मनाकाळजा थावन सहभागी जाला. एक आस्वादक, एक शिक्षक, एक परिक्षक, एक आयोजक, मुळस्वर उलोवपी अश्या विंगड विंगड नात्यान म्हजें योगदान हांवें ह्या संमेलनांक दिलां.

1998 वर्साच 'आतां केन्नातरी फांतोड जातली' हें म्हजें पयलें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीचे 'पयलो चंवर' हे येवजणे अंतर्गत अर्थीक पालव मेळून उजवाडाक आयलां. सांगपचें म्हणल्यार, त्याच अणभवांतल्यान मुखावेल्या शेंकड्यानी तरनाट्यांक साहित्यीक मळार फाव तें मार्गदर्शन करपाचो सेगीत यत्न केला. युवा प्रतिभेक दिका दाखोवपी कथा कविता लेखन कार्यशाळा, युवा लेखनाक वेदी दिवपी युवा स्पंदन हो साहित्य अकादेमीचो उपक्रम, कथा कविता सर्ती, पुस्तक प्रकाशन करतानाचे साहित्यीक संपादन आनी तरनाट्या लेखकांक वैयक्तीक स्थरावेलें सगळें मार्गदर्शन करीत आयलां.

आयज 19 व्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे हे वेदीचेर अध्यक्ष म्हूण उबो रावतना मनांत उपाट खोस भोगता. तेच वांगडा कर्तव्याची जाणविकायूय जाता. कारण हें अध्यक्षपद म्हणल्यार फकत दोन दिसांचो सन्मान न्हय अशें म्हजें स्पश्ट मत आसा. कारण फुडलें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन येयमेरेन अध्यक्ष हो अध्यक्ष आसता हें म्हजें प्राणाणीक मत. फाटल्या 18 साहित्य संमेलनांनी हे वेदीवर 18 युवा साहित्यिकांक अध्यक्षपद दिवन तांचे लेखन प्रतिभेचो सन्मान जाला. त्या सन्मानांतल्यान उर्बा घेवन तांणी आपले प्रतिभेक नवी धार दिलीय बी. वैयक्तीक पांवड्यार तांच्यांनी कोंकणी साहित्याची बरी सेवा केलीय बी. पूण अध्यक्षपदाचे 365 दिसांचे म्हणजेच पुराय वर्साचे जापसालदारकीचें कितें ? नव्या बरोवप्यांक वाट दाखोवन तांचे कडच्यान साहित्याची विंगड विंगड दालना समृध्द करपाच्या कर्तव्याचें कितें ????

एक गजाल पयलींच स्पश्ट करतां. म्हाका हांगा कोणाचेर आरोप बी करपाचो ना. निखालस ना. पूण हांव हो मुद्दो मुद्दाम

आनी मुजरत तुमचे मुखार दवरतां कारण हांव एक गजाल मानीत आयलां. कोंकणी साहित्याची पालखी आमच्या म्हालगड्यांनी भोव कश्टान आमचे मेरेन पावयल्या. ती मुखार व्हरपाचें व्हड आव्हान आमचे आसा. देखुनूच ह्या वेळार हांव ही संमेलनाध्यक्षपदाची जापसालदारकी आंगार घेतना युवा कोंकणी बरोवप्यां खातीर मॅन्टोरींग करपी 'मिशन २०२०' हो उपक्रम जाहीर करतां - हो उपक्रम 'कुंभार' हे संकल्पनेचेर आदारीत आसा हें तरनाट्यांनी मतींत धरचें कारण... गदिमा म्हणटा तशें गरज पडटा थंय 'धपाटे' मात खावचे पडटलेच -

कुंभारा सारखा गुरू नाही रे जगात
वर घालतो धपाटा आत आधाराचा हात

**मिशन 2020 ची संकल्पना आनी स्वरूप**

❖ वीस युवा कोंकणी बरोवप्यांक वेंचून तांचें लेखन प्रक्रियेक फाव ती दिका दिवप.

❖ वेंचीक बरोवप्यां मदीं धा गद्य आनी धा पद्य बरोवपी वेंचप.

❖ वर्सांतल्यान उण्यांत उण्यो 05 साहित्यीक बसका वा कार्यशाळा घेवप.

❖ वैयक्तीक पांवड्यार बरोवप्यांच्या सोयी प्रमाण ताच्या घरा वा गांवांत वचून मार्गदर्शन करप.

❖ साहित्याचें मुद्रण, संपादन करप तशेंच प्रकाशीत करपाक रितसर वाट दाखोवप.

❖ वेंचीक 20 युवा बरोवप्यां खातीर ल्हान पांवड्यार राबित्याचीं शिबिरां आयोजीत करप.

फाल्यांच्या फुलांक लागून आयच्या कळ्यांची जतनाय घेवप हो मुळमंत्र हांवें आपणायला. युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचें हें अध्यक्षपद म्हणल्यार भोगपाचें पद न्हय तर दोन दिसांचो भौमान आनी 365 दिसांचो कर्तव्यासदृश्य अधिकार आसा, हे भुमिकेन ह्या एक वर्सभर तरन्या प्रतिभेची जतनाय घेवपाचें हांव तुमकां उतर दितां. ते पासत भायर एक नोंद वही दवरल्या ताचेर इत्सूक युवा बरोवप्यांनी आपलें नांव, नामो, फोन नंबर आनी इमेल नोंद करचो.

**सामान्य मनशाचो शेणत वचपी ताळो आमी जावपाक जाय :**

आयचो काळ हो संक्रमण युगाचो काळ. आयचो तरनाटो हो एकतर विसाव्या शेंकड्याच्या निमण्या दशकांत वा एकविसाव्या शेंकड्याच्या पयल्या दशकांत जल्मता. हो युवा म्हायती तंत्रज्ञान आनी डिजिटल युगाची प्रतिनिधी. म्हणटकच साहित्य आनी संस्कृती हांचे कडेन संवेदनशील नदरेन तो पळयलोच हाचो भंरवसो दिवप कठीण. पूण ह्या 'ज्ञानदा सभाघरांत' उपस्थीत आशिल्ले तुमी तांचे परस वेगळे आसात. कारण पयली गजाल म्हणल्यार - तुमी ह्या सृजनात्मक अभिव्यक्तीक पोसवण दिवपी साहित्यीक उपक्रमाक हाजिरी लायल्यात. दुसरी गजाल - तुमकां आयच्या काळांत समाजांत घडटल्या साबार बऱ्या वायट गजालींची जाणीव आसा. तिसरी गजाल म्हणजे, तुमचे भोंवतणी घडपी अन्याय आनी अत्याचाराचीं स्पंदनां तुमच्या काळजार उमटतात, तुमीय घुसमट्टा, ती घुसमट तुमकां अस्वस्थ करता. मनीस आयज आत्मकेंद्री जावन आपल्या सुवार्थाक लागून खंयच्याय स्थरार वचपाक लागला हाची खंत तुमकांय सतयता. देखुनूच तुमी ती खंत, ती अस्वस्थता, ती घुस्मट आनी ती जाणीव शब्दांचे

चिमटेंत धरून कागदार मांडपाक जाय. म्हज्या तरनाट्या इश्टांनो, तुमी शब्दाचीं नवीताल्ल शास्त्रां घेवन लढपाक जाय. स्पश्ट सांगपाचें म्हणल्यार, तुमच्या भितरल्या लेखकान उलोवपाक जाय नाजाल्यार सामान्य मनशाची बाजू कोण घेतलो? देखून ह्या 'ग्लोबलायज्ड वल्डांत शेणत वचपी सामान्य मनशाचो ताळो आमी जावया' अशें हांव संमेलनाध्यक्ष ह्या नात्यान तुमकां पोटतिडकीन आवाहन करतां.

इतिहास उगडून पळयात, संवसारांत मनशाचे उदरगतीक लेखक, कलाकार, विचारवंत, बुद्धीजिवी हांच्यानी सदांच दिका दाखयल्या. जेन्ना जेन्ना वैश्वीक पांवड्यार खंयचोय समुदाय संकश्टात फारवला तेन्ना तेन्ना थंयसल्ल्या संवेदनशील साहित्यिकान आपले सामाजीक जाणिवेन जनमानसाच्या काळजांतलो हुंकार जावन जनआंदोलनाक वैचारीक बसका दिल्या.

इश्टांनो, आयज तुमचे भोंवतणी आधुनीक युगाचे उदरगतीच्या प्रवासांतले नवे प्रस्न उबे आसात. भांडवलशायीच्या ह्या तथाकथीत ग्लोबलायज्ड वल्डांत मॉल आनी मशीन संस्कृतायेंत मनशाक मनीस म्हूण लेखप कुस्तार जालां. बायल मनशेंचेर सान भुरग्यांचेर अमानवीय अत्याचार जावपाक लागल्यात. मनीस मनशाक वळखनासो दिसपाक लागला. मानवीय मुल्ल्यांची घडी उध्वस्त जावंक लागल्यात इतकेंच न्हय तर सादी साफ नितळ हवा लेगीत घेवपा सारकें वातावरण उरूंक ना कांय कितें अशी भयानक परिस्थिती आमचे भोंवतणी उप्रासल्या. हे परिस्थितीक पराजीत करपाचें कार्य फकत साहित्यीक, बुद्धीजिवी आनी विचारवंत करूंक शकतात, देखून तुमी लेखणी हातांत घेवपाकूच जाय... ना जाल्यार काळ तुमकां माफ करचो ना. 1994 वर्साचो नॉबेल

पुरस्कार जोडपी फामाद साहित्यिक टॉनी मॉरिसन हांचीं उतरां उश्णी घेवन हांव म्हणन If there's a book that you want to read, but it hasn't been written yet, then you must write it.

हय, तुमी बरोवपाक जाय. आयज एक कन्जुमर, फकत एक गिरायक म्हूण मनशाचें कोत जावपाक लागलां अशा वेळार ह्या काळाची स्पंदनां युवा बरोवप्यांच्या नदरेंतल्यान शब्दबद्ध जावप गरजेचीं. इश्टांनो, तुमचें आनी तुमच्या भोंवतणच्या समाजाचें जिवीत तुमी उतरबद्ध करचे नात जाल्यार कोण अमेरीकन काय जपानी भुरगो हांगा येवन करतलो. पेडणेच्या इब्रामपुरच्या हंसापुरच्या भावार्थी मनशाचो वेवसायीक आनी वेव्हारीक घुस्मटमार कोण उक्तो करतलो? म्हादय न्हंयचेर आयिल्ल्या अरिश्टांत घुसपल्ल्या सत्तरींतल्या एखाद्र्या कुमेरी शेतकाराची तळमळ कोण मांडटतो? दिवचल तालुक्यांतल्या एखद्र्या मायनीर ड्रायवर म्हूण काम केल्लो तरनाटो आयज खंयचे अवस्थेंत जगता हाचें चित्रण कोण करतलो? मॉडर्न एलईडी लायटीन नुस्तें पागपी ट्रोलर्सांनी बाणवलेचो वा कोलवाचो पारंपारीक रांपोणकारांचेर जिवनमरणाचो प्रसंग हाडला ताचेर कोण उलयतलो? वास्को सारकें आमचें सोबीत शार आयज सगळयाच आंगांनी विद्रुप जालां थंय मूळ गोंयकार परको जाला ही शोकांतिका कोण मांडटलो? पणजे मांडवी न्हंयच्या आंगार कॅसिनो नांवाचीं गजकरणां वेवस्थेन मुजरत मातयल्यांत ताचेर कोण आवाज काडटलो? कळंगूट, कोलवा, हरमल, हणजूण, पाळोळें सारक्या पर्यटन वाठारांनी ड्रग्साचे भकीक गेल्ल्या आमच्या तरनाट्यांक कोण शिटकायतलो, कोण ???

इश्टांनो, सोरो, घुंवळी वखदां, पॉर्नोग्राफी, सायबर क्रायम

अशा नश्ट्या कर्तुबांनी घुस्पल्ल्या समाजाचे घुस्पागोंधळाचे साबार प्रस्न मांडून बदलत्या युगाचो वेध घेवपी आनी फुडल्या काळाची सुलूस मांडपी कोंकणी साहित्य रचप हें आयच्या तरन्या प्रतिभावंता मुखार व्हड आव्हान आसा. समाजवेवस्था आनी राजवेवस्था हांचेकडेनूय दोन हात करपाची परंपरा आमच्या कोंकणी चळवळींत आसा. कारण कोंकणी चळवळ ही धर्मनिरपेक्ष तत्वाचेर सगळ्यांक वांगडा घेवन मुखार वचपी चळवळ आसली आनी आसा. आयच्या डिजिटल युगांतल्या तरन्या लेखकां मुखार जीं विंगड विंगड माध्यमां आसात देखीक सोशल मिडिया, ई-बुकस्, साहित्यीक ब्लॉग्स, सीडी आदी तांच्या आदारान कोंकणी समाजामदीं उप्राशिल्ले लिपीवाद, प्रांतवाद हांचे सारके भेद सहज पयस जावंक शकतात. युवा बरोवप्यांनी हे नदरेन पेंगट बांदचें अशें हांव तांकां आवाहन करतां. बयाभाव म्हणटाले -

**ती पालोव नाका जोत तुका जोडले दोनूय हात**

**चोयवटेन काळोख गुपाट सगळे जाण चुकले वाट**

**ती पालोव नाका जोत तुका जोडले दोनूय हात**

भोंवतणी काळोख दाटलो आसलो तरीय हेवटेन तेवटेन थळाथळार ल्हान व्हड दिवट्यो पेटतच आसतात. सळसळट्या रक्ताच्या तरनाट्या इश्टांनो तुमीय एक अशीच दिवटी हातांत घेयात आनी काळखाचेर जैत जोडपाचो महा - दिश्टाव्याक व्यसन न्हय तर व्यासंग वाडोवन प्रत्यक्ष अवतरपाक हातबोट लायात.

Words are sharper then Sword हें म्हणणे प्रमाण आपल्या फकत शब्दसामर्थ्यान तळागाळांतल्या सामान्य मनशांक लढपाचो मंत्र दिला. तांकां आपले अस्तित्वाचे लढायेंत ताट मानेन उबो रावपाक धिटाय दिल्या. इतलेंच न्हय तर त्या

आंदोलनांतल्या होमखणां प्रत्यक्षांत वांटो घेवन तें जैतिवंतूय केलां. देखीक -

अमेरीकेंतल्या निग्रो समुदायाक गुलामींतत्यान मुक्त करपाक जनआंदोलन उबारपी लँग्टन ह्युजीस आसूं..... फ्रेंच क्रांतींतल्यान नव्या आधुनीक जगाची बुनयाद घालपी वॉल्तेर आसूं..... साव्थ आफ्रिकेच्या कृष्णवर्णीय समाजाक न्याय दिवपी नेल्सन मंडेला आसूं.... भारतीय स्वतंत्र संग्रामांत वंदे मातरमचो नारो दिवन भारतीयांचीं काळजां पेटोवपी बंकीमचंद्र चटर्जी आसूं. दलील पँथर संघटनेंतल्यान समस्त दलीत संवेदनेक संघटीत करून रक्तारक्तांत सुर्यतेज हाडपी विद्रोही कवी नामदेव ढसाळ आसूं... घांटा वेल्यान आयला जोगी वण्टी खणूंक सांगता सादूर राव भाव देवाऱ्यांतलो साळीग्राम मागता अशा उतरांनी गोंयकारांच्या स्वाभिमानाक हात घालपी जेश्ट कोंकणी बाकिबाब बोरकार आसूं...... ह्या सगळ्यांनी शब्दांची ताकद वळखल्ली..... आयज तुमी ती वळखुपाचो वेळ आयला.... देखून म्हणटा -

'बांद रे जोत उखल भुंजा मोख आतां पयस ना, कश्टाचे हात हातांत गुथले बगर जैत ना.'

जोड आयोजक संस्था : गणपत पार्सेकर शिक्षणशास्त्र महाविद्यालय, हरमल

तारीक : 07 आनी 08 फेब्रुवारी, 2020

येवकाराध्यक्ष : श्री. उदेश नाटेकर

कार्याध्यक्ष : वैशाली वासुदेव परब

उदघाटक : डॉ. राजन गवस

# विसावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन

**भौ. अजय उर्फ अप्पा बुवा**
(संमेलनाध्यक्ष)

कोरोनाचे फाठभुंयेर जावपी ह्या संमेलनांत तुमकां सगळयांक मायेमोगाचो येवकार. आमच्या देशा सकट पुराय संवसार आतांच खंयतरी कोविडाच्या आघातांतल्यान सावरपाक लागला. पूण हे म्हामारीचें भिरांकूळ अरिश्ट अजूनय पुरायपणान ना जावंक ना. पूणताचे कडेन झूज दियत लोकांनी आपल्या दिसपट्या जिविताक सुरवात केल्या. साहित्यिक लेगीतताका आडवाद नात. फाटल्या वर्सा 23 मार्चाक गोंयांत लोकडावन पडिल्लें. हाका लागून फाटलें वर्सभर सगळ्याच मळांचेर जावपी वेगवेगळ्या कार्यावळींचेर हावळ आयिल्ली. अजूनय ही परिस्थिती व्हडलीशी बदलिल्ली ना. हाचो प्रभाव बर्याच गजालींचेर पडलो. तातूंत साहित्यीक आनी संस्कृतीक चळवळय मात्शी थंडावली. कोंकणीच्या मळार युवा बरोवप्यांचींसादारण तीन तरी पुस्तकां उजवाडाक येतालीं. दर वर्सा नवे लेखक घडटाले. म्हालगड्या साहित्यिकांचीं किमान पन्नास तरी नवीं पुस्तकां उजवाडाक येतालीं. कोरोना खातीर पयले कांय दीस सगळेच सुवाळे बंद पडिल्ले. कांय दिसा उपरांत डिजिटल पद्धतींतल्यान पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. पूण तातूंत ती गोडसाण आनी आपलेपण आसलें काय कितेंही चिंतपा सारकी गजाल. फकत एक सोपस्कार म्हणून अश्यो कार्यावळी जाताल्यो. खबरापत्रांनी फोटो छापून येतकच कळटालें, कोणाचें तरी पुस्तक प्रकाशीत जालां म्हूण.

खरें सांगचें जाल्यार प्रत्यक्ष रुपां एका सभाघरांत जे तरेन पुस्तक प्रकाशन जाता ताची एका लेखका खातीर वेगळीच व्हडवीक आनी नवल आसता. लेखक प्रत्यक्षपणान वाचकां मेरेन पावता. कांय प्रमाणांत ताच्या पुस्तकांच्यो प्रतीय

खपतात. देखून दर लेखकाक आपल्या पुस्तक प्रकाशनाचो सुवाळो व्हड दबाज्यान जाल्लो जाय आसता. ते खेरीज पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्याक हाजीर आशिल्ल्या म्हालगड्या लेखकांक मेळपाची, तांचे कडेन संवाद सादपाची, तांच्या साहित्या बद्दल चर्चा करपाची संद मेळटा. साहित्यीक विचारांचें दिवप घेवप जाता. तशेंच लेखकाक लागीं सावन पळोवपाची एक वेगळीच उत्सुकताय आसता. तुमी. नवीन किदें बरयलां? ह्या एकाच प्रश्नान नवें कितें तरी वाचपाक मेळटलें हाची उमळशीक लागता. आनी नकळटनाच लेखकाचीय जापसालदारकी वाडटा. हे म्हालगडे लेखकूय केन्ना केन्ना आमचे सारक्या लेखकांक 'तुजी कथा वाचली. अमकी कविता वाचली. तूं बरो बरयता. बरयत राव.' ह्या उतरांनी वाखाणणी करता तेन्ना म्हजें बरप वाचपा सारकें आसा हाची जाण जाता. तांचे कडल्यान बरेंच कितें तरी शिकून घेवपाक जाय अशी उमळशीक मनांत आसताली. पूण ह्या पॅण्डामीक काळान हें सगळेंच आमचे कडल्यान काडून घेतलें. हाका लागून साहित्य अकादमीच्यो कार्यावळी आमकांचुकल्यात. भारताच्या हेर वाठारांत वचून थळाव्या साहित्यिकांक मेळप आनी देशभरांतल्या साहित्यिका सामकार आपले साहित्य सादर करप हाचो अणभव अवर्णनीय आसता. जाणे वेबिनारांच्या माध्यमांतल्यान पयलेच फावट साहित्य अकादमीचे कार्यावळींत वांटो घेतला तांकां हो उणाव उरतलोच.

म्हजे सारक्या नवोदीत लेखकाक म्हलगड्यां साहित्यिकांचो सहवास मेळप हें म्हजे खातीर हांव भाग्यच समजतालों. कारण आयज हांव हे माचयेर संमेलनाध्यक्ष म्हूण उलयतां तो तांच्याच फाटबळान. कोणाल्याय कसल्याय पुस्तकाचें प्रकाशन आसूं हांव मुजरत वतालों तो तांका मेळप जातलें ह्याच हावेसान. आनी आयजूय तेंच करतां. पूण ह्या

सगळ्या गजालींचो खर्या अर्थान योग जुळोवन हाडपाचें काम केलें तें कोंकणी युवा महोत्सवान. आयज कथाकार, कवी, नाटककार अजय बुवा म्हूण म्हजी साहित्यीक मळार वळख घडयली ती ह्याच युवा साहित्य संमेलनान. तसो हांवें साहित्याक स्पर्श केलो तो बालभवनांत शिकतना. पूण त्या साहित्याक परजळीत वाट सापडली ती ह्याच युवा साहित्य संमेलनांत. फाटलीं कितलीशींच वर्सां एक खंयची तरी शिक्षणीक संस्था आनी गोवा कोंकणी आकादेमी हांच्या जोडपालवान हें संमेलन आयोजीत जाता.

आयज परत एक फावट आमी युवा साहित्य संमेलनाच्या निमतान एकठांय जातात ही खोशयेची गजाल. एका स्थित्यंतरा उपरांत जाल्ल्या संमेलनाचो अध्यक्ष जावपाचोमान म्हाका मेळटा ही म्हजेखातीर उपाट खोशयेची आनी भाग्याची गजाल. फाटल्या तीस वर्सांचे साहित्य साधनेचें फळ आयज म्हाका मेळटा हें हांव अभिमानान सांगता. डॉ. राजय पवार आनी भास्कर नायक सर हांचे कल्पनेंतल्यान अवतरिल्लें हें साहित्य संमेलन आयज बरेंच मुखार पावलां. केपेंच्या सरकरी महाविद्यालयान जाल्ल्या पयल्या संमेलना वेळार म्हज्यांतलो साहित्यीक निद्रावस्थेंत आशिल्लो हें हांव प्रामाणीक पणान सांगतां. म्हज्याच व्यापान गुरफटून उरलों आनी साहित्या कडेन दुर्लक्ष जालें. पूण ताचे उपरांत एका तपान म्हणल्यार 2010 वर्सा सावन हांव परत बरोवपाक लागलों·

युवा साहित्य संमेलनाचो अध्यक्ष जावप हें म्हजे खातीर एक सपनशें आशिल्लें. ताचे खातीर साहित्यीक साधना जाय पडटा, साहित्याच्या मळार प्रस्थापीत जावचें पडटा हें खबर आशिल्लें. हीच मोख मनांत बाळगून कोंकणीचे सेवेक सुरवात केली. आनी तेन्नासावन युवा संमेलनाचो अध्यक्ष जावपाचें सपन पळयल्लेंतें आयज पुरायजाता हें पळोवन मळबा येदी खोस जाल्या. ह्या संमेलनांत जावपी कार्यशाळां

वेळार म्हालगड्यांचे मार्गदर्शन हें आमचे खातीर मोलाचें आसतालें आनी संमेलनाध्यक्ष जावपा खातीर ते योग्यतेची साहित्य निर्मणी करप कितली गरजेची हें कळून येतालें. तेन्ना सावन शारदेच्या ह्या उत्सवांत एक दीस हे पालखेचो भोई जातलों आनी ही पालखी खांदार मारून मिरयतलों असो मनांतल्यान केल्लो निश्चय आयज पुराय जाता म्हूण काळीज भरून आयलां. हांगा जमिल्ल्या सगल्या साहित्यमोग्यां कडेन खास करून नवोदीत लेखकां कडेन मागतां, तांणी आपले साहित्य साधनेन एक दीस ही पालखी आपल्या भुजार घेवन मिरयतलों हाचें सपन पळोवचें. आनी तें केलें जाल्यारूच तुमचे कडल्यान कोंकणी सरस्पतीची सेवा प्रामाणीकपणान जातली हातूंत दुबाव ना. संमेलनाध्यक्ष जावपा खातीर बरोवचें अशें हांव म्हणीना. पूण ही मोख बाळगून जर तुमी साहित्य निर्मणी केली जाल्यार संमेलनाध्यक्ष ही तुमच्या कार्याची पोचपावती आसतली. हातूंतल्यान नकळटनाच तुमचे कडल्यान दोळे दिपकावपी अशें साहित्य निर्माण जातलें हें निश्चीत.

आमी वेगवेगळे दीस मनयतात. फ्रेंडशीप डे, वॅलेन्टायन डे, गिफ्ट डे, रोज डे, बी. पूण हे सगळे आमचे दीस न्हय. आमी सरस्वतीचे पुजारी आनी शारदेचे उपासक. आमचो फकत एकूच दीस आसपाक जायतो म्हणल्यार संमेलन दीस. वर्सभर तुमी ह्या दिसाची वाट पळोवपाक जाय. फ्रेंडशीप डे मुजरत मनयात पूण पुस्तकां कडेन इश्टागत जोडून. व्हॅलेंटाईन डे मनयात साहित्याचेर मोग करून. गिफ्ट डेमनोवया पूण एकामेकाक पुस्तकरुपी ज्ञानाची भेट दिवन. पंढरपूरच्या पांडुरंगाचे वारकरी आतुरतायेन आषाढी कार्तिकी एकादशीची वाट पळयतात. कारण तांच्या काळजांत विठ्ठल वसला. आमच्याय काळजांत कोंकणी भास, कोंकणी संस्कृताय आनी कोंकणी सरस्वती वसपाक जाय. तेन्नाच आमी आशाडी, कार्तिकी एकदशी भशेन

साहित्य संमेलनाची वाट पळयतले आनी साहित्याचें हें दायज माथ्यार मारून आनवाणी ह्या माटवांत धांव घेतले हें वेगळें सांगपाची गरज ना. आमी साहित्याचे वारकरी जावन संमेलन रूपी वारीचें सपन पळोवया.संमेलनांतल्या आमी घडल्यात हाची जाण बाळगुया.

हांव महाविद्यालयांत शिकतना पणजी अखिल भारतीय मराठी साहित्य संमेलन जाल्लें. एक आपवावुरपी म्हूण काम करतना व्हडव्हड साहित्यकारांची सेवा करपाचो योग आयलो. रोखडोच कारवारचे कोकणी परिषदेक हजेरी लावपाचो योग जुळून आयलो. कोंकणींतल्या म्हालगड्यांक लागीं सावन पळोवपाची संद मेळ्ळी. हांवूय एक दीस व्हड साहित्यीक जातलोंहाचो हावेस थंय मेळ्ळो आनी हांव घडत गेलों. ह्या म्हालगड्या लेखकांच्या स्पर्शान म्हज्यांतलो सामान्य मनीस लेखक जालो. जशें "परीसाच्या संगे लोह बि घडले". लोह बी घडले सुवर्णची झाले, 'आम्ही बी घडलो आता तुम्ही बी घडाना' हो कान मंत्र तुमका हे वेदी वयल्यान दितां.

पुस्तक प्रकाशन कार्यावळीचें आपोवणें येतलें हाची वाट पळोवं नाकात. हांव दिसाळ्यांनी बातमी वाचतालों आनी पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्याक वतालों. अजूनय वतां. 'साहित्य मोग्यांनी कार्यावळींक मुजरत हजर रावचें अशी विनंती लेखकांक आनी प्रकाशकांक केल्या.' हें हांव वाचतालों. ती वळ म्हाकाच उद्देशून बरयल्या अशें दिसतालें आनी हांव पुस्तक प्रकाशन सुवाळ्याक वतालों. वाळपयच्यान मडगांव, पणजे अशी भ्रमंती आसताली. केन्ना केन्ना कार्यावळ उसरां सोंपल्यार तेदे वेळार बशी नासताल्यो. मागीर लिफ्ट नांवाचो प्रकार घेवन रातचें उसरां घरा पावप जातालें. आयज तुमकां प्रवासाचीं तमाम साधनां उपलब्ध आसात. पुस्तक प्रकाशन

सुवाळे चुकोवं नाकात.जाचेर सरस्वती प्रसन्न जाल्या अशे साहित्यीक थंय मुजरत मेळटात. तांचेकडेन उलोवपाची, आपलें मन व्यक्त करपाची संदसोडूं नाकात. हेच प्रक्रियेंत आयच्या ह्या माटवांत जायचे जाण घडल्यात. तुमीय घडटले हातूंत दुबाव ना. प्रकाशना वेळार पुस्तकाचेर उलोवप्याचें भाशण तुमच्या मोबायलाचेर रेकॉर्ड करून दवरात. घरा वचून तें परत आयकात. ताचेर टिपणी काडात. जमल्यार थंयच त्या पुस्तकाची प्रत विकत घेयात, वाचात आनी तुमचे विचार परगटायात. ताणें बरें बरयलां काय वायट हाची पारखणी तुमचे वस्तुनिश्ठ नदरेंतल्यान जांवदी. सांगू नज त्याच सुवाळ्यांत तुमच्यांतलोच एकादरो समिक्षक घडूं येता. हीच समिक्षा तुमकां तुमचें साहित्य कसदार करपा खातीर फायद्याचें थारतलें. तुमी फाटले पिळगे खातीर वाट साहित्याची मेकळी करून दितले. गरज आसा ती साहित्याचे पोट तिडकीची. ताचे खातीर वाचात.

एक काळ असोय आशिल्लो जेन्ना कथा, कविता, निबंध अशा सर्तीं खातीर पन्नासां परसूय चड सर्तक आसताले. हातूंत राजय पवार, हनुमंत चोपडेकार, गणादिश खांडेपारकार अशा जायत्या नांवांचो मुजरत उल्लेख करीन दिसता. हीं नांवा हमखास आसतालीं. एकामेकाकडेन सर्त करतानाच जायते फावट स्वता कडेनूच सर्त जाताली. त्या वेळार सर्तीचें प्रमाणूय खूब आसतालें. पूण आयज सर्तींक मेळपाक जाय तितलो प्रतिसाद मेळना ही खंत मनांतल्यान परगटायन दिसता. कविता सर्तींक काय प्रमाणांत प्रतिसाद मेळटा, पूण कथा आनी निबंद हांकां आठ तेधाच प्रवेशिका येतात. अशा वेळार आयोजकांनी करपाचे कितें? सर्तकच उणे आसल्यार स्पर्धा जावप कश्यो हो प्रस्न आयज सतावपाक लागला. ह्यो सर्ती पुनर्जिवीत करपाचें काम तुमकांच करचें पडटलें. लेखक दुसर्यान घडोवपाचो नासता. तो स्वता घडपाक जाय. ताणें

लेखक म्हूण स्वताची पारख स्वताच करपाक जाय. तुमी बरयतात ताचेर मोग करात. सर्ती खातीर आमी बरयताले. एक न्हय पांच कविता बरयताले. तातूंतली बरी ती कविता वेंचून मागीर सर्तीक सादर करताले. साहित्य सर्तीच्या निमतान म्हालगडे तेन्ना मार्गदर्शन करताले. इनामां परस तांचे अणभव म्हत्वाचे आसताले. आयज कोणूय मार्गदर्शन करता तेन्ना आमी व्हाट्सऍप, फेसबुकांत रिगिल्ले आसतात. आमी वराचीं वरां भाशणां आयकताले. प्रश्न विचारताले. तातूंतल्यान मेळिल्लो एक मुद्दो लेगीत आमच्या फुडल्या बरपा खातीर वाटचिरो कसो आसतालो. पूण आयच्या विद्यार्थ्यांक वा सर्तकांक पळयता तेन्ना ताणें फकत सर्तींत वांटेकार जावपाकूच जाय म्हूण वांटो घेतला काय, ताका बळजबरीन घेवपाक लायला असो प्रस्न मनांत उप्रासले बगर रावना. आपलें सादरीकरण जालें म्हणटकच परत तकली सकयल घालून मोबायलांत घुस्पतात. हे वृत्तीन तुमीच तुमच्यांतल्या साहित्यिकाक मारपाचें काम करतात. आमच्या वेळार इनामां मेळ्ळींना जाल्यार आमी खंय चुकल्यात हाची मोलवणी करताले. इनामां मेळिल्ल्यांच्यो कथा, कविता, लेख, एकांकी वाचून आमच्यांतल्योच चुकी सोदपाचो यत्न करून फुडाराक त्यो सुदारप जातालें. आयज इनामां मेळूंक नासल्यार तुमी रोखडेच निर्शेतात आनी बरपा कडेन फाट करतात. तुमी बरयलां तें चूक काय बरोबर हें तुमी थारावं नाकात. परिक्षक वा वाचक थारायतले. निर्शेवपाच्या मार्गांतल्यान तुमी तुमच्यांतलो साहित्यीक मारतात हें परत एक फावट सांगतां.

तुमी निर्शेवपाचें मुखेल कारण मणल्यार आयचीं तुमीच पोसवण दिल्लीं समाज माध्यमां. तुमी तुमची कविता फेसबुकार घालतात. जाका ती कळूंक ना तो तुमका 'व्हेरी गूड'

घालता. जाणे ती वाचुकूंच ना तोय तुमकांबरी जाल्या म्हणून 'लायक' करता. लायक नशिल्ल्या साहित्याक आभासी 'लायक्स' मेळिल्ल्या कारणान एके रातीन लेखक जाल्ल्याचो दिश्टावो जावपाक लागता. फेसबूक लायक्स तुमका खुशाल करपाखातीर आसतात. तुमची कथा, कविता साहित्यीक गुणांनी 'लायक' करपाक  शिकात. जाका साहित्य कळटाताणें तुमकां तुमच्याच फेसबुकाचेर फिडबॅक दिले आनी सुदारणा करपाक सांगल्यो जाल्यार तुमकां राग येता. तुमचे परस जाका साहित्य कळना त्या तुमच्या फेसबुक फ्रॅण्डाक चड राग येता. तुमकां जाणकारां परस कृत्रीम गिन्यानी व्हड दिसपाक लागला.ही सवंय बदलात. अशा संमेलनां वरवीं मेळपी मार्गदर्शन तुमच्यांतल्या साहित्यकाराक पोसवण दिता हें ध्यानांत आसुंदी.

सर्जनशील साहित्या खातीर तपश्चर्या जाय. एके रातीन आनी एके वातीन पर्जळीत जावपाची सवंय मोडात. एका पांखान मोर जायना. मोराक सगळीं पांखां जाय. तेन्नाच तो बरो फुलारो फुलोंक पावता. आयज तुमी एका पांखान मोर जावपाक सोदतात. आमी महाविद्‌यालयांत शिकताले तेन्ना आमचें साहित्य प्रसिद्ध जावप मणल्यार दिव्य काम आसतालें. साद्‌या 'कॉलेज कट्टा' आनी 'कॉलेज विश्वांत' तेन्ना खांपे तरणाटे बरोवपी आसताले. हांव बरें बरयतलों आनी एक दीस म्हजें साहित्य ह्या सदरांनी छापपाक तांकां प्रवृत्त करतलों, असो आमी ध्यास बाळगिताले. आयज पांचांक कविता बरय. पांच-धांक तीसमाज माध्यमाचेर प्रसिध्द कर. आनी झटपट

प्रसिध्दी घे. ही झटपट प्रसिध्दी आयज मारक थरत आसा. खळांतलीं तोरां बरीं चेपणाक पडपाक जाय. ना जाल्यार तीं सुरेतात. तुमचे बाबतींत अशें घडचें न्हय हाची जतनाय घेयात. तुमच्या लेखनाचेर संस्कार जावं दी. छापपाचीं उचांबळपणा करूं नाकात.

नकारात्मक समिक्षा तुमका आवडना. तुमचो स्वाभिमान दुखवता. हाचे मुखार हांव बरोवचोच ना असो न्युनगंड निर्माण जाता. तुमी तुमचें बरप थांबयतात हाची लुकासाण तुमचे परस कोंकणी सरस्पतीक चड जाता. कोंकणींतलो एक लेखक फुलचे आदींच बावता. आमच्या साहित्याबद्दल कोणेंय नकारात्मक टिकाकेली जाल्यार आमी दुखवनासले. आमचें साहित्य सुदरापा खातीरचो तो एक सल्लो समजून मानून घेताले. येद्याव्हड लेखकान म्हजें साहित्य वाचलां हाचीच आमकां धादोसकाय जाताली. आमची साहित्यीक म्हणून नोंद जावपाकूच एक दशक वाट पळोवची पडली. फकत नोंदीखातीर धा वर्सां. मागीर विचार करात. आयज एके कवितेने वा एके कथेन तुमची नोंद जाता. आनी तुमी एका पांखाचे मोर जातात. मोर जायातूच, पूण 'मोर ॲण्ड मोर' साहित्यांतले मोर जायात. 'मोर ॲण्ड मोर' साहित्य बरयात, मोर ॲण्ड मोर' साहित्य वाचात.

तुमच्यो 25 कविता जाल्यो म्हणटकच तुमकां पुस्तकाचे दुवाळे लागतात. 'आनीक वीस कविता जाल्यो काय छापुया तुजो कविता झेलो. 'अशें म्हणून तुमकां फुलोवपी जायते आसतात. ताणे इतलेंच म्हणटकच तुमचे भितरल्या तरण्या फळाक धाडोवन बडोवन पिकोवंक सोदतात. फळ

रोसाळ जावपाच्यो लेगीत तीन अवस्था आसतात. हरवें, आमुरपिकें आनी पिकें. ह्या तिनूय अवस्थांतल्यान गेल्यारूच फळाक गोडी येता. तशेंच तुमच्या साहित्याचें. ताकां धाडावन बडोवन पिकोवचे परस ह्या तिनूय अवस्थांतल्यान तेका वचूं दी. आपसूक साहित्यीक गोडसाण फाव जातली. पन्नास कविता जाल्यो म्हणटकच तुमचें पुस्तक येता. पूणतुमी केल्ले घिसडघाईक लागून तें तुमचें पयलें आनी निमणें पुस्तक थरता. अकादमीच्या पयल्या चंवराचे कितलेशेच लेखक आसात आनी ते चंवरातूंच उरल्यात. आयज तांचो आनी साहित्याचो कांयच संबंद उरूंक ना. ही खरी शोकांतिका. 'अति घाई विनाशाकडे नेई' अशी मराठींत एक म्हण आसा. पयलें पुस्तक येवपाक धा वर्सां लागूं, पूण दितलों तें दर्जात्मक दितलों असो हावेस बाळगात.

युवा संमेलनाचो नियाळ घेतना एक गजाल मनाक खंत दिवन वता. युवा संमेलनां ही विद्यार्थी संमेलनां जावपाक लागल्यांत. 35 ते 45 वर्सांमेरेनचे तरणाटे बरोवपी हांगा मोठ्या संख्येन हजर रावपाक जाय. पूण तें जायना. महाविद्यालयानी कोंकणी शिकपी भुरगींच युवा संमेलनाक वांटेकार जातात. फुडल्या वर्सासावन मोठ्या संख्येन युवा संमेलनाक येतले ह्या खातीर पेंगट बांदुया.

युवा साहित्यीकाचे तीन प्रकार आयज पळोवपाक मेळटा. कांय तरणाटे सातत्यान बरयतात. कांय विसव घेवन बरयतात. कांय सुरवातीचो काय तेप बरयतात आनी मागीर खंयतरी नाच्च जाता. आमच्या वेळार साहित्य सर्ती राबोवपी, बरोवपी आयज नाच्च जाल्ले आसत. तांका परत बरोवपाच्या मुख्य प्रवाहान हाडूया. तांणी जें किदें मोजकेच पूण दर्जेदार

साहित्य बरयलां तांचें संपादीत पुस्तक काडपाचो यत्न करूया. जेणेकरून ते परत एक फावट मुख्य प्रवाहान येवपाक शकतात. म्हज्यातलो न्हिदोन राविल्ल्या साहित्यिकाक जागोवपाचें काम डॉ. राजय पवार आनी डॉ. हनुमंत चोपडेकार हांणी केले. प्रत्येकान ही जापसालदारकी उखलुया. बारीकशी किट्टी पेटोवपाची गरज आसा. तांच्या भितरलो साहित्यिक होमकांड जावन पेटपाक वेळ लागचो ना.

परत एक फावट सगळ्यांक मायेमोगाचो नमस्कार!

तुमचोच,

अजय उर्फ अप्पा बुवा

आयोजन संस्थाः- सरकारी महाविद्‌यालय, खांडोळें, माशेल

तारीखः- 31 मार्च, 2001

येवकाराध्यक्षः- प्राचार्य डॉ. पुर्णकला सामंत

कार्याध्यक्षः- प्रो. डॉ. प्रकाश वजरीकार

उदघाटकः- डॉ. नारायण देसाय

युवा कोंकणी साहित्य संमेलन ही युवकांच्या प्रतिभा सन्मानाची तशेंच विस्ताराची चळवळ जावंची हो हेतू दवरून प्राचार्य भास्कर नायक हाणी हे चळवळीक सुरुवात केली. पयलें युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांतलें कार्याध्यक्ष म्हण ताणी केल्लें भाशण आनी पयल्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनाचे अध्यक्षीय भाशण हीं चळवळीचीं दोन मार्गदर्शक सुत्रां.!

विद्यार्थी तशेंच बिगर विद्यार्थी वर्गाक कोंकणी भाशा मंडळाच्या गोवा युवा महोत्सवान फाटलीं २५ वर्सां एकठांय हाडपाचें कार्य केलें. गोवा युवा महोत्सवांतल्यान उर्बा घेवन स्वतंत्र महोत्सव घडोवन हाडपी अस्मितायेचे प्रसारक तयार जालेत. गोवा युवा महोत्सवाचें बाय-प्रॉडक्ट म्हण गोवा कोंकणी अकादेमीच्या युवा कोंकणी साहित्य संमेलनांचें मुल्यमापन जावन मुखावेली दिशा थरोवची. गोंय मुक्तीच्या साठाव्या वर्सांतलें विसावें युवा कोंकणी साहित्य संमेलन ते खातीर एक निमित्त.!